# हुंवार

— दत्ता नायक






कुळागर प्रकाशन

मडगांव-गोंय.

पयली खेप : नोव्हेंबर १९८९

□



□



उजवाडावपी :
कुळागर प्रकाशन
पो. बॉ. नं. ७८
मडगांव–गोंय.



□




छापपी :
रवि मुद्रणालय
कडोलकर गल्ली,
बेळगांव

□

मुखचित्र : श्रीधर कामत बांबोळकार

□

मोल : पन्नास रुपया

# लेखकाचीं दोन उतरां–

‘ हुंवार ’ ही म्हजी कोंकणी कादंबरी तशें पळोवंक गेल्यार हांवें जुलै १९६४ त म्हळचार २५ वर्सांपयलींच बरोवन काडिल्ली.

११ जुलै १९६१ क पानशेत धरण फुटिल्लें. तेन्ना हांव पुण्याक फस्ट इयर डिप्लोमा इन सिव्हील इंजिनियरींग शिकतालों. धरण फुटचेपयलीं सात आठ दीस पुण्यांत आकांताचो पावस पडिल्लो. उपरांत ११ तारखेक धरण फुटिल्लें. तुंबयल्ल्या उदकाचो हुंवार आयिल्लो. म्हाका हुंवाराची तशी थेट झळ लागूंक नाशिल्ली. पूण पुण्याची जाल्ली वाताहत हांवें स्वता पळेल्ली. उपरांत सगळ्या शाळा कॉलेजांक एक म्हयनो सुटी पडिल्ली. हो एक म्हयनो हांवें गोंयांत येवन सारलो. तेन्नाच ही कादंबरी बरोवची अशी कल्पना तकलेंत घोळटाली.

जुलै १९६४ त हांव एके कंपनींत सायट इंजिनियर म्हणून काम करतालों. त्या वर्सा गोयांत त्या जुलै म्हयन्याच्या चार पांच दिसांक न थारतां पावस ओतपाक लागलो. पावस पडटालो म्हण्टकच म्हाका कांयच काम नाशिल्लें. हांव पणजे नेवरेकारागेर रावतालों. हावे ही कादंबरी १९६४ च्या जुलै म्हयन्याच्या त्या चार पावशी दिसांक बरोवन काडली– चारशें पानांच्या एका कादेर्नार. कादेर्नाच्या पानार आरतें परतें बरोवन ही कादंबरी हांवे आठ दिसांभितर सोंपयली. मागीर वोगीच ही कादंबरी खूब ‘ बॉल्ड ’ कशी म्हाका दिसपाक लागली. आनी खूब जाण्टेले साहित्यीक म्हाका ‘ आरे किदें बरयलां ? ’ अशें विचारतना लेगीत हांवें ही कादंबरी बरयल्या ही गजाल हांवें गुपितच दवरिल्ली.

१९७९ तल्या मे म्हयन्यांत म्हाका कामिण जाल्ली. बेळगवां वचून थंड उदक पियेल्लों तांतूत हें इंन्फेक्शन म्हाका जाल्लें. दोतोरान आठ दीस

न्हिदून रावन विसव घेवपाचो सल्लो दिलो. म्हाका वाज येवपाक लागलो. किदेंय वाचपाक म्हणून आरमार सोदपाक लागलों तेन्ना हो कादंबरी बरयल्लो कोदर्न म्हज्या हातांत आयलो. हांवें ती कादंबरी वाचली.

हांवें येवजिलें. हें कथानक घडलां पुण्याक. पुराय महाराष्ट्रीय वातावरणांत. हांवें ही कादंबरी मराठींतल्यान किद्याक अणकारची न्हय ? हांतुणार न्हिदिल्लो आसतना हांवें ती कादंबरी मराठींतल्यान अणकारीत केली. म्हजी ही मराठी कादंबरी दोगांक पसंत पडली. श्री. एफ. बाबुराव आगशीकार आनी गणाधीश खांडेपारकार हाकां. उपरांत श्री. खांडेपारकारांनी ती कादंबरी १९७९ च्या मैफल दिवाळी आंकांत ' सोनेरी केंसाचा राजपुत्र ' ह्या नांवान छापली.

म्हजो तरनाटो इश्ट श्री. अभयकुमार वेलींगकार एक दीस म्हजेकडेन येवन म्हाका म्हणपाक लागलो, ' तुवें ही कादंबरी कोंकणीतल्यान छापपाकच जाय. तूं म्हाका 'फेर ' कोंकणी कॉपी काडून दिता ? हांव तुका एक म्हयनो दितां. सप्टेंबर ८९ अखेरमेरेन तूं म्हाका ही कोंकणी कादंबरी दी.'

हांवें सुमार २५ दिसांनीच दिसाक एक वर बरोवन ही कादंबरी फेर करून काडली. आनी फेर करता आसतनाच म्हाका परतीय एकदां कोंकणी भाशेची तांक कितली म्हण्टा तें लक्षांत आयलें. पयलीं मराठी कादंबरी वाचून डॉ. मिनाक्षी मार्तींश हे चली–दोतोरान म्हाका कांय मोलोदीक आनी वास्तव सुचना केल्यो. त्यो सुचना हांवे हे कोंकणी कादंबरेंत आतां आपणायल्यात.

हे कादंबरींतली सगळीं पात्रां ७५ टक्के खरीं. २५ टक्के म्हजी कल्पनाशक्ती. पुणेंच्या हुंवाराक २९ वर्सां जावन गेल्यांत म्हण्टकच पानशेत धरणाचें खूबशें उदक व्हांवूनयबी गेलां. पूण तरी आसतना २५ वर्सांउपरांत ही कादंबरी 'फेर' करतना म्हज्या मनांत मात भावनांचो परत एक खेप प्रचंड हुंवार आयलोच आयलो.

समस्त रसिक वाचप्यांक देव बरें करूं म्हण्टां.

**– दत्ता नायक**




# शुभदा

शुभदा वॉर्डाभितर आयलें तेन्ना लेक्चर निकतेंच सुरू जाल्लें. धवोफुल्ल गावन घाल्ले दोतोर आपटे एके कॉटीलागीं उबे भाशिल्ले. शुभदाच्यो वर्ग–भगिनी आनी वर्ग–बंधू दोतोर आपटे भोंवतणीं चोमो करून उबे राविल्ले. दो. आपटे ‘ गुप्त–रोग चिकित्सा ’ ह्या विशयाचेर लेक्चर दिताले. शुभदाय थंय घुसलें.

‘...आनी सगळ्या गुप्त–रोगांचो राजा म्हळचार भायली पिडा. म्हळचार सिफिलीस. सिफिलीस पिडेच्यो तीन अवस्था वा स्टेजीस आसतात. फर्स्ट स्टेज, सेकंड स्टेज आनी थर्ड स्टेज. पयले अवस्थेंत ही पिडा जाल्ल्या रुग्णाच्या ग्लान्स–पेनीसार निरुपद्रवी दिसपी धव्यो पुळयो येतात. पयले अवस्थेंत हे पिडेचेर उपचार करप चड बरें. दुसरे अवस्थेंतय सातत्यान उपचार केल्यार सिफिलीस रुग्णांक हे पिडेपासून आपली मेकळीक करून घेवपाक जाता. पूण थर्ड स्टेजींच्या रुग्णांक मात हे पिडेपासून आपली सासणाची सुटका करून घेवपाक जमना. आतां हे कॉटीवयल्या रुग्णाची स्थिती पळे-यात... ...’ दो. आपटेन लेक्चर दिता आसतनाच ते कॉटीवयल्या रुग्णाकडेन सगळ्यांचें लक्ष ओडलें.

त्या पेशंटाच्यो खाड–मिश्यो बोटभर वाडिल्ल्यो. दोळे भितर गेल्ले. खाड वाडिल्लें आसतनाच ताचीं भितर गेल्लीं गालफडां बेस-बरीं दिसतालीं. ताच्या दोळ्यासकयलीं हाडां वयर सरिल्लीं. ताच्या भांगार धवी शादर पांगुरलेली.

दो. आपटेन ताचेवयली चादर काडली. चादरासकयल ताच्या आंगार फकत एक बानयन सोडल्यार तो पुराय नागडो आशिल्लो. मातय हालनासतना तो सगळ्या विद्यार्थ्यांकडेन आनी दोतोराकडेन काकुयटेन पळेतालो. आंगावयलो चादर काडिल्ल्यान ताका आपले नागडे अवस्थेची खूब्ब लज जाल्ल्याचें जाणवतालें. ताणें आपली कूड आंखडांवन भितर ओडिल्लेभाशेन केली. ताच्या हातापायांचे व्हीर जाल्ले. ताचें लींग विरूप जाल्लें.

दो. आपटेन ताचें लींग आपल्या लुआं घाल्ल्या उजव्या हातान उखल्लें. आपल्या विद्यार्थ्यांक उपरांत गंभीरतायेन ते सिफिलीसची चड माहिती दिवपाक लागले.

शुभदाचें लक्ष अकस्मात एके कुशीक पडिल्ल्या त्या पेशंटाच्या हातार गेलें. व्हिरासारको बारीक जाल्लो तो हात. त्या हातार मुरली वाजोवपी कृष्ण गोंदयिल्लो आशिल्लो. हाताची कात सुरकतलेल्यान आटिल्ली. कात आटिल्ल्यान कृष्णाचें तें चित्रय आटिल्लें.

शुभदान आंग काडलें. ताचें मन बधीर जालें. ताची कूड घट्ट जावन आयली. कुशिल्ल्या चिखलाची ती घाण ताच्या नाकांत शिरपाक लागली. ताच्या मेंदूक सणण जालें. आनी अश्या वेळार मल्लुकें मारून आयिल्लेभशेन येवपी ती घुंवळ ताका आयली. एक घुसमटलेली किळांच मारून तें बेशुद्ध पडलें आनी अशें बेशुद्ध आसतनाच तें भडाभड ओंकलें.

० ० ०

शभदा शुद्धीर आयलें तेन्ना दो. आपटेन ताचेर प्रथमोपचार केल्ले. ताचेभोवतणी हेर विद्यार्थी–विद्यार्थिनी उब्यो राविल्ल्यो.

‘ मिस रेगे ! आतां कशें दिसता तुका ?’ दो. आपटेन सूत्र जावन पळोवपी शुभदाक विचारलें.

‘ हांव बरें आसां, ’ शुभदान जाप दिली. तें उठून उबें रावपाचो यत्न करपाक लागलें.

‘ राव ! राव ! मिस रेगे ! तूं मातशें हेच कॉटीर न्हिदून राव

आ,' दो. आपटेन ताका उठपाक दिनासतना म्हळें, 'हांव आनीक एका वरान तुका तपासपाक परतो येतां. तोमेरेन तूं हांगाच अशें आड पडून राव.'

वॉर्डांतल्या स्पेशल रुमांत आशिल्ले ते कॉटीर शुभदा मागीर न्हिदूनच रावलें. ताची तकली खूब्ब उसळूंक लागिल्ली. ताका हुडक्या हुडक्यांनीं रडपाक येवंक लागलें. तें खूब वेळ तशेंच रडत रावलें. रडटा आसतनाच ताचो दोळो लागलो आनी तें सुस्त न्हिदलें.

० ० ०

दो. आपटेन उठयल्ल्यानच शुभदाक जाग आयली. तें कॉटीर उठून बसलें. ताका तेन्ना खुबूच बरें दिसपाक लागिल्लें. ताची फोडटाली ती तकली आतां थांबिल्ली.

'मिस रेगे! तुका आयज आयिल्ल्याभाशेन अदीमदीं अशीच घुंवळ येता व्हय?' दो. आपटेन विचारलें.

'हय, दोतोर! केन्नाकेन्नाय येतां.'

'मिस रेगे! अंदू तुजें थर्ड इयर एम. बी. बी. एस. म्हळचार तूं सामकें दोतोर जायत आयलां. आनी अशें आसतनाय तुजे घुंवळीर अद्यापय तुंवें कांयच कसो उपाय घेतलो ना? हेदोळ तुजें क्लासमेट मिस मनू हजारे म्हाका सांगतालें, तुका खंय एक फावट सिनेमा थिएटरांतय अशीच घुंवळ आयिल्ली. शव–विच्छेदनाच्या प्रॅक्टिकलावेळारय तुका खंय दोन खेप अशी घुंवळ आयिल्ली. तुंवें अजूनमेरेन खंयच्याच दोतोराक तुजी प्रकृती कशी किदें दाखयलीना?'

'दोतोर! हांवें एकदां म्हज्या फॅमिली डॉक्टराक म्हजी प्रकृती दाखयिल्ली. दोतोरान म्हजे तकलेचो एक्सरे काडलो. मलमूत्र परिक्षा केली. रगताची तपासणी केली. पूण कसलेंच दुयेंस सांपडलें ना. दोतोर म्हणपाक लागलो– अपचन वा पित्ताखातीर अशी घुंवळ येता आसूंये.'

'मिस रेगे! तुका आयिल्ली ही घुंवळ मल्लुक्यांत जमा जायना. इट इज नॉट कॅटॅलप्सी. अपचन, पित्ताखातीर अशी घुंवळ

येवप कुस्तार. तुज्यांत तरी कसलीच पिडा आसाशें म्हाका दिसना. हो प्रकार शारिरीक पिडेचो न्हय. कसलेतरी मानसिक पिडेचो हो प्रकार आसा अशें म्हाका दिसता. तुका घुंवळ येता ती कसल्यातरी मानसिक ताणाखातीर अशें म्हाका दिसता. आयज आमच्या ॲम्फीथिएटरांत दोतोर दोडगे ह्या निष्णात मानसशास्त्रज्ञाचें एक व्याख्यान आसा. सांजेच्या चार वरांचेर तूं मुजरत यो. लेक्चर सोंपतकच हांव तुजी त्या दोतोरावांगडा वळख करून दितां. घुंवळेची ही तुजी केस आमी ताचेकडेन दिवंया.'

'थँक्यू डॉक्टर! थँक्यू व्हेरी मच. हांव मुजरत व्याख्यानाक येतां,' शुभदान कृतज्ञतायेन म्हळें. आनी शांत, जाय तितलेंच उलोवपी डॉ. आपटे ताका थंयच सोडून गेले.

शुभदा उठलें. वंटीक हुमकळायिल्ल्या हारश्यांत ताणें आपली नुरा निरखिली. गावनाच्या बोल्सांतल्यान फणी काडून आपल्या केंसार हात भोंवडायलो. बेसिनार वचून पचापच थंड उदक आपल्या तोंडार मारलें. उपरांत तुवाल्यान तोंड पुसलें. ताका प्रसन्न दिसपाक लागलें. ताणें रुमाचें दार अर्दें उगडलें. तो गुप्तरोगान जर्जर जाल्लो पेशंट थंयच आशिल्लो. तसोच हाल–धोल नासतना निस्तेज पळेत राविल्लो.

शुभदाची नुरा मात पाशाणाभशेन कठोर जाली. ताच्या ओंठाची सरळ रेघ जाली. निश्चयान तें रुमाभायर आयलें. त्या पेशंटाचे कॉटीलागीं येवन उबें रावलें. तें त्या पेशंटाकडेन निर्विकार तोंडान पळेत रावलें. वॉर्डांत नर्स नाशिल्ली. हेर पेशंट आपआपल्या कॉटींचेर वोग्गी आड पडिल्ले.

त्या मनशान शुभदाकडेन पळेलें. ताका दिसलें. आपणाक वखद वा इंजेक्शन दिवपाखातीर नर्सच आयल्या. ताणें परतें ताचेकडेन पळेलें. तें तशेंच ताचेकडेन रोखून पळेतालें. ताच्या दोळ्यांनी उचंबळायेचो उजो धगधगतालो.

'तुमी कोण?' त्या पेशंटान मात्शेंशें आंग काडून शुभदाकडेन

पळेलें आनी उपरांत अशक्त, अस्फुट आवाजांत विचारलें.

‘ म्हाका वळखलो ?’ शुभदान धारदार आवाजांत विचारलें. ताचे दोळे धगधगताले.

‘ कोण ... कोण तुमी ?’

‘ म्हाका वळखलो ?’

‘ ना ! कोण तुमी ? किदें जाय तुमकां ?’

‘ वळखलोना म्हाका ? पानशेतच्या हुंवाराची याद आसा ? एरवंडवणा पार्कांतल्या ‘ लक्ष्मी निवास ’ बंगल्याची याद जाता ? फकत तेरा वर्सां पिरायेचे ते चलयेची तुका याद जाता ?’

‘ तूं ? तें तूं ? तूं ... तें ?’ पेशंटाची नुरा धवीच जाली.

‘ हय ... तेंच हांव. हांवूच तें.’ शुभदाचो धारदार आवाज चडलो. ताचे दोळे ताचेर उजो ओंकताले.

‘ नाका ... नाका ... म्हाका मारूं नाका ... देवा रे ! धांवारे धांवात कोणीयतरी. म्हाका वांचयात, ‘ तो थर्त भियेवन जिवाच्या आकांतान आड्डूंक लागलो. जशें कितें शुभदाच्या दोळ्यांतलें तेज ताका भाजून करपून उडयतालें. वॉर्डांतली नर्स धांवत धांवत त्या पेशंटालागीं आयली. तोमेरेन तो पेशंट असह्य भिरांतेन बेशुद्ध पडिल्लो.

‘ किदें जालें, डॉक्टर ?’ नर्सीन अजापान शुभदाक विचारलें.

‘ कांय ना. हांव वतां ’ शुभदान थंडसाणेन जाप दिली. तें वॉर्डाभायर आयलें. नर्स त्या बेशुद्ध पडिल्ल्या पेशंटाकडेन आनी शांततायेन पावलां मारीत वचपी शुभदाकडेन अजापान आ करीत पळेतच उरली.

° ° °

शुभदा हॉस्पिटलाच्या कंपौंडाभायर आयलें. चर्चगेटीचे दिकेन चलपाक लागलें. ताचे तकलेंत विचारांचे चक्र गरगर फिरतालें.

‘ ...म्हाका येता त्यो फिटस ! त्यो फिटस शारिरीक पिडे-खातीर येनात अशें डॉ. आपटेन म्हळें. म्हाका जाल्यार हें केन्ना

खबर आशिल्लें. हांवें फ्रॉयड वाचला. सायकॉलॉजीवयली हेर कितलीशींच पुस्तकां वाचल्यांत. म्हाका येता त्यो फिटस म्हळचार मानसिक विकृतीचें एक लक्षण हें म्हाका केन्ना समजल्लें. ताचेर उपचार करपाक फकत मानसशास्त्रज्ञच जाय हेंय म्हाका खबर आशिल्लें. पूण म्हजें हांवेंच मानसशास्त्रज्ञाकडेन कशें वचपाचें? असो एकाद्रो सायक्रियास्ट्र म्हाका मेळ्ळो लेगीत जाल्यार ताका म्हजी ही विचित्र मानसिक अवस्था सांगपाची कशी? ...'

'म्हाका दादलो-बायलेचो संबंध ह्या विशयाचीच वीट दसता. जर हांव सिनेमाक गेलें, आनी त्या सिनेमांत जर प्रणय प्रसंग आसले जाल्यार म्हाका कुशिल्ल्या चिखलाचो घाण येवपाक लागता. मेंदूचेर सोंसपाक जायना असलें दडपण पडटा आनी हांव बकाबक ओंकता. म्हाका घुंवळ येता ...'

'अदींमदीं म्हाका तेंच विचित्र सपन पडटा. सपनांत हांव जीव घेवन धांवतां आनी तो कोणतरी म्हज्या फाटल्यान लागता. म्हजेर अत्याच्यार करपाक पळेता. हांव किळच्यो मारीत जागें जातां. म्हज्या बाब्राक अप्पाक दिसता हाव हुंवाराचें सपन पळोवन किळचतां. पानशेत धरण फुटील्ल्यान आयिल्लो हुंवार. ज्या हुंवारान म्हजे आवयक, म्हजे भयणीक विनिताक, म्हज्या भावांक-सुधीर आनी नितीनाक म्हजेपासून आनी अप्पासायबांपासून झोंपून व्हेल्यात ...'

'अप्पासायब हुंवाराच्या तडाख्यांतल्यान वांचले ते मुंबय गेल्यान. हांव हुंवारांतल्यान वाटावलें तें फकत दैवगती म्हणून. हांव वांचलें. पूण दैवान म्हजेर केदो आघात केल्लो! आनी हो आघात फकत म्हाकाच सोंसचो पडिल्लो. आनी फकत एकल्यानच हांवें तो सोंशिल्लोयबी. अप्पासायबांचें ब्लड-प्रेशराचें दुयेंस! तांचोच हुस्को करून एकलेनच हावें हो आघात मोन्यानी सोंशिल्लो. म्हाका केन्ना-केन्नाय ह्यो अश्यो फिटस येतात हें अप्पासायबांक खबर नाशिल्लें. हांवेंय तांका तें कळपाक दिवंक नाशिल्लें ...'

‘ कळयतलें तरी कशें हांव ? म्हाका खंयच्याय शृंगारिक नवलिकेंतलो प्रणय प्रसंग वाचल्यार सामको वीट येता हें अप्पासायबांक कशें सांगपाचें ? म्हाका कुशिल्ल्या चिखलाची घाण येता आनी हांव बकाबक ओंकतां. म्हाका फीट येता. म्हाका लैंगिक आकर्शणच दिसना. हांव थंड ... शेळेल्लें ... हांव ‘ फ्रिजिड.’ म्हज्यान सर्वसामान्य, नॉर्मल चलयेप्रमाण लग्नूच जावपाक जावचे ना. कारण फकत म्हजो बापूय अप्पासायब सोडलो जाल्यार म्हाका खंयच्याच दादलेमनशाविशीं आदर दिसना. म्हजेवांगडा इश्टागत जोडपाक सोदपी दादल्यांची तर हांव मनस्पुर्वक नसाय करतां. म्हजेवांगडा वळख वाडोवपाचो यत्न करपी तरनाटयांक तर हांव सामकें धांवडावन घालतां. तांकां चार हात पयस दवरतां ...’

० ० ०

विचारांचें चक्र आपल्या मनांत घुंवडायत चलपी शुभदा फाटल्या फाटल्यान चलत येवपी एका मनश्याक आपटलें. तो मनीस पयस किदेंतरी पळेतालो आनी तसोच वळपाखातीर तो गर्देतल्यानच दोन पावलां फाटले वटेन चलिल्लो, शुभदाक आपटल्लो. शुभदाच्या हातांतलीं पुस्तकां सकयल पडलीं. लक्ष दिनासतना चलपी त्या मनश्याची शुभदाक खूब भिग्भिरी साल्ली. ताका बेसबरो तापोवन काडपाखातीर ताणें त्या मनश्याकडे पळेलें.

‘ जिवोत्तमकाका !’

शुभदा त्या मनश्याक पळोवन अजापान आडडलें. कितल्या-वर्सांनी शुभदा तांका पळेतालें. जिवोत्तमकाका ! हय तेच ते. सुमार चवदा वर्सांपयलीं ते ताका कृष्ण–निवास बिल्डिगेंत मेळिल्ले-ताका आनी तांका बळवंत व्यायाम मंडळांतल्या तरनाटयांनीं हुंवारां-तल्यान वांचयिल्लीं. तेन्ना ते ताचेकडेन पळेनासतना वंटीवयले एके पालीकडेन थकिल्ले नदरेन टकटक करून पळेत राविल्ले. अशें पळेता आसतनाच ते ताचेकडेन अकस्मात उलयिल्ले. अप्पासायब मुंबैच्यान येवन ताका मेळ म्हणसर ताणींच ताची आस्थेन जतनाय

घेतिल्ली. तें जितें आसा ही खबर अप्पासायबांक ताणींच दिल्ली. आनी उपरांत अकस्मात तुटक, गुमानित, स्थितप्रज्ञ वागून ते नाच्च जाले. ते आज परते मेळटाले.

‘कोण ! शुभदा ! शुभदाच मगो तूं ?’ जिवोत्तम ताचेर एकदांच आपली नदर फिरोवन पयस खंयतरी पळेत उलयले. चवदा वर्सां उपरांत लेगीत ते ताका वळखल्ले. चवदा वर्सांपयलीं तें एक येदेशें शाळेंत वचपी पोर आशिल्लें. स्कर्ट घालून भोंवपी तें आज साडयेंत भोंवतालें. खुबूच देखणी तरनाटी जाल्लें. आनी तरीलेगीत ते ताका वळखल्ले.

‘हय ! शुभदाच हांव. अप्पासायब आनी हांव आतां मुंबय रावतात. कितल्या वर्सांनी मेळ्ळे तुमी. आतां तुमी आमचेकडेन येवपाचें. हुंवारावेळार तुमी म्हाका आधार दिलो. अकस्मात नाचशे जाले तुमी. आमी तुमकां खूब खूब सोदले.‘ शुभदा ओणोव घालून आपलीं रस्त्यार पडिल्लीं पुस्तकां एकठांय करीत उलोवंक लागलें. पुस्तकां एकठांय करून तें उबें रावलें आनी अजापभरीत जालें. जिवोत्तम बेगीनबेगीन चलत पयस गेल्लो ,आनी गर्देंत भरसून नाच जाल्लो. तें जशें किदें तांका कादयेंत घालतलें आशिल्लें. जशें काय ताचेलागीं रावल्यार तांका अशें तें तांचें रावप खूब लुकसाणेचें आनी घातक थारतलें आशिल्लें.

कोणा तरेचे मनीस हे जिवोत्तमकाका ! कित्याक काय अशे हे पळून वतात ? अशे तुटक, मोघम, कोडसाणेन कित्याय काय वागतात ? ‘ शुभदान आपल्याकच विचारलें. ताणें घडयाळ पळेली. दोन वरां जाल्लीं. तें झपाझप चलत चर्चगेटीलागीं आशिल्ल्या आपल्या सदच्या हॉटेलांत आयलें. चार वरांचेर व्याख्यान आशिल्लें त्या सायकियाट्रीस्टाचें. ताणें रायस-प्लेटची ऑर्डर दिली. जेवलें आनी रोखडेंच कॉलेजीवटेन चलपाक लागलें.

‘म्हज्यो इश्टिणी म्हाका जाणवाय समजतात. कारण हांव कोणाचकडेन चड संबंध दवरिना. कोणाकच केन्नाच चड विश्वासांत

येना. कारण केन्नाकेन्नाय म्हाका चड भावनाप्रधान जावपाची संवय. तशें तुसडेंबी हांव वागना. कोणाच वांगडा हांव दुस्मानकायबी करीना. पूण हांव जावन कोणाचीच इस्टागत जोडूंक वचना. कोणय जर म्हजेकडेन पयलीं उलयलो जाल्यारूच हांव उलयतां. खूबूच एकमुळें रावतां हांव. ही एकमळे पणाची संवय म्हणल्यार लेगीत एके तरेची विकृतीच. शुभद कॉलेजींत पाविल्लें तेन्ना तीन जाल्लीं.

० ० ०

चार वरांमेरेन वेळ सारपाखातीर म्हणून शुभदा लायब्ररींत वचपाक वळ्ळें.

‘ गुड ऑफ्टरनून !’

शुभदान पळेंलें. सकाळची ती त्या वार्डांतली नर्स उबी आशिल्ली.

‘ किदें सिस्टर ?’

‘ तो सकाळचो पेशंट भायर पडलो. प्राण सोडटना इतलो वळवळून आडुतालो. देवते ! म्हाका भोगस... म्हाका क्षमा कर... म्हजी चूक जाली अशें किदेंतरी बडबडत, खूब भियेल्ल्याभाशेन आंचके दीत तो आजच तूं वतकच एका वराभरयान मेलो ’ नर्सीन शुभदाक सांगलें. शुभदा खीणभर मोनें जालें.

‘ तूं ताका वळखतालें ?’

‘ हय, हाव ताका वळखतालें, ‘शुभदान निर्विकार, शुश्क तोंडान जाप दिली आनी तें चलपाक लागलें.

‘ हय ! म्हाका त्या मनश्याक कशेंच विसरपाक जालेंना. चौदा वर्सांउपरांतलेगीत हांव ताका वळखलें. आज देवान न्याय दिल्लो हांवें पळेला. होच तो मनीस. म्हजे मानसिक पिडेक निमित्त जाल्लो होच तो मनीस. होच तो ! म्हाका पडपी भयांकृत सपनांनी येवन म्हाका किळच्यो मारीत, घामान चिप्प भिजून, काळजाचो थरकांप जावन जागें जावपाक लावपी सैतान. होच तो मनीस जाणें हांव यौवनाच्या हुंबऱ्यार आसतना शृंगार भोग, तारुण्यसुलभ

भावना हांचेविशीं म्हज्यांत आखांताची घृणा उत्पन्न केली. आनी...!!! आनी अशें आसूनय्बी ताची म्हाका आतां तिडक येना. किदयाक? तो मेल्ल्याचें आयकून म्हाका ताची काकुयट दिसली. ताच्या मर्णांक हांवूच कारण जालें काय? ना! तो भरतोलोच आशिल्लो. पिडेन ताका पूराय पोखरून उडयिल्लो. आयज नाल्यार फाल्यां! पूण म्हाका पळोवन ताचें मर्ण बेगीन धांवून आयिल्लें हाचेविशीं दुबाव ना. चौदा वर्सांउपरांत फकत ताच्या गोंदयल्ल्या मुरलीधर कृष्णाच्या चित्रावयल्यान हांव ताका वळखल्लें आनी तोय म्हाका वळखल्लो. तो इतलो किद्याक काय भियेलो? देवा! ताका मुक्ती दी. हांवे ताका पूरायेन भोगशिला. हांव ताची नसाय हाचेफुडें केन्नाच करचेंना,' चलतां चलतांच शुभदाचे दोळे डबडबले. तें लायब्ररींतल्या लेडीज रूमांत गेलें. बेसिनार वचून तोंडार थंड उदकाचे पचकारे मारले. थंड उदकाच्या स्पर्शान ताका प्रफुल्लीत दिसपाक लागलें. तें लायब्ररींत एका टेबलासरी वचून बसलें. ताणें परतोय घडयाळींत वेळ पळेलो. चारांक धा मिनटां उणीं आशिल्लीं. आपणें चार जावन धा मिनटांनी लेगीत लेक्चराक गेल्यार उपकारता अशें यवजून ताणें एक दोन दिसाळीं चाळ्ळी. आनी एका इंग्रजी दिसाळयाच्या पयल्याच पानार आयिल्ली ती जायरात ताका दिसली.

' डॉ. एस. एम. डॉज. फेलो ऑफ कॅलिफोर्निया कॉलेज ऑफ सायकियास्ट्री, २७ मेरीडेन, फोर्ट लेन, मुंबय. मानसिक नदरेन दुयेंत आशिल्ल्यांक सल्लो दिता. मेळपाचो वेळ सकाळीं सात ते धा मेरेन. सांचे स ते आठ मेरेन. प्रत्यक्ष मेळात वा बरयात. म्हणजे ॲपोयंटमेंट ठरोवंक येता.'

शुभदान ती जायरात कादेर्नार बरोवन काडली. ताणें परतोय वेळ पळेलो. सव्वाचार जाल्लीं. शुभदा ॲम्फी थिएटरांत वचपाक भायर सरलें.

० ० ०

शुभदा पावलें तेन्नां डॉ. दोडगेचें लेक्चर सुरू जाल्लें. डॉ. दोडगे तरनाटो दिसतालो. चेरो गोरोपिठ्ठु आशिल्लो. निळचा सुटांत तो उबो रावन उलयतालो. ताणें खाड वाडयिल्लें. दोळयांक काळसर भिंगाचें वक्ल लायिल्लें. ताच्यो खाड–मिश्यो आनी केंस पिगश्या कोराचे आशिल्ल्यान वेदीवयल्या दिव्याच्या उजवाडांत भांगराभशेन चकचकताले. डॉ. दोडगे प्रभावो उलयतालो. इंग्लेज भाशेचेर ताचें असामान्य प्रभुत्व आशिल्लें.

‘ एकदां म्हजेकडेन एक चली पेशंट म्हण्‌न आयलें. तें अदीं-मदीं हिस्टेरीक जातालें. संतापाचे भंयाकृत झटके ताका येताले. असल्या झटक्यांवेळार सामकार आशिल्या खंयच्याय मनश्याक तें बेभान जावन पचापच उलयतालें. हावें ताका तपासलें. हें चली पयलीं एका चल्याचेर मोग करी हें म्हज्या लक्षांत आयलें. हो भुरगो आशिल्लो गिरेस्त बापायचो फाफान्हांव पूत. हाणें ते चलयेक जितल्या वेगान लागीं केली तितल्याच वेगान खोंटायली. दुसरोय एक भुरगो हेच चलयेचेर मनस्पुर्वक मोग करपाक लागलो. हेय चलयेच्या मनांत ताचेविशीं मोग उत्पन्न जाल्लो. पूण कांय इश्टिणीं-सामकार हे चलयेन प्रतिज्ञा केल्ली. हांव लग्न जालें जाल्यार त्याच उडाणटप्पू चल्यावांगडा. आनी ही आपली प्रतिज्ञा खरी करपाखातीर हें चलयेन त्या दुसऱ्या सज्जन भुरग्याक स्पश्टपणान न्हयकारलो. हरशीं हे चलयेचें अंतर्मन त्याच नकार दिल्ल्या भुरग्याचेर मोग करतालें. पूण बाह्यमन आपल्या अहंकाराखातीर आनी इश्टिणींच्या भर मजलसींत केल्ले प्रतिज्ञेच्या दबावाखातीर आपूण तसो मोग करीना अशें दाखयतालें. हांवें ताचेर उपचार केले. आता ती सुखी आसा. हांवें तशे मार व्हडले अशे उपचार ताचेर करूंक नाशिल्ले. फकत ताच्या अंतर्मनाक नेमकें किदें जाय हें पटयलें. ताणें उपरांत चड ताणून धरीनासतना सरळ त्या सज्जन भुरग्यावांगडा लग्न केलें. ताचो हिस्टेरीया, ताचें वैफल्य साप्प पळून गेलें.’

‘ शेक्सपियराच्या कवितेप्रमाण हो सगळो संवसार म्हळचार

एक नाटक. संवसारांतलो दर एकलो मनीस ह्या नाटकांतले एक एक पात्र रंगयता. आपलें हें नाटकी पात्र सरभोंवतणच्या लोकांक आवडटा तेच भाशेन त्या मनश्याक वठोवचें पडटा. येदोळ सांगिल्ले ते चलयेक हरशीं तो दुसरो सज्जन भुरगो आवडटालो. पूण इटिश्णीं-सामकार केल्ले प्रतिज्ञेखातीर तें चली हें आत्मघातकी नाटक करतालें...'

' दर एकल्या मनशान सदांकाळ आशावादी आसपाक जाय. फकत आशावादच मनश्याची इत्साशक्ती प्रबळ करता ...'

शुभदा तन्मयतेन डॉ. दोडगेचें पटोवन दिवपी उलवप आयकतालें. ह्या मनश्यांत तेजस्वी, ओजस्वी अशें किदेंतरी आशिल्लें. शुभदाक ताचो दर एक विचार मनांपासून पटटालो.

उलवप सोंपतकच डॉ. दोडगे बसलो. ताणें मेजावयलो उदकाचो ग्लास तोंडाक लायलो. उपरांत उपकार आठवप जालें. आनी हे सगळे सोंपतकच डॉ. आपटे उठून शुभदालागीं आयले.

' डॉक्टर ! मिट मिस रेगे ! मेडीसीन करता. हुशार विद्यार्थिनी !' डॉ. आपटेंनी डॉ. दोडगेवांगडा शुभदाची वळख करून दिली.

' नमस्ते !' डॉ. दोडगेन नमस्कार केलो आनी आपले धवे फुल्ल चकचकीत दांत दाखयत तो हांसलो. शुभदानय डॉ. दोडगेक प्रतिनमस्कार केलो.

'म्हाका दिसता हांव तुमकां वळखतां?' डॉ. दोडगेन थंडपणान म्हळें.

'म्हाका तुमी वळखतात?' शुभदान अजापान विचारलें.

' हय ! भौतेक तुमचें नांव शुभदा वा शोभा आसपाक जाय. हांव चवदा वर्सांपयलीं पुण्यांत आशिल्लों. जोग बिल्डिगेंत हांव तुमच्या शेजरा रावतालों.'

' तुमी सुहास काय किदें ?'

' हय ! तुमीं शुभदाच मूं ?'

' हय !'

' अरे वा ! म्हण्टकच हें बरें जालें. तुमची वळख आसा मूं, मिस रेगे ! आतां तूं भिडेनासतना ह्या दोतोराचो सल्लो घे. नाव जस्ट येक्स्क्यूज मी ! म्हाका थोडें कांम आसा', डॉ. आपटे त्या दोगांकय प्राकाराभायर सोडून परतले. डॉ. दोडगेची कार लागींच आशिल्ली. निळी अँम्बॅसॅडर.

' हुंवारावेळार हांव पनवेलाक आशिल्लों. परतो आयलों जाल्यार सगळी जोग बिल्डिगच व्हांवून गेल्या. जोग बिल्डिगेंतले एकान एक मनीस हुंवारांत बुडल्यात अशेंय म्हाका कळिल्लें. आय अँम व्हेरी ग्लॅड टू सी यू. तुमची हेर सगळीं सुखरूप आसात मूं ? '

शुभदाक खोल खंयतरी वुफेल्लेभाशेन जालें. भांगरा केंसांचो राजकुंवर. घारश्या दोळयांचो.

' हुंवारांत फकत हांवच वांचलें. म्हजो बापूय मुंबै गेल्लो. तेखातीर बांटावलो. बाकी कोणच उल्लीनांत. '

' आरे रे ! '

शुभदान ओले जाल्ले आपले दोळे लेंसान मान सकयल आसतनाच पुसले.

' हांव तुमकां म्हजें व्हिजिटींग कार्ड दितां. फाल्यां सकाळीं णव वरांचेर तुमकां म्हजेकडेन येवपाक जातलें ? हांवें तुमची केस घेवपाचें थारायलां. डॉ. आपटेन म्हाका येदोळच लेक्चर सुरू जावचे पयलीं तुमकां अदीमदीं येतात त्या फीटसविशीं सांगलां. तुमी फाल्यां येयात. मातय भिडेवं नाकात. तेभायर तुमीय वैजकी शिकतात. हांव तुमकां खंयूय लिफ्टबी दिवं व्हय ? ' डॉ. दोडगेन कारीचें दार उगडीत विचारलें.

' नाका डॉक्टर ! म्हाका आतां क्लास आसा. हांव फाल्यां सॅर्त येतां.' शुभदान म्हळें.

' बाय बाय बेबी ! ' डॉक्टरान गाडी स्टार्ट करून म्हळें. पूण उपरांत रोखडीच ताणें चावी ऑफ केली. गाडयेच्या जनेलांतल्यान आपली तकली भायर काडून ताणें शुभदाक म्हळें, 'तुमकां याद

आसा ? जोग बिल्डिगेंत हांव तुमकां बेबी म्हण्टालों. येदेशें चली आशिल्लीं तुमी. केदो बदल जाला तुमच्यांत ! '

ताणें आनीक एकदां हांसत शुभदाकडेन पळेलें आनी गाडी फुडें व्हेली.

शुभदान एकफावट पयस धांवपाक लागिल्या त्या निळ्या गाडयेकडेन पळेलें. उपरांत हातांतल्या व्हिसिटींग कार्डावेयल्यान नदर भोंवडायली.

' डॉ. एस. एम. डॉज. फेलो ऑफ कॅलिफॉर्निया कॉलेज ऑफ सायकियास्ट्री. २७ मेरीडेन, फोर्ट लेन, मुंबय.'

' आरेच्या ! डॉ. डॉज (Dodge) डॉक्टर दोडगे !

शुभदान अजापान स्वगत म्हळें. येदोळ एका इंग्लेज दिसाळ्याच्या पयल्या पानार वाचिल्ले ते जायरातीची ताका याद जाली.

शुभदा रोखडेंच घरा येवपाक भायर सरलें.

० ० ०

कॉलेजांतल्यान शुभदा घरा पावलें. ताका प्रसन्न बरें दिसतालें. खूब दिसां उपरांत ताका अशी प्रसन्नताय भोगताली. अप्पासायब व्हरांडयाचेर इजी–चेरार पातळलेले.

' शुभी ' ताणीं उलो केलो. शुभदा हांसत तांचेमुखार गेलें.

' अप्पा ! आज दोन वळखीचीं मनशां मेळ्ळीं. वळखात पळोवया कोण तीं ?' ताणें लक्तुबायेन म्हळें.

' कोण गो बाये ?'

' पयलीं मेळ्ळे ते जिवोत्तमकाका ! आपलेच तंद्रेन फाटल्यान चलत येत ते म्हजेर आदळ्ळे. म्हाका ताणीं पयल्याच खिणांक वळखलें. हांव तांचेकडेन उलोवपाक म्हणून वतालें जाल्यार ते म्हजेपासून पळून गेल्लेभाशेन बेगीन बेगीन चलत नाचच जाले.'

'विचित्रच मनीस तो ! हुंवाराच्या वेळार ताचे उपकार लेगीत मानपाची ताणें म्हाका संद दिली ना. नाचच जालो.'

'दुसरो मनीस मेळ्ळो तो आशिल्लो डॉ. सुहास दोडगे! अप्पा, चौदा वर्सांपयलीं घारश्या दोळ्यांचो एक भुरगो आमच्या शेजरा आशिल्लो. रूम भाड्यान घेवन रावी. याद जाता तुमकां? होच भुरगो आतां एक मोठो मानसशास्त्रज्ञ जाला. आज आमच्या कॉलेजांत ताचें उलवप दवरिल्लें. ताची म्हजी वळख म्हज्या प्रोफेसरान करून दिली. म्हाका पळेनाफुडें तो म्हाका वळखलो.'

'अशें! म्हाका त्या भुरग्याची याद आसा. म्हाका एकदां धुंवळ आयिल्ली. ताणेंच म्हाका मदत केल्ली...' आनी अप्पा-सायबान आपलें उलवप अदर्यारूच सोडलें. ते पयस खंयतरी पळोवपाक लागले. शुभदान तांचेखातीर आनी आपलेखातीर च्या करपाक दवरली. ० ० ०

हातुण्णार पडल्याबराबर शुभदाक आयचो संबंध दीस येवजलो.

तो उपदंश जाल्लो पेशंट! हातार श्रीकृष्ण गोंदयल्लो. किडिल्ल्या दांतांचो. व्हिराइतल्या बारीक हातापांयांचो!!! ताच्या सपनांनी येवपी. ताका अशी मानसिक विकृति जडोवपी!! भेश्टावपी! अस्वस्थ करपी! म्हाका अदीमदीं ज्यो फीटस येवंक लागल्यात त्यो हाचेखातीरच येवंक लागल्यात. तोंड धांपून धुमके सोंसपाचें दिव्य म्हाका ह्या मनश्याखातीर करचें पड. आनी देवान ताका ख्यास्त केल्ली. तो रोगग्रस्त जाल्लो.

तो मनीस म्हाका भियेल्लो. जशें काय हांवें ताचेकडेन तिरस्कारान पळेलें म्हळ्यार हांव ताचो जिवच काडपाक तयार जाल्लें. आनी तो मरतोलो आशिल्लो ताचेपरस बेगीन मेल्लो. म्हजेखातीर? जायतुयबी! पूण आतां म्हाकातरी हांव अलिप्त, भावनारहित दिसतां. ह्या मनश्याक हांवें भोगशिला. ताका क्षमा केल्या...

जनेल उक्तें दवरिल्यान शुभदाचे कुडींत पिठाभाशेन चांदनें पडिल्लें. पयस खंयतरी भय्या लोक भजन करताले. शुभदाच्या दोळ्यांतल्यान वोगीच दुकां व्हांवपाक लागलीं.

डॉ. दोडगे! भांगरा केंसांचो राजकुंवर? तेन्नाच तो बाबीस

तेवीस वर्सांचो आशिल्लो. राजकुंवरीक भांगराच्या रथांत बसोवन व्हरपी राजकुंवर ! आतां ताचें लग्न जालां आसतलें. एक दोन भुरगींयबी आसतलीं. कशीं दिसता आसतलीं काय तीं ? गुटगुटीत राजाबिडीं ! ताची बायल कशी दिसता आसतली काय ! राजकुंवर-राजकुंवरी. तांची इल्लीशीं अपुर्बायेचीं भुरगीं. पाकळ्यापाकळ्यांचे झगे घालपी.

'पूण हांवशे अशें येवजूंक किद्याक लागलें ? ताच्या बायलेचो-ताचो- ताच्या भुरग्यांचो म्हाका विचार करचोसो किद्याक दिसलो आनी म्हज्या पोटांत अशी भूक लागतकच जाता तशी भावना किद्याक जाली ...? राजकुंवराक मेळ्ळी राजकुंवरी ! हांसऱ्या दोळ्यांची ! राक्षशीणीक मारून राजकुंवरान राजकुंवरी मेळयली. शुभदाच्या दोळ्यांतल्यान थांबनासतना दुकां व्हांवतालीं. कसलीं हीं दुकां ? नसायेची ? म्हाका सुहासाचे बायलेची नसाय दिसता ? हांव तर अशें थंड ! अशें फ्रिजिड ! शृंगार वाचतना, पळेतना बकाबक ओंकपी ! फिट येवन घुंवळपी. भुरगेपणांतलें सगळेंच कशें पांचवेंचार, ताजें, प्रसन्नताय हाडपी आसता ! भुरगेपणांत त्यो यादी !!!

आनी जिवोत्तमकाका ! बळवंत व्यायाम मंडळांत आमची भेट जाल्ली. पूरग्रस्तांच्या मदत-केंद्रार ताणीं म्हाका जेवण हाडून दिल्लें. देवळाच्या प्राकारांत ताणीं म्हाका मायेन थापटून न्हिदयिल्लें. हांव तांचेरूच ओंकिल्लें. ताणींच हांव वांचला आनी जिवें आसा हें अप्पासायबांक कळयिल्लें. आनी तेन्नाय आनी आतांयबी तुसडेपणान वागून ते म्हजेपासून पयस गेल्ले. किद्याक ? तांकायबी कसली तरी मानसिक विकृती आसा व्हय ? तांकायबी सुहासान तपासपाक जाय?

खाड वाडयल्लो सुहास ! खाडयो राजकुंवर ! ना. अश्विनी-कुमार ! देवांचो वैज ! पूण तो काळें वक्लशें किद्याक वापरता काय ? ताचे घारशे दोळे तेखातीर आज म्हाका पळोवपाक मेळ्ळेनात ... ...

शुभदाक आपूण केन्ना थार न्हिदलें हें कळ्ळेंचना.

० ० ०

# जिवोत्तम

‘जिवोत्तमकाका’ हो उलो आयकतकच हांव थक्क जालों...

हे मुंबयत इतल्यो उंचेल्यो बिल्डिंगो आसात! आनी त्यो दिसपाकय एकासारक्यो. ते बिल्डिंगेच्या चवथ्या मजल्यार येद्दी व्हडली जायरात हूमकळायिल्ली. ती वाचपाच्या नादांत हांव चोख्ख फाटकुरो चलपाक लागलों. आनी ताचेर वचून आदळ्ळों.

‘जिवोत्तमकाका!’

हय तेंच तें. शभदाच तें. आडनांव किदें काय ताचें! हय रेगे. बद्द चवदा वर्सांउपरांत तें म्हाका पळेतालें. आनी हांव ताका पळेतालों. म्हाका खिणाभितर वळखलें आनी हांवय ताका रोखडोच वळखलों. विस्तीद घालपी सान चलयेचें एका रुपेस्त तरनाटेंत रूपांतर जाल्लें आनी तरीकय हांव ताका वळखल्लों. ताका पळोवन म्हाका खूबच खोशी जाली. ताच्या दोळयांच्या भुंवयांमदीं गंधाची तिकली लायिल्ल्याप्रमाण ताचो तो तीळ आशिल्लो. ह्या तिळा-खातीर एकाद्रे जावंये, हांव ताका खिणाभितर वळखल्लों.

‘कोण! शुभदा! शुभदाच मगो तूं?’ हांवें ताका विचारिल्लें.

उपरांत म्हाका भिरांत दिसपाक लागली. आरे दुश्टा! कपळ

फुटक्या हतभाग्या ! चल ! पळ ! ताचेपासून पयस राव ! तुका ताचेविशीं माया दिसपाक लागत आनी तेखातीर ताका दुख्ख भोगत. ताका क्लेश जायत. यातना भोगच्यो लागत ! पळ ! पयस राव ! पळून वच ताचे लागच्यान ! ताचेर तुजी सांवळीलेगीत पडपाक दिवं नाका.

आनी हांवें झपाझप चलत गर्देत घुसपून वचून नाचच जावपाचो हरप्रयत्न केलो.

० ० ०

११ जुलै १९६१ क शुभदाक हावें पयलें पळेलें.

रोंव रोंव करीत धांवपी हुंवाराचे उदक 'मुठा' न्हंयेच्यो दोनूय देगो गाजयत 'मुळा' न्हंयेंक येवन भिडिल्लें. आनी ह्या दोनीय न्हंयांचें उदक भयांकृत आवाज करीत फुडें फुडें वतालें. वाटेर मेळपी पूल खिळखिळायत. मातयेचीं, विटांची, फातरांचीं घरां स्वाहा करीत.... शेतां, मळे हांची नासाडी करीत झाडां, पेडां, झोपांचो निःपात करीत ... जशें काय मुळा आनी मुठा ह्या दोनय न्हंयांचें उदक पुणें शाराचें पाप धुवन व्हरतालें. जशें काय पुणेरी लोकांचें पाप अजस्त्र ड्रेगनाचें रूप घेवन फुडें धावतालें. उदकाक प्रचंड वेग आशिल्लो. हो वेगच ही सगळी वित्तहानी, प्राणहानी घडोवन हाडटालो.

पुण्यांतले बांध, सांकव सगळे व्हांवून गेल्ले. लकडी ब्रीज हालून खिळखिळो जाल्लो. संगम ब्रीज कोंसळपाकडेन पाविल्लो. उदकाच्या प्रचंड वेगवान लोटांत व्हांवून येवपी म्हशी, गायो, बैल वदकां तशींच व्हांवत व्हांवत फुडें वतालीं.

पानशेताचें मातयेचें धरण फुटिल्लें. तांतूत सांठयिल्लें उदक सों सों करीत व्हांवत आयलें आनी खडकवासला धरणाक आदळिल्लें ह्या धरणांक मार बशिल्लो. आनी उदकान हाहाःकार मातयल्लो.

० ० ०

त्या दिसा हांव म्हज्या भाज्जेच्या दुकानांत बशिल्लों. ...किदें

जाता हें लक्षांत येवचेपयलींच म्हजें दुकान आनी हांव उदकाच्या लोटांत व्हांवत वचपाक लागलों. थर्त भियेल्लों हांव. इतली भियेवपाची हरशीं म्हाका गरज नाशिल्ली. कित्याक ? हांव जिवाक पुराय विटिल्लों. हांव एकलो एकसूरो आशिल्लों. हें एकसूरेपण म्हाका जाळटालें. आनी तरीलेगीत हांव धडपडूंक लागलों. म्हाका पेंवपाक येतालें. पूण वेगवान प्रवाहांत पेंवतोलो किदें ? अर्दमेलो जाल्लों आनी इतल्यान कोणेतरी म्हजेर झोंपय घालून म्हाका घट धरलो. उपरांत पळेतकच कांय बलदंड तरनाटयांनी म्हाका वांचयल्लो हें म्हज्या लक्षांत आयलें. कृष्ण-निवास नांव ते बिल्डिंगेचें. बिल्डींग पक्की कॉंक्रिटाची आशिल्ली. बळवंतराव जोशी ते बिल्डिंगेचे मालक. बळवंतराव ‘बळवंत व्यायाम मंडळ’ चलयतालो. हुंवारा दिसा धाडशी बळवंतराव आपल्या तरनाटया शिश्यांक घेवन, कमराक राजू बादून बिल्डिंगेच्या एकवाटेन आशिल्ल्या शेज्यार बशिल्लो. कोणय मनीस प्रवाहांतल्यान व्हांवत बिल्डिंगेचे वटेन येवंक लागतकच ते तरनाटे उदकांत उडी घेताले. राजवाच्या आदारान ते उदकांत व्हांवन वचपी अभागी जिवांक वांचोवपाचे यत्न करीत. ताणी सगळे मेळून स जाणांक वयर काडिल्ले. तांतले चौगजाण मेल्ले. दोगां जितीं आशिल्लीं. तीं दोगां म्हळयार शुभदा आनी हांव.

० ० ०

म्हजेपयलीं ताणीं शुभदाक वयर काडिल्लें. ताचे सामकारच हांव कुडकुडत बशिल्लों. ताच्या बेशुद्ध चेऱ्याकडेन हांव पळेतच उरिल्लों. तेंच तोंड. फकत दोळयांच्या भुंवयांमदी गंध लायिल्ल्या-भशेन एक तीळ आशिल्लो. कितलें सारकेंपण आशिल्लें हे चलयेच्या तोंडांत आनी म्हज्या वासंतीच्या तोंडांत. फकत भुंवयां मदीं आशिल्लो तो तीळ सोडल्यार.

वासंती ! म्हजी चली. फकत देड म्हयन्यांआदीं तें सोंपिल्लें. म्हजी बायल वासंती जल्माक आयल्या उपरांत फकत चार म्हयन्यानी भायर पडिल्ली. चार महिन्याचें अर्भक ! ह्या अर्भकाक

हांवे तेरा वर्सांमेरेन ममतेन, मोगान, मायेने वाडयल्लें. ताका व्हड केल्लें. म्हजी बायल भायर पडल्याउपरांत हांवें कोणाचीच माया केलीना. वासंतीची मात मन लावन जतनाय घेतालों. ताचेर ममताय बेसबरी करतालों हांव. हे गुणी चलयेचेर हालीं खूबच जीव दवरिल्लो हांवें. आनी ताचेर हांवें खूब जीव दवरला हें म्हज्या लक्षांत येवचेपयलींच तें टायफॉयडान भायर पडिल्लें. ह्या संवसारांत म्हाका एकसूरो सोडून गेल्लें. हांवें म्हजे आवयचेरय खूब माया केल्ली. हांव तिचेर इतलो जीव दवरपाक लागिल्लों ! आनी हांव आठ वर्सांचो आसतनाच ती भायर पडली. कारण तिचेर खूबूच माया करपाक लागिल्लों न्हय हांव ? हांव एकसूरोच उल्लों. कारण म्हजो बापूय हांव एका म्हयन्याचो आसतनाच भायर पडिल्लो. हांव एकसूरोच ल्हानाचो व्हड जालों. म्हज्या हांवेच म्हजेर संस्कार केले. स्वानुभवाचे. म्हजे म्हाकाच हांवें देख दिली. आनी हांव जेन्ना तरनाटो जालों तेन्ना लग्न केलें. पांच वर्सां आमी दोगांयनीय लग्नाचें सूख भोगलें. हांवे तिचेर उपाट मोग केलो. पांच वर्सांउपरांत वासंती जल्माक आयलें आनी सावित्री म्हाका सोडून गेली. हांव खूबच मोग करपाक लागिल्लों न्हय तिचेर ?

पयलीं पयलीं हांव वासंतीची नसाय करतालों. दिसतालें हेंच चली आपले आवयच्या मुळार आयलें. हांवें ताची सुश्रुशा केली पूण तांतूत मोग नाशिल्लो. कर्तव्यबुद्धी चड आशिल्ली. पूण ह्या म्हज्या गुणी पोरान आपल्या सदगुणांनी म्हजेर जीव दवरलो. आनी हांव ताचेर उपाट माया करपाक लागलों. आनी रोखडेंच तें टायफॉयडान म्हाका ह्या जगांत एकसूरो सोडून गेलें.

आनी आयज देवान म्हाका परतीय भूल घालपाचें थारायलां काय ? वासंतीच्याच तोंडावळयाचें तें चली म्हजेमुखार बेशुद्ध पडिल्लें. तेंय वासंतीचेच पिरायेचें आशिल्लें. जसो काय देव म्हाका परतीय भुलोवंक सोदतालो. हें चली पळे ! आसा काय ना तुज्या वासंतीसारकें ? हाका माया लाय !

'नाका! नाका! माया लावप आनीक नाका!' कितल्या अकस्मातपणान हांव आडुलों.

'किदें जालें? तुमकां किदें जायबी व्हय?' बळवंत व्यायाम मंडळाचो एक तरनाटो भितर येवन म्हाका विचारपाक लागलो. हांवें दोळे धांपून घेतले. त्या तरनाटयाक दिसलें हांव हुंवाराच्या शॉकाखातीर न्हिदेंत बडबडलां.

नाका! आनीक कोणाकच माया लावप नाका. म्हाका एकसुरोच रावूं दी रे देवा! हांवें माया लायनाफुडें मनशां पटक् करून नांच्च जातात. मरतात, म्हाका आनीक कोणाक मारपाचें ना.

○ ○ ○

'आवय गे' अशीं उतरां काडीत शुभदान दोळे उगडले. हांव तसोच सुकण्याभशेन ताचे सामकार उकडयां बसून रावलों. ताणें दोळे उगडल्यात हें म्हाका रोखडेंच कळ्ळें. हांव भायर आयलों. बळवंतराव जोशी आनी ताच्या शिश्यांक तें शुद्धीर आयिल्ल्याचें सांगले. तांका खूब खोशी जाली. ताणीं ताच्या पोटांतलें उदक केन्नांच काडून उडयिल्लें. आनी तें केन्ना शुद्धीर येता हाचीच ते वाट पळेताले. शुभदा आपले भोंवतणीं प्रफुल्लीत खुमणी घेवन उबे राविल्ल्या बळवंत व्यायाम मंडळाच्या तरनाटयांक पळोवन गोंदळ्ळें.

'भियेवं नाका आं. नशीब बरें म्हणून तूं वांचलें,' कोणेतरी शुभदाक म्हळें.

'तुजे कपडे थोडयाच वेळांत सुकतले. तोमेरेन ही कॉफी घे. चादर पांगरून सुशेगाद न्हिदून राव,' कोणेंतरी ताका सुचयलें. शुभदान वोग्गी रावन काफी घेतली. म्हाकायबी ताणें काफयेचो एक कप दिलो. कॉफी घेतकच आमकां दोगांयकय बरें दिसलें. गारठल्ले कुडीक उब आयली.

हांव तसोच शून्यांत नदर दवरून पळेतां हें शुभदाच्या लक्षांत आयलें. तें उठन बसलें आनी म्हजेकडेन पळोवपाक लागलें.

' बाय ! तुजें नांव किदें ?' हांवें ताका अचळय विचारलें.

' शुभदा.'

' हूं ' असो एक हुंकार दिवन हांव परतो वोग्गी बसलों. चड उलोवप नाका. चड माया नाका.

' तुमी खंय रावताले तर ?' शुभदान म्हाका विचारलें.

' एम. ई. एस. कॉलेजालागीं.'

' तुमकां आनीक कोण आसात ?'

' कोण एक ना. हांव एकलोच. एकलोच हांव, ' आनी हांवें व्हड प्रयासान शुभदाच्या मुखामळावयल्यान म्हजी नदर दुसरेकडेन वळयली. कितलें साम्य आशिल्लें ताचें वासंतीवांगडा ! म्हाका तर खीणभर दिसलें वासंतीच जिवें जावन म्हजेलागीं उलयता. म्हज्या दोळ्यांत दुकांनी गर्दी केली. हांव उठलों. भायर व्हरांड्यांत आयलों.

० ० ०

सैमाचें धुमशण चालू आशिल्लें. कोणेतरी ट्रांन्सिस्टर सुरू केल्लो. कोणतरी ताचेर पुराची खबर दितालो. सामकार व्हांवपी उदकांतल्यान दोन तकल्यो नाल्ल व्हांवून वच्चे तश्यो व्हांवून वतना दिसल्यो. पावस शिडशिडटालो.

हुंवार ! ...वित्तहानी ! प्राणहानी ! प्रलय.

म्हाका मनूची कथा येवजली. खंयच्चेंय एक युग सोंपले म्हण्टकच देव खंय धर्तरेर प्रलय घडोवन हाडटा. हो प्रलयबी न्हय मूं ? ही कलीयुगाची अखेरबी न्हय मूं ? हे खेपो व्हडें करपाक देवान कोणाक सांगलां आसतलें काय ? कोण आसतलो काय हो मनू ? हिमालयाचे काय मेरु पर्वताचे तेंगशेर पावपी, थंय हुंवाराचें उदक देवं म्हणसर रावपी, बराबर व्हेल्ल्यो पशुपक्षांच्यो जोडयो आनी वनस्पती हांचो उपेग करून परती जगाची उत्पत्ती करपी...हो प्रलयकाळूच मूं ?

' आई ! आई ! '

हांवें आंग काडलें. शुभदा हुडक्या हुडक्यानी रडटालें. ताचे हुडके आयकून बळवंतराव भितर आयलो. ताणें ताका थापटीलें आनी म्हळें, ' बाय ! तूं मात लेगीत भियेवं नाका. तूं सामकें बरें आसा. आपल्याकच आनीक त्रास करून घेवं नाका. चल ! आमी किदेंतरी खावन घेवंया. काल भरून दवरिल्लें उदक पिपांत आसा. स्टोव्हांत पेत्रोल भरपूर आसा. गंवांचें पीठ आसा. बटाट आसा. भाजी चपाती खावन घेवंया. भुकेन मनश्याक चड रडपाक येता. चल. ' बळवंतरावान शुभदाक आपल्या हातांनी आधार दिलो. ताका भितर व्हरून बसयलें. स्वताच रांदपाक लागलो.

हांवूय उठलों. भितर येवन बळवंतरावाक मदत करपाक लागलों. शुभदाक रडटना पळोवन मात खोल खंयतरी कलकलपाक लागलें.

' बाय ! तुजीं आनीक कोण कोण आसात ? ' बळवंतरावान चपाती तव्यार उडयतना विचारलें.

आनी शुभदान उपरांत आपूण खंय रावतालें, आपली आवय-भावंडां हुंवारांत व्हांवत कशीं गेल्लीं, आपलो बापूय अप्पा-सायब मुंबैक ऑफिसाच्या कामाखातीर केन्ना गेल्लो हें सगळें रडत स्फुंदत सांगिल्लें. आनी घुबडाभशेन थोग्गी बसून हांवें ताची सगळी खबर आयकल्ली.

' म्हजी आई, भावंडां मेळटलीं काय म्हाका परतीं ? शुभदान इतल्या आर्त स्वरांत तो प्रस्न विचारलो कीं म्हज्या दोळयांत तरतरीत उदक आयलें. बळवंतराव आनी ताचे शिश्य सहानुभूती-दर्शक चुकचुकले.

' बाय ! तूं भियेवं नाका. तुजो बापुय सुगूर आसा. ताका हुंवाराची खबर कळनाफुडें तो वेगोवेग पुण्याक येतलोच. तुमी एकमेकांक मेळटलीं. दोगांय एकमेकांक मेळटलीं. दोगांकय एकमेकांचो आधार जातलो. सगळें जें किदें घडटा तें भांमरुपी

महारुद्राचे अित्सेप्रमाण घडटा. दर एके गजाली फाटल्यान ईश्वरी संकेत आसता '

शुभदा पिळदार बाहुदंडाच्या बळवंतरावाचें रांगडें तत्वज्ञान आयकतालें. बळवंतरावान उपरांत म्हजी चवकशी केली. ह्या संवसारांत बळवंतरावासारकिलीं दिलदार मनशां आसतात म्हणूनच जिवीत सुसह्य जाता. हांवे ताका मोजक्याच उतरांनी म्हजी माहिती दिली.

० ० ०

'हुंवाराचें उदक देंवता ' अशें मोठ्यान कोणतरी आडुलो. हांव जागो जालों. मेजार एक मेणवात जळटाली. मेजाच्या हारशांतल्यान म्हाका चादर गुठलावन गाढ न्हिदिल्लें शुभदा दिश्टी पडलें. हांव भायर आयलों. बळवंतराव आनी ताचे शिश्य उदका–कडेन पळेताले. उदक खऱ्यानीच देंविल्लें.

रातचीं धा–साडे धा वरां जाल्लीं. पावस शिडशिडत आशिल्लो. हुंवारान वीज, उदका पुरवण पुराय बंद करून उडयल्ली.

हांवे बळवंतरावाचीय चवकशी केली. बळवंतराव खासा पुण्याचो. विधूर. ताचे एकलेच चलयेचें ताणें लग्न करून दिल्लें. कृष्णनिवासांतल्या पयल्या मजल्यावयल्या ब्लॉकांत तो एकलोच रावतालो. ताचे हेर सगळे शिश्य शाळा कॉलेजांचे विद्यार्थी. सगळे पुण्याभायले. कृष्णनिवासाच्या तळमजल्यार आशिल्ल्या रुमांनी रावपी. हुंवारान धुमशेण घालपाक सुरवात करीनाफुडें ताणी आपलें सामानसुमान वयर हाडून बळवंतरावाच्या ब्लॉकांत उडयल्लें.

साडे धा उपरांत शुभदा सोडून आनी कोणूच न्हिदलोना. बळवंतराव आनी ताचे शिश्य आतां फुडें सरकार पूरग्रस्तांखातीर कसले उपाय येवजितोलो. सगळ्या पुण्याचें पुनर्वसन करपाक कितले दीस लागतले, मातयेबगर दुसरें कसलें धरण बांदतले, लोकांक लुकसाण भरपाय दिवपाक सरकार कशें जापसालदार हाचेर भरपूर चर्चा करताले. हांव वोग्गी रावून तांचें सगळें आयकतालों.

'म्हजी आई आनी भावंडा जिवीं आसतलीं काय?' अकस्मात शुभदा भायर आयलें आनी म्हजो हात हालयत ताणें विचारलें. ताच्या दोळ्यांतल्यान घळाघळ दुकां गळटालीं. हांवें फकत ताची तकली सांसपिली.

'बाय! तूं मातय भियेवं नाका. जें किदें जाता तें श्री हनुमंताचे इत्सेप्रमाणच जाता. ताका जाय जाल्यार तुजी आवय जिवी आसपाक जाता. तुजी भावंडां तुका सुखरूप मेळपाक जाता. पूण ताची इत्सा जाय. सगळें सुखदुख्ख ईश्वरी संकेतावरवींच जाता. तेखातीर फटीची आशा धरूं नाका नाउमेद जावन वोगीच खंत करीत बसूं नाका. निश्चित राव,' बळवंतरावानय ताका थापटीलें आनी ताचें सांत्वन करपाचो यत्न केलो.

परतीय कोणेंतरी ट्रॉन्सिस्टरार हुंवाराची बातमी लायिल्ली. पुराचो आवेग उणो जाला, उदकाची गती उणी जाल्या आनी हेर कितल्योश्योच हुंवाराच्यो बातम्यो रेडयो–निवेदक दितालो.

० ० ०

फांतोड जाली. बळवंतराव, ताचे शिश्य, शुभदा आनी हांव कृष्ण निवासाची इश्काद देवून सकयल आयलीं. इश्कादेरच धोंपर-भर चिखलाचो गाळ सांचिल्लो. त्या गाळाक एके तरेचोच कुशिल्लो वास येतालो.

सगळ्यांनीं पयलीं आपलीं नाकां दामून धरलीं. पूण थोडे वेळाउपरांत सगळ्यांक त्या कुसट कुबट वासाची संवय जाली आनी त्याच कुसट्टाणींत आमी मेकळेपणान श्वासोश्वास करपाक लागले.

सांचिल्ल्या रेब्यांतल्यान चलप क्रस्तार जातालें. उदक जितले उंचायेर चडिल्लें तितले उंचायेर रेब्याची एक रेग दिसताली. सगळ्याक उध्वस्त जाल्ल्यो बिल्डिगो... नश्ट जाल्ले रस्त्यावयले खांबे, सकयल कोंसळिल्ली झाडां झोपां दिसतालीं. जंय पळेता थंय विध्वंस. बॉंब वर्शावान उध्वस्त जाल्लेभशेन दिसपी लोकवस्ती.

मुळा न्हंय आतां संथ व्हांवताली. लकडी ब्रिज कोंसळावपी ही कालची क्रुद्ध न्हंय आज त्याच पूलाचे भाग आपल्या पात्रांत घेवन संथ व्हांवताली.

गादयो, उशीं, चादरी विजेच्या वायरींक लोंबकळटाना दिसतालीं. इतले फांतोडेरलेगीत लोकांचे थवेच पुराचो विध्वंस पळोवपाक भायर सरिल्ले. पूरग्रस्त लोक कैंद जाल्ल्या युद्ध सैनिकांभशेन सतरवितर जावन आपल्या कोंसळिल्ल्या घरादाराकडेन हताश जावन पळेताले.

एका भुरग्याचें मडें इलेक्ट्रिक खांब्याक आडखळून लोंबतालें. उदक वयर येता तें पळोवन तो वयर खांब्यार चडला आसतोलो. विजेचो शॉक बशिल्ल्यान थंयच दसून उरला आसतोलो. पुलीस स्ट्रेचरावयल्यान मडीं ॲम्बुलंसीत घालताले. एक मनीस पुराच्या शॉकान थार पिसो जाल्लो. ताची बायल आनी भुरगीं ताका दुकां व्हांवयत थाथारतालीं. आनी जात्रा पळोवची तशें हांव हे सगळें पळेतालों. जात्रा ! विध्वंसाची जात्रा !

बळवंतरावाच्या हातांत ट्रांन्सिस्टर आशिल्लो. ताचेर कोणतरी पूरभागांत मदत करपाखातीर स्वयंसेवक म्हणून येवपाक आवाहन करतालो.

'बाय ! आतां आमी सगळेजाण लोकांक मदत करपाक वतात. तुज्या वळखिच्या लोकांकडेन वा नातेवायकांकडेन तुका जाय जाल्यार आमच्यांनी पावोवपाक जाता. आमी तुका पावोवन येतात. म्हणटकच मागीर तुजो बापूय थंयसून तुका व्हरपाक शकतलो. बळवंतरावान शुभदाक सांगलें. ताणें म्हजे दिखेन पळेलें. हांवें तांचे उपकार आठयले.

'हांव पावयतां ताका' हांवें म्हळें. आमकां दोगांकय थंय सोडून बळवंतराव आनी ताचे शिश्य वचूंक गेले.

'म्हजो लागींचो नात्यांतलो पुण्याक कोण ना. म्हजी कुंदा म्हणून एक इश्टिण एरंडवणाक रावता. हांव ताचेकडेन वचून

पळेतां,' शुभदान म्हाका म्हळें, 'थंय उदक पावूंकना अशें हेदोळ हांवें बातम्यांनी आयकलां '

'हांवें तुजेवांगडा येवपाक जाय ?' हांवें विचारलें.

'ना ! म्हाका रस्तो खबर आसा '

'तशें आसा जाल्यार मागीर तूंच वच. म्हाका फकत तुज मैत्रिणीचो पत्तो सांग. तुज्या बापायचें पुराय नांव सांग. हांव तुजेविशीं ताका कळोवपाचो यत्न करतां,' हांवें अलिप्तपणान दुसरे-कडेन पळेत म्हळें. शुभदान म्हाका बापायचें नांव आनी ताच्या इन्कमटॅक्स ऑफिसाचो पत्तो सांगलो. तें एरंडवणाचे दिकेन चलपाक लागलें. हांव ताचे फाटमोरे आकृतीकडेन पळेतूच उरलो. म्हाका म्हजें चली वासंतीच चलत वता काय दिसलें.

शुभदाचो बापूय मुंबै गेल्लो. म्हणूनच तो वांचलो. हांवें मुख्य पोलीस चौकेर ताचें नांव दिलें. मदत् केंद्रारय नांव दिलें. तो आयल्यार ताणें सरळ कुंदा नांवाच्या चलयेच्या पत्त्यार वच्चें असो ताका रकाद दवरलो. शुभदा सुगूर आसा अशेंयबी सांगून दवरलें. वाहतूक बंद जाल्ली. पुर्णेंभर धोंपरभर चिखोल आनी रेबट जाल्लें. हांव तसोच चिखोल माडयत भोंवलों. म्हजें घर, म्हजें दुकान साप्प बुडिल्लें आनी नाच जाल्लें. पूण थंयच हताश बसून तो विध्वंस पळोवचो अशें मात म्हाका दिसलेंना. शुभदाची आनी तिच्या बापायची भेट जाली काय ना हें पळोवपाची म्हाका उमळशिक लागिल्ली. हांव तसोच रेल्वे स्टेशनालागींच आशिल्ल्या इन्कमटॅक्स ऑफिसांत गेलों. थंयसूत मुंबैच्या इन्कमटॅक्स ऑफिसांत शुभदाच्या बापायच्या नांवार तार केली. वेगोवेग कुंदाच्या घरा वच्चें आनी शुभदाक मेळचें अशें ताका कळयलें. म्हजी भांगराची मुदी कॅंपांत विकून तारेचे पैशे फारीक केले. म्हाका सामकें पूरो जाल्लें. परतोय डेक्कन जिमखान्यार चलत आयलों. दिसलें कुंदागेर वच्चें आनी शुभदाक मेळचें. ताची आनी ताच्या बापायची भेट जाली काय ना तें पळोवचें. सांजची पांच वरां जाल्लीं आसतना म्हाका पयस शुभदा

दिसलें. तें सामकेंच बावून गेल्लें. ताचे केंस पिसुडलेले. पांय चिखलांत भरभरलेले. ओंठ सुकिल्ले. काचाबूल जावन असहाय्य अवस्थेंत पाय फुडें धुकलीत तें चलतालें. ताणें म्हा[illegible] [illegible]ळोत्रंक नाशिल्लें. ताच्या ओठांतल्यान रगत येवन तें सुकिल्लें. ता[illegible] आंगात एक टी शर्ट आशिल्लो.

' शुभदा ' हांवे ताचेलागी वचून ताका ल्हवू आवाजांत उलो केलो.

' जिवोत्तमकाका ! ' शुभदा अकस्मात आनंदून किळचलें. ताणें म्हजो हात घट्ट धरलो. आनी तें हुडक्या हुडक्यानी हो हो करीत रडूंक लागलें. ...!!!

' तुजी इश्टिण तुका मेळ्ळीना ? हांवे ताका विचारलें.

' ना. तें मुंबै गेलां. हांवें तुमचेबराबर तागेर वचपाक जाय आशिल्लें.' ताणें परतेय घुस्मटून रडत म्हळें. सगळी येरादारी ठप्प जाल्ली.

' शुभदा ! चल. आमी त्या मदत-केंद्रार वचुंया, ' हांवें तुटक उतरांनी म्हळें. ताका घेवन हांव मदत-केंद्रार गेलों. थंय पूर-ग्रस्तांची तुफान गर्दी जा[illegible]ली. स्वयंसेवक पूरग्रस्तांक एके [illegible]ंकेंत उबे करताले. तांका जेवपाखातीर अॅलुमेनची बशी आनी पेलो दिताले. हांव आनी शुभदा वचून क्यूंत रावलीं. कसली ती वळखपाक न येवपी दावलभर भाजी आनी केन्नातरी भाजिल्ल्यान कडक जाल्ली एक एक चपाती आमकां मेळ्ळी. फकत एक पेलो पियेवपाक उदक मेळ्ळें.

क्यूंत राविल्ल्या प्रत्येक मनश्याक अँटी कॉलरा अँटी टाय-फॉडचें इंजेक्शन दिताले. आमकां इंजेक्शन तोपून जाले उपरांत कपडे दिले. शुभदाच्या वांटयाक तांबडया रंगाचे एक जीन आनी फुलांचो डिझायन आशिल्लो एक बुशर्ट आयलो. म्हाका एक सदरो आनी लेंगो मेळ्ळो.

हांवें शुभदाक घेवन क्यू सोडलो ? तें बकबक करून चपाती

खावंक लागलें. बाबडें ! खुब्ब भुकेल्लें तें. म्हाका भूकच नाशिल्ली. हांवे म्हजे चपातीचो एक व्हडलो कुडको तोडून शुभदाचे बश्येंत घालो. ताणें नाका म्हळें ना. ताची चपाती केन्ना सोंपिल्ली. ताका व्हसव्हसून खातना पळोवन म्हाका ताची काकुयट दिसली. दिसलें ताका लागीं ओडचें. ताचे केंस सांसपूचे आनी म्हणचें 'सोवकास खा गो बाय !' पूण हांवें तशें केलेंना. अलिप्तपणान दुसरेकडेन पळोवंक लागलों.

आनी शुभदा अकस्मात फकाफक ओकलें. हांव बेगीनबेगीन ताचेसरीं गेलों. ताची तकली घट्ट धरली. ताका ओकूंक दिलें. ताच्या आंगातलो टी शर्ट आनी स्कर्ट ओंकीन म्हेळो जाल्लो. सकाळीं ताच्या आंगार ब्लावज आशिल्लो ताची म्हाका तेन्ना याद जाली. ताका टी शर्ट कसो मेळ्ळो ताचें म्हाका अजाप दिसलें. पूण हांवें ताका विचारलें ना.

हांव पयस गेलों. न्हंयेच्या उदकांत म्हाका मदत-केंद्रार मेळिल्लो सदरो एकेवटेन हांवें भिजयलो. ओलो केलो. सदरो घेवन शुभदाकडेन गेलों. ओल्या वस्त्रान ताचें तोंड, हातपाय पुसून काडले. उपरांत सदऱ्याचे सुकेवटेन पुसून नितळ केले.

'शुभदा ! तूं त्या कोनश्याक वचून हे नवे कपडे बदलून यो.' हांवें ताका सुचयलें. पूण ताका बावडचाक सामकें पुरो जाल्लें. हांवें थोडोवेळ येवजिले आनी उपरांत ताचो टी शर्ट काढून उडयलो. तें जोरान भाजतालें. हांवें ताका बुशशर्ट घालो.

'म्हाका मात्सो तो ओलो कुडको दियात.' ताणें म्हाका सांगलें. हांवे ताका तो ओलो सदरो दिलो. तें पयस मोडून पडिल्ल्या एका घराच्या आडोशाक गेले आनी कपडे बदलून आयलें. ताणें तांबडें जीन आनी फुलांचो बुशशर्ट घाल्ल्यान पयलीं तें चल्या-भशेनच दिसलें.

सांज जाली. रातीचो काळोख सगळ्याक पातळूंक लागलो. शुभदा पिरंगूंक लागलें.

'शुभदा ! बाय, तुका किदें जाता ?' हांवें ताका विचारलें.

'म्हजी कंबर आनी सगळें आंग फोडटा' ताणें वळवळत म्हाका सांगलें.

हांवें शुभदाक उखललें. फुलाभशेन ल्हव आशिल्लें तें. ताका घेवन मदत केंद्रार गेलों. ताका थंयचे नर्सीक दाखयलें. नर्स सांगपाक लागली इंजेक्शन दिल्ल्यान ताका जोर आयला. तिणें ताचेर वखत म्हणून दोन गुळयो दिल्यो. हांवे त्यो शुभदाक घेवपाक लायल्यो.

मदतकेंद्रार एक चादरय मेळिल्ली म्हाका. तांतूत शुभदाक गुठलायलें. ताका घेवन एका देवळाच्या आवारांत गेलों. बंदिस्त युद्धकैदी बसचे तशे कितलेशेच पूरग्रस्त देवळाच्या आवारांत येवन बशिल्ले. हात्रें कोनश्याचोसो एक जागो धरलो. शुभदाक घेवन थंय बसलों. म्हज्या कपडयांची गुठली केली. शुभदाखातीर ताचें उशें केलें. शुभदाक मेळिल्ली चादर ताका हातरूंक घाली. आनी ताका न्हिदयलें. हांव उकडयां, आंगाची मुटकुळी करून शुभदाचे तकले-लागीं बसलों. घुबडाभशेन मोन्यांनी आनी घुमो बसलों. उपरांत तशेंच दोळे धांपिल्लेकडेनच न्हिदलों.

'नाका... म्हाका सोड... नाका' शुभदा खाटीक मारूंक व्हरपी गाय जशी आकांतान हांबेता तशें आडुलें.

हांव ताचे आरडीन कचक्क करून आंग काडून जागो जालों. हांवें शुभदाक घट्ट धरलें. तें न्हिदेंतच थर्त भियेवन आडुलें. कसलें तरी भयांकृत सपन पडिल्लें आसतलें ताका. हांव ताका थापटूंक लागलों. तेन्ना तें पूराय जागें जाल्लें.

शुभदाच्या किळच्यानी हेर पूरग्रस्त जागे जाले. ताणीं 'किदें जालें? कोण आडुलो? किदें जाले?' आदी वाऱ्यारच कांय प्रस्न विचारून थोडोवेळ बोवाळ केलो.

'जिवोत्तमकाका!'

'शुभदा! बाय किदें जालें? सपनबी पडलें काय किदें गो तुका? भियेवं नाका आं. हांव जिवोत्तमकाका तुजे म्हऱ्यान आसा' ताका हांवें थापटीत धीर दिलो.

'जिवोत्तमकाका ! म्हाका ओंकूंक येता,' शुभदान पिरंगत अर्धवट ग्लानींन म्हळें. हांवें ताका उखल्लें.देवळा भायर व्हेलें. देवळाचें छप्पर मोडिल्ले. अर्देअदीक व्हांवन गेल्लें. देवळांतलो देवूय हुंवारांत व्हांवून गेल्लो. दिवोबिवो खंयच पेटयल्लो नाशिल्लो.

हावें काळखांतच चाचपडत शुभदाची तकली फुडें धरून ताका ओंकूंक लायलें, शुभदा पांचवें–हडवें किदेंतरी ओंकलें. ताचे ओंकीक असह्य वास मारतालो. म्हाकाय त्या वासान ओंकूक येता काय असो म्हाका दुबाव मारलो. पूण व्हडा कश्टान हांवें ती ओंकपाची भावना दामली आनी जिरोवन उडयली. शुभदाक परत ताच्याय हातुण्णार हाडून न्हिदयलें.

शुभदाक जोर चडूंक लागलो. तें चड चड पिरंगूंक लागलें. हांव ताचे कुशीक न्हिदलो. आनी ताका थापटूंक लागलों.

ताका थापटीतना म्हाका म्हजे वासंतीची तीव्रतायेन याद जावंक लागली. खूब खूब याद येवंक लागली ताची. दोळयां-तल्यान दुकां व्हांवपाक लागलीं. हांव म्हजे वासंतीकच थापटीतां अशें म्हाका दिसपाक लागलें.

'हे चलयेचो बापूय येवन ताका व्हरमेरेन हांव ताची सेवा करतलों. ताचो बापूय ताका घेवन वतना हांव गळसणचो ना. दोळयांत दूक काडचो ना. त्रोग्गी रावतोलों. तुटक वागतोलों. हांव जांचेर माया करता तीं सगळीं मरतात. म्हाका एकलोच सोडून वतात.'

'हें इतलें किद्याक काय भियेलें ? हाका कसलें सपन पडलें काय ? इतलो कसलो भंय दिसलो ताका? सोबीत, निश्पाप मुखामळाचें हें शुभदा. म्हजें वासंती. हांव ताका थापटीता आसतनाच म्हाका न्हीद लागली.

० ० ०

हांव सक्काळीं जागो जालों. शुभदा शांत न्हिदिल्लें. हांवें ताच्या कपलाक हात लावन पळेलो. जोर नाशिल्लो. धाम सुकिल्ल्यान

ताचें कपल चिकट जाल्लें. ताच्या गव्हाळी रंगाच्या मुखामळार एकेतरेची फिकटसाण आयिल्ली. आनी दोन भुंवयामदलो तो तीळ तेखातीर चड काळो दिसतालो.

म्हजो हात ताच्या कपलाक लागतकच ताची न्हीद चाळवली. तें दोळे उक्ते करून म्हजेकडेन पळोवपाक लागलें. उपरांत गळसणल्याभशेन दुकां व्हांवोंक लागलें. हांव उठलों. मदतकेंद्रार वचून एक पाव आनी ॲलुमिनियमचो पेलो भरून च्या हाडली.

‘ शुभदा ! ही च्या घे. तुका बरें दिसतलें. भूक आसा जाल्यार हो पाव खा.’ शुभदाक खूब भूक लागिल्ली. ताणें पाव आनी च्या सोंपयली.

‘ शुभदा ! बाय तुका आतां बरें दिसता मगो ? हांवे ताचेकडेन पळेनासतना विचारलें.

‘ हय, जिवोत्तमकाका ! आतां खुब्ब बरें दिसता म्हाका ’ शुभदान सांगलें.

‘ हें पळे शुभदा ! हांव पयली एरंडवणाक वचून कुंदाच्या बंद घराक एक चीठ लावन येतां. तुज्या बापायक हांवें ताचो पत्तो दिल्लो. उपरांत हांव तुज्या बापायक कशेयभशेन गांठटां. तूं ह्या मदतकेंद्रावयल्यान मात कशेंच हालूं नाका. जेवण, च्या बी थंय दितात ती घे. पूण तूं हांगासून दुसरेकडेन खंयच वचूं नाका. तुजो बापूय हांव नासतना आयलो जाल्यार मुजरत वच. कळ्ळें मगो ?’ हांवें म्हळें.

‘ हय जिवोत्तमकाका ! अप्पासायब आयले तरीकय तुमी परते यो मेरेन हांव हांगाच रावतां, ’ शुभदान सांगलें.

हांव सरळ रेल्वेस्टेशनालागीं आशिल्ल्या इन्कमटॅक्स ऑफिसांत गेलों. शुभदाचो बापूय म्हाका थंयच मेळ्ळो. हुंवाराची बातमी कळनाफुडें कालूच तो पुण्याक आयिल्लो. ताका म्हजो रकाद मेळूंक नाशिल्लो. तो ससून हॉस्पिटलांत गेल्लो. थंय ताका आपलीं बायल, दोन चले आनी एके चलयेचीं प्रेतांच पळोवंक मेळिल्लीं. शुभदाय

वांचपाची शक्यताय ना हाची ताका मनोमन खात्री जाल्ली. तो पुराय खचिल्लो. ताचो वरिश्ठ अधिकारी समजूतदार आनी मायेस्त लागलो म्हाका. ताणें शुभदाच्या बापायक धीर दिलो. चारूय प्रेतां कायदेशीर सोपस्कार करून ताब्यांत घेतलीं. तांचें दहन केलें. शुभदाच्या बापायक तो वरिश्ठ आपल्या घरा घेवन गेलो. त्या अधिकाऱ्याचें मुर्ती काय अशें किदें नांव आशिल्लें. हांवें शुभदा जिवें आसा हें शुभदाच्या बापायक सांगतकच ताणें म्हाका कडकडून वेंग मारली. हांव ताका घेवन मदतकेंद्रार आयलों.

'शुभी !' अशी हालेट मारून तो शुभदालागीं गेलो आनी शुभदाक घट्ट आपले वेगेंत घेतलें.

हांव पयस राविल्लों. म्हज्याय दोळ्यांतल्यान दुकां येवंक लागलीं. आनी हांवें थंयसून कूस मारली. हय ! आनीक मोयाश वाडोवप नाका. परतेंय एकसुरेंपण भोगणावप नाका. हांव थंयसून पळ्ळों.

० ० ०

'जिवोत्तमकाका !' हो शुभदेचो उलो आयकून सगळें किदें येवजलें !

हुंवारा उपरांत हांवें म्हजें दुकान, घराचो जागो विकून उडयलो. पनवेलाक गेलों. थंय म्हजो पयसचो एक सोयरो आसा. आवयकडल्यान आशिल्लें हें नातें. हांव तांच्या मळ्यांत काम करतां. अलिप्त रावतां. ह्या म्हज्या सोयऱ्याचें नांव माधवराव दोडगे. दोडगे कुटुंबिय म्हाका मायेन वागयतात. हांव तांचें काम करतां. ते म्हयन्याक म्हाका पगारय दितात. पूण म्हाका पैशांची गरजच भासना. तांकां आवय–बापूय नाशिल्लो एक पुतणयो आसा. नांव सुहास. अमेरीकेक वचून शिकून आयला. मुंबैंच आसता. माधव-रावाच्या धाकट्या भावाचो पूत. हो धाकटो भाव टायफॉयडान भायर पडिल्लो. उपरांत ताची बायलय पेड्डयार जाल्ली. तांचो एकुलतो एक चलो सूहास पोरको जाल्लो. पूण माधवरावान ताका

आपलें पोरकेपण केन्नाच भासूंक दिलेंना.

आनी आयज माधवरावाचो रकाक दिवंक हांव मुंबै आयिल्लों. सुहासाखातीर हो रकाद आशिल्लो. वाटेर शुभदा मेळ्ळें.

‘जिवोत्तमकाका’ हो उलो आयकल्याबराबर हांवें ताका पळेलें. म्हाका ताचो तीळ दिसलो आनी हांव ताका वळखलों.

‘कोण? शुभदा! शुभदाच मूं तूं?’ म्हाका खूब म्हळयार खूब खोस जाल्ली.

म्हजें वासंती आयज जर जिवें आसता तर बद्द ताचेभशेनच दिसतलें आशिल्लें. खरेंच ताचेभशेन दिसतलें आशिल्लें काय? ह्यो म्हजो यादी चवदा वर्सांउपरांत लेगीत अश्यो ताज्यो कश्यो उरल्यात? शुभदा! शुभदा! म्हाका तुजेलागीं खुब्ब खुब्ब उलोवपाचें आशिल्लें. तूं किदें करता, खंय आसता हें विचारपाचें आशिल्लें. पूण उपरांत याद जाली. हांव दुर्भागी. म्हाका कोणाचोच पाश आसपाक उपकारना, माया लागपाक उपकारना आनी हांव भराभर चलत गेलों. ताचेसरीन उरिल्लों जाल्यार जशें काय तें म्हाका पकडटलें आशिल्लें. हांव झपाझप पयस चलत रावलों.

दिसताय आसत तें एकाद्रे म्हजे चलयेसारकें. पूण तांतूंत किदें जालें? म्हाका एकसुरो रावपाचो आसा. म्हजेखातीर दुसऱ्यांक त्रास नाका आनी आतां म्हजें वयूय जालां. म्हाका कसलोच पाश नाका. फुकटची माया नाका. अजाप एकेच गजालीचें दिसता. चौदा वर्सांपयलीं फकत एकाच दिसा म्हज्या सहवासांत आयिल्ल्या शुभदान म्हाका वळखलो कसो?

० ० ०

# अप्पासायब

'अशें? म्हाका त्या भुरग्याची याद आसा. म्हाका मदत केल्ली...' आनी हांवें म्हजें उलोवणें अर्देंच सोडलें. हांव पयस पळोवंक लागलों. शुभदान म्हजेखातीर आनी आपलेखातीर च्या दवरली. म्हाका त्या भुरग्याची बेसबरी याद आसा. म्हाका ताचेविशीं आनीक चड उलोवपाक जालें ना. कारण म्हाका म्हज्या घुंवळीच्या प्रसंगाची याद जाली. म्हाका हाय ब्लड प्रेशर दुयेंस तेन्नाच्यान लागिल्लें. आनी म्हाका घुंवळ... म्हजे बायलेक– म्हजे लतिकेक मारहाण करतना अयिल्ली. यादी उसळून वयर येवपाक लागल्यो आनी हांव बेचैन जालों !

लतिका ! म्हजें लतिका !

म्हजे लतिकेचो जल्म जोग बिल्डिंगेतच जाल्लो. म्हजी ताची पयली वळख एक दीस अशीच बस–स्टॉपार जाल्ली. अंडाकृती मुखामळाच्या उदकाळ तेजस्वी दोळयांचे हे तरनाटे लतिकेन म्हाका पिशें लायलें. हांवेंच म्हजो मोग उक्तावपाक फुडाकार घेतलो. एके रातींत हिमालय चडपाची आनी एका दिसांत अरबी समुद्र हुंपपाची खुमखुमी तेन्ना म्हज्या तरनाटच्या देहांत सळसळ–टाली. ही खुमखुमी पिशी आशिल्ली. अवास्तव आशिल्ली. पूण

जुवानपण उसळटालें. म्हज्या मोगाक लतिकेकडल्यान प्रतिसाद मेळ्ळो.

आमच्या लग्नाक एक वर्स आसतना लतिकेचो बापूय भायर पडलो. दुसऱ्या वर्सा आमीं लग्न केलें. जोग बिल्डिगेंत हांव रावपाक गेलों. लग्नाउपरांत दोन वर्सांनी सुधीर जालो उपरांत देडा वर्सांच्या अंतरान दोन चलयो जाल्यो. शुभदा आनी विनिता. विनिताउपरांत चार वर्सांनी निर्तीन जालो.

दर एका बाळंटेराउपरांत लतिका बदलत गेलें. हिस्टेरीक जायत गेलें. कितलो बदल्लो ताचो स्वभाव! तें आपल्या भुरग्यांचेर आत्यंतिक मोग करतालें. दर एका भुरग्याफाटल्यान तें एक सपन पळेतालें. आमच्या संवसाराक आधार जावचो म्हणून तें स्वता नोकरी करतालें. आठ तास शिर्विस, सकाळीं चार वरां भुरग्यांक शिकवप, रांदप, कितलो जीव दणदणायतालें तें! म्हाका ताची साप्प काकुयट दिसताली. ताणें कितल्योय आड्डी-हुयेली मारल्यो तरीय हांव वोग्गी रावतालों. हे काकुयटेखातीरच म्हाका अशें शांत रावपाक जातालें. पूण निमणें हांवयबी मनीसच. केन्नाकेन्नाय म्हजे संतापाचो लेगीत उद्रेक जातालो.

हिस्टेरीक म्हळ्यार लतिका कशें वागतालें? तें सकाळीं पांचांक चुकनासतना उठ्ठालें. सुधीर, शुभदा, वनिता हांका सडसडीत हालोवन हातरूण सोडपाक लायतालें. स वरांमेरेन तांचो आनी आपलो प्रातःर्विधी सोंपोवन तें तांचो अभ्यास घेतालें. तांका समजावन सांगपाचो यत्न करतालें. पूण ह्याच वेळार तें खूबच हिस्टेरीक वागतालें. भुरग्यांक शिकवप हेंच फकत आपलें कर्तव्य. ते शिकवपलेगीत ‘छडी बसे छमछम विद्या येई घमघम’ हे धर्तेर. कितल्यो बोबो-हुयेली मारतालें तें! भुरग्यांक कितल्यो गाळी घाली. कितली आ:दळ आपट करतालें! आपल्या भुरग्यांक शिकयतना आपूण कितलो व्हडलो बोवाळ करतां आनी ह्या बोवाळाचो आपल्या शेजाऱ्यांक कितलो त्रास जाता हाची तें पर्वाच करिनाशिल्लें. एका

काळार गोड स्वभावाचें आशिल्लें लतिका आतां झगडाळ बायल म्हणून फामाद जाल्लें.

लतिका आपल्या भुरग्यांकडेन महत्वाकांक्षेन पळेतालें. आपलीं भुरगीं वर्गांत सदांच पयलीं येवपाकच जाय असो ताणें निश्चय केल्लो. हे खातीरच ताची ही सगळी धडपड आशिल्ली. हे धडपडीचें पर्यवसान कित्यांतय जाल्यार ताका पर्वा नाशिल्ली. एकदम फांत्या पान्यार मोठ्या मोठ्यान आड्डून तें आमच्या सगळ्या शेजाऱ्या-पाजाऱ्यांक उठयतालें.

आमच्या शेजरा भौतेक शाळा कॉलेजांतले विद्यार्थी रावत. लतिकेच्या बोबो हुयेली मारीत सकाळच्या पारावयल्या शिकोवपान तांची न्हीद इब्राडटाली. तांच्या अभ्यासांतय व्यत्यय येतालो. ह्या विद्यार्थ्यांची आनी लतिकेची सदांच ते खातीर झगडीं जातालीं. खूब सहन केल्याउपरांत म्हाका केन्ना केन्नाय ह्या झगड्यांत पडचें पड़.

दर एकलो विद्यार्थी घरमालक जोगाकडेन लतिकेआड करांदाय मारी. जोग विचारूंक म्हणून येतालो आनी उपरांत जोगाचें आनी लतिकेचें झगडें जातालें. इतली अपुर्बायेची चली, इतलो उतळ-ताप करपी बायल मनीस कशी किदें जाली हाचें जोगाक लेगीक कुवाडें पड.

खुबदां जोग म्हाका सांगतालो, 'जगन्नाथराव ! लतिकेक खूबच अशक्तताय आयल्या. ते खातीर तें अशें वागता. तुमी ताका दोतोराक कित्याक दाखयना ?'

हांव वोगीच रावतालों. दर म्हयन्याचें बजेट लतिका तयार करी. ताका पगार मेळटालो ३५० रूपया. म्हयन्याचे पयले तारखेक तें आपलो पगार म्हजेकडेन हाडून दितालें. वांगडा म्हयन्याचें बजेट. लतिका सामकें शिस्तीचें. ताच्या बजेटांत बस भाडें, च्या खर्चापासून फी, पुस्तकां कादेर्न, पेन्सिल, म्हयन्याक एका आयतारा सिनेमा आदी सगळ्या गजालींचो आसपाव आसतालो. तेभायर सगळें रांदप तें

स्वता करतालें. सकाळीं उठनाफुडें आनी साडेणवमेरेन तें एकेकडेन रांदप करतालें. दुसरेकडेन गाळीफस्ती घालीत आदळआपट करीत भुरग्यांक शिकयतालें. हांव जावन ताका केन्नाकेन्नाय रांदपांत मदत करतालों. ताका टॉनिक्स घेवपाचो हांव आग्रो करतालों. पूण तें म्हजी सुचवणी फेटाळटालें. लतिकेचें सगळें आत्यंतिक. सामकें एका टोंकार वचून. भुरग्यांक लेगीत शिस्त आत्यंतिक, टोंकाची.

धा वरांचेर जेवण सोंपतकच तें सायकलीर बसून ऑफिसाक वतालें. ताका कश्ट खूब काडचे पडत. चार भुरग्यांची आवय जातकच लतिका पयलीचें उरलेंना. खूबच बारीक जाल्लें तें. पोले बशिल्ले. पयलीं अंडाकृती आशिल्लें ताचें मुखामळ अंडाकृती उरलें ना. दोळे उदकाळ आनी तेजश्वी आशिल्ले पूण तातूंन कश्टां-खातीर आयिल्लो थकवो दिसतालो.

सुधीर, शुभदा, विनिता ह्या तिगांकय लतिका धाडाय धाडाय धाडायतालें. फकत अभ्यासावेळार. पूण नितीनाक मात तें केन्नाच हात लाय नाशिल्लें. नितिन ताचो सामको अपुर्बायेचो आशिल्लो.

ताचो कटाक्ष आशिल्लो तो फकत आपल्या भुरग्यांच्या शिक्षणाचेर. सुधीराक इंजिनियर करपाचें ताणें थाम थारायल्लें. म्हणूनच तें ताका दरदिसा आंग-तोंड सुज म्हणसर मारतालें आनी शिकयतालें. तो वयान भुरगो, ताची आकलनशक्ती आपलेपरस उणी हें ताका पटनाशिल्लें. आपूण जितलें जलद ताका शिकयता तित-ल्याच जलद गतीन ताका खंयच्याय विशयाचें आकलन जावंक जाय अशें ताका दिस. ताका तितलें जलद आकलन जालेंना जाल्यार मागीर तें खुबतालें. ताका मार मार मारी. केन्नाकेन्नाय भंयानच सुधीराच्या लक्षांत कांयच वचनाशिल्लें आनी तेखातीर मागीर तें पिरंजळत रावतालें.

आपूण जशें वागता तशेंच वागपाचें अशें ताका मनापासून दिस. ताच्या प्रयत्नांखातीरच आमचीं तीनय भुरगीं शाळेंत आप-आपल्या वर्गात सदांच पयलीं येतालीं. वर्गांत सुधीरचो नंबर पयल्या

पांच भुरग्यांनीं येतालो. खेळां सर्तीनी तो बक्षिसां मेळयतालो. आमच्या भुरग्यांनी सगळचांत हुशार आशिल्लें शुभदा. पयलो नंबर केन्नाच सोडीनाशिल्लें तें. ताका गावपाचोय नाद. आशिल्लो. आपल्या सुरेल आनी गोड गळचान तें जेन्ना कविता म्हणटालें तेन्ना त्यो आयकत रावीनशें दिसतालें.

भुरग्यांक शिकयतना तें जितल्या नेटान बोवाळ घाली तितल्याच नेटान आनी उत्साहान आपल्या भुरग्यांक खंयच्याय गजालीन जैत मेळटकच तें तांचें कवतूक करी.

नितीनाच्या जल्माउपरांत लतिकेन आपणे जावन आपलें ऑपरेशन करून घेतलें. केन्नाकेन्नाय तें भुरग्यांक मारता तें पळोवन, लोकांवांगडा ताका अशीं झगडींझुंजां करतना पळोवन म्हाका भिरभिरी मारताली. हांव संतापान ताका ठोकून काडटालों. उपरांत म्हजो म्हाकाच पश्चाताप जातालो.

'लतिके ! तूं किद्याक गो अशें वागता ? किदें आशिल्लें तूं, किदें जालां आतां तूं ? किद्याक असो जीव दणदणायता ? किद्याक असो उतळताप करून भुरग्यांचो अभ्यास घेता ? ' हांव ताका म्हण्टालों. हावें ताचेर हात उखल्लो म्हण्टकच तें वोगी बसतालें. पूण म्हजी नसाय मात केन्नाच करी नाशिल्लें. म्हाका खूबच वायट दिसतालें.

'लतिके ! तुका आमची पयली भेट याद जाता ? हावें तुजो घेतिल्लो पयलो कीस येवजता ? ' हांव ताका भूतकाळांत व्हरपाचो यत्न करी. तेंय उपरांत फुलतालें. म्हाका म्हणी 'खरें सांगूं ? म्हाका तुजो मार खावप आवडटा ' म्हाका हांसचें काय रडचें तेंच कळनाशिल्लें. फकत एकांतांत आसतना तें म्हाका एकेरींत संबोधतालें. नाजाल्यार भरग्यांहुजीर, लोकांहुजीर ! अहो जाहो.'
'म्हजें एक सपन आसा. तुमच्या सगळचांवांगडां हांव तें पळेतां. सुधीर इंजिनियर जाला. हजारांनी रुपया जोडटा. पर्वतीचे कुशीक ताणें सगळचांखातीर एक ल्हानसो बंगलो बांदला. शुभदा, विनिता

बि. ए. पास जाल्यांत. प्रेमविवाह करून बऱ्या घराण्यांनी गेल्यात. नितीन दोतोरकी करता. तूं आनी हांव पेन्शन घेतात. आमी बंगल्याच्या व्हरांडचार ओल्तेरार बसतात. सगळचा बोबो हुयेलींचें झगडचा–झुंजाचें सार्थक जाल्ल्यान. तृप्त मनान 'तें खंयतरी पळेत स्वप्नाळ उलयतालें. ताच्या ह्या सपनांत तें म्हाकाय अचळय घेवन वतालें ?

आनी सुहास दोडगे म्हज्या लक्षांत रावलो तो लतिके खातीरच. हो एकच असो विद्यार्थी आमच्या शेजरा रावून गेलो जो लतिकेब्राबर झगडलोना. ताणें सदांच आमच्या कुटुंबावांगडा स्नेहपूर्ण संबंध दवरले. तो सदांच आमचे वांगडा सौजन्न्यान वागलो.

एक दीस आमच्या नितीनाक आमचे शेजान्नीचे चलयेन धुकल्लो. नितीन तोंडयां पडलो. ताच्या दातांतल्यान रगत आयलें. आमची शेजान्न म्हळचार मिसेस गिडे. लतिका वाघिणीभशेन संतापलें. ताणें हे गिडेवांगडा हातघाईर येवन झगडें केलें. हांव सकाळींच त्या दिसा कामार गेल्लों. लतिका इतलें संतापलेलें की ताणें ते गिडेचे कपडेलेगीत पिनिल्ले. केश्टचो ओडिल्ल्ये. आनी त्या सुहासान हें झगडें आपूण मदीं पडून आनी दोनीय पक्षांकडल्यान थोडोभोव मार खावन सोडयल्लें.

दुसऱ्या दिसा ह्याच झगडचाचो संदर्भ घेवन लतिका गिडेवांगडा आनीक झगडपाक शिवशिवतालें. कालचो ताचो राग अद्याप न्हिवूंक नासलो. भूरग्यांचो अभ्यास घेननाच ताणें अकस्मात गिडेक गाळी घालून आव्हान दिवपाक सुरवात केली. हांव भडकलों. ताका रागान तोंड धांपपाक सांगलें. पूण तें हिस्टेरीक पद्धतीन हुयेली मारपाक लागलें. म्हाकाच गाळी घालपाक लागलें. म्हजो संताप अनावर जालो. हांव ताका धाडाय धाडाय धाडावंक लागलों. आनी उपरात म्हजी शुद्धच गेली.

हांव शुद्धीर आयलों तेन्ना सुहास म्हजेर उपचार करतालो. त्या वेळार तो एम. बी. बी. एस. पास जाल्लो. इंटर्नीशीप करतालो.

ताणेंच म्हाका ससून हॉस्पिटलांत व्हेलो. म्हज्यो सगळ्यो येझामी करून घेतल्यो. उपचार बरोवन दिले. लतिकेक ताणेंच सांगलें कीं ताणें म्हाका आतां सांबाळपाक जाय. म्हज्या मनाक त्रास जावन म्हजें प्रेशर वाडत असल्यो खंयच्योय गजाली ताळपाक जाय.

कितलो मोग करी म्हजेर लतिका ! म्हाका प्रेसांवांचें जालां हें कळनाफुडें ताणें म्हजी जिवापाड जतनाय घेवपाक सुरवात केली. तें सकाळीफुडें भुरग्यांच्या अभ्यासाखातीर उठटालेंच. पूण ताणें आपल्यो बोबो हुयेली खूपूच उणें केल्यो. ताका आड्डून भुरग्यांक शिकोवपाची अनिवार इच्छा जाताली पूण म्हाका तिडक बी येत हे भिरांतेन तें वोगी राव. अशेभशेन आत्मसंयमन करपाक ताका खूब त्रास जाताले. केन्नाकेन्नाय ह्या प्रयत्नांखातीर ताका रडपाक येतालें. अशेवेळार तें काकुयटेन दोळ्यांतल्यान दुकां गळयतालें. म्हाका खूब वायट दिस.

‘ हें पळे, लतिके ¡ भुरग्यांचो अभ्यास हांव घेतां. तूं फकत रांदप कर. सगळीं कामां केल्यार तुजेर चड ताण पडटा. तुका तो सोंसपाक जायना आनी तेखातीर तू अशे रागीट जालां’ हांवे ताका समजायलें.

‘ नाका ! नाका ! तुमकां विश्रांतेची गरज आसा. तुमकां ऑफिसांतच चड काम पडटा. तांतूत आनीक हें तुमी करूं नाकात. हांवूच घेतां भुरग्यांचो अभ्यास. आड्डुनासतना घेतां,’ ताणें म्हाका निक्षून सांगलें.

हुंवाराच्या एक म्हयन्यापयलीं म्हाका घुंवळ आयिल्लो. आनी तेउपरांत ह्या एका म्हयन्यांत लतिका पुराय बदल्लें. पूण भुरग्यां-विशीं आपणें बाळगिल्ली महत्वाकांक्षा ताणें बदल्लीना. पूण आपलें वागणें मात ताणें पुराय बदलून उडयलें. शिकयतना भुरग्यांक तें मारीना जालें. भुरग्यांची माराची भिरांत गेल्ल्यान तीं चड मन लावन अभ्यास करपाक लागलीं. हांव लतिकेच्या फाटल्यान लागलों. ताका दोतोरान दिल्लीं टॉनिक्स सुरू केलीं. हांव स्वता ताका तीं

टॉनिक्स वेळच्यावेळार दिवपाक लागलों. खन्यानींच लतिकेची प्रकृति सुधारपाक लागली. अदींमदीं ताका आड्डून उलोवपाचे झटके येताले. पूण उपरांत तें आपूण अशें आड्डल्याखातीर आपणाकच गाळी घाली. म्हजेकडेन 'रागार' जांव नाका आं' अशी याचना करी आनी केन्नाकेन्नाय काकुयटेन रड.

हुंवाराच्या तीन दीस पयलीं हांव आमच्या इन्कमटॅक्साच्या मुंबयच्या ऑफिसांत कामाखातीर गेल्लों.

० ० ०

हुंवाराच्या दिसा मुंबयच्या ऑफिसांत हांव कामांत गुल्ल जाल्लों. साडेबारांक म्हज्या बॉसान म्हाका आपल्या कॅबिनांत आपो-वन व्हेलो. तांच्या मेजार एक ल्हानसो ट्रांन्सिस्टर आशिल्लो.

'मिस्टर रेगे ! पुण्यांत हुंवार आयला. आतांच बातमेंत सांगला,' बॉसान म्हाका सांगलें.

'पुण्यांत हुंवार दर वर्सा आसताच. पावसांत उदक लकडी ब्रिजाच्या सामके लागच्यान व्हांवता,' हांवें म्हळें.

'मिस्टर रेगे ! हो हुंवार प्रचंड आसा खंय. खंयचेतरी धरण फुटलां खंय. संबंध पुण्याची खंय हानी जाल्या. बसा मातशे त्या कदेलार. आतां बारा पंचेचाळीसांच्यो बातम्यो आयकुंया' बॉसान म्हळें.

म्हाका हांसपाक आयलें. बॉस मार गंगेक हुंवार येवन हानी जावची तेभाशेन उलयतालो. बॉसान ट्रांन्सिस्टर सुरू केलो. आपूण काम करपाक लागलो.

आनी हांवे बारा पंचेचाळीसांच्यो बातम्यो आयकल्यो. काल पानशेत धरण फुटिल्ल्यान डेक्कन जिमखाना, लक्ष्मी रोड, जंगली महाराज रोड आदी जाग्यांचेर जाल्ले हानीची वर्णनां आयकूंक मेळ्ळीं. म्हज्या पायांपोंदची जमीन सरकता असो भास म्हाका जालो. आमची जोग बिल्डिंग मातयेची. डेक्कन जिमखान्यार फर्ग्युसन कॉलेज रोडार आशिल्ली ही आमची बिल्डिंग. ह्या प्रलयंकारी हुंवारामुखार ती आपलो निभाव कशी लायतली ? म्हजें

लतिका ! म्हजो सुधीर, नितीन ! म्हजें शुभदा, विनिता ! हांव भंयान धवो जालों. पूण बॉसान धीर दिलो. ताणें म्हळें, घरांत उदक येवचे पयलींच लोक सुरक्षित जाग्यार गेल्यातच आसतले. पूण रेडियोर उदक अकस्मात वाडिल्लें अशी बातमी हांवें अयकल्ली. लोकांक सुरक्षित सुवातेर वचपाक अवसरतरी मेळिल्लो आसनलो काय ? हांवें बॉसाकडेन पुण्याक वचपाचें परमिशन मागलें. ताणें तें रोखडेंच दिले.

हांव वेगोवेग पुण्याक आयलों. स्टेशनार हजारांनी लोक मुंबै वचपाक तिश्ठत बशिल्ले. सगळयो बशी सगळयो रिक्शा बंद आशिल्ल्यो. हांवें भाडयाची सायकल घेतली. पूण सायकल हुंवारान पातळायल्ल्या रेब्यान फुडेंच वचना जाली. कालच्या हुंवाराचे उदक खंयमेरेन पाविल्लें ताचो अंदाज आयलो. हांव सायकलीन परतोय स्टेशन वाठारांत गेलों. कँपांत हुंवाराची बाधा जावंक नाशिल्ली. हांव आमच्या वरिश्टाच्या म्हळचार मुर्तीच्या घरा गेलों. ताणीं म्हाका आपणागेर जेवयलो आनी थोडी विश्रांति घेवपाक लायली. पूण हांव तळमळटालों. विश्रांति आनी कशी घेतलों. हांव बेगीन-बेगीन पांच स किलोमिटर चिखोल चिडुीत डेक्कन जिमखान्यार पावलों.

जोग बिल्डींग आपल्या जाग्यार नाशिल्ली. हे बिल्डिगेतलो दर एकलो मनीस बुडलो अशें लोकांनी खात्री दिवन सांगलें. आनी हांव बेशुद्ध पडलों.

सगळेच शोक करताले. म्हणटकूच आनीक कोण कोणाचें सांत्वन करतालो ? हांव पडिल्लो तसोच जोग बिल्डिगेच्या जाग्यारच शुद्धीर आयलों. उठलों आनी सरळ मुर्तीच्या घरा आयलों. मुर्ती मनीस सामको बरो ताणें म्हाका धीर दिलो. तो स्वता म्हजेबराबर आयलो. आमी सगळयांत पयलों ससून हॉस्पिटलांत गेले. मॉर्गांत असंख्य प्रेतां आशिल्लीं. हांवें सगळीं प्रेतां पळोवपाक सूरवात केली. म्हजेसारकेच हेर कितलेशेच लोक थंय आयिल्ले. प्रेतांनी आपले कोणय नातेवायक बी दिसत काय म्हणून पळेताले. आनी एका कोन-

श्याक म्हाका लतिका, सुधीर, नितिन आनी वनिता दिसलीं. चारय प्रेतां लागीलागींच आशिल्लीं. हांवें हालेट मारली. त्या चारय प्रेतांक वेंग मारून हांव हो हो करीत रडपाक लागलों. मुर्तीन म्हजें सांत्वन केलें. ताणें स्मशानभुमींत वचून दहनाची तयारी केली. आनी तो परतोय हॉस्पिटलांत आयलो. हांव चारय प्रेतां ताब्यांत घेवन गळसणून थंयच बशिल्लों. शुभदा मात मेळ्ळेंना. ताचेविशीं कांयच कळ्ळेंना. हांवें आख्खो मॉर्ग धुंडाळ्ळो.

हांवें चारय प्रेतांचें विधीयुक्त दहन केलें. शुभदाची आशा हावें संपूर्ण सोडिल्ली. दिसलें बावडयाच्या नशिबान विधीयुक्त दहन लेगीत ना. मुर्तीन मात म्हाका एकटो कसोच सोडलोना. म्हाका परतोय आपल्या घरा व्हेलो. म्हाका परती परती घुंवळ येवंक लागली. ताणें म्हाका दोतोराक दाखयलो. दोतोरान म्हाका सिडेटीव्ह इंजेक्शन दिवन न्हिदयलो. दोन दिसांचो ताण, दुख्ख ह्या आघातां खातीर हांव अर्दमेलो जाल्लों. हांव थार न्हिदून पडलों.

सुहास दोडगे हुंवारावेळार पुण्याक नाशिल्लो. हांव मुंबै वचचे-पयलीं तो आठ दिसांची मुटी काडून पनवेलाक गेल्लो. हुंवाराच्या चार दीस पयलीं. वतना तो म्हाका सहज म्हणून सांगून गेल्लो. कारण तोच त्या दिसांनी म्हजेर उपचार करतालो.

० ० ०

चौदा वर्सांपयलीं फकत एकदां हांवें जिवोत्तमाक पळेल्लो. पूण म्हाका तरीय ताची याद आसा. आतां पळेल्यार एकाद्रे हांव ताका वळखूंचो ना. पूण ताणें केल्ल्या उपकाराची याद मर म्हणसर म्हज्या काळजांत सासणाची उतरली. खंयचो कोण मनीस ! ताचो शुभदावांगडा कसलो ऋणानुबंद ! पूण ह्या देवमनश्यान ताची कितलीं सेवा केल्ली. ताका कितलो आधार दिलो ! शुभदा जिवें आसा, हें कळोवपाक तो केद्या व्हड तळमळीन धडपडलो !

म्हाका दिल्ल्या गुंगेच्या इंजेक्शनाच्या अंमलांतल्यान हांव निकतोच उठिल्लों. म्हाका दुख्खाचो उमाळो सोंस नाशिल्लो. मुर्ती

आपलें कामधाम सोडून म्हजेसरीन रावेल्लो. आनी म्हाका समजायतालो.

हीं किदें परिस्थिती जावन पडिल्ली म्हजी ! बेघर, बेसहारा ! म्हजें पुराय कुटुंबच नानपश्चात जाल्लें. म्हजेर जाल्ल्या ह्या आघातान हांव पुराय चिड्डून गेल्लों. आत्महत्तेचो विचार पक्को करतालों आनी तेन्नाच जिवोत्तम आयिल्लो.

आयल्याबराबर ताणें शुभदा वांचलां आनी तें मदत-केंद्रार सुखरूप आसा हें म्हाका सांगलें. हांवें आनंदान ताका घट्ट वेंग मारली. तो म्हाका घेवन पूरग्रस्त मदतकेंद्रावर गेलो. शुभदा थंयच आशिल्लें. तांबडें जीन आनी फुलांचो बुशर्ट घालून. चल्यासारकें दिसतालें तें.

'शुभी !' हांवें आक्रोश केलो आनी ताका वेंगेंत घेतलें. कितलोसोचवेळ आमीं तशींच उरलीं.

थोडयावेळाउपरांत भोवतणी पळेल्यार जिवोत्तम नाच्च जाल्लो. शुभी परतें परतें आपल्या नव्या 'जिवोत्तमकाका' ची याद काडटालें.

'देव खूबदां मनश्यांचें रूप घेवन आधार दिता', हांवें शुभदाक समजायलें.

हुंवाराउपरांत आठूच दिसांनी हांवें पुणें सोडलें. म्हाका पुणें खावपाक येवंक लागलें. काळ वतकच हांव दुख्ख विसरतलों आशिल्लों. ना अशें ना. पूण सद्याक तें सोंसपाखातीर त्याच जाग्यार रावून यादींच्या घायानी म्हजें मन म्हाका बुड्डून घेवपाचें नाशिल्लें. मुर्तीन स्वताचें वजन वापरून म्हाका मुंबै ट्रान्स्फर दिली. म्हाका मुंबैंत एक ऑफिसराचो ब्लॉक लेगीत मेळ्ळो.

हुंवाराचो शुभदाचेर केदो व्हडलो आघात जाल्लो ! पयलीं दोन वर्सां तें घरांतच रावलें. फकत वाचनच रावतालें. कितलें समंजस म्हजें शुभी ! ऑफिसांतल्यान हांव परतो यो मेरेन तें म्हजी वाट पळेत बसतालें. हांवे ताचेर खंयचेच बाबतींत सक्ती केलीना. ताका पूर्ण मेकळीक दिल्ली.

पूण शुभी हुंवाराचो आघात अजूनय विसरूंक ना. तें म्हयन्यांतल्यान एकदांतरी किळच्यो मारीत उठ्ठा. केन्नाकेन्नाय 'नाका ! नाका ! सोड म्हाका ! ' अश्यो करूण आवाजांत किळच्यो मारीत, हुडक्यांनी रडत उठ्ठा.

म्हाका आतां शुभीचें अशें न्हिदेंतल्यान किळचत जागें जावप सामकें वळखीचें जालां. जेन्ना शुभी अशे सपनेवन किळचत उठ्ठा तेन्ना हांव आतां आंग काडून जागो जायना. हांव उठटा आनी लायट लायतां. घामान चिप्प भिजून, थरथर कडकडपी शुभीक हांव फकत थापटीतां.

तेंय पूण म्हजो स्पर्श जायनाफुडें जागें जाता. म्हाका पळोवन आपल्याक सांवरपाचो यत्न करता. आनी उपरांत स्फुंदून स्फुंदून रडटा. म्हाकाय अश्यावेळार रडें आंवरना. लतिका, सुधीर, विनिता, नितीन हांच्री सगळयांची म्हाका खूब खूब याद येता.

० ० ०

हुंवाराच्या वर्सा शुभदा णवेंत आशिल्लें. ताका दोन वर्सां मुंबै फुक्ट वगडावची पडलीं. तें फकत वाचप करतालें. घरचीं सगळीं कामां तें करी आनी फकत घरा राव. हांवेय ताका शिकपाची सक्ती केलीना.

दोन वर्सां उपरांत शुभीन आपणे जावन शाळेंत वचपाची इत्सा उक्तायली. म्हाका आनंद जालो. तीन वर्सांभितर शुभदा फस्ट क्लास डिस्टिंक्शन घेवन एस. एस. सी. पास जालें.

उपरांत ताणें शिक्षण चालूच दवरलें. ताका इंटराक बी ग्रुप घेवन फस्ट क्लास मेळिल्लो. पूण तें जेन्ना मेडिकलाक गेलें, तेन्ना एका म्हयन्याभितर ताणें मेडिकल कॉलेज सोडलें. म्हाका ताणें सांगलें, ' प्रेतां चिरपाचो म्हाका वीट दिसता.' ताणें बी. एस. सी. केली. ताका बी. एस. सींतय फस्ट क्लास मेळ्ळो.

अकस्मात ताच्यांत खंयसून आवड निर्माण जाली देव जाणा ! ताणें परतेंय मेडीकलाक ॲडमिशन घेतलें. अंदू तें एम. बी. बी.

एस. च्या तिसऱ्या वर्साक आसा.

इतलें सरळ सभावाचें म्हजें शुभी ! तें म्हजे कपडे धुता; म्हज्यो वस्तू व्यवस्थित दवरता, रांदप करता. इतलीं सगळीं कामां बरे रितीन करूनय तें आपल्या शिक्षणाकडेन बेसबरें लक्ष दिता.

हालीं शुभी स्वता म्हजें प्रेसांव चेक करता. म्हजीं वखदां; गुळयो वेळच्यावेळार दिता. म्हजी सगळे तरेची जतनाय घेता.

आतां म्हाका हुस्को जाला ताच्या फुडाराचो. सत्ताविसावें वर्स चालू आसा ताका. आनीक एक दोन वर्सां. इंटर्नीशिप जातकच ताका डिग्री मेळटली. एम. बी. बी. एस. ची.

० ० ०

# सुहास

म्हजें उलवप सोंपतकच डॉ. आपटेन म्हाका ताची वळख करून दिली. लेक्चरापयलीं ताणें खरें म्हळचार ताचेविशीं सांगिल्लें. हे चलयेक अकस्मात फीटस येताल्यो. हांवें ताचेकडेन पळेलें ताच्या दोन भुंवयांमदलो तो काळो तीळ. दिसलो म्हाका. म्हजें मन झरझरीत चवदा वर्सांफाटल्यान गेलें आनी हांव ताका वळखलों.

'म्हाका दिसता हांव तुमकां वळखतां,' हांवें म्हळें

'तुमी म्हाका वळखतात ?' ताणें अजापान विचारलें.

'हय ! भौतेक तुमचें नांव शुभदा वा शोभा आमपाक जाय हांव चवदा वर्सांपयलीं पुण्याक आशिल्लों. जोग बिल्डिंगेंत हांव तुमच्या शेजारा रावतालों.' हांवें तें सांगतकच म्हाका तें वळखलें.

काळ कितले बदल करता ! एक इल्लेशें, सान, स्कर्ट घालपी चली एक सोबीत युवती जाल्ली. हे चलयेंत कसलेंतरी प्रभावी आकर्शण आशिल्लें. म्हाकातरी ताचेकडेन पळेत रावचेंशें दिसपाक लागलें. हांवें ताका दुसऱ्या दिसाचो अ‍ॅपोंयमेंट दिलो. गाडी फुडें व्हरतना हांवें ताका 'बाय बाय बेबी !' म्हळें. उपरांत म्हाका दिसलें हांवे वोगीच चड आगाबूपण केला. हांवें गाडी बंद केली, तकली भायर काडून ताका म्हळें. ' तुमकां याद जाता ? हांव जोग बिल्डिंगेंत आसतना तुमकां 'बेबी' म्हणटालों. सामकीं ल्हान

आशिल्ली तुमी तेन्ना. कितलो बदल जाला तुमच्यांत'

तें म्हजेकडेन आपल्यो धव्योफुल्ल दंत पंक्ती दाखोवन हांसले. म्हाका खोल खंयतरी चोगीच हालिल्ल्या भशेन जालें.

० ० ०

म्हाका शुभदा, जोग बिल्डिग हांची घट्ट बरी याद आसा. जोग बिल्डिगेन म्हज्या मनार एक पुसना तसलो छाप मारला. पानशेतच्या हुंवारांत जोग बिल्डिग ना जावन गेल्ली. शुभदा सोडल्यार तांतून रावपी हेर सगळे लोक मेल्ले. तांतूत हांवूयबी आसपाचों. पूण हुंवाराच्या चार दीस पयलीं हांव पनवेलाक गेल्लों. म्हाका नॅर्व्हस ब्रेकडावन जाल्लो. किशोर साठेन–म्हज्या इश्टान म्हाका पनवेलाक वचून रेस्ट घेवपाचो सल्लो दिल्लो. म्हाकाय वाज आयिल्लो. हांव पनवेलाक गेलों आनी वांचलों.

हुंवाराउपरांत आयलों जाल्यार जोग बिल्डींग जाग्यार नाशिल्ली. ती आशिल्ली अशें दाखोवपी थंय कांयच उरूंक नाशिल्लें. बिल्डिगेंत रावपी सगळे मेल्ले हें म्हाका कळिल्लें. फकत तें चली वांटावल्लें हेंय अंधुकशें कळिल्लें आनी आज चवदा वर्सां-उपरांतलेगीत हांव ताका वळखल्लों.

० ० ०

हांव जोग बिल्डिगेंत रावपाक गेल्लों तेन्ना एम. बी. बी. एस पास जाल्लों. म्हजी इंटर्नीशिप चालू आशिल्ली. हांव चार वर्सांचो आसतनाच आवय–बापायक मुकिल्लों. म्हजो बापूय टायफॉयडान भायर पडिल्लो. आवय उपरांत एका वर्सान धनुर्वात जावन पेडुचार जाल्ली. म्हाका म्हजे आवयची अंधुकशी याद आसा. बापायची मातूय ना. माधवराव दोडगे म्हजो चुलतो. माधवकाका म्हाका इतले मायेन आनी मोगान वागयता ! म्हाका जाल्यार ताणें आवय-बापायची उणीव भासूंकच दिली ना. म्हज्या दर एका जैताचें गांवभर कवतूक केलें. हांव दोतोर जालों म्हळचार हांवें दोडगे घराण्यांत अद्वितीय दिग्विजय केला अशें ताका प्रामाणिकपणान दिस.

म्हाका ताणें केन्नाच किदेंच उणें पडपाक दिलेंना. म्हजे दर एके इत्सेक मानून घेतली. हांव डेक्कन जिमखान्यावयल्या जोग बिल्डिंगेंत रावूंक येवपाचें कारण म्हळयार सायकियाट्रीस्ट काणे डेक्कन जिमखान्यार रावतालो. ताच्या मार्गदर्शनाखाला हांवें अमेरीकेक सायकियास्ट्रीच्या उच्च शिक्षणाखातीर वचपाचें थारायल्लें. तेभायर म्हजो अभ्यास सोंपिल्लो. इंटर्नीशिप चालू आशिल्ली. तेखातीर हांव हॉस्टेल सोडून जोग बिल्डिगेंत रावपाक आयिल्लों. आनी म्हजो रूम शुभदाच्या ब्लॉकाशेजरा आशिल्लो. म्हाका रूम दिवचेपयलीं घरमालक जोगान म्हाका शुभदाच्या आवयविशीं कल्पना दिल्ली.

'हें पळेयात ! ही बायल फांत्या पारार उठून बोंबो–हुयेली मारता. आपणांक डिस्टर्ब जाता म्हणून जर तुमी तिका सांगपाक वश्यात जाल्यार तुमचेवांगडा ती झगडटली. ती बायल सामकी हिस्टेरीक जाता. उपरांत कागाळ करपाक मात येवं नाकात म्हजे-लागीं. हांव कसलीच जबाबदारी घेवचो ना मागीर' जोगान म्हाका सांगिल्लें.

हांव फकत हांशिल्लों. कारण म्हजो म्हज्या डाराडूर न्हिदेचेर पुराय विश्वास आशिल्लो. कितलोय बोवाळ जालो तरी लेगीत म्हजी कुंभकर्णी न्हीद चाळवपाची शक्यताय नाशिल्ली. हांवें तोच-रूम घेतलो.

० ० ०

हांव पयलेंच खेप जोग बिल्डिगेंत रावपाक आयिल्लों तेन्ना सांज जाल्ली. हांवें सामान रुमांत दवरलें. रुमाभायर आशिल्ल्या व्हरांडयार येवन उबो रावलो. रस्त्यावयल्या येरादारीक पळेत. हांव येवचेपयलींच म्हज्या शेजरा मातशें पयस एक बारा तेरा वर्सांचे, शाळेचो युनिफॉर्म घाल्लें, नाकादोळयांनी वेवस्थित सोबीत आनी निश्पाप दोळयांचें चली म्हजेकडेन टकटक करीत पळेतना म्हाका दिसलें. हांव ताका पळोवन हांसलों. पूण तें हांसनासतना तशेंच म्हजेकडेन पळेत रावलें.

‘ किदें बेबी ! तुजें नांव किदें ?’ हांवें ताका विचारलें.’

‘ शुभदा.’

‘ आर्रा ! सोबित मगो तुजें नांव. तूं किदें शिकता गो ?’

‘ णववी. मॉडर्न हायस्कुलांत. तुमचें नांव किदें ?’

‘ सुहास.’ म्हाका तें स्मार्ट चली आवडलें.

‘ तूं खंय रावता ?’

‘ हांगा ! तुमच्या स्माशेजरा ’ हांवें सांगलें.

० ० ०

दुसरे दिसा हांवें शुभदाच्या आवयची हांवें जांवन वळख करून घेतली. हांवें तिका उलयता उलयता एक दोन कॉमिक गजाली सांगल्यो. त्यो आयकून ती हांसली आनी आमचेमदलें वातावरण स्नेहार्द्र जालें. म्हजेवांगडा खूब बरी उलयली ती. मालक जोगांचें किदेतरी चुकूंक ना मूं ? वोगीच ताणें तिका झगडाळ थरोवंक ना मूं ?

पूण म्हजो हो गैरसमज दुसरेच दिसा पयसावलो. हांव पयल्या मजल्यार वचपाखातीर इस्काद चडपाक लागलों. जाल्यार शुभदा वयल्यान बेगीनबेगीन येतना सकयल कोंसळलें. पूण हांवें ताका पड-पाक दिनासतना घट्ट धरून सांवरलें.

शुभदान तोंड वयर करून म्हजेकडेन पळेलें. तें रडटालें.

‘ किदें जालें बेबी ? तूं रडटा किद्याक ? ताका फाटीर थाप-टीत हांवें विचारलें. वयल्यान डरकाळयो–प्रतिडरकाळयो, प्रहार–प्रत्याहार, गाळी–फस्तींचे आवाज येताले.

‘ आई आनीं गिडेबाई एकामेकांक मारतात. तांका सोडोव-पाक कोणच ना,’ शुभदान हुडक्यांनी रडत म्हाका सांगले. हांवें ताका थापटीलें आनी धीर दिलो. हांव बेगीनबेगीत वयर गेलों.

शुभदाची आवय आनी गिडेबाई रागान बेभान जाल्ल्यो. शुभदाच्या उजव्या कूशीक गिडेबाईचो ब्लॉक आशिल्लो. गिडेबाई शाळेंत व्यायाम–शिक्षिका म्हणून काम करताली.

रेगेबाई (शुभदाची आवय) आनी गिडेबाई एकमेकांक घांस मारताल्यो. दोगांनीय एकमेकांक घट्ट वेंग मा'रिल्ली. एकमेकांक सकयल उडोवपाचो दोगांयचोय हरप्रयत्न चालू आशिल्लो. एक-मेकांक घट्ट दशिल्ल्याभशेन दोगीय व्हरांडाभर गडगडत गडगडत फिरताल्यो. ही 'फ्रीस्टायल' मारामारी म्हज्या रुमाभायर आशिल्ल्या व्हरांड्याचेर चलताली. मारामारींत दोगांयच्योय साड्यो सुटिल्ल्यो. पिंदिल्ल्यो. आंगार फकत घागरो आनी पोल्कच उरिल्लें. लज भीड विसरून त्यो दोगीय मारीन वा मरन अशे ईर्शेन तुफान झगडटाल्यो.

हांव गेलों. रेगेबाईच्या दंडांक घट्ट धरून हांवें तिका वयर ओडली. अकस्मात फाटल्यान ओडिल्ल्यान रेगेबाई गिडेबाईच्या चपक्यांतल्यान सुटली. हांवें सगळी शक्त एकवटावन रेगेबाईक घट्ट पकडून धरली. ती सामकी पिसावल्ली. धरून दवरिल्ली आसतनाच ती पचक करून गिडेबाईच्या तोंडार थुंकली.

तेन्नाच आनीक एक गजाल जाल्ली. रेगेबाईन गिडेबाईचें पोल्क घट्ट धरिल्लें. हांवें अकस्मात रेगेबाईक वयर ओडिल्ल्यान गिडेबाईचें पोल्क पुराय पिंदलें. आनी पोपायांभशेन दिसपी तिचीं दोनय थुलथुलीत थानां उगडीं पडलीं. गिडेबाई लजेन आनी रागान बेभान जाली. जमनीर पडिल्लें लाटणें तिणें उखल्लें आनी आपली सगळी शक्त एकवटावन रेगेबाईचेर मारलें. पूण रेगेबाईच्याबदला तें म्हज्या खांद्यार बसलें. म्हाका एक तीव्र कळ आयली. हांवें मागीर सरळ रेगेबाईक उखल्ली आनी तिच्या ब्लॉकांत व्हेली. तिच्याय वस्त्रांची साप्प दशा जाल्ली. हांवे थंयची चादर काडून तिजेर पांगुरली. गिडेबाई फुत्कार सोडीत रेगेबाईक यथास्थित पेटपाक भितर घुसताली. पूण तिका हांवे घट्ट धरून भायर हाडली. दादल्याचो स्पर्श जातकच गिडे सामकी नॅर्व्हस जाली. आनीक चड धडपड करिनासतना ती म्हज्या रुमांत आयली. हांवें म्हजो एक चादर तिका पांगुरपाक दिलो.

'गिडेबाई! संतापाच्या भरांत मनशां पिश्याभशेन वागतात. द्वेशान द्वेश वाडटा. तुमी शांत जायात. तुमच्या ब्लॉकांत चलात.' हांवें तिका समजायलें. गिडेबाई आपल्या ब्लॉकार गेली.

हांवें सुटकेचो एक हुस्कारो सोडलो. म्हजो दुखावल्लो खांदो सांसपिलो. म्हज्या रुमांत गेलों. म्हजें खोमिस आनी बानयन काडून उडयलें. उजवेवटेन दुखावल्लो म्हजो खांदो पळेलो तो भाग लाटण्याच्या प्रहारान झेंजरलेलो.

इतल्यान म्हज्या रुमाचें दार उक्तें जाल्लें. शुभदा भितर आयले. हांव ताचेकडेन पळोवन हांसलों. शुभदाचे रडिल्ल्यान सुजिल्ले दोळेय हांसले.

'बेबी! तूं आईकडेन राव पळोवया. ना जाल्यार ती परती भायर येतली,' हांवें ताका सांगलें.

'आई कॉटीर न्हिदल्या. हांवें दाराक भायल्यान खिळी लायल्या. आईक न्हीद लागल्या,' शुभदान सांगलें

हांव हारशामुखार येवन उबो रावलों. म्हजो झेंजरलेलो भाग हारशांतल्यान नियाळ्ळो. मेजाचो खण उगडलो. पेनिसिलीन मलम काडलें आनी दुखावल्या जाग्यार लायलें पूण म्हजे हाताक बेसबरो खांद्याच्या फाटल्यान वचपाक जायना जालें.

'म्हजेलागीं मलम दियात. हांव लायता' शुभदान सांगलें. ताणें म्हज्या फाटल्यान कदेल ओडले. कदेलार तें उबें रावलें. आनी म्हज्या दुखावल्या भागाक मलम लावपाक लागलें.

हांव हारशांतल्या शुभदाच्या प्रतिबिंबाक पळोवन हांसलों. शुभदाय हांसले आनी मागीर लजलें. हांवे लक्तुबायेन म्हज्या खाद्यार फिरणारो शुभदाचो हात धरलो.

'येदोळ तूं भियेलें, बेबी? तुजो बापूय आनी भांवंडा अजून घरां येवंक नात?' हांवें ताका विचारलें.

'आतां येवपाची जालीं तीं' शुभदान आपलो हात तसोच म्हज्या हातांत दवरून म्हळें.

हेर कोणूच हे बिल्डिंगेंत रावनात काय? हांव नाशिल्लों जाल्यार हे लोक अशेंच वोग्गी रावून मजा पळेतले आशिल्ले व्हय?' हांवे ताका म्हळें.

तें रडपाक लागलें. हांवें बोल्सांतल्यान लेंस काडलो. ताचे दोळे पुसले. ताचे गाल सांसपिले. खांदे थापटीले.

'रडूं नाकाआं बेबी!' कदेलार उबे राविल्ल्या शुभदाच्या कंबराक धरून ताका हांवें सकयल देंवयले. ते फुलाप्रमाण ल्हव आशिल्लें. तें हांसलें उपरांत लजलें. आनी आपल्या ब्लॉकांत गेले.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं हांव सुस्त न्हिदल्लों. म्हाका 'सुहास, सुहास' असो अस्पष्ट आवाज आयकूंक आयलो. हांवें कूस परतिल्ली आनी परतोय न्हिदलों. परत दारार धडधड जालें. कोणतरी जनेलाच्या कवाडार परतें परतें टीक टीक करतालो. हांव जागो जालों.

'सुहास! सुहास! बेगीन येयात! दार बेगीन उगडात!' म्हाका शुभदाचो रडवो उलो आयकूंक आयलो. हांव पिट्टीक करून उठलों. बेगीनबेगीन लेंगो आनी खोमिस चडयलें आनी दार उघडलें. शुभदा रडटालें.

'बेबी! किदें जालें? रडटा किद्याक? हांवें ताका विचारलें.

'अप्पासायबांक घुंवळ आयल्या. तुमी मातशे येशात?' शुभदान रडटा आसतनांच म्हजेंलागीं मागलें. हांव रोखडोच म्हजो स्टॅथोस्कोप आनी म्हजें बॅग घेवन रेग्यांगेर गेलों. ताचो बापूय अजूनय पुराय शुद्धेर येवंक नाशिल्लो. ताची आवय मात भियेवन बकबक करीत रडटाली. ती नॅर्व्हस जावन धवीफुल्ल जाल्ली. ताचो भाव रडत रडत बापायच्या नाकालागीं कांदो धरतालो. ताचीं दोन ल्हान भावंडा 'अप्पा, अप्पा' म्हणत आक्रोश करतालीं.

'सगळींजाणां वोग्गी रावात पळोवया. वोगीच भियेवपाक कसलेंच कारण ना,' हांवे अप्पासायबालागीं वोणोव घेत सगळ्यांक धीर दिलो. हांवे ताका तपासलो. नाडी पळेली. ब्लडप्रेशर घेतलें. तें वाडिल्लें. हांवे ताका एक इंजेक्शन दिलें. तो पुराय शुद्धीर आयलो. थोडचा वेळाउपरांत काचाबूल जावन सगळ्यांक पळोवंक लागलो.

‘ आतां कशें किदें दिसता तुमकां ? म्हजेंच पाड पडिल्ल्याचें चुकलें. म्हजी चूक जाली. परत अशें केन्नाच करचें ना हांव, ’ शुभदाची आवय सामकी बिलू जावन अप्पासायबांक आश्वासनां दिवपाक लागली.

‘ मिस्टर रेगे ! तुमी आतां उठूं नाकात. ह्यो चार गुळयो घेयात. तुमका दोन दीस पुराय विश्रांतेची गरज आसा. हांव म्हज्या दुसऱ्या दोतोर इश्टाक घेवन येतां. तोमेरेन तुमी हांतरुणावयल्यान हालूं नाकात.’ हांवें ताका धीर दिलो आनी रेगेबाईक भायर आपयली.

‘ हें पळेयात, मिसेस रेगे ! तुमच्या घोवाचें ब्लडप्रेशर हिसपाभायर वाडलां. तशें वाडप वायट. हेखातीर तांका तिडक बिडक येवपाक दिवंक जायना. मनाक त्रास जायत असलें कसलेंच दुख्ख तांका जावंक उपकारना. हांव एका वराउपरांत म्हज्या इश्टाक घेवन येतां. म्हाका तांचो कार्डियोग्राम काडपाचो आसा. तांका आतां किदेंय लायट डायट दिवपाक हरकत ना.’ हांवें रेगेबाईक सल्लो दिलो. हांव भायर सरलों. किशोर साठेक घेवन आयलों. आमी दोगायजींय अप्पासायबाचो कार्डियोग्राम काडलो. म्हजेंच अनुमान बराबर आशिल्लें. अप्पासायबांक हाय ब्लड प्रेशराची पिडा जाल्ली. किशोर प्रॅक्टीस करतालो. ताणें अप्पासायबांक प्रिस्क्रिप्शन दिलें. तो भायर सरतकच हांव म्हज्या रुमांत आयलों.

आनी निलिमा जोशी म्हज्या रूमांत निळी साडी आनी ताचेर निळें पोल्क घालून बशिल्ले.

‘ तूं ? हांवें अजापान विचारलें.

‘ हय. हांवूच. किद्याक ? अजाप जालें ?’ ताणें म्हाका आव्हान दिल्ल्याभशेन म्हळें.



‘ हय. आमच्या सारकिल्या गरीबांच्या घरा नाजाल्यार तुजे सारके चलयेचे पांय लागपाक आयल्यात ? हांवें अडेचें हांसून म्हळें.

‘ तें आसूंदी. आज म्हाका तूं खंयचें पिक्चर दाखयतलो? तुवें म्हाका पिक्चराक व्हरपाचें. हांव उपरांत तुका थ्री कॉयन्सांत

जेवण दितल. चल, बेगीन या. ना जाल्यार पिक्चराक खूब उशीर जातलो.' ताणें म्हाका फर्मायलें.

' निलिमा! तूं वादळाभशेन वागता, म्हाका तरनाटचा चलयांवांगडा भोंवपाची संवय ना.' हांवें भिडेवन म्हळें.

' संवय ना जाल्यार आतां संवय करून घे येदो व्हडलो दोतोग तर जाला तूं. ते भायर आनीक तूं फॉरेनाक वचपाचो आसा,' ताणें म्हाका म्हळें.

आनी इतल्यान म्हज्या रुमाचें दार उक्तें जालें. शुभदा हातांत चिक्र–पीर घेवन उबें. निलिमाक पळेतकच तें मंत्रमुग्धा-प्रमाण ताचेचकडेन पळेत उरलें, म्हाका मजाच दिसली. हांव हांसलों.

' किदें बेबीं! किदें हाडलां तुवें म्हाका?' हांवें ताका अपुर्बायेन विचारलें.

ताणें आंग काडलें. आनी ताच्या कोपांतली च्या इल्ली सकयल पडली. उपरांत ते नीट्ट म्हजेसरीन आयलें.

' तुमकां आईन च्या धाडल्या,' ताणें म्हळें. हांवे कप–बशी घेतकच तें बेगोवेग रुमाभायर गेलें. निलिमा ताचेकडेन भावरहित नुरा करून पळेतालें.

' पळेलें आमच्या भारतियांचे अडाणीपण? दारार मारी नासतना भितर आयलें. युरोप, अमेरिकेंत ल्हान भुरग्यांक लेगीत हो सिविक सेन्स आसता,' ताणें कुछित्री सुरांत म्हळें.

हांव वोग्गी रावलों.

० ० ०

निलिमा म्हळचार एक वादळ. हांव सायकियाट्रीस्ट काण्यांचें मार्गदर्शन घेतालों. निलिमा तांचो भाची. ताच्याच घरा आमची वळख जाल्ली. ताच्या पळोवपांत सदांच आव्हान भरिल्लें आसतालें. तशें तें घसघशात आशिल्लें. सोबित आशिल्लें, जुवानपणान मुस-मुसतालें. पूण हे चलयेंत अतीकामुक अशें किदेंतरी आशिल्लें. ताका पळेनाफुडें म्हज्यो इंद्रियसुलभ भावना उसळटाल्यो. हांव महत्प्रयासान

आत्मसंयमन करी. म्हाका कांयच कळना अशें दाखयतालों पूण म्हाका आपलेमुखार नाचोवपाची ताका प्रबळ इत्सा जाताली काय दिसता. हांव पाघळना हो आपल्या जुवान सौंदर्याचो अपमान अशशें किदेंतरी ताका दिसतालें जावंक जाय.

ताची म्हजी खरें म्हळ्यार इतली सलगी लेगीत जावपाचें कारणच नाशिल्लें. कारण म्हाका फ्लर्टपणा आवड नाशिल्लो. हांव स्वभावान शांत. तें रस्त्यावयल्यान वतनालेगीत लोकांकडे आव्हान-पूर्वक पळेता आसपाक जाय असो म्हाका दुबाव येतालो. तें तापट आशिल्लें. इल्लेशे गजालीवयल्यान बोवाळ घालतलें. हांवें हाचे वांगडा चड बळख क्रियाक वाडोवची ? म्हाका काय ताचेवांगडा प्रेमलग्न करपाचें नाशिल्लें. हांव ताचेबराबर सदांच हात राखून वागतालों. आनी दिस्त हाचीच ताका तिडक येताली. ताका हांवें ताचे मुखार वेसण घालिल्या अश्वलाभशेन नाचिल्लो जाय आशिल्लो, पूण हांव म्हजो तोल सुटपाक केन्नाच दिनाशिल्लों.

म्हणूनच तें आपूण जावन म्हाका सिनेमाक आकयतालें. जेव-णाचें निमंत्रण दितालें. त्याच वेळार शुभदान म्हाका च्या हाडून दिल्ली आनी म्हाका बरें दिशिल्लें. म्हाका रोखडेंच एक निमित्त सुचलें.

‘ निलिमा ! आतांच तें चली येवन गेलां. ताचो बापूय बरो ना. हांवेच ताका वखद दिलां. आतां ताका घेवन म्हाका हॉस्पिट-लांत वचपाचें आसा,’ हांवें ताका शांतपणान सांगलें.

‘ तुका म्हजेपरस तो मनीस चड लागचो ?’ ताणें म्हाका दृश्ट नुरा करून विचारलें. हें म्हजेवयले ताणें केल्लें खरें म्हळ्यार अतिक्रमण आशिल्लें.

‘ म्हाका म्हजो पेशंट कोणायपरस चड महत्वाचो दिसता. कारण असलो पेशंट आपलो जिवच दोतोरा सुवादीन करता ’ हांवें म्हळें

‘ माय फूट ’ अशें किदेंतरी पाय आपटीत ताणें म्हळें आनी

तरतर करीत चलून तें म्हज्या रुमांतल्यान भायर गेलें. हांवें ताका थांबयलें ना.

हांवे हुस्कारो सोडलो. वादळ पयस गेल्लें. हांवें ताचें आक्रमण परतून लायिल्लें.

० ० ०

म्हाका जाल्ली खोस खिणाचीच आशिल्ली. चार दिसांउपरांत एका शेनवारा दनपरा परत तें म्हज्या रूमांत आयलें. हांव दनपारां जेवन ऑफ आशिल्ल्यान रुमार आयलो. भितरल्यान दाराक खिळी घालपाक विसरलों. कॉटीर आड पडलों आनी थार न्हिदलों. निलीमा नीट्ट भितर घुसलें. दार वाजोवपाचो सिविक सेन्सबी न पाळटां. ताणें म्हाका हालोवन जागो केलो.

'सुहास ! म्हजे मांडयेक मातसो मार लागला. किदेंतरी उपचार कर पळोवया' म्हाका ताणें म्हळें.

'पळोवया किदें जालां तें ?' म्हज्यांतलो दोतोर जागो जालो. ताणें आपली मांडी दाखोवपाक साडी खुब्ब वयर ओडली. म्हाका ताचो तो प्रमाणबद्ध मांडयेमेरेनेचो गोरो गोरो पाय दिसलो. मांडयेक जागेकडेन फकत थोडें मेरकुक्रोम लायिल्लें. वोगीच. मार लागूंक नाशिल्लो. न्हय एक गांज ओडिल्ली. पूण हांव मात त्या उत्तेजक, अनावृत्त पायांकडे पळेतच उरलों. म्हज्यो भावना म्हाका आवरना जाल्यो. आनी इतल्यान ताणें म्हजें दीर्घ चुंबन घेतलें. ठिणगी पडिल्ली. आनी कापराभशेन हांव पुराय पेटलों... हांवें त्या दिसा जल्मांत पयलेच खेप स्त्रीसूख भोगलें. म्हाका ताणेंय सगळेतरेन त्या दिसा भोगलो. तेभायर हो अणभव ताका मातय नवीन न्हय हें ताणें त्या दिसा घेतिल्ल्या सराईत फुडाकारान म्हाका दाखोवन दिलें. आनां म्हज्या लक्षांत येता. निलिमा एक 'निंफोमानियाक' Nymphomaniac आशिल्लें. एकाच दादल्यावांगडा एकनिश्ठ न रावूंक शकपी तें चली आशिल्लें.

० ० ०

आज हांवें मानसशास्त्रज्ञ म्हणून नामना जोडल्या. पूण ज्या दिसा निलिमान आनी हांवें शरीरसूख भोगलें, त्या दिसाच्या दुसऱ्या दिसापासून म्हाका खूबच गुन्यांवकारी दिसपाक लागलें. बेचैन दिसपाक लागलें. किद्यानच लक्ष लागना जालें. हांवें एक भयांकृत पाप केल्लेभशेन म्हाका दिसपाक लागलें. आपल्या संस्कारांचो, संस्कृतीचो केदो पगडो आसता आमचे वागणकीचेर, आमच्या मना-चेर ! म्हाका हें सत्य पयलेच खेप त्या दिसांनी होलमलें.

ज्या दिसा निलिमान म्हाका शरीरसूख दिलें ताच्या दुसऱ्या दिसापासून म्हाका हांव निलिमाच्या मोगांत पडलांशें दिसपाक लागलें. हांव पिश्याभशेन ताका मेळपाक भोवंक लागलों. ताच्याच विचारांनी म्हाका ग्रासून उडयलो. आनी ...

अश्यावेळार बराब्बर मात दिसांउपरांत निलिमा जोशी म्हाका मेळपाक म्हज्या रुमांत आयलें. विजयी मुद्रेन ताणें म्हाका आपल्या लग्नाची निमंत्रण–पत्रिका दिली. जशें काय आमचेभितर कांयच घडूंक नाशिल्लें अशे भशेन तें त्यादिसा वागलें आनी गेलें. थोडयाच दिसांनी ताचें आनी शाम गोळे ह्या कारखानदाराचें लग्न जालें.

ताणें निमण्या आठ दिसांक किद्याक जायना, म्हाका नाच-यल्लो. हो म्हजेर एक जबरदस्त आघात कसो म्हाका दिसलो. म्हाका पुराय नॅर्व्हस ब्रेकडावन जालो. म्हाका जाता त्यो वेदना, ही सगळी गजाल कोणाक तरी सांगून म्हजें मन रितें करचेशें म्हाका दिसलें.

० ० ०

हांवे म्हजी ही सगळी गजाल किशोर साठेक सांगलीं. म्हाकाच हांव चोर कसो दिसपाक लागिल्लों. म्हाका त्या दिसांनीं कोणाच्याच नदरेक नदर दिवंक जाय नाशिल्लें. किशोर साठेन म्हाका हवाबदल आनी स्थळबदल करपाची सुचवणी केलीं. म्हाका पनवेलाक वचून थोडे दीस रावपाचो सल्लो दिलो. आनी हांव पनवेलाक गेलों. हुंवाराच्या चार दीस पयलीं.

शुभदा मेळ्ळें. ताच्या भुंवयांमदल्या त्या तिळाखातीर हाव ताका रोखडोच वळखलों. आनी आज म्हाका ह्या सगळ्या गजालींचीं याद जाली.

ह्या चवदा वर्सांक म्हज्यांत कितलीशींच स्थित्यंतरां घडून आयिल्लीं. हांव कॅलिफॉर्नियाक गेल्लों. सायकियास्ट्रीची स्पेशल डिग्री घेतिल्ली. धा वर्सां अमेरीकेंत राविल्लों. आतां मुंबैंत स्थायिक जाल्लों. हांव अमेरीकेंत कितलेश्याच नलयांच्या सहवासांत आयिल्लों. व्यवसायाच्या निमित्तान, सुवाळ्यांच्या निमित्तान. पूण हांवें अद्याप लग्न करूंकना कारण म्हाका भितर खंयतरी दिसतालें म्हजी जल्माची साथीदारीण म्हाका भारतांतच मेळटली. जिका हांव पळेल्याबराबर हीच ती म्हजी जल्माची जोडीदारीण म्हणून वळखतलों.

शुभदाक पळेलें आनी म्हजी साथीदारीण म्हाका मेळ्ळी असो भास जालो म्हाका. पूण उपरांत तटस्थतायेन विचार केलो. म्हाका शुभदा मेळप असंभव कशें दिसपाक लागलें. म्हज्यांत आनी ताच्यांत बारा वर्सांचें तरी अंतर आसतलें. तें म्हाका इतल्या वयस्क मनश्याक पसंत कशें किदें करतलें ?

म्हाका हांसूंक आयलें. ते कथेची याद जाली. एका आजन्म ब्रह्मच्यारी शास्त्रज्ञाक एका मनश्यान विचारलें 'तुमी जल्मभर अशे लग्न केलेबगर किद्याक रावले ?'

शास्त्रज्ञान सांगलें 'ताचें किदें जालें जाणां? हांव एका आदर्श बायलेच्या सोदांत आशिल्लों.'

'आनी अशी आदर्श बायल कोणूच भेटलीना ना तुमकां ?'

'मेळ्ळी तर ! तिका हांवें लग्नाची ऑफर लेगीत दिली. पूण !!!'

'पूण किदें ?'

'तिणें म्हाका सांगले– हांव आदर्श दादल्याच्या सोदांत आसां.'

शुभदा फाल्यां येवपाचें आसा. हांव ताचो सगळो पूर्व

इतिहास ताका म्हजें तें खास संशोधनाउपरांत तयार केल्लें इंजेक्शन दिवन काडून घेवपाचो आसा. ह्या इंजेक्शनाचें हांवें स्वता संशोधन गेलां. तेखातीर भारत सरकारचीं आनी अमेरीकी सरकाराची इनामां लेगीत म्हाका मेळ्ळयांत. हें इंजेक्शन घेतकच मनीस कांयच लिपोवन दवरिनासतना म्हजेकडेन मेकळ्या मनान उलयता. इंजेक्शनाचो अंमल पाऊण वर उरता. म्हाका गरजेचें दिसता तितले खेप हांव म्हज्या रुग्णांक हें इंजेक्शन दितां. ताचो पुराय पूर्वेतिहास आनी सद्य:स्थिती हेविशीं म्हाका सविस्तर खरी माहिती मेळयतां. आनी उपरांत म्हाका म्हज्या रूग्णांचेर उपचार करप सोपें जाता. योग्य उपाययोजनाय करपाक जाता. थार पिशे जाल्ले रूग्ण सोडल्यार हांवें कितलेशेच जाणांक म्हजे हे खास पद्धतीन बरे केल्यात.

० ● ०

# शुभदा

हांवें सामकार आशिल्ले चार मजली बिल्डिगेकडेन पळेलें. तिच्या कोनश्यार ‘ मेरीडेन ’ हीं अक्षरां सिमेंट प्लास्टरान काडिल्लीं. प्रवेशदाराच्या दोनी कुशिनीं दुकानां आशिल्लीं. हांव भितर गेलें. लिफ्टाचे उजवे कुशीकच एक येट्टी व्हडली पाटी आशिल्ली. ताचेर बिल्डिगेतल्या लोकांची नांवा आशिल्लीं. डॉ. एस. एम. दोडगे, पयलो मजलो.

हांव सुहासाच्या कन्सल्टींग रुमांत गेलें. एके जाण्टेले, प्रेमळ किरीस्तांव बायलेन म्हजें स्वागत केलें. हांवें घडयाळ पळेली. णवांक पांच मिनटां आशिल्लीं. ड्रॉविंग रूमांत एक व्हडलें कांचपात्र आशिल्लें. तांतूतल्या निळया उदकांत ल्हान व्हड विविध जातीचीं नुस्तीं भोंवतालीं. कांचपात्राच्या फाटल्यानच प्रकाश येवजण केल्ली. उदकांतल्यान एक ग्लासाचीच नळी थांबनासतना बोमाडे सोडटाली.

‘ तुमी बसना किद्याक ? दोतोर जिस्त णव वरांचेर येतलो, ’ ते रिसेप्शनीस्टान सांगले. हांव कांचपात्रामुखारच बसलें. नुस्तीं निरखुपांत म्हाका मजा दिसली. आनी जिस्त णवांक सुहास आयलो.

‘ गुड मॉर्निग बेबी, ’ रुबाबदार चलत तो भितर आयलो.

‘ गुड मॉर्निग डॉक्टर ! ’ म्हजी नदर ताचे नदरेक एक खेप भिडली. हांव दुसरेकडेन पळोवंक लागलें. पूण तो मात म्हजेचकडेन पळेतालो असो म्हाका भास जातालो.

‘कमावन ! प्लीज कमइन.’ तो भितर गेलो. ताचे फाटल्यान हांवय गेलें.

‘बेबी ! तुमची म्हजी पयलींची वळख आसाच. हांव तुमकां बहुमानार्थी संबोधिनासतना ‘तूं’ म्हण्टोलों. कारण तुजी म्हाका याद जाता तेन्ना तूं स्कर्ट घालपी इल्लेशें चली आशिल्लें,’ सुहासान म्हळें.

सुहास म्हजेलागीं सलगीन उलयतालो. आनी म्हाका हे ताचे सलगिचो राग येनाशिल्लो. म्हजेवांगडा अशें उलोवपाचो सुहासाक मुजरत अधिकार आसा अशें म्हाका दिसलें.

‘तुमकां म्हाका तूं म्हणपाचो मुजरत अधिकार आसा डॉक्टर,’ हांवें म्हळें.

‘हां ! आतां काम करुंया. तूं ह्या दिवाणाचेर न्हीद. दोळे धांपून घे. हां ! आतां मनांत विचार कर. तुका हांव जे जे प्रस्न विचारलों त्या त्या प्रस्नाच्यो जापो तूं हातचें कांयच राखून दवरि-नासतना दितलें. तुका आतां हांव एक इंजेक्शन दितलों,’ सुहास उलयतालो.

हांवें दोळे धांपले. सुहासाचे सुचवणेक संपूर्ण सहकार दिवपाचें हांवें थारायलें. थोडया वेळान म्हाका म्हज्या हाताक इजेक्सांवाची सूय तोंपिल्ल्याचें जाणवलें. इंजेक्शनाचो द्रव जेन्ना म्हज्या नसांन-सांतल्यान व्हांवूंक लागलो तेन्ना म्हाका पिसाप्रमाण ल्हव ल्हव दिसपाक लागलें. म्हजीं गात्रां शिथील जालीं. सगळो आनंद, सगळी खोस म्हज्यांतच उपाट भरून वयर आयल्या अशी म्हाका भावना जाली. हांव कोणाकय कसलेंय सहकार्य दिवपाक आतां राजी आशिल्लें. म्हजो उत्साह म्हज्यांतल्यान भायर ओतपाक लागिल्याची म्हाका जाणविकाय जाली.

० ० ०

‘तुका फीटस येतात त्यो केन्ना येतातशें तुका दिसता ? कश्या फीट प्रकारची आसता ?’

म्हाका तो प्रस्न स्पश्ट उतरांनी आयकूंक आयलो. म्हज्याच मनांत आशिल्ली खंयचीतरी व्यक्ती म्हाका तो प्रस्न विचारताली. आनी हांव मेकळेपणान उलोवंक लागलें... ...

' हांव जेन्ना शृंगारीक, प्रणयप्रधान अशें किदेंतरी पळेतां, वाचतां आनी हें पळोवप, वाचप जेन्ना चड प्रमाणांत जाता तेन्नाच म्हाका फीट येता. फिट येवचेपयलीं म्हज्या नाकांत कुशिल्ल्या चिखलाचो वास दरवळिल्ल्याचो म्हका भास जाता आनी म्हज्या मेंदूवयलो ताबो वता. म्हाका फीट येता आनी हांव बकाबक ओंकतां. अश्या वेळार म्हाका सगळयाच्र हेर गजालींचो वीट येता.... ...'

' अश्यो फिटस तुका केन्नाच्याय येवपाक लागल्यो ?' परत त्या भितरल्या आवाजान प्रस्न केलो.

' पानशेतच्या हुंवाराउपरांत म्हाका अश्यो फिटस येवपाक लागल्यो. पुणें सोडून निकतेंच हांव मुंबै आयिल्लें. हांव एकदां एक शृंगारीक कादंबरी वाचतालें. तांतूत कितलेशेच कामुक प्रसंग आशिल्ले. ती कादंबरी वाचतनाच म्हाका पयली फीट आयली. परतीय दुसऱ्या दिसा तीच कादंबरी वाचपाचो यत्न केलो.तेन्ना लेगीत असलोच अणभव आयलो. म्हाका वाचपाचो खूब नाद. हुंवारा-उपरांत हांव दोन वर्सां शाळेंतच गेलेंना. हीं दोन वर्सां हांवें फकत वाचपांत सारलीं. पयली फीट येतकच हांवें दोतोराक दाखयलें. दोतोरान म्हज्यो सगळ्यो येझामी केल्यो. एक्सरे लेगीत काडलो. पूण म्हज्यांत कसलीच अॅबनॉर्मेलिटी सांपडलीना. उपरांत आमच्या फॅमिली डॉक्टरान हो तारुण्य सुलभ हिस्टेरिया अशें निदान केलें... ...'

' एक दीस हांव म्हजे इश्टिणीवांगडा एका इंग्लेज पिक्चराक गेलें. त्या सिनेमांतय अशींच कामुक प्रसंगाचीं प्रकरणां आशिल्लीं. तसले सीन पळेता आसतनाच म्हाका ओंकारी येवपाक लागली. हांव धांवतपळत थिएटराभायले लॅव्हॅटरींत गेलें. थंय फसाफस ओंकलें. तेन्ना म्हाका फिटय आयली. म्हजे इश्टिणीन म्हाका घरा पावयलें. आतां हांव शृंगारीक कादंबऱ्यो, सिनेमा केन्नाच पळेना. म्हाका

दादल्यांची तिडक येता. जे म्हजेकडेन अपेक्षेन पळेतात वळख वाडो-वपाचो यत्न करतात, सलगी करतात त्या सगळ्या दादल्यांचो हांव द्वेश करतां...'

'हांवे सायकॉलॉजीचेर खुब्ब वाचलां. आनी म्हाका तें कोडू सत्य आतां कळ्ळां. हांव फ्रिजिड, कोल्ड, थंड चली. हांव लग्न जाल्ली जीण केन्नाच जियेवंक शकचेंना. म्हाका लग्नच करपाचें ना. हांव दोतोर जातकच फकत लोकसेवा करीत जियेतलें. म्हाका अश्यो फीटस येतात हें अद्याप हांवें अप्पासायबांक कळपाक दिवंक ना. तांका ब्लडप्रेशर आसा. तांका आनीक मनस्ताप नाका आमच्या फॅमिली डॉक्टराकलेगीत म्हाका फीटस येता तें अप्पासायबांक कळोवं नाका सांगलां. म्हाका आता शास्त्रीय वा वैजकी विशयावयली सोडून दुसरी खंयचीच पुस्तकां वाचपाक भिरांत दिसता. एकदा अशीच एक कादंबरी हांव लायब्ररींत वाचतना म्हाका फीट आयली. म्हणून वाचनाबाबत हांव आतां सिलेक्टिव्ह जालां. वाचचेपयली खंयचेंय पुस्तक शृंगारीक प्रणयप्रधान नासतलें हाची खात्री करून घेतां...

'हो सगळो त्रास हुंवाराउपरांत सुरू जाला. हांव फ्रिजिड हें म्हाका कळ्ळां. फ्रायडाच्या मताप्रमाण आपणांक कसली मानसिक विकृती आसा हें एकदा कळटकच ती विकृती नाच्च जाता. पूण हांव फ्रिजिड हें म्हाका कळ्ळां आनी हें कळ्ळयाउपरांत लेगीत हांव फ्रिजिडच उरलां...'

'तुजे जीणेचे आतां दोन भाग करुंया. पानशेत हुंवारा-पयलींचो एक भाग आनी हुंवाराउपरांतचो दुसरो भाग...' परतेंय त्याच भितल्ल्या आवाजान म्हळें.

'हुंवारापयलीचे जिणेचो भाग तर जशाचो तसो म्हाका येबजता. कालच हांव हुंवारांतल्यान वांचिल्ल्याभशेन म्हाका दिसता. इतल्यो सगळ्यो यादी ताज्यो आसात.'

'म्हजी आई! म्हजे भाव सुधीर आनी नितीन! म्हजी भयण विनिता! सगळ्यांविशींच्यो यादी ताज्यो आसात. आमी

जोग बिल्डिगेंत रावताली. आईन खूबच कडक शिस्तेंत दवरलेलीं आमकां. म्हाका जाल्यार म्हजो अभ्यास घेतना आई गाळयांनीच उलो करताली. आमकां सगळयांक अभ्यास घेतना, शिकयतना बेदम मारताली. आईकडल्यान शिकोवन घेवप म्हळयार एक दिव्य. तिच्या मारांच्या भंयानच आमकां येता तींय उत्तरां आमी चूक दितालीं. आई बोबो हुयेली मारी. आमच्या शेजरा रावपी लोकांक सकाळींच उपद्रव जातालो. हे लोक आईक हें सांगपाक येताले· पूण आई तांची पर्वाच करिनाशिल्ली. तिची आनी शेजाऱ्यांचीं आत्र्यापयऱ्यान झगडीं जातालीं ... '

' आतां हुंवारापयलीं सुमार दोन म्हयन्यांच्या घडणुकांच्यो यादी आसात व्हय तुका ? ' त्या आवाजान भितरल्यान विचारलें.

' हय ! हुंवाराच्या सुमार दोन म्हयने पयलीं एक दीस एक तरनाटो भुरगो जोग बिल्डिगेमुखार देंवलो. हांव एकलेंच पयल्या मजल्यावयल्या कॉमन व्हरांड्याचेर उबें आशिल्लें. बुटांचो ' खट खट ' असो आवाज करीत रुबाबदार चलत तो पयल्या मजल्यार आयलो. आई, आप्पासाहेब ऑफिसांतल्यान अजून येवंक नाशिल्ले. सुधीर, विनितालेगीत शाळेंतल्यान येवंक नाशिल्लीं. नितीनाक सकाळीं मॉटेसरींतल्यान तांच्या शाळेची एक मास्तरीण आपल्या घरा घेवन वताली. ही मास्तरीण आईच्या पयशिल्ल्या नात्यांतली. मॉटेसरींतलो वेळ सोंपतकच ती नितीनाक सांबाळपाचें काम करताली.

तो भुरगो सुंदर दिसतालो. हांसत्या तोंडान सगळेकडेन पळेतालो. ताच्या माथ्यार अस्तमतेक वचपी सूर्याचें किर्ण पडिल्ल्यान ताचे मूळात पिगशे केंस भांगराच्या केसांभशेन चकचकताले. म्हज्या निमाण्या वराचो मास्तर त्या दिसा गैरहाजिर आसलो. म्हणूनच हांव बेगीन घरा येवन व्हरांड्यार अशें उबें राविल्लें. टॅक्सींतल्यान देवून आपल्या नव्यान भाड्याक घेतिल्या रुमांत वचून त्या भुरग्यान आपलें सामान दवरलें. आनी तो भुरगो ह्यो करता त्यो सगळयो गजाली म्हज्या दोळयांच्यो पातयो हालयलेबगर हांव पळेत राविल्लें.

हांव अशें एकटक ताका पळेतां हें ताच्या लक्षांत आयलें. ताणे म्हजेकडेन पळोवन स्मित केलें. पूण म्हज्या मुखामळार प्रत्युत्तराचो हांसो उदेलोना. म्हाका फुडार येवजोलो. फाल्यां आईन बोबो मारीत आमकां शिकोवपाक सुरवात करतकच होय मुंदर तरनाटो पिकार जातलो. आईकडेन आपणांक त्रास जाता हें सांगपाक येतलो. आई ताचेवांगडा झगडटली. उपरांत होय आमची सगळयांची नसाय करपाक लागतलो. आनीक दोन दिसांउपरांत हो असोच म्हजेकडेन पळोवन गोड हांसत व्हय ? कायली आपली साटली पोटली घेवन हो भाडयाक घेतिल्लो नवो रूम सोडून वतलो ?'

'किदें बेबी ! तुजें नांव किदें ?' ताणें म्हाका विचारलें.

'शुभदा' हांवें जाप दिली.

'आर्रा ! सोबीत मगो तुजें नांव. तूं किदें शिकता गो ?'

'णववी. मॉडर्न हायस्कुलांत. तुमचें नांव किदें ?' हांवें विचारलें.

'सुहास,' ताणें म्हाका आपलें नांव सांगलें.

'तूं खंय रावता ?' ताणें म्हाका विचारलें.

'हांगा ! तुमच्या रुमाशेजरा' हांवें सांगलें.

हांवें त्याच दिसा 'भांगरा केंसाचो राजकुंवर आनी राक्षसीण' हें गोश्टींचें पुस्तक वाचिल्लें ताची म्हाका अद्यापय याद जाता. त्या पुस्तकांतल्या राजपुत्राचें वर्णन सुहासाक सारकें बरें लागू जातालें. त्या पुस्तकांत राक्षशिणीन कादयेंत दवरिल्ली एक राजकुंवरीयबी आशिल्ली. हांव काय ती राजकुंवरी ? आनी राक्षशीण कोण ? आई ? शी ! किदेंतरी कशें येवजप हें म्हजें ? राक्षशीण राजकुंवरीक जेवणखाण दिनासतना छळटा. आई जेवणखाण दिता. पूण आमचो अभ्यास करून घेतना मात आमकां छळ छळ छळटा. आनी हो राजकुंवर सुहास ? म्हजेपरस धा–बारा वर्सांनी तरी पिरायेन व्हडलो आसतलो. हांव सामकें सुहासाच्या मोगान पडलें.

० ० ०

'धा आण्यांक एक डझन पेरां मेळटात. तर अर्ध्या डझनाचें मोल कितलें जातलें ?' आई लांब तान मारिल्लेभशेन आवाज काडीत म्हजें गणित घेताली. हरशीं म्हाका अर्द्या डझनाचें मोल पांच आणें जातलें हे रोखडेंच कळिल्लें. पूण उत्तर चूक दिल्यार आईचीं दोन थापटां खावचीं लागतलीं हें हांव जाणां आशिल्लें. म्हणूनच म्हजें उत्तर खऱ्यानीच बराबर आसा काय चूक आसा हाचो हांव थोडोवेळ विचार करपाक लागलें. आनी आईच्या मनाची शांतताय नश्ट जाली.

'शुभे ! उलय बेगोन. अर्ध्या डझनाचें मोल कितलें गो ? उलय मगो. बेगीन सांग,' आई विक्रुत किळचत आनी हालेट काडून विचारूंक लागली.

हांव गडबडलें. पांच आणें हें अचूक उत्तर खबर आसूनय गोंदळळेल्यान हांवें 'स आणे, आई'! अशें चूक उत्तर दिलें.

आईन मेजून दोन थापटां म्हजे फाटीर घालीं. हांव कळवळलें. पूण सदचेभशेन रडलें ना. आईन मोठ्यान न आड्डतां म्हाका विचारचें अशें परतें परतें दिसलें.

म्हाका त्या शेजारा रुमात रावूंक आयिल्या त्या पिंगश्या केंसाच्या आनी घारशा दोळयांच्या तरनाटयाची याद जाली. आईच्या ह्या बोबीन म्हाका लज जाली. आतां मेरेन आईची सगळी बोब ताणें आयकल्या आसतली. हेर भुरग्यांसारकी ताकाय आईची भिरभिरी मारल्या आसतली. ह्या दोन दिसांभितर तो आईकडे बोब मारूं नाका अशें मागपाक येतलो. आई तेन्ना झगडटली. गाळी फस्तां घालतलो. ताका धावडायतलो. मनांतल्यान आई आनी आमकां सगळयांक गाळी घालीत टर्म सोंपचेपयलीं रूम सोडटोलो. जोगाकडेन करंदाय मारीत रावतलो. ताचे घारशे दोळे राग येतकच कशे किदें चकचकतलें ?

'शुभड ! सांग बगीन अर्ध्या डझनाचें मोल कितलें तें ?' आपली दोन सणसणीत थापटां पडल्या आसतना हांव रडनासतना वोग्गी रावलां आनी येवजितां हाचें आईक अजाप जालें.

'पांच आणे आई!' हांवें मनांतली आनीश्चितताय सोडून निश्चयान सांगलें,' अर्दो डझन म्हळयार स केळीं. डझनाच्या निम्मे म्हणून पांच आणे.

'येदोळ किद्याक पिडा मारिल्ली तर?' आईन तापयत विचारलें.

'आई गे! तूं रागार जाली म्हण्टकच म्हाका भंय दिसता. तूं मारतली म्हणून हांव गोंधळटां. तुवें रागार जायनासतना जर म्हाका विचारिल्लें जाल्यार येदोळच तुका पांच आणें हें उत्तर हांव दिवपाचें. तूं आडुली आनी भिगेवन म्हज्या तोंडातल्यान स हें उत्तर वेगोवेग आयलें. तूं आडुनासतना म्हाका विचार गे आई!' हांव भियेत भियेत पूण काकुयटेन उलयलें.

'बरें बरें! चड शाणेपण शिकोवं नाका तूं म्हाका,' आई म्हजे हे सूचवणेन मातशी गोंदळून उलयली. आनी मजा म्हळयार उपरांतचे सगळे प्रस्न तिणें सकयल्या नॉर्मल आवाजांत विचारले. आईन म्हजें सांगणें मानून घेतलें हाचो म्हाका आनंद जालो. हांवे उत्साहान सगळ्या गणितांची उत्तरां बिनचूक दिलीं.

म्हजो अभ्यास घेवन जातकच आई सुधीराचो अभ्यास घेवंक लागली. सुधीराचो अभ्यास म्हळयार पंधरा वीस मिनटां फकत बोंबाबोंब. सुधीराचेर गाळयांचो शिवर. आईच्या कर्कश आवाजान जोग बिल्डींग दणदणली.

तो शेजराचो घारश्या दोळयांचो भुरगो आतां मात तिडक-तलो अशें म्हाका दिसलें. तो वाटट आसतलो काय? 'आपणांक डिस्टर्ब जाता' अशें आईक सांगपाक तो आतां येतलो काय?

'देवा! बोबो न मारपाची आईक बुद्ध दी. राजकुंवराभशेन दिसपी हो भुरगो आईच्या त्रासाक लागून हो रूम सोडून वच्चो ना अशें कर. आमचो तो नसाय करचो ना अशें कर.' हांवे मनां-तल्या मनांत देवाची प्रार्थना केली. पूण देवाकलेगीत म्हजी प्रार्थना आयकूपाक खूब कुस्तार जावपाक जातालें.

' धुकरा ! शंभराचे पाव कितले ? पंचवीस पंचवीस पंचवीस- आई हेळ काडून दर एका 'पंचविसा' चेर सुधीराचेर एक एक प्रहार करीत आडुलो. प्र येक प्रहाराउपरांत सुधीर किळचलो, चित्कारलो.

ह्या किळच्यानी तो भुरगो-सुहास नक्कीच जागो जाल्लो आसपाक जाय. हो बोवाळ खंय चल्ला हें ताका हो वेळ मेरेन कळ्ळां आसतलें. ह्या दोन दिसांभितर तो जोगांकडेन करंदाय करतलो वा आईकडेनय येत. गाळोफस्ती घालून आई ताका मागीर सॅर्त धांवडायतली.

हांव उठलें आनी भायर गेलें. आमच्या ब्लॉकाच्या सामकारचो रूम सुहासाचो. ताच्या रुमाक भायल्या पॅसेजीक लागूनच एक जनेल आशिल्लें. ह्या जनेलाच्या कवाडाक सामकी सकयल एक बारीक चीर आशिल्ली. ही चीर सामकी अवघड जाग्यार आशिल्ली. रुमांत रावतल्यांक ती चीर थंय आसा हें मातुय कळनाशिल्लें. फकत म्हाकाच ती चीर थंय आसा हें खबर आशिल्लें. हांव पॅसेजींत आयलें. कोण येताबी काय हाची हेवटेन तेवटेन पळोवन सुलूस घेतली. आनी उपरांत हांवे जनेलाचे ते चिरीक म्हजो दोळो तेंकयलो.

सुहास ताच्या कॉटीर न्हिदिल्लो. ताच्या आंगार फकत एक मोटवे निळें कलसांव सोडल्यार दुसरें कांयच नाशिल्लें. ताणें दोळे धांपिल्ले. ताच्या सुखामळापरस ताचें पोट आनी छाती चड गोरी आशिल्ली. आटयल्ल्या दुदाच्या रंगाची. पिंगश्या केंसांची झुलपां ताच्या कपलार आयिल्लीं. तेखातीर ताचें तोंड चलयेच्या तोंडासारकें दिसतालें. सुंदर आनी नाजूक. ताचे हातपाय प्रमाणशीर आशिल्ले. एक हात ताणें कपलार दवरिल्लो. आईच्या बोवाळान ताका मातलेगीत जाग आयली ना. तो गाढ न्हिदिल्लो. म्हळयार इतलो वेळ आई जी बोब मारताली ती हाणें आयकूंक नाशिल्ली तर.

' शुभे ! शुभडे ! घुबडें बेगीन, हांगा यो' आईचो विकृत उलो आयकूंक येवंक लागलो. पूण आईच्या ह्या गर्जनांचो सुहासाचे न्हिदेर

इल्लोय परिणाम जाल्लो दिसलोना. हांवें चिरेक तेंकयल्लो डोळो काडलो आनी हांव आमच्या ब्लॉकांत गेलें. आईन पानार वाडिल्लें.

खंय गेल्लें मरूंक ?' आईन विचारलें.

हांवे किरंगळीचे बोट दाखयलें. मोन्यानी पानार बसून जेवपाक सुरवात केली. जेवता आसतना म्हाका सुहासाच्या खव्याच्या रंगाच्या आंगाची याद जाली. ताचे पिंगशे केंस आनी घारशे दोळे. धवेफुल्ल दांत दाखयत हांसपाची स्टायल. ताचें रुबाबदार चलप.

'भांगरा केंसांचो राजकुंवर आनी राक्षशीण.'

भांगरा केसांच्या राजकुंवराक राक्षशीण जादू करून संमोहीत करता. ताका गाढ न्हिदयता. असो न्हिदयल्लो राजकुंवर सुहासा भशेनच दिसतालो जावंक जाय. हांव राजकुंवरी. धवोफुल्ल फुलांच्या पाकळयांनी सजयल्लो झगो घालपी राजकुंवरी. राजकुंवरीन राजकुंवराक पयलेच खेप पळेलो. तिका तो आवडलो. राजकुंवरीकय राक्षशिणीन कादयेंत उडयिल्ली. राजकुंवरान राक्षशिणीक युक्तीन मारून उडयली आनी राजकुंवरीक सोडयली. सुहास आईक मारून उडोवन म्हाका सोडयतलो.

'शुभे ! आनीक चपाती वाडूं ?' आईन मोव आवाजांत विचारलें.

'नाका आई !' हांवें जाप दिली. म्हज्या काळजांत हाल-ल्यासारकें जालें. आई भायल्यान कांटेरी पणसासारकी. पूण भितल्यान ती आमचेर जिवापास्ट मोग करता हें हांव जाणां. म्हणून हांव आईक भियेतां. पूण तिची नसायमात करिना. अभ्यासावेळार ता आमचें आंगतोंड सुज म्हणसर आमकां मारता पूण आमी मातशीं जर बरीं ना जालीं. आमकां जर थंडी बारकूण जाली जाल्यार ती संबध रात न्हिदनासतना आमची सेवा करता हें हांव जाणां. हांवे आईकच राक्षशीण केली हें येवजून म्हाका खूब वायट दिसलें. म्हजे सामकार आई जेवपाक बशिल्ली. जेवण सिमेंट टायल्सांचे जमनीर दोन शेंद्रयो घालून चलिल्लें.

आईचें तोंड जेवतना हालतालें. तिच्या कपलाचे दावे कुशीक

एक गुट्टेसारको भाग हालतालो. कपलावयली एक रक्तवाहीनी ती. ते शीरेचो आकार एकेकडेन गुट्टेसारको जाल्लो. आईक अशी जेवतना पळोवन म्हाका तिची सामकी काकुयट दिसली. तिचो तो कृश देह. आमकां शिकयतना ती घालताली त्यो गाळीफस्ती, आमचे-विशीं उच्च अपेक्षा बाळगुपी तिचें मन. ऑफिसांत वचून मान मोडून काम करपी तिची काया. आमचेखातीर आपल्या जिवाची लेगीत पर्वा न करपी म्हजे आईक हांवें राक्षशीण कल्पिली हाची म्हाका खूब खंत जाली. म्हाका म्हजीच भिरभिरी मालली.

'आई! तूं घे मगे चपाती.' हांवें आईक चपातेचो आग्रो केलो. हांवे तिची जी वायट राक्षशिणीकडेन तुळा केल्ली त्या प्रयत्नांचें अशेतरेन परिमार्जन करपाचो यत्न केलो.

आईक वोगीच गंहिवरल्याभशेन जालें.

'नाका गो बाय शुभी! तुका शीत वाडूं?' आईन मोगान म्हाका विचारलें. उपरांत ती उठली. आंवपाक भायर गेली.

० ० ०

शाळेंतल्यान येतना सिनेमाची पोस्टर्स पळेत हांव येतालें. हिंदविजय थिएटराभायर म्हाका तें पोस्टर दिसलें. कंबरार हात दवरिल्लो एक नट उबो आशिल्लो त्या पोस्टराचेर. तो नट सारको सुहासाभशेन दिसतालो. केंसाची स्टायल, मनगटांमेरेन बाह्यो आशिल्लें खोमीस, उबो रावपाची तीच ढब. सुहासाची याद जायना-फुडें म्हजें मन परयांच्या संवसारांत सदच्चेभाशेनच संचार करपाक लागलें. सुहास राजकुंवर. शूर आनी सुंदर. हांव राजकुंवरी. धव्या-फुल्ल फुलांच्या पाकळयांचो झगो घालपी. राजकुंवरावांगडा राक्षशिणीचे कादयेंतल्यान पळून वचपी.

जेन्ना जेन्ना म्हाका सुहासाची याद जाताली, तेन्ना तेन्ना म्हज्या काळजांत खोसदिणेंशें किदेतरी दिसतालें. पोटाक भूक लागतकच जी भावन जाता तशीचशी कसली भावना म्हाका जाताली. निकतेंच म्हाका तेरावें वर्स लागिल्लें आनी हांव सुहासाचेर मनापासून मोग

करपाक लागिल्लें. सुहासाच्या दर एके करणेंत किदें तरी बरें आसता अशें दिसपाक लागिल्लें म्हाका.

कालचीच गजाल. हांव सदचेभाशेनच शाळेंतल्यान परतलें. आई सुहासाकडेन खूब वर्सांची वळख आशिल्ल्याभाशेन हांसतखेळत उलयताली. पयलीं म्हज्या दोळ्यांचेरच म्हजो विश्वास बसलोना-ह्या सुहासाक कसली जादूबिदू येता काय किदें? आई आनी एका विद्यार्थ्याकडेन इतली हांसत आनी मेकळ्या मनान उलयता? आनी हो विद्यार्थीय करंदाय मारपाचें सोडून तिका किदेंतरी विनोदी गजाल सांगून हांसयता? आई केन्नाकेन्नाय आयतारा तिच्यो ऑफिसांतल्यो इश्टिणी आमगेर आयल्यो की अशी मेकळेपणान आनी खळखळून हांसता. आई हांसतकच खरेपणांत बरी दिसता. तिचो रागीटपणा हांसतकच नाच्च जावन वता.

'आनी साडयेर विंचू पडिल्ल्यान प्रोफेसर बाईन जी उडी मारली ती बद्द कदेलार बशिल्ल्या टकलू प्रिन्सिपलाचे मांडयेर...'

सुहास आईक कॉलेजांतली कसली तरी विनोदी घडणूक सांगतालो. ऑफिसांतल्यान येतकच थकून गेल्ली आई उत्साही हांसताली. मेकळें आनी सोबित हांसताली.

सुहास म्हाका चड आवडपाक लागलो. हो उमेदी तरनाटो म्हजें आराध्यदैवत जालो. आईक हरशीं सगळे शेजारी महारोग्याक टाळचें तशे टाळटाले. आनी हो सुहास? आईकडेन येता किदें! सलगीन उलयता किदें! तिका हांसयता किदें! हांव लागी पावतकच सुहास म्हजेकडेन पळोवन हांसलो.

'किदें बेबी! शाळा सुटली?' ताणें विचारलें.

'हय', हांवें वोगीच लजून जाप दिली. हांव घरांत गेलें. दप्तर दवरलें. आनी परतें भायर येवन आईच्यो आनी सुहासाच्यो गजाली आयकुपाक उबें रावलें.

● ○ ○

एक दीस हांव शाळेंतल्यान घरा आयलें. आई मोठमोठ्यान आडुटाली, झगडटाली. हांव परयांच्या गजालिनीच वावुरतालें. सुहासाक राजकुंवर कल्पून. म्हजी तंद्री आईचे हुयेलीन भंगली. हांव बेगीनबेगीन इस्काद चढून वयर आयलें.

व्हरांडयार म्हाका एक विलक्षण दृश्य दिसलें. आई पदर खोवन गाळीफस्तींचो शिवर करताली. सकयल्या गिडेबाईवांगडा तिचें झगडें चलिल्लें. गिडेबाई नाटकांत दादल्याक बायलेचो पार्ट दिल्लेभशेन दिसताली. पुराय पांच फूट सात इंच उंची, चरबी वाडिल्लो देह, ओंठार मातशीशी मिश्याभशेन फुटिल्ली ल्हंव. आपल्या हातांत एक लाटणें घेवन गिडेबाई डरकाळयो फोडटाली. व्हरांडयांत आईमुखार झुंजाचे तयारेन उबी आशिल्ली. आईच्या हातांत एक कायलातो आशिल्लो. आज कसल्यातरी निर्धारानच गिडेबाई वयर आयिल्ली.

'तुज्या चपक्या नाकाच्या सुशीन नितीनाक तोंडातल्यान रगत ये म्हणसर वंटीर आपटून मारपाचें कारण किदें ? तुमी मदांध जाल्यांत जाल्यार मसणांत वचात. लोकांच्या भुरग्याचो जीव काडूंक येवं नाकात. चड जीव शिवशिवता जाल्यार बांयत वचून जीव दियात. भोंसडीच्यानो ! बोडकेच्यानों ? लोकांच्या भुरग्यांचें रगत पियेवंक येवं नाकात. वेरझव्यांनो ! तुमचो बापूय म्हज्या भुरग्यांक पोशिना.'

आईन ठो ठो करीत गाळी फस्तींचो बाँबवर्शाव चालू दवरिल्लो. बाबडो नितीन ब्लॉकांत गाढ न्हिदिल्लो. ताणें अशीं झगडीं झुंजा करून असले रक्तपात हरशीं पयलीं खूब केल्ले. पूण जिस्त आयजच आई ताचें तोंड आपटुपी सुशीक पळोवपाक पाविल्ली कारण तिचें ऑफिस बेगीन सुटिल्लें.

'हां ! हां ! गाळीफस्ती करूं नाका, रांडे ! तुजो बापूय आनी तुजो पोंगयो घोवूय म्हजे चलयेक पोशिना. लोक तुका भियेतात अशें समजता ?' गिडेबाई आपल्या हातांतले लाटणें

निरखीत गरजली.

'आई ! पुरो गे आई ! घरांत चल गे तू.' आईचो पदर फाटल्यानच्यान ओडीत हांवें तिका काकुयटेन सांगलें.

'तूं चूप शुभी ! तुजो घोव फूंक मारल्यार पडटलो काडो पैलवान, रांडें ! ताका खावन तूं अशी फुगल्या. दादल्याभाशेन शाळेंत भुरग्याक तूं पि. टी. शिकय. भोंसडीचे ! तुका ओंठार फुटल्या ती मिशी पयलीं तुज्या घोवाक कापून उडोवंक सांग, आनी उपरांत यो झगडूंक रांडे ! आईन गिडेबाईच्या वर्मारच बोट दवरलें.

गिडेबाईतली व्यायाम शिक्षिका जागी जाली. तिणें एक डरकाळी फोडली आनी ती आईच्या आंगार धांवून गेली. लाटणें कायलात्याक भिडलें. म्हज्या किळच्याकडेन लक्ष दिनासतना दोगीय एकामेकांचे केंस ओडूंक लागल्यो. नाखटांनीं बुरकूंक लागल्यो. एका-मेकांचे कपडे पिदूक लागल्यो. आनी हांव ! हांव रडत रडत एका ब्लॉकाकडल्यान दुसऱ्या ब्लॉकाकडेन गेलें. पूण दर एक बिराडकार म्हाका दिसता भितरल्यान कान दाराक लावन भायलें झूंज खंयचे अवस्थेक पावलां ताची सुलूस घेतालो. पूण भायर येवन हात घाईर आयिल्लें हें झगडें सोडोवपाक मात कोणूच येनाशिल्लो.

हांव स'मकें गळसणलेले अवस्थेंत सकयल्या मजल्यार रावपी जोग मालकाकडेन वचपाक भायर सरलें. बेगीनबेगीन इश्काद देंवतना म्हजो एक पाय सोंपण चुकलो. हांव सकयल कोंसळ्ळें. पूण वयर येवपी कोणेतरी म्हाका घट्ट धरून सांवरलें. हांवें रडत रडत तोंड वयर केलें.

'किदें जालें, बेबी ? तूं रडटा किद्याक ?' म्हजे फाटीर थापटीत सुहासान म्हाका विचारलें. हांवें ताका आईच्या झगडया–विशीं सांगलें. तो बेगीन बेगीन वयर आयलो. आईक आनी गिडे–बाईक ताणें एकमेकांपासून पयस केलीं. दोगांयचेय सामके अवतार जाल्ले. गिडेबाईचें पोल्क पिदिल्ल्यान तर तिची सगळी लज भायर

पडिल्ली. दोगांयच्याय चकमकींत बाबड्या सुहासाकय थोडो मार खावचो पडलो. ताच्या खांदावयलो भाग लाटण्याच्या प्रहारान झेंजरलो. सुहासान आईक ब्लॉकाभितर हाडटूकच हांवे दाराक भायल्यान खिळी घाली. दिसलें नाजाल्यार आई परत भायर येवपाचो यत्न करतली. हांव सुहासाच्या रुमांत गेलें. तो दुखावल्ल्या भागाक मलम लावपाचो यत्न करतालो हारशांत पळोवन दुखावल्लो भाग निरखितालो.

'म्हजेकडेन मलम दियात. हांव लायतां,' हांवें म्हळें. हांवे ताचेफाटल्यान कदेल ओडलें. कदेलार उबें रावलें. ताच्या दुखावल्ल्या भागाक मलम चोळूंक लागलें.

तो हारशांतल्या म्हज्या प्रतिबिंबाकडेन पळोवन हांसलो हांवूय हांसलें आनी मागीर लजलें. ताणें लक्तुबायेन ताच्या खांदार भोंवपी म्हजो हात धरलो. म्हाका धीर दिवपी उलोवंक लागलो तो.

म्हाका रडूंक आयलें. ह्या लज करपी प्रसंगाखातीर म्हाका खब्ब दुख्ख जाल्लें. सुहासान मायेन म्हजो हात धरिल्लो म्हणूनय म्हाका आनंदान रडपाक आयिल्लें. ताणें आपल्या बोल्सांतलो लेंस काडलो आनी म्हजे दोळे पुसले. म्हजे गाल थापटीले. म्हजे खांदे थापटीले.

'रडूं नाका, बेबी!' कदेलार हांव उबें आशिल्लें. ताणें म्हज्या कंबराक धरून म्हाका सकयल देंवयलें. हांव हांसलें, लजलें आनी म्हज्या ब्लॉकार गलें. आई न्हिदिल्ली. हांवें भायल्यानच्यान दार उगडिनाफुडें ती उठून बसली.

मारामारी केल्ल्यान तिचो दावो दोळो सुजिल्लो. गळचार नाखटांच्यो जांगो उदेल्ल्यो. तांतूंतल्यान रगत आयिल्लें. हांवे थंडसाणेन आरमार उगडली. बर्नोल काडलें. आईच्या घायांक लायलें. आई अकस्मात घस्मटून रडपाक लागली. 'आई! तूं रडूं नाका गे. तूं रडल्यार म्हाकाय रडूंक येता. ते पळे अप्पा आनी

सुधीर आयले, हांवे आईच्या गालावयल्यान हात फिरयत तिका समजावपाचो यत्न केलो.

० ० ०

'शुभे ! उठ बेगीन. न्हिदेंत हांसता किदें पिश्याभशेन ? बेगीन उठ. आई आज सामकी तापल्या.' म्हजी धाकटी भयण विनिता म्हज्या आंगावयलें पांगरूण खस्सक करून ओडून काडून म्हाका सांगतालें. आनी हांव म्हज्या सोबीत सपनांतल्यान जागें जालें.

'...... म्हजें आनी भांगरा केंसाच्या राजकुंवराचें लग्न जाता. शेनाय आनी चौघुडो वाजता. हांव आनी राजकुंवर भांगराच्या रथांत बसल्यांत. हांवे राजकुंवरीचो धवोफुल्ल पोशाख घाला. भांगराच्या मुकुटाक हिरे पांचू आदी मोलादिक खडे वापरून मढयल्लें एक कमळ बसयलां. आनी हो रुबाबदार राजकुंवर म्हज्या शेजरा म्हज्या खांदार आपलो एक हात दवरून बसला. म्हज्या गालांवयल्यान एक सुंदर गुलाबाचें फूल भोंवडायता. हांव लजतां. ताचेकडेन पळोवन अमरपिकें हांसता. राजकुंवर म्हाका लागीं ओडून आपलो एक गाल म्हज्या गालार घांसता. भूक लागतकच पोटांत जशी एक सुखद वेदना जाता तशी वेदना म्हज्या पोटांत जाता. म्हजें तोंड त्या राजकुंवराच्या तोंडाकडे पावतकच हांव त्या राजकुंवराक वळखतां. तो सुहास. सुहासच तो. तो हांसता आनी 'बेबी' असो उलो मारता. हांव लजतां. हांसतां. भांगरा केंसाचो राजकुंवर ! सुहास !' .....

आनी विनितान म्हाका ह्या सपनांतल्यान जागें केल्लें. हांव उठलें, तोंड धुवपाक गेलें. आई आयज खऱ्यानीच तापिल्ली. कालच गिडेबाईकडेन तंटो मारामारी केल्ली आई आयज दुसऱ्या हल्ल्याची तयारी करताली. कालच्या मारान तिचो एक निळो किणेल्लो दोळो अद्यापय निळोच आशिल्लो. गळ्यावयले बुरके ताजे आशिल्ले. गिदिल्ल्यान तिस्त्यो जाल्ली तिची साडी एका खुंटयेर युद्ध-विध्वंसाची

खूण जावन लोंबकळटाली. आईक आपलो आनी गिडेबाईचो जाल्लो असो युद्धविराम पसंत नाशिल्लो. दुसरी आघाडी उघडपाक तिचें संतापी मन फुरफुरतालें. नितीनाचें तोंड आपटून रगत काडप म्हळचार आईचे नदरेन एक भयांकृत गुन्यांव आशिल्लो.

काल लागिल्ल्या माराचो नितीनाचेर हरशी मातलेगीत परिणाम उरूंक नाशिल्लो. ताचें तोंडय दुखनाशिल्लें. काल आपलें तोंड आपटून रगत आयिलें हाची ताका याद लेगीत नाशिल्ली. पूण आईक ती आशिल्ली. इतलेंच न्हय तर गिडेबाईवांगडा जाल्ले कुस्तेची लेगीत तिका वेवस्थित आनी पक्की याद आशिल्ली. म्हणूनच आयज तिका गिडेबाईक परतेंय आव्हान दिवपाचें आशिल्लें. किदेंतरी करून गिडेबाईक लढपाक प्रवृत्त करपाचो तिणें यत्न चलयल्लो. तेचखातीर आई सकाळच्यान सकयल्या मजल्यार लेगीत आयकूंक येत असल्या वयल्या आवाजांत गिडेबाईक गाळी घालताली. गिडेबाईच्या ओंठावयल्या मिश्यांविशीं सरभोंवतणच्या लोकांक माहिती दिताली. अप्पासायबांक गिडेबाईन पोंगयो कशें म्हणिल्लें हें तांका सांगून तांच्यातली तिडक जागोवपाचो खर यत्न करताली. पूण अप्पासायबान तिका नैतिक तेंको दिवपाचें न्हयकारलें. तांच्या कपलार त्रासिक मिरी उमटल्ली.

'म्हाका तुवें झगडें केल्लें नाका. अशिक्षित गांवढळाप्रमाण मारामारी आनी हाणामारी आनीक जाल्ली म्हाका मातलेगीत आवडची ना,' अप्पासायबान तिका स्पश्ट उतरांनी सांगलें.

आई संतापान सामकीच विकृत जाली. किद्याय किदें उलोवंक लागली. ती अप्पासायबांकच गाळी घालपाक लागली. म्हाका आई आज अप्पासायबांकडल्यान सॅर्त मार खातली हें समजलें.

'भोंसडीचे अप्पासायब ! ते रांडगेक तुमी भियेतात? तिणें काल तुमकां 'पोंगयो' म्हळा. ताचें तुमकां कांयच ना? फाल्यां भुरग्यांक रस्त्यावयली भिकारीणलेगीत मारतली. तुमी तिजेर भाळून भुरग्यांक मारूंक दितात? असल्यो मोठेल्यो चेडयो शुक्रवार पेठेंत खुब्ब आसात जाय जाल्यार. तिका भियेवन म्हज्या

पोरांक स्वाधीन करूं नाकात ते चेडयेच्या, 'आई ताळतंत्र सोडून चडांत चड विकृत उलयत रावली.

'आतां तूं वोगी बसता काय ना?' अप्पासायबान संतापान तांबडोगुंज जायत आईक धमकायली. अप्पासायबांच्या संतापाचो उद्रक जाता हें म्हाका स्पश्ट कळ्ळें. म्हज्या मनाची सारकी तडफड जावंक लागली.

'भोंसडीचे अप्पासायब! ना वोगी बसना. किदें करतले तुमी म्हाका? मारतले मूं? ते चेडयेखातीर, ते वेश्येखातीर?'

आनी अप्पासायब आईक मारूंक लागले. वेवस्थित मारूंक लागले. खोंटो थापटां हांचो भडिमार करून ताणी आईक अर्दमेली केली. आमी भुरगीं रडूंक लागलीं. त्या रडपाच्या आवाजांतच 'मारा! मारा म्हाका. मारून उडयात ते चेडयेखातीर 'हें आईचे पालुपद चालूच आशिल्लें. हांवें रडत, आडुत आईक न मारपाच्यो अप्पासायबांक विनवण्यो केल्यो. पूण अप्पासायब बेभान जाल्ले. ते आईक पेटीत रावले. आमच्यो किळच्यो, 'आईक मारूं नाका' म्हणून आक्रोश, आईचे हुडके, आनी गाळीफस्ती हाणीं सगळो परिसर दुमदुमून गेलो.

आई आनी अप्पासायबांमदीं सुधीरान आनी हांवें घालून घेतलें. आमी रडलीं. विनवण्यो केल्यो. अप्पासायबांची कितलीशींच थापटां आनी खोंटो आमचेर दोगांयचेर बसल्यो.

'आई! थांबव गे हें. तुमी वोगी रावात अप्पा! आईक मारूं नाकात, अप्पा! तुमी मातशे शांत जायात' हांवें रडत भेंकत दोगांयचीय विनवणी केली.

नितीन लुडबो उलयत आपल्या धाकटुल्या हातांनीं अप्पासायबांक फाटल्यान ओडपाचो यत्न करतालो. पूण अप्पासायबांच्या संतापाचो ज्वालामुखी भडकल्लो. आईन दादल्यांचे शक्तेमुखार पराजय पत्करलो. अप्पासायबांच्या प्रत्येक प्रहाराबरोबर आई वळवळून रडूंक लागली. तिचो संताप, विकृत उलोवप दुकांच्या

रुपांत तिच्या दोळयांतल्यान भायर पडपाक लागलें. प्रहार आनी आघाताची सणक निका जाणवूंक लागली.

अप्पासायबांच्या रागाचो पारो वयर चडत गेलो. तांचे दोळे तांबडेगुंज जायत गेले. कपलावयलो शीर तट्टटून फुगली. कानाच्यो पाळयो तांबडयोगुंज दिसपाक लागल्यो. आईक मार मार मारून दमले. श्वास घेवपाक मातशे थांबले आनी थंयच चीरें करून घुंवळ येवन सकयल कोंसळ्ळे. प्रेताभशेन घट्ट जाले.

आमी भुरगीं तें दृश्य पळोवन भियेवन किन्च्यो मारपाक लागलीं. 'अप्पासायब अप्पासायब' म्हणत आक्रोश करपाक लागलीं. आईचो सगळो विकृत अवतार नाच्च जालो. ती सामको मोव पडली. तिणें आंग काडलें आनी ती अप्पासायबांमुखार येवन बागवली.

अप्पासायबान दोळे परतिल्ले. ते कसलीच हालचाल करी नाशिल्ले. आईन भंयान अर्दमेली जावन एक किळांच मारली.

' किदे जालें तुमकां ? किदें जालें तुमकां ?' रडकुऱ्या सुरांत आईन विचारलें.

' कोणतरी धांवात रे ! पावात रे ! हांका पळेयात हे किदें करतात तें !' इतलो वेळ सगळया जगाआड बंड पुकारपी आई आतां असहाय्य जावन लोकांक आधाराक आपोवंक लागली. पूण कोण एक आयलोना.

आईन अप्पासायबांचेर उदक मारलें. कांदो चिड्ड्न नाकालागीं धरलो. थोडीशी हालचाल केली पूण अप्पासायब बेशुद्धच उरले. म्हाका अकस्मात सुहासाची याद जाली. सुहास दोतोरकी शिकतालो हें म्हाका कळिल्लेंच. हांव धांवत भायर आयलें. सुहासाच्या रुमाच्या दारार खटखटायलें.

कांयच जाप आयलीना. कांयच हालचाल आयकूंक आयलीना. हांव धांवत पॅसेजींत गेलें. जनेलाचे ते चिरेंतल्यान पळेलें. सुहास सुस्त न्हिदिल्लो. आपलें खव्याच्या रंगाचें आंग उघडें घालून. हांवें

जनेलाचेर मोठमोठ्यान धाडायलें. उलो मारले.

'सुहास ! सुहास ! बेगीन येयात ! दार बेगीन उगडात !'

म्हज्या उल्यांनी सुहास जागो जालो. ताका हांवें अप्पासाहेबांक घुंवळ आयिल्ल्याचें सांगलें. सुहास वेगोवेग आपली बॅग घेवन आमचे-कडेन आयलो. ताणें सगळयांक पयलीं वोगी केले. अप्पासयाबांक एक इंजेक्सांव दिलें. तशे ते शुद्धीर आयले. तो मुद्दम दोतोर किशोर साठेक घेवन आयलो. दोगांयनीय अप्पासायबांक आनीक पुराय तपासलें. दो. किशोर साठे सुहासाचो इश्ट. ताणें अप्पासायबांक प्रिस्क्रिप्शन्स दिलीं. सुहासान आईक अप्पासायबांक हाय ब्लड प्रेशर आशिल्याचें सांगून तांच्या मनाक त्रास जायना तशें वागपाचो सल्लो दिलो.

आई सुहासाच्या उपकाराच्या वज्यान चिड्डून गेल्ली. सुहासन येदो व्हडलो बोवाळ कसो आयकलोना हाचें तिका अजाप दिसलें.

'तुमी खंय आशिल्ले तर ? तुमच्या रुमात नाशिल्ले ?' आईन खात्री करून घेवपाखातीर ताका विचारलें.

'हांव रुमांत न्हिदिल्लों. तुमी रातच्या आठ साडेआठांक न्हिदतात. हांव रातचो तीन वरांमेरेन हॉस्पिटलांत नायट ड्युटीक आसतां. सकाळीं बद्द धांक उठ्टां. हे पळेयात. आतां एक च्या आप्पा-सायबांक दियात. आनी कसलीय गरज दिसल्यार म्हाका आफयात.' सुहास आपल्या रुमांत गेलो. आईक आयिल्लो दुबाव पयसावलो. जल्मांत पयलेच फावट तिका एका विद्यार्थी शेजाऱ्याविशीं इतलो आदर निर्माण जाल्लो.

म्हजें मन जाल्यार सुहासाच्याच फाटल्यान भोंबपाक लागलें. देवदूत ! भांगरा केसांचो राजकुंवर ! सुहास ! कितलो मोठो मनान ! म्हाका जाल्यार ताचेखातीर म्हजो प्राणलेगीत अर्पण कर-चोसो दिसलो. ताका हांव दैवी पुरूश मानपाक लागलें.

अप्पासायब उलयनासतना उठले. कॉटीर वचून न्हिदले. ब्लॉकार कीण्ण शांतताय पातळळी. आईच्या दोळयांतल्यान दुकां

व्हांवतालीं. तिका अशी रडटना पळोवन म्हाका तिची कायकुट दिसली. धाकलो नितीन रडटना सारको आईभशेन दिस.

'आई गेव! तूं रडूं नाका गे', धाकल्या नितीनान आपल्या धाकटुल्या हातांनी आईचे दोळे पुसले. आईन ताका सामको आवेगान लागीं ओडलो. ताच्या पोल्यांवयल्यान आपले ओंठ भोंवडायले. अप्पासायब हें सगळे पळेताले. ताणी अकस्मात आपलें तोंड उशांत खुपशिलें. म्हाका दिसता नितीनाची करणी पळोवन ताकाय कळवळ्ळ्याभशेन जालें.

हांवें स्टोव्ह पेटयलो. च्याक आदण दवरलें.

' आई ! सुहासाकय च्या दिवं ?' हांवे आईक विचारलें.

' दी तर. हे आनी विचारपाक जाय ? तांका च्या हांव दितां. तूं पयलीं सुहासाक च्या व्हरून दी,' आईन सांगलें.

हांव च्याचो कप घेवन सुहासाच्या रुमांत गेलें. दार उगडलें आनी भितर गेलें. एक गोरेंपिठ्ठ सणसणीत अवयबांचे निळी साडी आनी तिकाच मॅचिंग निळें पोल्क घाल्लें एक वाडिल्लें चली ताच्या रुमांत एका कदेलार बशिल्लें. हांव ते चलयेकडेन मंत्रमुग्धासारकें पळेत रावलें. तें चलीय म्हजेकडेन निर्विकार तोंडान पळेतालें. तोंडार हांसो अजाप आदी खंयचेच भाव दाखयनासतना.

' किदें बेबी ! किदें हाडलां तुवें म्हाका?' सुहासान हांसत हांसत म्हाका विचारलें. हांवें आंग काडलें. त्याखातीर म्हज्या हातांतल्या कपांतली च्या थोडी सांडली. उपरांत हांवें सरळ वचून सुहासाक च्या दिलो.

' तुमकां आईन धाडल्या ही च्या,' हांवें म्हळें आनी हांव रोखडेंच भायर आयलें.

० ० ०

म्हाका ते तरनाटे चलयेचो वोगीच राग आयलो. ताचें सुंदर पूण मातव न हांसपी तोंड म्हाका निख्खाल आवडलेंना. हांवें च्यानें

कप सुहासाक दिलें. खरें म्हळयार सुहासान ती च्या घेवन सोप म्हणसर म्हाका थंय रावपाचें आशिल्लें. पूण तें निळी साडी न्हेशिल्लें चली म्हजेकडेन आनी सुहासाकडेन आळीपाळीन आनी मख्ख रावून पळेत रावलें. जशें काय ह्या भुरग्याची आवणांक आडखळ जाता अशेंच तें सुहासाक सुचयतालें. हांव थंय राविल्लें दोगांकय नाका हें म्हज्या लक्षांत आयलें. हांव रोखडेंच भायर सरलें.

किद्याक म्हणून खबर ना, पूण म्हाका ते निळे साडयेकान्नीची नसाय दिसपाक लागली. सुंदर दिसपी तिच्या देहांत दुश्ट मनच आसपाक जाय अशें म्हाका ठामपणान दिसपाक लागलें.

हांव आमच्या ब्लॉकार आयलें. थंयचें वातावरण बरेंच निवळलेलें. म्हज्या मनांत परत परत सुहासाचेच विचार घोळपाक लागले.

भांगरा केंसाचो राजकुंवर आनी राक्षशीण. सुहास राजकुंवर आनी ती निळी साडयेकान्न राजकुंवरी ? ना. ती निळी साडयेकान्न राजकुंवरीं न्हय. हांव जाण्टें जालें, तसली साडी आनी पोल्क न्हेसलें जाल्यार तिचेपरस शतपटीन सुंदर दिसतलें. तें मातय हांसना. अंतःकरणान नक्की दुश्ट आसतलें. राक्षशीणीभशेन. हय राक्षशीणच. मायावी सुंदर रूप घेतिल्ली राक्षशीण. शूर्पणखेन लक्ष्मणाक भुलोवपाखातीर असलेंच रूप घेतिल्लें. सुहास राजकुंवर. पूण राजकुंवरी मात ती निळी साडयेकान्न न्हय. राजकुंवरी हांव. ती निळी साडयेकान्न राक्षशीण. शूर्पणखा. मायावी सुंदर रूप घेवन राजकुंवराक भुलोवपाखातीर आयिल्ली.

हांव ते निळे साडयेकान्नीक पळोवन पुराय अस्वस्थ जाल्लें. हांवें आईचो धाकटो हारसो घेतलो. तांतूंक म्हजें तोंड हांव पळेत रावलें. म्हजे केंस हांवे दोनीय हातानी फाटल्यान व्हरून पळेलें. तोंड एकेवटेन करून पळेलें. म्हजें तोंड दुबावाविरयत ते निळे साडयेकान्नीपरस सुंदर दिसतालें. म्हाका वोगीच हांव जाण्टे जाल्ले-भशेन दिसलें. हांवय निळी साडी आनी निळें पोल्क न्हेशिल्लेभशेन

म्हाका दिसलें... ... सुहासाचें आनी म्हज लग्न जालां. सुहास म्हज्या खांद्याक खांदो तेंकोवन म्हाका घेवन भोंवपाक वता. सगळे हेवटेन तेवटेनचे लोक जोडो कितलो सुंदर दिसता अशें कवतुकान आमकां पळोवन मनांतल्या मनांत म्हण्टात... ...

हांव तशेंच हारशांत पळेत रावलें. थोडया वेळाउपरांत म्हजे म्हाकाच म्हजें तोंड कुरुप दिसपाक लागलें. शाळेचो युनिफॉर्म घाल्लो म्हजो देह म्हाका बावळट दिसपाक लागलो. म्हाका दिसपाक लागलें ती निळी साडयेकान्न म्हज्जेपरस कितलीशीच सुंदर दिसता. सुहासाचें आनी ते निळे साडयेकान्नीचें लग्न जाता. तीं दोगांय फिरपाक वतात. भांगरा केसांचो राजकुंवर भांगराच्या रथांतल्यान राजकुंवरीक घेवन भोंवपाक वता. ती निळी साडयेकान्न राजकुंवरी न्हय. राजकुंवरी हांव. ती मायावी राक्षशीण... ...

हांव सामकें पिसावल्लेभशेन येवजूपाक लागलें. ते चलयेचो खूब द्वेश करपाक लागलें.

थोडयावेळाउपरांत आमच्या दारार कटकट जालें. हांवें दार उगडलें. भायर सुहास उबो आशिल्लो. ताच्याफाटल्यानच्यान ती निळी साडयेकान्न गरुख तोंडान सकयल देंवताली. तिणें एकदांय फाटल्यान पल्लेलें ना. सुहासाच्या हातांत रिकामें च्याचें कप आशिल्लें.

'थँक्यू बेबी ! हें तुमचें कप', ताणें म्हज्या हातांत कप दिलें आनी तो हांसलो. हांव ताच्या त्या हांसपांत विरघळून वचपाक लागलें. सुहास थंयच्यान गेलो आनी म्हाका वोगीच रडपाक येवपाक लागलें.

त्या दिसा सुहासान म्हजो हात हातांत घेतिल्लो. म्हज्या कमराक धरून सकयल देंवयल्लें. हाचो अर्थ सुहासाक हांव खूब खूब आवडलेले असो जातालो. हांवें तेन्नाच एक निर्णय घेवन उडयल्लो. लग्न करपाचें जाल्यार फकत सुहासावांगडा. आनी आतां हांवें सुहासाच्या खऱ्या इश्टिणीक निळे साडयेकान्नीक पळेल्ली. अकस्मात ती मुखार येवन राविल्ली. सुहासाक तें चली खूब आवडटालेंबी काय ? फकत एक पिटीस चली म्हणून ताणें म्हजें कवतूक केल्लेंबी काय ? तो ते

निळे साडयेकान्नीवांगडा प्रेमविवाह बी करतलो काय ? आमच्या शाळेंतल्या भिडेसरान गोखलेबाईवांगडा केल्लो तसो ?

ते चलयेवांगडा लग्न केल्यार तो सुखी जावचोना. अशेंबी आसा व्हय ? तो सुखी जायत. लग्नाउपरांत ते निळे साडयेकान्नीक भुरगीं जातलीं. सुहासाभशेनच भांगरा केसांचीं. घारश्या दोळयांची. चले आनी चलयो. निळी साडयेकान्न आवय म्हणून आपल्या भुरग्यां-कडेन कशी किदें वागतली काय ? म्हजेकडेन पळेताली तशीच मख्ख पळेत आनी भावनारहीत तोंडान आपल्या भुरग्यांकडेनय पळेतली ? सुहास सुखी जाल्यार म्हाका बरें दिसपाचें ना ? सुहासाक हांव देवदूत मानतालें. तो सुखी जाल्यार म्हाका मातय वायट दिसपाचें ना.

केन्नाकेन्नाय मनीस दिसता तसो नासता. ती निळी साडयेकान्न एकाद्रे स्वभावान बरीय आसत. एकाद्रे सुहासाक ती सुखीय करीत ! ताका जर सूख मेळत जाल्यार म्हाकाय सूख जातलें. सुहास ! भांगरा केसांचो राजकुंवर ! देवदूत. तो सुखी जाल्यार म्हाका मुजरत खोस जातली.

'शुभी ! हांव मातशो न्हिदतां आं. नितीनाक तूं वाड' आईन थकिल्ल्या सुरान म्हाका म्हळें. आनी सुहासाच्या विचारांची म्हजी तंद्री भंगली. म्हाका आईची काकुयट दिसली. आईक हें असलें कसलें दौर्बल्य आशिल्लें काय ? तिच्या मेंदूक असो तटक करून संताप किद्याक येता ? राग अनावर जातकच तिका आपणें उलोवचें न्हय अशें दिसपी विचारलेगीत ती फटाफट उलोवन किद्याक वता काय ? तिका आपली जीब सांवरपाक किद्याक जायना ? म्हाका न्हिदिल्ले आईची खुबच काकुयट दिसली.

० ० ०

म्हाका त्या दिसा अर्दो दीस सुटी आशिल्ली. शेनवार आशिल्लो. हांव शाळेंतल्यान घरा परतलें. म्हजी आई दाराची चावी व्हेंटीलेटरार दवरताली. आमच्यांतली जीं कोण पयलीं घरा पावता तांका ती

मेळची म्हणून. हांवे चावी काडली. दार उगडलें. दप्तरबी भितर दवरलें. जाळयेच्या पांटल्यापोंदा आईन थालीपिठ दवरिल्लें तें खालें. भायल्यान खीळी लावन हांव भायर व्हरांडचार आयलें. थंयच्या पॅरॅपेटीक तेंकून हांव रस्त्यावयली येरादारी पळोवपाक लागलें.

इतल्यान म्हाका सुहासाची तीव्रतायेन याद जाली. हालीं बेकार आसतकच हांव सुहासाविशींच्या स्वप्नरंजनांतच गुल्ल आसतालें. हांव सुहासाच्या रुमाफुडें गेलें. दाराक भायल्यान कुलूप नाशिल्लें. भितल्ल्यान खिळी घाल्ली.

हांवें दार खटखटावंक हात उखल्लो. मागीर येवजिलें. सुहास न्हिदिल्लो आसल्यार ताका आनीक त्रास कित्याक दिवपाचो? तो न्हिदिल्लो नाशिल्लो जाल्यार दार खटखटावन भितर वच्चें आनी ताचेवांगडा उलोवचें, अशी म्हाका खर इत्सा जाली. हांव फाटल्या पॅसेजींत गेलें. फाटल्यान फुडल्यान पळेलें, पॅसेजीर कोण नाशिल्लो. हांव त्या जनेलाकडेन गेलें. ते चीरेंतल्यान भितर पळोवंक लागलें.

आनी हांव थंयच खिळून उल्लें. म्हज्या पोटांत खंयतरी एक वेदना सणकून गेली.

हय. सुहासाच्या कॉटीर सुहास आनी ती निळी साडयेकान्न बशिल्ली. सुहासाचे ओंठ तिच्या ओंठार आवेगान दाबिल्ले आशिल्ले. ताचे दोनय हात तिच्या फाटीवयल्यान फिरताले. तिचे दोनय हात ताच्या गळ्याभोंवतणी आशिल्ले. ताची मान घट्ट धरून तें ताचीं चुंबनां घेतालें. ती चली कसलेतरी तृप्तीचे सुस्कारे सोडटाली. तिच्यो नाकापुडयो थरथरताल्यो.

म्हजो दोळो ते चीरेक दसूनच उरलो. सुहासाच्या आंगार फकत निळी चड्डी आशिल्ली.

सुहासान ल्हवूल्हवू ते चलयेची साडी सोडयली. ताची नुरा रक्तवर्णीय जाल्ली. म्हज्या काळजांत आनी पोटांत कलकल्लेल्या-भशेन जालें. सुहासान आपलें तोंड तिच्या सगळ्या तोंडावयल्यान भोंवडावपाक सुरवात केली. तें धोंपरा तेंकोवन कॉटीर बसलें.

सुहासान उबो रावून ताका वेंग मारली. तिणें आपले दोळे धांपून घेतिल्ले. सुहास तिच्या दोळयांची आवेगान चुंबना घेवंक लागलो. तो किदेंतरी घोगऱ्या आवाजांत उलयतालो. ताचे ओंठ थरथरताले. ती आतां फकत निळें पोल्क आनी सकयल धवोफुल्ल घागरो घालून उबी आशिल्ली. सुहासाचो हात तिच्या थानांर गेलो. तिच्या ओंठाचे चुंबन घेतनाच ताचो हात तिच्या सर्वांगार भोंवपाक लागलो. तिका तो मुड्डूंक लागलो.

ताणें तिका कॉटीर आडवी घाली. पयर गिंडेबाईन आईक झगडटना उडयल्ली तशी. ताणे तिचेर आपलो देह घालो आनी उपरांत ... !!!

म्हाका कशेशेंच जावपाक लागलें. किदेंतरी वेगळेंच दिसपाक लागलें. जीव भियेल्लेभशेन जालो. पोटांतल्यो वेदना वाडल्यो. म्हज्या मांडयांक ओलें ओलें किदेंतरी लागलें. हांवें आंग काडलें. किदें गळटा तें हांवें हात लावन पळेलें. आनी हांव भंयान अर्दमेलें जालें. तांबडो रंग ! रगत ! म्हज्या गुह्येंद्रियांतल्यान रगर व्हांवतालें. हांव सामकें थर्त भियेलें. सुहास करतालो तें पाप हांवें पळेलें म्हणून देवान ही ख्यास्त म्हाका दिल्या आसतली काय ? म्हाका जाल्यार भंयानच घुंवळ येवपाक लागली.

इतल्यान लांकडी इश्कादेचेर कोणाची तरी पावलां वाजिल्लीं आयकुपाक आयलीं. हांव धडपडलें. आडखळत आडखळत चलपाक लागलें. इश्कादेमुखार उबें रावलें. सामकारच्यान आई येताली. इश्काद चडत. म्हाका मोठ्ठो आधार मेळिल्लेभशेन जालें. धीर आयलो.

'आई' हांवें कडकडो भरिल्ल्या आवाजांत आईक उलो केलो. हांव सामके धवें जाल्लें.

'किदें जालें शुभी ? तूं अशें कित्याक पळेता ?' आईन म्हजी गर्भगळीत स्थिती पळोवन भियेवन म्हाका विचारलें.

हांव मोन्यानी भितर गेलें. आईमुखार उबें रावलें. म्हजो

स्कर्ट वयर करून तांबडया रगतान भिजिल्ल्यो म्हज्यो मांड्यो तिका दाखयल्यो.

‘ आई ! म्हाका किदेंतरी जाता गे. पोटांत सामकें दुखता ’ हांवें घुस्मटून रडत आईक वेंग मारली.

आई हांसली. म्हाका थापटूंक लागली.

‘ शुभी ! भियेवं नाका आं. तूं आतां जाण्टी बायलमनीस जालां. तुंवें आतां तुजें शील आनी अब्रू सांबाळपाक जाय. एकलें चली बायल जातकूच ताका निसर्गधर्माप्रमाण अशेंच जाता. आतां दर म्हयन्याक सेगीत चार दीस तुका अशेंच जातलें. तुका ह्या-खातीर भियेवपाची मातय गरज ना, आईन म्हाका विश्वासान घेवन सांगलें.

हांव आज किदेंतरी नवीन आयकतालें. स्त्रीत्वाच्या आगमनान म्हज्या मनाचे नवीन कप्पे आनी नवीन दालनां उगतीं जातालीं. म्हाका सुहास आनी ते निळे साडयेकान्नीन केल्लें तें कृत्य आईक सांगचेंशें दिसलें. तें कृत्य पळेतनाच म्हाका हो स्त्राव सुरू जालो हेंय आईक सांगचेंशें दिसलें. पूण म्हाका खूब लज दिसली. कांयच सांगनासतना हांव वोगी रावलें.

० ० ०

हांव दुसऱ्या दिसा शाळेंत गेलें तें सामकें बदलेल्या मन:स्थितींत. म्हाका वोगीच पिरायेन जाण्टे जाल्लेभशेन दिसपाक लागलें. म्हजी मान परती परती सकयल वताली. म्हजे दोळे म्हजीच छाती निरखिताली. म्हज्या धाकटल्या स्तनाचे धाकटुले गुळे म्हज्या युनिफॉर्माच्या पोल्कांतल्यान स्पश्ट आकार घेवन उठून दिसताले. हांव परतें परतें म्हज्या हड्डयाकडेन पळेतालें. हांव अशें पळेता तें हेर कोणय पळेना मूं हाची सुलूस घेतालें. म्हाका वोगीच आतां म्हजेर व्हडली जापसालदारकी पडल्या कशें दिसतालें.

शाळेंत पावनाफुडें हांवें कुंदाक गांठलें. म्हजेपरस पिरायेन जाण्टे आशिल्लें कुंदा म्हजी इश्टिण आशिल्लें. ताका हांवें ग्रावंडाचेर

इंटरव्हालाक भोंवता आसतना कुशीक निवांत जाग्यार व्हेलें. लजेन तांबडेंगुंज जायत हांवें कुंदाक म्हज्यांत जाल्ल्या बदलाची माहिती दिली. कुंदान म्हाका मेकळेपणान उलोवपाक दिलें. उपरांत आपणांक खबर आशिल्लें शरीरधर्माविशींचें ज्ञान म्हाका दिलें.

पुरुष-स्त्रीचे संबंध, त्या संबंधापासून संतती कशी उत्पन्न जाता, लग्न म्हळयार किदे, तें किद्याखातीर करतात, चले आनी दादले हांचे पासून आपलें शील कशें सांबाळपाक जाय, नाजाल्यार किदें परिणाम जातात हेविशीं सविस्तर माहिती कुंदान म्हाका दिली.

हांव कुंदाच्या ज्ञानामुखार थक्क जालें. आईन ते मानान म्हाका कांयच महिती दिवंक नाशिल्ली. कुंदाक इतलें गिन्यान कशें प्राप्त जालें असो म्हाका प्रस्न पडलो. हांवें कुंदाक विचारलें कुंदा! तुंवे जी म्हाका इतली माहिती दिली ती तुका पयलीं कशी कळ्ळी ? तुका कोणें सांगलें हें सगळें ?

म्हजी आवय सोशलवर्कर म्हणून काम करता. म्हाका पयले खेप म्हैन्याची पाळी सुरू जातकच म्हजे आवयन म्हाका विश्वासांत घेवन हें सगळें सांगलें. भुरगेपणांतच भुरग्यांक लैंगिक विशयांवयलें गिन्यान दिवपाक जाय अशें तिचें मत. म्हाका तिणें आनीक कितल्योश्योच गजाली शील संवर्धनाखातीर सांगल्यात. देखीक शाळेंतल्यान घरा वतना कोणाय अनवळखी दादल्यान वा वळखीच्या लेगीत आसल्यार-सायकलीवयल्यान लिफ्ट दिवपाची तयारी दाखयली जाल्यार ताचेवांगडा वच्चें न्हय. गर्देत भोंवपाक वच्चें न्हय. दादल्यांकडेन ते न्हाता असतना, न्हिदल्ले आसतना, उक्त्या आंगान आसतना पळोवंचे न्हय. कोणाय अनवळखी मनश्यान मुद्दम वळख काडून खावपाक पियेवपाक दिलें जाल्यार घेवचें न्हय. एकांतांत तरनाट्या वांगडा खेळचें न्हय. रस्त्यावयल्यान वतना चल्यांनी कॉमेंट मारलो वा फकणां केली तर हांसचें न्हय. आपणें आयकुंकूच ना अशें दाखयत नाकासामकार पळोवन चलचें. अश्लिल कथा आशिल्लीं नेमाळीं पुस्तकां वाच्चीं न्हय. तरनाटे चले फाटीं

फुडें रावन संवकळ वाडोवपाचो यत्न करपाक लागल्यार तांचे वांगडा मव्खपणान रलोवचें. तोंड गंभीर दवरचें. चड परिचय वाडपाक दिवचो न्हय. नाटक सिनेमा पळोवंक खूब इश्टिणी वा घरचे लोक आसलेबगर वचें न्हय. अस्ताव्यस्त पाय वयर काडून बसचें न्हय,' कुंदान म्हाका शीलसंवर्धनाचे एका फाटल्यान एक अशे धडे दिले. त्या नवीन गिन्यानान हांव पुलकीत जालें. हांव आतां एक जबाबदार मनीस जालां म्हाका आतां प्रत्येक दादलो आनी तरनाटयाकडल्यान भिरांत उप्रासता. हांवें म्हजें लग्न जायमेरेन सावधानतायेन वागपाक जाय अशें म्हाका प्रकर्शान दिसपाक लागलें.

म्हळ्यार सुहासाबराबर वागतनालेगीत हावें सावध रावपाक जाय. तोय दादलोच. काल ताणे निळे साडयेकान्नीवांगडा केल्लो तोच कुंदा सांगता तो ' शरीरसंबंध '. सुहासाचें आनी ते चलयेचें लग्न जाल्लें ना अशें आसतनाय त्या दोगांयनीय हें शरीरसूख घेतलें कशें ? ह्या संबंधांपासून ते निळे साडयेकान्नीक गर्भ उरलो जाल्यार? सुहास तिका आपूण तुजेवांगडा लग्न करिना म्हणून सांगपाक लागलो जाल्यार ?

कुंदान माहिती दिल्लेप्रमाण ती कुमारी माता जाली जाल्यार? ती आत्महत्या करतली ? गर्भपात करतली ? सुहासाच्या घरा वचून रडटली ? ताच्या आवयबापायच्या हातांपायां पडटली ?

जगांत चलिल्ले हे प्रक्रियेचें म्हाका खूबच अजाप दिसलें. उत्पत्ति अशी कशी जाता ? कितलो धक्को दिवपी माहिती ही ? अप्पा आनी आई हांच्या शरीरसंबंधांपासून सुधीर, हांव, विनिता आनी नितीन उत्पन्न जाल्यांत ? सगळ्या प्राणिमात्रांची उत्पत्ति असल्याच शरीरसंबंधांपासून जाता ?

कोंबो कोंबयेचेर चडटकच म्हाका तो कोंबयेक रागान मारपाकच तशें करता अशें दिसतालें. बुकल्यान मांजराची ताचेर वयर चडून मान धरतकच ताका मांजराक ख्यास्त करपाची आसा म्हणून तो तशी मांजराची मान धरून गुरगुरता अशें म्हाका दिसतालें.

सुणो कोलगाच्रे फाटीर उबो रावता तोय रागानच अशें म्हाका दिसतालें. त्या सगळचा प्राण्यांचे करणेचो, सुहास आनी ते निळे साडयेकान्नीन केल्ले करणीचो अर्थ म्हाका आजच बरो समजल्लो.

कुंदान म्हाका आजमेरेन हांव न समजल्ल्या कितलेश्याच गजालींचो अर्थ समजावन सांगिल्लो. हे ज्ञानप्राप्तिन म्हाका खूब अजापभरीत आनंद जालो.

सुहासान ते निळे साडयेकान्नीवांगडा केल्ली करणी हें पाप अशें मात म्हाका परतें परतेंय दिसतालें. सुहासासारको देवदूतय पाप करता ? हें पाप नासतयबी. तो तिचेवांगडा लग्न करपाचो आसत. ते चलयेचो ताचेर पूराय विश्वास आसत. म्हणूनच ताणें इतल्या नि:शंक मनान ताका आपलें सौंदर्य, कौमार्य, शील लूटूंक दिल्लें. म्हण्टकच सुहास तिचेवांगडाच लग्न करतलो.

म्हाका तो खुब्ब आवडटा हें ताका मातूय खबर नासत. म्हाका तो सामकें पोर समजता. ल्हान भुरग्यांक वागोवचें तशें तो म्हाका वागयता.

सुहास ! आरे हांव तुजेर प्रेम करतां ! तुजेखातीर हांव खंयच्रीय गजाल करपाक तयार आसां. कसलोय त्याग करपाक तयार आसां. पूण दुर्दैव म्हजें ! तुका म्हज्या भावनांची जाणविकायच ना. तूं ते निळे साडयेकान्नीवांगडा लग्न करतलो. एकाद्रे तें चली स्वभा-वान बरेंय आसत. ते ताका सुखीय करीत. तांच्या शरीरसंबंधांपासून तांका भांगरा केसाचीं, घारश्या दोळचांची भुरगींय जायत. आनी हांव ?

भांगरा केंसाचो राजकुंवर आनी राजकुंवरी. सुहास राजकुंवर. निळी साडयेकान्न राजकुंवरी. दोगांयचेंय लग्न जातलें. सुहासावांगडा जर म्हजें लग्न जावपाक जाय जाल्यार उपाच एकच. ती निळी साडयेकान्न मरपाक जाय. हो विचार म्हज्या मनांत येतकच हांवे केद्यान आंग काडलें. हांव राक्षशीण ? हांव राक्षशीण ? राजकुंवरांचें मर्ण इच्छुपी राक्षशीण ? ना. ना. हांव राक्षशीण न्हय. हांव जलमभर

लग्नच करचेंना. कुंदाचे आईप्रमाण सोशलवर्कर म्हणून काम करतलें. पूण ते निळे साडयेकाल्नोचें– सुहासाचे भावी बायलेचें वायट चिंतचें ना. जी सुहासाक आवडटा तिची हांव नसाय करचेंना.

पूण हांव ते निळे साडयेकाल्नीचो इतली नसाय किद्याक करतालें ? कारण पयलेच भेटींत तो म्हाका मातलेगीत हांशिल्ली दिसली ना. आपूण कोणाकच किंमत दिना. सगळे आपले गुलाम अशे भावनेन ती आढ्यतायेन निर्विकार पळेत बशिल्ली. सुहासा-सारकिल्या हांसत्या तोंडाच्या आनी उमद्या तरनाटयाक ती केन्नाच सुखी करपाक शकचिना अशें म्हाका ठाम दिशिल्लें. पूण सुहासाक ती आवडटा. तो तिचेवांगडाच लग्न करतलो. लग्न जातकच सुहास आमच्या सामकार आशिल्ल्या रुमांतच रावतलो काय ? ताचेर हांव प्रेम करतालें हें ताका समजत काय ? समजल्यार तो मनांत किदें म्हण्टोलो काय ?

'हें चली सामकें मूर्ख आनी पिशें. भुरगेपणां करता,' अशें म्हण्टोलो काय तो ? म्हजी ताका तिडक येतली ? काय सदचेभशेन तो खळखळून हांसतोलो ? हे म्हजे विचार आयकून ताची प्रतिक्रिया किदें जातली ?

म्हाका सुहास आनी निळे साडयेकाल्नीची नी करणी कुंदाक सांगचीशी दिसना. सुहासाचें आनी म्हजें एक नातें आसा आनी ताची चाडी कोणायकडेन करप म्हळ्यार त्या नात्याचो अपमान करप. हांव सुहासावांगडा बेईमान कशेंच जावपाक ना. ज्या मनश्यान म्हजेर, म्हज्या कटुंबाचेर इतले उपकार केल्यात ताचेविशीं कृतघ्नता ? ना. केन्नाच ना. तेभायर सुहास ते चलयेवांगडा लग्न करपाचो आसा. तेखातीर तांचो शरीरसंबंध म्हळ्यार घोवाबायलेन केल्ल्या शरी-रसंबधा सारकोच. तांतूत ताणीं पाप करूंक ना. पाप केलांच जाल्यार तें हांवें केलां. त्या जनेलांतल्यान चोरयां पळोवन. हांव कपटी. चोरयां पळोवपी. राजकुंवरीचें वायट इच्छुपी.

सुहासाचो विचार करीत म्हजें मन भन्नाट धांवतालें.

० ० ०

एक दीस शाळा सुट्टकच कुंदा आनी हांव घरा परतुपाक लागलीं. हांव सुहासाचेर प्रेम करतां हें म्हाका ठाम पटिल्लें. पूण ह्या उतराचो अर्थ कुंदाच चड बरे तरेन म्हाका सांगतलें अशें म्हाका दिसलें.

'प्रेम करप म्हळयार एके चलयेक एक चलो खुब्ब आवडप. आनी चल्याकय ती चली खुब्ब आवडप. कोणाचोय केदोय विरोध आसल्यारलेगीत चलयेन त्याच चल्यावांगडा लग्न करप. चल्यानय कितल्योय आडमेळी आयल्यो जाल्यार त्यो पयसावन तेच चलये-वांगडा लग्न करप. आमच्या शेजरा एके बामणाचे चलयेन एका म्हाराच्या चल्यावांगडा लग्न केलां. म्हळयार ती दोगांय शिकिल्लीं आसात. जाण्टेल्यांच्या नापसंतेक आनी विरोधाक ताणीं मातय म्हत्व दिलें ना. निमाणें प्रेमविवाह केलो. हाकाच म्हण्टात प्रेम करप,' कुंदान म्हाका सांगलें.

अप्पासायब आनी आई हाणीं प्रेमविवाह केला हें हांवें ल्हानपणांत शेजारी उलयतना आयकल्लें. प्रेमविवाह केल्लीं मनश्यांयबी प्रेमविवाह न केल्लेप्रमाणच वागतात. राग आयलो जाल्यार बायलां भुरग्यांक धाडायतात. भुरग्यांक वाडयतां वाडयतां खरशेतात.

'कुंदा ! तुजे म्हजे पिरायेच्यो चलयो प्रेमांत पडटात गो ?' हांवें विचारलें.

किद्याक ना ? म्हाका म्हजो मावसभाव खब्ब आवटडा. हांव ताचेर प्रेम करता. हांवे लग्न फकत ताचे वांगडाच करपाचें थारायलां. सद्दचा तो कॉलेजांत इंटर आर्टसाक आसा. ताकाय हांव आवडटा. आमी थोडचा वर्सांनी लग्न केल्यार तें प्रेमलग्न वा प्रेमविवाह जातलो,' कुंदान म्हळें.

आं ! म्हळयार हांवच एकटें प्रेम करिना तर ! म्हजेप्रमाण जायतीं जाणां प्रेम करतात. हांव सामकें खोशी जालें. म्हज्या नादांतच हांव चलपाक लागलें. इतल्यान कुंदान म्हाका फाटल्यान

ओडलें. एके उक्ते स्टँडर्ड गाडयेन म्हाका सरळ धडक दिवपाची. कुंदान फाटल्यान ओडिल्ल्यानच हांव एका जीवघेण्या अपघातांतल्यान वांचिल्लें. 'कँच्यक' असो ब्रेकाचो आवाज जालो. म्हज्या काळजांत धडधडपाक लागलें. हांवें भिरांतेन वयर पळेलें.

ती उक्ती गाडी थांबिल्ली. गाडयेंत एक रुब्राबदार तरनाटो बशिल्लो. म्हजेकडेन रागान पळेतालो. ताच्या-शेजरा एक तरनाटी बशिल्ली. आरेच्च्या! सुहासाची निळी साडयेकान्न! आज तिणें हळडुवी साडी आनी हळडुवें पोल्क घाल्लें. तोंडार तेच उद्दाम भाव. तेंच भावनारहित मरुखपण. आपूण शुभदाक वळखूंकच नाशें ती दाखयताली. हांव मंत्रमुग्धा-प्रमाण त्या दोगांयकडेन आळीपाळीन पळेतालें. कुंदान म्हाका फाटल्यान हात लावन मुखार चलपाक सुचयलें.

त्या रुबाबदार तरनाटयान रागारागान दोळे मोठे करून कार फुडें व्हेली. जशें काय हांव म्हळयार एक क्षुद्र जंतू आशिल्लें. म्हाका चिडिल्ल्यार आपणाचेर वोगीच एक िरमत पडटली आशिल्ली. हें सगळें म्हाका ताणें आपल्या तिरस्कारयुक्त पळोवपान दाखोवन दिलें.

कुंदान म्हाका कोंपर मारलो.

'शुभे! त्या दादल्याशेजरा बशिल्लें चली कोण जाणा? ताचें नांव निलिमा जोशी. पक्की चालू चली. खंयच्याय बऱ्या दिसपी आनी श्रीमंत तरनाटयांक नादाक लावपाचो ताका छंद आसा. ताचेशेजरा बसला तो कोण जाणा? एका फॅक्टरी मालकाचो तो गिरेस्त भुरगो. ताचें आडनांव गोळे.'

'निलीमा जोशी' 'चालू चली,' 'नादाक लावप' आदी उतरां म्हज्या कानांत केदोवेळ घुमतालीं. म्हळयार निलिमान सुहासाक फकत नादाक लायला तर? तें चालू चली हें ताका खबर ना? खबर आसूनय ताणें ताचेवांगडा शरीरसूख भोगलें? हांव चड चड येवजणेंत घुस्पून घरा पावलें.

० ० ०

आयतारा आई आमचो अभ्यास घेनाशिल्ली. आमकां पुराय विश्रांती दिताली. हरशीं खंयच्याच दिसा आमकां सकाळच्या साडे स उपरांत आई कशीच न्हिदपाक दिनाशिल्ली. आयतारा आमी उसरां उठटालीं. आठ साडेआठांक.

हांव त्या आयतारा आठांकच उठिल्लें.

उठल्याबराबर सुहासाचेंच विचारमंथन सुरू जालें. चालू निलिमा जोशीवांगडा सुहासान पाप केल्लें. देवदूताभशेन दिसपी आनी वागपी सुहास पापी? तोय पाप करता? ताका निलीमा खरें कशें तें खबर आसा? ताका सोडून दुसऱ्या गिरेस्त आनी रुबाबदार तरनाटचावांगडा तें भोंवपाक वता तें खबर आसा? हें जाणा जावन लेगीत कामवासना आंवरपाक येना आशिल्ल्यान ताणें निलिमावांगडा शय्यासुख घेतलें? भायल्यान देवदूताभशेन दिसपी हो भुरगो भितल्ल्यान इतलो वाममार्गी आशिल्लो?

ना. ना. ते राक्षशिणीनूच– निलिमानूच– ताका नादाक लायला आसतलो. केन्नाच न हांसपी, भावनारहीत मुखामळाचे हे चालू चलयेन सुहासाक उत्तेजित केला आसत. कुंदान सांगिल्ले-प्रमाण हेर दादल्यांभशेनच सुहासाचेंय निलिमाच्या कामुक आनी उत्तान हावभावांखातीर उद्दीपनय जालां आसत. म्हणूनय तो असो व्हांवत गेला आसत.

सुहासाक पाप करतना हांवें पळेल्लो. तरी लेगीत तो म्हाका किद्याक इतलो आवडटा? ताचेखातीर म्हजो जीव उंवाळून उडोवचो अशें म्हाका किद्याक दिसता? ताणें म्हाका किदेंय करपाक सांगल्यार ताका हांव ना म्हणचेंना. ताणें निलिमाक मारिल्ली तशी वेंग म्हाका मारली जाल्यार? ताणें ताचें घेतल्लें तशें चुंबन घेतल्यार? कॉटीर ताका न्हिदयल्लें तशें म्हाका न्हिदयल्यार?

म्हजे ताचेर प्रेम आसा. तो म्हाका खूब आवडता हें ताका कळ्ळयार तो म्हजे वांगडा निलीमा सारकी सलगी करतलो? म्हाका ताणें तशे विचारलें जाल्यार? हांव ताका फाफुडटलें? ना.

केन्नाच ना. मागीर किदे ताणें म्हाका किदेंय केल्यार आवडटलें? तें पाप जावचेना? जावंदी पाप. तें पाप हें जाणा आसूनलेगीत हांव ते ताचे इत्सेखातीर करतलें?

' तरनाटे न्हिदिल्ले आसतना, उक्त्या आंगान आसतना तांका पळोवचे न्हय ' हो कुंदाचो उपदेश हांव सुहासाबाबत पाळीनाशिल्लें. आई म्हजो अभ्यास घेवन जाल्या उपरांत जेन्ना सुधीराचो अभ्यास घेवंक सुरवात करताली तेन्ना हांव बेगीबेगीन व्हरांडयाचेर येतालें. पॅसेजींत कोणच ना हाची खात्री करतालें आनी ल्हवूच जनेलाचे चिरेंतल्यान सुहासाच्या रुमांत पळेतालें. सुहास येदेवेळार सदांच न्हिदिल्लो आसतालो. सुहासाचे अशें चोरयां दर्शन घेतलेबगर म्हाका बरें दिसनाशिल्लें.

धा वरांचेर इश्कोलांत वचपाक हांव जेन्ना भायर सरतालें तेन्ना हांव परतेंय एकदां सुहासाचें ते चिरेंतल्यान दर्शन घेतालें. केन्नाय व्हरांडयाचेर उबो राविल्लो दिसल्यार, हांव ताचेवांगडा उलोवपाची एकय संद सोडी नाशिल्लें. ताचे नदरेक मुजरत पडचें अश्या जाग्यार वचून हांव व्हरांडयार उबें रावतालें.

' किदें बेबी ?' असो ताचो हांसऱ्या तोंडान केल्लो उलो आयकून म्हाका धन्य धन्य जातालें. ताणे म्हजेकडेन अशेंच उलयत रावचें अशें म्हाका दिसतालें पूण तो म्हजेकडेन ल्हान चलयेकडेन कवतुकान पळोवचे तशें पळेतालो. ल्हान भुरग्यालागीं उलोवचें तशें उलयतालो.

० ० ०

आयतार आशिल्लो. हांव सकाळी फुडें उठले बराबर ' रविवारची सकाळ ' चाळून पळेतालें. ह्या दिसांनी घरांतलें वातावरण खूबच बदललेलें. त्या दिसा अप्पासायबांक ब्लड–प्रेशर वाडून घुंवळ येतकच आईन आपली आरड, बोब मर्यादित केल्ली. आमकां शिकयतना ' रांडे,' ' चेडये ' आदी विशेशणां ना जाल्लीं. तिका जरी आपलो संताप आवरनासलो, विकृत उलोवप आवर-

नाशिल्लें तरी ती तें आवरपाचो हरप्रयत्न करताली. अप्पासायबांच्या बलायकेक जिवापाड जपताली. तांका तिडक येत अशें कांयच उलयनाशिल्ली. अप्पासायबांक आयिल्ले घुंवळीन तिच्या मनांत भितर खंयतरी भिरांत उत्पन्न केल्ली. तांचेबगर जियेवप ही कल्पनाच्च तिका सोंसपाक जाय नाशिल्ली

हांव 'रविवार सकाळ' वाचतालें. पानांफाटल्यान पानां चाळटालें. चवथ्या पानार म्हजे दोळे खिळून उरले. हय. तिचोच फोटो. निलिमा जोशीचोच फोटो. सुहासाचे प्रेयसीचोच फोटो. आनी फोटो फकत तिचो एकटेचोच नाशिल्लो. लग्नाचो फोटो आशिल्लो तो. 'नांदा सौख्यभरें' असो ठळक माथाळो दिवन छापिल्लो तो फोटो आशिल्लो. निलीमा जोशी आनी शाम गोळे हांच्या लग्नसंमारंभाचो तो फोटो आशिल्लो. हें चली काय राक्षशीण ? सुहासावांगडा रममाण जावपी तें फकत एका म्हैन्या भितर दुसऱ्या वांगडा लग्न करून मेकळें जाल्लें. तो श्रीमंत फॅक्टरी मालकाचो चलो म्हणून ? ताचेकडेन मोटार आनी पयसो आसा म्हणून ?

सुहासाक फकत आपली वासना शमोवपाक ताणें वापरिल्लो.

हांव ल्हवूच उठलें, सुहासाच्या रुमामुखार येवन पळेलें. रुमाक कुलूप आशिल्लें. तरीकय हांवें वोगीच ते चिरेंतल्यान एकदां भितर पळेल. सुहास नाशिल्लो. म्हाका चुकिल्ल्या चुकिल्ल्या भशेन दिसलें कालय हांवें सुहासाक पळोवंक नाशिल्लो. सुहासाक निलीमाविशीं कळ्ळां काय ? ताचें लग्न गोळेवांगडा जालां हें ताका समजलां आसतलें काय ? हें निर्लज्य निलिमा आपलेबराबर रमिल्लें तशेंच्च आतां गोळे वांगडा रमतलें हें कळटकच ताका ताची तिडकवी येवची ना ? तो गोळेचो आनी ताचो आत्यंतिक द्वेश करचो ना ? ह्या लग्नाचेर ताची प्रतिक्रिया किदें जातली ? प्रेमभंगाच्या दुख्खान तो आत्महत्याबी करिना मूं.

देवा ! म्हजेर उपकार कर. ताका असली आततायी आनी आत्मघातकी बुद्ध दिवं नाका. हांव ताचेर प्रम करतां म्हाका तो

जाय. ताचेखातीर म्हाका किदेंय करीन दिसता.

'शुभी ? आज आमी सगळीं 'भानुविलासां'त स्पेशल शोव वतलीं. काल म्हण्टाले ते प्रमाण तूं पिक्चराक येवचेना मुगो? शाळेंत गणेशचतुर्थीच्या रिहर्सलाक वतलें मगो?' आईन म्हाक विचारलें.

'हय आई! म्हजी इश्टीण कुंदा साडेअकरांक हांगा येतलें उपरांत आमी दोगांय वतलीं. हांव हांगाच रावतां ताचेखातीर, हांवें आईक सांगलें.

धा वरांचेर ब्लॉकाचेर फकत हांवच उरलें, कुंदाची वाट पळेत. हांवें 'रविवारची सकाळ' उखल्ली. आनी हांव व्हरांड्यार गेलें. परतेंय चवथें पान उक्तें केलें. 'नांदा सौख्यभरे' शिर्शक दिसलें. निलीमा जोशी आनी गोळेचो फोटो पळेलो. मायावी, सुंदर रूप घेतिल्ली राक्षशीण. सुहास राजकुंवर. गोळे राक्षस. राक्षस राक्षशिणीचें लग्न जालां. आतां राजकुंवर आनी राजकुंवरीचें लग्न जावपाक जाय. म्हजें आनी सुहासाचें लग्न. 'नांदा-सौख्यभरे' शिर्शक दिवन छापिल्लो तसलोच फोटो.

इकाश्देचेर कोणाचींतरी पावलां वाजलीं. हांवें आंग काडलें हय. सुहासच. सुहासच तो. ताचेवांगडा ताचो दुसरो दोतोर इश्ट किशोर साठे आशिल्लो. पयलेच खेप हांवे सुहासाक सिगरेट ओडटना पळेलो. ताचो इश्टय सिगरेट ओडटालो. हांव बेगीन बेगीन इश्कादे-वयर येवन उबे रावलें. म्हजें अंतस्कर्ण ताका पळोवन कसलेतरी सुखद संवेदनेन धोलूंक लागले. भांगरा केसाच्या राजकुंवरा! यो. हांव तुजेर मोग करता रे म्हज्या राजा! तुजेखातीर हांव किदेंय करीन. हांव तुजेर मरता रे म्हज्या राजकुंवरा!

'हां! किदें बेबी? आयज आयताराची सुटी मगो?' सुहासान सदचेभशेन हांसत म्हाका हटकिलें. पूण तो वाऱ्यार उलयल्लेप्रमाण उलयतालो. म्हजेकडेन पळेनासतना. आपल्या इश्टाक घेवन तो आपल्या रुमांत गेलो. हांव किदें जाप दिता तें

आयकुपाक थांबनासतना. ताणें सोडिल्लो सिगरेटचो धुंवर म्हज्या नाकाक झोंबलो. पूण तो सुहासाच्या तोडांतल्यान भायर आयिल्लो म्हणून हांवें त्या धुंवराचो वास म्हज्या नाकांत सांठयलो. म्हाका तो वास पवित्र लागलो. सुहासान रुमार वतकच भितल्ल्यान खिळी घाली.

हांव ल्हवूच पॅसेजींत गेलें. जनेलाचे ते चिरेक दोळो लावन भितर पळेलें. सुहासाचो इश्ट कॉटीर न्हिदून सिगरेट ओडटालो. सिगरेटचो गोबोर तो हात कॉटीभायर काडून फाफुडटालो. सुहास कदेलार एक पाय वयर काडून बशिल्लो. सिगरेट ओडटालो. ताचें उलोवणें स्पश्टपणान म्हाका आयकूंक येतालें. हांवें म्हजे कान सामके जनेलाक तेंकयल्ले. सुहास भायर लोकांक आयकूंक वच्चे न्हय म्हणून ल्हवू आवाजांत उलयतालो.

' कांय दिसांपयलीं ह्याच निलिमावांगडा हांवें मजा मारिल्ली. ना तिणेंच म्हाका ती मारूंक दिल्ली. काणेकडेन एक दीस मेळिल्ले हे चलयेन म्हजेवांगडा वळख वाडयली. सलगी वाडयली. म्हजी इश्टिण कशें ते वागपाक लागलें. म्हाका येटीकेटस शिकोवपाक लागलें. अस्तमतेच्या लोकांचे रिती रिवाज शिकोवपाक लागलें. एक दीस सरळ म्हज्या रुमार आयलें. आनी म्हाका पिक्चराक वचपाचो आग्रो करपाक लागलें. म्हज्या मनाक ताचें अशें फ्री वागप पट-नाशिल्लें. हांव ताचो गुलाम जावपाक तयार नाशिल्लों. हांवे म्हजी मर्यादा सोडूंक नाशिल्ली. पूण ताका हें एक आव्हान कशें दिसलें. ताच्या सौंदर्यामुखार हांव विरघळना म्हणजे किदें ? एक दीस दनपरां तें म्हज्या रुमांत आयलें आनी आपले मांडयेक मार लागला अशें सांगपाक लागलें. म्हाका आपली उगती मांडी दाखयली. हांव खुब्ब उद्दीपीत जालों. आनी ताचेवांगडा रतीक्रिडा केली. पयलेच खेप स्त्रीसुख भोगलें. पूण दुसऱ्या दिसा उपरांत म्हाका हांवच गुन्यांवकारी दिसपाक लागलों. हांवें भयांकृत पाप केलां अशें म्हाका दिसपाक लागलें. त्याभायर म्हजे म्हाकाच हांव निलिमाच्या मोगांत

पडलां कशें दिसपाक लागलें. हांव पिश्याभशेंन ताका मेळपाक भोवूंक लागलों. ताचे विचार म्हाका ग्रासून उडोवपाक लागले आनी चार दिसांपयलीं छद्मी हांसत निलिमान आपलो निमंत्रण पत्रिकाच म्हज्या हातांत दिली. ताणें आव्हान जिखिल्लें. ताणें म्हाका उल्लू करून नाचयल्लो.

हांव गुन्यांवकार. हांवें पाप केलां. हांवें म्हजें शील, पावित्र्य भंगयलां अशें म्हाका दिसपाक लागलां.

येदोळ पळेलें तुवें किशोर ? त्या ल्हान चलयेचे नदरेक म्हाका नदर दिवपाक जालेंना. कित्याक ? हांवें एक व्हडलो गुन्यांव केला आनी जगलोकांक तो म्हजो गुन्यांव खबर जाला अशें म्हाका दिसता. आमच्या संस्कारांचो, संस्कृतीचो केदो पगडो आसता आमच्या मनांचेर. वागणुकेचेर ! म्हाका जाल्यार म्हजी न्हॅव्र्हेस्थानी वाडिल्लेभशेन दिसता.’

सुहास उलयतालो. हांव भायल्यान आयकतालें. किशोर साठे दोळे धांपून सुहास सांगता तें आयकतालो. तो आयकता काय ना हेंच म्हाका कळनाशिल्लें.

सुहासान वापरिल्लीं कितलीशींच उतरां म्हाका नवीन आशिल्लीं. पूण म्हाका ताच्या उलोवण्याचो पुराय अर्थ कळिल्लो. म्हज्या ह्या राजकुंवरान पाप करूंक नाशिल्लें. म्हाका दिसतालें तशें निलिमानच ताका आपल्या नादाक लायिल्लो. पुरूश जातिच्या नेमांप्रमाण तो व्हांविल्लो. ताचो हो गुन्यांव नाशिल्लो. हो गुन्यांव ताचो. ते निलिमाचो. ते मायावी राक्षशिणीचो. ताणेंच ह्या राज-कुंवराच्या हातांतल्यान पाप घडोवन हाडिल्लें. हांवें भितर पळेलें.

किशोर साठे आतां उठून बशिल्लो. ताणें सुहासाक म्हळें, ‘सुहास ! हांव तुका एक गजाल सांगूं? तूं बऱ्या अंतस्कर्णाचो म्हणूनच तुज्या मनाक तुवें केल्ले करणीची टोंचणी लागल्या. तुज्या हातांत जें घडलां तांतूत फकत तुजोच अन्याय ना. तुजेकडल्यान हें पाप घडोवन हाडलां. तुका तुज्या ‘ नॅर्व्हस ब्रेकडावना ’चेर एक उत्क्रश्ट

उपाय सांगतां.

तूं पनवेलाक वच. आनी तुज्या बापोलयाकडेन चार दीस राव. तुज्या आवयबापाय उपरांत ताणींच तुका पोटांतल्या भुरग्या-भशेन वाडयला सांभाळळा. तुजे वांगडा फाटी एकदां हांव पनवेलाक गेल्लों. तुज्या काकाचो स्वभाव आनी नितळ रावपाची संवय म्हाका खुब्ब आवडिल्ली. म्हाका तुज्या काकाच्या बागेची आनी मळयाची याद आसा. पनवेलाच्या सैमाचीं याद आसा. तूं तुज्या काकाच्या आनी निसर्गाच्या सान्निध्यांत आठदीस रावशित तर म्हाका दिसता तुजी इबाडून गेल्ली मानसिक शांती तुका मेळटली. जुंवानपणांत चुको ह्यो जावपाच्योच. ह्या चुकांखातीरच आपणें सुधारपाक जाय हें आमका कळटा. म्हाका आनीक चड कांय एक सांगपाचें ना तुका.' सुहासाचो इश्ट परत कॉटोर न्हिदलो आनी वयर पळोवपाक लागलो.

सुहासान मान हालयली. इश्टाचें म्हणणें ताका पटिल्लें.

'तुजेंच खरें किशोर ! म्हज्याय मनांत तेंच आयिल्लें.' सुहासान म्हळें.

इतल्यांत लाकडी इश्कादेर कोणाचीतरी पावलां वाजिल्लीं हांवें आयकलीं.

'शुभदा ! ए शुभे' अशे कुंदाचे उले आयकूंक आयले.

हांव वेगोवेग ताका मेळपाक पॅसेजींतल्यान कुंदाकडेन धांवलें.

म्हाका आनंद जाल्लो. म्हाका सुहासाचें अंतरंग कळिल्लें. ताचेविशीं म्हाका चड माहिती मेळिल्ली. सुहासाक आवयबापूय ना. तो पोरको. म्हज्या मनांत सुहासावयल्या प्रेमाची पातळी उंचावली. दोनच दिसांउपरांत सुहास पनवेलाक गेलो. हुंवाराच्या चार दीस पयलीं.

० ० ०

'हां, आतां तूं जेन्ना जागें जातलें तेन्ना तुका खुपच उत्साही दिसतलें. तूं नोर्मल चली. तुज्यांत कांयच उणीव ना.'

त्या भितल्ल्या आवाजान म्हज्या विचारमंथनाक ब्रेक लायले.
‘ हां आतां तूं स्वता म्हण. म्हाका खुपच उत्साह दिसता.’
‘ म्हाका खुपच उत्साह दिसता.’
‘ हांव नॉर्मल चली.’
‘ हांव नॉर्मल चली.’
‘ म्हज्यांत कांयच उणीव ना.’
‘ म्हज्यांत कांयच उणीव ना.’

आनी म्हाका पिसाभशेन ल्हव ल्हव दिसपाक लागलें. हांव वाऱ्यारच उफेतां असो म्हाका भास जालो. हांवें दोळे उगडले. हांव कॉटीर न्हिदिल्लें. म्हाका खोणभर हांव खंय आसा तेंच कळना जालें. आनी उपरांत म्हाका याद जाली. हांव सुहासाच्या कन्सल्टींग रुमांत आशिल्लें. सुहास म्हाका एकल्याकच थंय सोडून भायर गेल्लो. म्हाका उत्साही दिसतालें. म्हज्यांत प्रचंड आत्मविश्वास भरला अशें म्हाका दिसपाक लागिल्लें.

० ० ०

# सुहास

हांव शुभदेक भितरच सोडून भायर आयलों. म्हजी कूड हुमेन थपथपिल्ली. हातांक कडकडो भरिल्लो. कितलें अजापभरीत, खवदूळ घालपी सत्य म्हाका शभदेकडल्यान कळिल्लें! म्हजेर तें पाडस–प्रेम (calf–love) करतालें. ताचें अंतरंग ताणें मृदुपणान वर्णन करून म्हाका सांगिल्लें.

हांवें ताका सगळीं मेळून दोन इंजेक्शनां दिल्लीं. पुराय देड वर तें म्हाका आपलो भूतकाळ उगतो करून दाखयतालें. कितल्या समर्थपणान! ताच्या मनाच्या पड्‌डचाचेर ताचो भूतकाळ खूबच ताजो उरिल्लो. म्हाका दिसलें तें म्हजोच भूतकाळ म्हाका वर्णन करून सांगतालें. म्हाका आनीक आयकूं नज जालें.

हें चली म्हजेर इतलें जिवापास्ट प्रेम करतालें? आनी आतां हें चली स्वताक फ्रिजीड, ॲबनॉर्मल समजतालें.

'सुहास! माध्रवरावान तुका हें पत्र दिला. म्हजेकडेन तुका त्या पत्राची जाप दिवपाक सागलां.'

हांवें वयर पळेलें. जिवोत्तमकाका. आमच्या पन्वेलाच्या मळयांत खुब्ब काम करपी, अलिप्त रावपी.

'आरे वा! जिवोत्तमकाका! तुमी? माधवकाकांची बलायकी कशी आसा?' हांवें जिवोत्तमकाकांक विचारलें.

'बरी आसा. हांव काल सांजेच्या साडेपांच वरांचेर हांगा पावलों. पूण तुजो हो कन्सल्टींग–रूम बंद जाल्लो. म्हाका तुजो घरचो पत्तो काय खबर नाशिल्लो. हांव हॉटेलांत रावलों. आज तुका सुशेगाद मेळपाक आयलां. हांव आज सांजेचो परतो वतलों. काकांक जाप बरोवन दिता मूं ?' ताणें विचारलें.

'ना जिवोत्तमकाका !' हांव आज तुमकां म्हज्या घरा रावोवन घेतलों. तुमी फाल्यां सकाळीं वचात.' हांवें माधवकाकांचें पत्र फोडीत म्हळें. पाकीटांतल्यान एक फोटो भायर पडलो आनी काकाचें पत्र. फोटो एके चलयेचो. भौतेक म्हाका सोयरीक आयिल्ली दिसता. काकांचें पत्र वाचपाक लागलों.

चि. सुहास,

'तुका हे चलयेचें स्थळ सांगून आयलां. चली बि. ए. जाल्या. सुंदर आसा. हें मुकुंदराव सान्यांचें निमणें चली. म्हाका कितलेश्याच गजालींचीं तो आश्वासना दितालो. हांवें ताका म्हळें पयलीं आमच्या चल्याची पसंती. उपरांत फुडलीं उलोवणीं.

म्हाका दिसता तुका आतां आडतिसावें वर्स लागलां. तुवें वेगोवेग आतां लग्न करप बरें. तुका चली दाखोवपाक मुंबय येवपाची सानेची तयारी आसा. जिवोत्तमाकडल्यान तेप्रमाण रकाद धाडचो.

तुजो,
माधवकाका

हांवें फोटो आनी पत्र परतें पाकिटांत घालें.

'जिवोत्तमकाका ! तुमी मातशे हांगा बसात आं. म्हजो एक पेशंट भितर आस.' हांव भितर गेलों. जिवोत्तमकाका बसलो.

शुभदा पुराय शुद्धीर आयिल्लें. ताचे दोळे उगते आशिल्ले. म्हाका पळोवन तें हांसलें. हांवय हांसलों. पूण ताच्या दोळ्याक दोळो

दिवपाक म्हाका जालेंना.

‘ किदें बेबी ! हांव डू यू फील !’ हांवें विचारलें.

‘ मार्व्हलस. म्हाका खुब्ब बरें दिसता, डॉक्टर ! म्हाका हरशीं दोतोरकीचें गिन्यान आशिल्ल्यान ’ ‘ नार्को अॅनॅलीसीस ’ ( narco analysis ) म्हळचार किदें ‘ थिओपेंटोन सोडीयम ’ ( theopentone sodium ) पेशंटाचेर कसो परिणाम करता हें खबर आसा. पूण तुमी इंजेक्शन दिल्याउपरांत हांव फकत म्हजेभितरच येवजितालें अशें म्हाका दिसलें. किदें येवजितालें ताची म्हाका याद जायना, शुभदान म्हाका सांगलें.

हांव हासलों. हांवें सोदून काडिल्लें म्हजें इंजेक्शनच तशें प्रभावी आशिल्लें. तें दिना फुडें पेशंट सगळें किदें लिपयनासतना, घडिल्लें तशें सविस्तर वर्णन करून सांगता. पूण पेशंटाक मात आपूण उलोवंकूच ना. फकत येवजितालों अशें दिसता. दोतोर आसून शुभदाकय अशेंच दिशिल्लें. हांवें ताका म्हजो टेप रिकॉर्डर वाजोवन दाखयल्लो जाल्यार?

‘ दॅटस ओके, बेबी ! आनीक एक फावट फाल्यां णव वरांचेर येवपाक जातलें तुका हांगा ? म्हाका आनीक एक सेशन घेवचें पडटलें.’ हावें शुभदाक म्हळें.

‘ उपकारता डॉक्टर ! हांव फाल्यां येतां.’ तें उठलें. आमी दोगांय भायर आयलीं.

‘ कोण ? जिवोत्तमकाका ! ’ शुभदा जिवोत्तमकाकाक पळोवन मातशेशें किळचलें.

‘ शुभदा ! ’ जिवोत्तमकाकान अजापान ताचेकडेन पळलें. ‘ तूं हांगा कशें ! ’

‘ तुमकां पकडपाक... आतां उलयात. पयर अशे पळून गेल्ले-भशेन तुमी किद्याक गेले ? ’ शुभदान ताका विचारलें. ताचो आवाज आनी मूड प्रफुल्लीत जाल्लो.

‘ बेबी ! तुजी आनी आमच्या जिवोत्तमकाकाची वळख

आसा ?' हांवें शुभदाक विचारलें.

'तुमचे जिवोत्तमकाका ?'

'हय. ते आमचे काका. आतां पनवेलाक आसतात' हांवें ताका सांगलें.

'सांगात न्हय, जिवोत्तमकाका ! तुमी त्या दिसा अशे म्हाका सोडून झराझर चलत नाच्च किद्याक जाले ? हुंवाराच्या वेळारय म्हजी आनी अप्पासायबांची गांठ घालून दितकच तुमी अशेच अदृश्य जाल्ले.' शुभदा ताका कृत्रिम रागान खडसायतालें.

'म्हाका काल वेळ जातालो. ह्या सुहासाक गांठपाचो आशिल्लो म्हाका' जिवोत्तमकाका चुळबूळ करीत जाग्यात्रयल्यान उठलो. म्हाका दिसलें ताका बेग्गीन भायर सरपाची घाई जाल्या. आमकां थंयच सोडून आपणें पळपाचो ताणें बेत केला.

'जिवोत्तमकाका !' शुभदान फुडें येवन ताचो दावो हात आपल्या दोनय हातांनी धरलो. 'जिवोत्तमकाका ! तुमी म्हजेर रागार जाल्यात काय किदें ? म्हजें किदें चुकलें बी ?'

हांवें पळेलें. शुभदाच्या दोळयांत उदक आयिल्लें.

'डॉक्टर ! ह्या जिवोत्तमकाकांनी हुंवाराच्यावेळार म्हाका खुब्ब आधार दिलो. हाणींच अप्पासायबांक सोदून काडले. आमच्या दोगांयचीय भेट घडोवन हाडली. पूण हे आमचेकडेन खुब्ब अलिप्त-पणान वागून पयस गेले. काल परतीय सुमार चवदा वर्सांनी भेट जाली. हाणीं म्हाका वळखलें. पूण म्हजेकडेन चड कांयच उलय-नासतना ते अलिप्तपणान परतेय नाच्च जाले. जिवोत्तमकाका ! सांगा मूं ? म्हजें किदें चुकलें ?' शुभदाच्या दोळयांतल्यान दुकां गळपाक लागलीं. खुबच भावनाप्रधान जाल्लें तें. ताणें अद्याप जिवोत्तमकाकाचो दावो हात घट्ट धरून दवरिल्लो.

'तशें न्हय, शुभदा ! तुजो गैरसमज जाता. हांव तेन्नाय आनी कालय घाईंत आशिल्लों,' जिवोत्तमकाकान आडखळत, चुळबूळ करीत म्हळें.

‘ तर मागीर आतां तुमी म्हज्या घरा येवपाकच जाय. काल अप्पासायबांक म्हजी तुमची भेट जाल्ल्याचें सांगिल्लें. ते खुपच कळवळ्ळे. तांका तुमकां मेळपाचें आशिल्लें. तुमी येता मूं, जिवोत्तमकाका ? येयातच तुमी. येयातच. ना म्हणूं नाकात’ शुभदान काकुयटेक येत ताका सांगलें.

‘ ते तुमच्या घरा येतले आनी आतांच येतले. हांव तांका आतां तुमगेर व्हरपाच्चो आसां’ हांवें म्हळें.

‘ डॉक्टर ! तुमकां आनीक अॅपोंयटमेंटस बी ना ?’ शुभदान विचारलें.

‘ आसात. पूण सांजेक. तीन वरांउपरांत. हांव आयलोना जाल्यार हे जिवोत्तमकाका तुजो हात सोडून पळटले,’ हांवें मुमुरख्यांनी हांसून म्हळें. शुभदाक लज जाली. ताणें खऱ्यानीच जिवोत्तमकाकाचो हात घट्ट धरून दवरिल्लो. ताणें तो सोडलो. जिवोत्तमकाका अस्वस्थ चुळबूळ करताले.

हांव त्या दिसा शुभदाच्या घरा गेलों. ग्रँटरोडार पयल्या मजल्यार आशिल्या एका फ्लॅटांत तें रावतालें. ताच्या बापायक. अप्पासायबांक हांव मेळ्ळों. ते आतां इन्कम टॅक्सांतल्यान रिटायर्ड जाल्ले. घरांतच चडशे आसताले. वाचन करीत इजीचेअरार ते बसूनच आसताले. तांचे केंस आतां पिकिल्ले.

म्हाका पळोवन तांका खुब्ब खोस भोगली. जिवोत्तमकाकांक तर ताणीं आनंदान वेंग मारली. म्हजें खाड पळोवन पयलीं म्हाका ते वळखलेच ना.

‘ शुभी ! आयज तुमची तिगांयचीय गांठ कशी पडली ?’ अप्पासायबानी शुभदाक विचारलें.

अप्पासायब ! आयज हाव सहज हांका मेळपाक म्हणून हांच्या कन्सल्टिंग रूमांत गेल्लें. थंय हेय आयिल्ले. हांचें आनी सुहासांचे नातें आसा. जिवोत्तमकाका आतां पनवेलाक आसतात. सुहासांच्या काकांगेर.’ शुभदेन आपल्या बापायक जाप दिली. उपरांत ताणें

म्हजेकडेन स्थीर नदरेन पळेलें. जशें काय ताका सुचोवपाचें आशिल्लें –हांव तुजेकडेन ट्रीटमेंटाक आयिल्लें हें बापायक सांगू नाका.

जिवोत्तमकाका अलिप्तपणान पळेताले. अबोल राविल्ले. फकत अस्वस्थ चुळबूळ करताले.

' हें पळे जिवोत्तम ! तुमकां आयज आमगेर रावचेंच पडटलें,' अप्पासायबान जिवोत्तमकाकाक आग्रो करीत म्हळें.

' नाका, नाका म्हाका आयज वचूंदी. म्हाका खूब्ब घाई आसा,' जिवोत्तमकाकान सगळयांची नदर टाळत म्हळें.

' काका ! तुमी आयज ह्रांगा कित्याक रावनात ? फाल्यां णव वरांचेर तुमी म्हज्या कंन्सल्टींग रुमार येयात. ह्रांव माधवकाकांक पत्र बरोवन दवरतां. त्याभायर तुमी ह्रांगा रावल्यार अप्पासायब आनी शुभदाक खुब्ब खोस भोगतली ' हांवें म्हळें.

' नाका ! नाका ! सुहास ! म्हाका खुब्ब घाई आसा. तूं आयजच माधवकाकांक पत्र बरोवन दी. हांव आयज सांजेच्या गाडयेंत वतां,' जिवोत्तमकाकान अलिप्तपणान म्हळें.

' जिवोत्तमकाका ! तुमी अशे आमचे पासून पळ्नशे कित्याक वतात ? हांव परतेंय तुमकां विचारतां आमचें किदें चुकलां बी ?' शुभदाक परतेंय रडपाक आयलें.

जिवोत्तमकाका गलबल्लो.

' बाय शुभदा ! वोगी तूं आं. हांव रावतां आयज तुमगेर. तूं रडूं नाका, ' जिवोत्तमकाकान सदगदीत जावन म्हलें. सगळयांच्या तोंडार खोश्येचें हांशें फांकलें. आमकां शुभदान च्या दिली.

' ओके बेबी ! हांव वतां. फाल्यां णव वरांचेर हांव वाट पळेतां तुजी. जिवोत्तमकाकांक घेवन यो.' हांवें म्हळें आनी हांव भायर सरलों. शुभदा म्हाका पावोवपाक रस्त्यार आशिल्ले मोटारीमेरेन आयलें.

डॉक्टर ! तुमच्या इंजेक्शनान किदें किमया केल्या कोण

जाणा ! म्हाका सामकें उत्साही दिसता. इतलो आनंद म्हाका कितलीशींच वर्सां जावंक नाशिल्लो, शुभदान म्हाका प्रामाणिकपणान सांगलें. हांव हांसलों. पूण म्हाका ताच्या दोळयांक दोळो भिडोवपाक जालेंना.

'बाय बाय बेबी !' हांवें गाडी स्टार्ट केली. शुभदा कितलोसोच वेळ म्हाका हात हालयत उबें रावलें. हांवें हारश्यांतल्यान ताका पळेलें. म्हजी गाडी पयस वताली. तरी लेगीत तें तशेंच एकलेंच पिश्याभशेन म्हाका हात हालयत राविल्लें.

० ० ०

हांव म्हज्या घरा गेलों. मोटारींत दवरिल्लो टेपरिकॉर्डर घरा हाडलो. म्हज्या जाण्टेल्या चाकराक शंकराक स्ट्राँग नेशकॉफी करपाक लायली. हो शंकर म्हजेर आवयन करची तशी माया करतालो. म्हज्या जेवणाखाणाची बेसब्री जतनाय घेतालो.

हांवें कॉपी पियेत टेपरिकॉर्डराक हेडफोन लायलो. शुभदा देड वर जें विदारक उलयल्लें तें परतें आयकुपाक लागलों. हें चलीं म्हाका भांगरा केंसाचो राजकुंवर कल्पितालें. स्वता परीकल्पनेंत वावुरतालें. कितलें निर्व्याज प्रेम करतालें तें म्हजेर ! म्हाका ताणें प्रत्यक्ष समागम करतना पळेल्लो. तरी लेगीत तें म्हजेर मरतालें. आनी आतां ? स्वताक फ्रिजीड समजतालें तें. ताच्या अंतःमनाक हांवें suggestions दिल्लीं म्हणून तें खुबच उत्साही जाल्लें. तें इतले सलगीन जिवोत्तमकाकांक, म्हाका तागेर रावपाचो आग्रो परतो परतो तेचखातीर करतालें.

ताका शृंगारिक कथा वाचताना सिनेमा, पळेतना ओकूंक येतालें. घुंवळ येताली. फाल्यां ताका हांव देड वर आनीक एक खेप उलोवपाक लायतलों. ताका अशें फ्रिजीड दिसपाक कारण किदें जालें हें म्हाका कळटलें. म्हाका अकस्मात याद जाली. डॉ. आपटेन म्हाका शुभदेक हॉस्पिटलांत लेक्चर चालू आसतना घुंवळ आयिल्ल्याचें म्हाका सांगिल्लें.

हांवें फोन उखल्लो. डॉ. आपटेचो नंबर घुंवडायलो.

' हॅलो ! डॉ. दोडगे हियर ! डॉ. आपटे ! म्हाका ए सांगात पळोवया. त्या दिसा फोन करून तुमी म्हाका मिस रेगेविशं सांगिल्लें. तुमी म्हाका सांगिल्ली याद जाता. तुमचें लेक्चर चाल आसतानाच ताका घुंवळ आयिल्ली न्हय ! तुमचें लेक्चर किद्याचेर आशिल्लें ?' हांवे विचारलें.

' गुप्त रोगाचेर. हांव स्टुडंटसांक सिफिलिसचो एक पेशंट दाखयतालों. आनी तेन्नाच मिस रेगे फिट येवन पडलें. दुसरी गजाल म्हळचार मिस रेगे त्या पेशंटाक वळखतालें जावंक जाय. शुद्धीर येतकच तें खंय एकलेंच त्या पेशंटाकडेन वचून किदेंतरी उलयलें. तो पेशंट खंय थर्त भियेलो. आत्यंतिक भंयान ताचो हार्टफेल जालो. प्रस्न पडटा तो इतलोच. मिस रेगेक तो पेशंट इतलो किद्याक भियेलो ?' डॉ. आपटेन म्हळें, ' एनी वे ! व्हॉट आर यूवर फांय-डींग्स डॉक्टर ?'

' शी इज ओके डॉ. आपटे ! आय वॉंट टू स्टडी हर केस अ बिट मोर. थँक्यू व्हेरी मच,' हांवें फोन सकयल दवरलो. त्या रोगाचें भयानक वर्णन आयकून ताका घुंवळ आयिल्ली काय त्या पेशंटाक पळोवन आयिल्ली ? हे चलयेन म्हजेर जिवापास्ट प्रेम केल्लें. हे चल-येन किदेंतरी भिरांकूळ अणभव सोंशिल्लो. तेखातीरच ताच्या सगळ्या स्त्रीसुलभ भावनांचो चुरो जाल्लो. ताका आपूण थंड, फ्रिजीड जालां अशें दिसतालें.

हांव शुभदाच्या सामक्या प्रेमांत पडलों. हांव हे चलयेक ताच्या मानसिक पिडेंतल्यान बरें करतलों. हांव हाचेच वांगडा लग्न करतलों. ताणें म्हाका नकार दिलो जाल्यार ? दिलो जाल्यार दिलो. तें बरें जातकच हांव ताका सरळ लग्नाविशीं विचारतलों. हांव जाच्या सोदांत आशिल्लो, ती म्हजी साथीदारीण तेंच आशिल्लें.

हांवें दनपारचे जेवण घेतलें आनी माधवकाकांक पत्र बरोव-पाक घेतलें.

ति. माधवकाका,

सप्रेम नमस्कार. तुमचें पत्र मेळ्ळें. मजकूर कळ्ळो. हांव स्पश्ट बरयतां म्हणून रागार जावचें न्हय. हांवें एके चलयेक पसंत केल्या. म्हाका फकत एका म्हयन्याचो अवधी दिवचो. ते चलयेकच घेवन हांव पनवेलाक येतां. तुमचो आशिर्वाद घेवपाक. पत्रावांगडा तुमी धाडिल्लो फोटो परतो धाडटां. श्री. सानेक म्हजो न्हयकार कळवचो.

जिवोत्तमकाकांकडल्यान तुमचेखातीर वासाची तपकीर धाडतां.

बरें मागून,

तुमचो,
सुहास.

पत्र बरोवन जातकच हांव हांतरुणार पडलों. आनी शुभदे-चोच विचार करपाक लागलों.

म्हजी प्रेयमी आनी बायल कशी आसची हाचो म्हज्या मनांत एक विचार कायम जाल्लो. हांव म्हज्या मनांतले चलयेखातीरच लग्न जावपाचो राविल्लों. आनी म्हाका म्हजें तें चली मेळिल्लें. तें शुभदाच आशिल्लें.

सुंदर, सात्विक मुखामळाचें शुभदा! तपःश्चर्या करपी एकादऱ्या तपस्विनीसारकें दिसतालें. ताचें व्यक्तिमत्व खबच धक्कादायक, कटू अणभव घेवन घडिल्लें हाचेविशीं म्हाका दुबाव उल्लोना.

म्हाका डुलकी लागली. हांव जागो जालों तेन्ना अडेज वरां जाल्लीं. हांवें बेगीबेगीन कपडे घाले आनी कंन्सल्टींग रुमांत वचपाक भायर सरलों.

शुभदाचेच विचार मनांत घोळपाक लागले. शुभदा भावना-प्रधानय जातालें. जिवोत्तमकाका अलिप्तपणान वागपाक लागलो

तेन्ना तें खरेपणान रडपाक लागिल्लें. चवदा वर्सांपयलीं जिवोत्तम-काकान ताका आधार दिल्लो. ती मदत ताका विसरपाक जालीना ताका ताणें आपलो मानिल्लो. ताणें जिवोत्तमकाकाविशीं चवदा वर्सांपयलीं आपल्या मनांत एक नातें निर्माण केल्लें. आनी आयज चवदा वर्सांउपरांतय ताणें तें नातें जश्याक तशें राखून दवरिल्लें.

चवदा वर्सांपयलीं शुभदा म्हजेर प्रेम करतालें. चवदा वर्सांउपरांत ताचें तें प्रेम तशेंच उरलां आसात काय? इंम्पॉसिबल. प्रत्येक प्रौढ न जाल्ली चली चडशें अशेंच calf-love करता. प्रौढ जातकच तें प्रेम ह्यो चलयो विसरून वतात. तांचो दृश्टीकोन वस्तुनिश्ट जाता. हांव मानसशास्त्र जाणां. पूण म्हाका भितरल्यान दिसता, खुब्ब दिसता. शुभदान म्हजेवयलें तें प्रेम तशेंच राखून दवरचें. तें प्रेम विसरचें न्हय. कारण हांव ताच्या खुब्ब प्रेमांत पडिल्लों. म्हाका तें जाय आशिल्लें.

पूण तें आतां म्हजेर प्रेम करिनाशिल्लें. आपल्याक फ्रिजीड समजतालें. अशें कित्याक? ड्रायव्हींग चालू असतनांच म्हजें मन किळचतालें.

० ० ०

# शुभदा

जिवोत्तमकाकान आमगेर त्या दिसा रावपाचें मानून घेतलें आनी म्हाका खुब्ब खोस भोगली. हांवें सुहासाक च्या दिली. स्वता शिरो केलो... पूण म्हज्या लक्षांत मात एक गजाल आयली. सुहास म्हजेकडेन पळोवपाचें ताळटालो. कित्याक काय ?

हांव ताका पावोवपाक ताच्या मोटारीमेरेन गेलें. ' बाय बाय बेबी ' अशें म्हणून ताणें गाडी फुडें व्हेली. हांव पिश्याभशेन ताच्या फाटल्यान पळेत हात हालयत रावलें. चवदा वर्सांपयलींची राज-कुंवरी भांगरा केंसाच्या राजकुंवराक निरोप दिताली.

हांवें आयज कॉलेजाक दांडी मारपाचें थारायलें. सांजेचे हरशीं क्लास आशिल्ले.

' जिवोत्तमकाका ! उलयात ! हांव तुमचेखातीर किदें करूं ? तुमच्या आवडीचो पदार्थ खंयचो ?' हांवें जिवोत्तमकाकांक विचारलें.

जिवोत्तमकाका सामको पिकलो. ताका आपलो भावनातिरेक आंवरना जालो. ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळपाक लागलीं.

अप्पासायबांक आनी म्हाका खुबच अज्राप जालें.

' जिवोत्तम ! किदें जालें ? खंयचें दुख्ख तुमका त्रास करता ?' अप्पासायबान जिवोत्तमकाकाक विचारलें.

' किदें जालें जिवोत्तमकाका ? तुमी इतले दुखी कित्याक ?'

हांवेंय विचारलें.

'म्हाकाय एक चली आशिल्ली बाय ! वासंती ताचें नांव. हुंवारापयलीं देड म्हयनो तें पेडुचार जाल्लें. तूं म्हाका हुंवारांत मेळ्ळें. वासंतीत आनी तुज्यांत खब्ब साम्य आशिल्लें. म्हाका दिसलें देवानच म्हाका वासंती जिवें करून भेटयलां. हांव सामको अभागी, बाय ! हांव जांचेर माया करपाक लागतां तांका देव व्हरता. म्हाका तुजी माया लागची न्हय म्हणूनच हांव तुजेपासून पयस पळटालों. म्हजें वासंती आयज आशिल्लें जाल्यार तें जुस्त तुजेयेदें जातलें आशिल्लें. तुजेभशेनच दिसतले आशिल्लें. ' जिवोत्तमकाकाक आपलें रडप आंवरूंक येना जालें. म्हज्या आनी अप्पासायबाच्या दोळयांतय दुकां उबी रावलीं.

' जिवोत्तमकाका ! म्हाका तुमचें वासंतीच समजा, ' हांवें ताका सामकें आकुळ–पिकुळ जावन म्हळें.

' खऱ्यानींच सांगता, जिवोत्तम ! पनवेलाकसून अदींमदीं आमचेकडेन रावपाक येयात. तुमच्यासारक्या देवमनश्याची माया लाभली जाल्यार कोणाचेंय भाग्य उजळटलें. दुख्ख नक्कीच जावचेंना, ' अप्पासायबांनी म्हळें.

आनी जिवोत्तमकाका मनश्यांत आयलो. ते आनी अप्पासायब खुब्ब गजाली करपाक लागले. ताणें पनवेलाचें वर्णन केलें. सुहासा-विशीं खुब्ब माहिती दिली. आपणें हुंवाराउपरांत किदें किदें केलें तें सांगलें.

' जिवोत्तम ! ह्या सुहासाचें लग्न-बिग्न जालांच असतलें. ' अप्पासायबान ताका विचारलें.

' ना. ताका इतलीं स्थळां सांगून येतात. तो प्रत्येक स्थळ नाकारता. ताका आयज आडतिसावें वर्स चलता. पूण लग्न जावपाचें तो ताळटा. आयजूच पळेयात न्हय. ताच्या काकाकडेन ताचेखातीर एके चलयेचें स्थळ आयिल्लें. ताणे म्हाका मुद्दम ते चलयेचो फोटो दिवन ताचेकडेन धाडिल्लो. तर ताणें म्हाका म्हळें हांव फाल्यां जाप

दितां. म्हळयार किदें ? फाल्यां परतोय तो नक्की नकार दितलो. हो बेसबरो परदेशांत रावून आयिल्लो दोतोर ! आपले पिरायेची पस्तिशी हुंपली तरी लेगीत लग्न जावपाक सोदिना. हाका किदें म्हणपाचें ? ' जिवोत्तमकाकान सात्विक संतापान म्हळें.

म्हजें काळीज अकस्मात सकयल देविल्लेभशेन जालें. सुहासान लग्न करूंक नाशिल्लें ? किद्याक ? निलिमा जोशीन ताचो प्रेमभंग केल्लो म्हणून ? किद्याक करूंक नाशिल्लें ताणें लग्न ?

' जिवोत्तम ! सुहासान खाडमिश्यो किद्याक वाडयल्या ? आजन्म संन्यस्त रावपाचो तर ताचो बेत ना मूं ? ' अप्पासायब सुहासाची जिवोत्तमकाकाकडेन खुपच चवकशी करताले.

' शॅ ! शॅ ! दोन म्हयन्यांपयलीं खाड करतना ताच्या तोंडाक सेप्टिक जाल्लें. तें सेप्टीक पातळचें न्हय म्हणून ताणें खाड वाडयलां. हांव फाल्यां वतना ताका सांगपाचो आसां. बाबारे ! तूं हें खाड-मिश्यांचें जंगल कापून उडय. ' जिवोत्तमकाकान हांसून म्हळें.

हांवें जिवोत्तमकाकाखातीर बटाटवडे आनी श्रीखंडपुरयेचो बेत केल्लो. जिवोत्तमकाका बेसबरो वागलो म्हजेकडेन. हांव आनीक कांय म्हयन्यां उपरांत दोतोर जातलें हें आयकून तर ते खोशी जाले आकुळ-पिकुळय जाले.

' चवदा वर्सांपयलींचें इल्लेशें चलें आतां दोतोर जातलें तर ! काळ कसो बदल घडोवन हाडटा पळयात ! ' ताणें अप्पासायबांक म्हळें.



०

ते रातीक हांव न्हिदलें. फांत्या पाऱ्यार म्हाका तें भुरगेपणांचें सपन पडलें. हांव राजकुंवरीच्या भेसांत धवोफुल्ल झगो घालून भांगराच्या रथांतल्यान वतालें. म्हज्या रथासामकार दुसरो भांगराचो रथ आडवो आयलो. त्या रथाक दोन धवेफुल्ल घोडे ओडटाले. त्या रथांतल्यान भांगरा केंसाचो राजकुंवर पिटीक करून उडी मारून म्हज्या रथाकडेन आयलो. ताणे म्हाका कंबराक धरून सकयल देंवयलें

आनी म्हज्या कंबराभोंवतणी घट्ट विळखो घालून आपल्या रथांत व्हरून बसयलें. हांव त्या राजपुत्राक वळखलें. तो भांगरा केंसाचो घारश्या दोळ्यांचो सुहास आशिल्लो. ताणें म्हाका लागीं ओडलें आनी हांव जागें जालें. म्हजें सगळें आंग घामान चिप्प भिजिल्लें. आनी म्हज्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतालीं.

म्हाका ती दुकां कसलीं तें कळना जालें. दुख्खाचीं काय खोशयेचीं ? सफलतायेचीं काय विफलतायेचीं ? हें सपन पूण म्हाका कितलेश्याच वर्सानीं पडिल्लें. हांव जागें जालें तेन्ना म्हाका मात सुहासान लागी ओडिल्लें आसतनाय किळस दिसूंक नाशिल्ली. उरफाटे म्हज्या मनांत बलदायी विचार निनादताले.

'म्हाका खुबच उत्साही दिसता.'

'हांव नॉर्मल चली.'

'म्हज्यांत कांयच उणीव ना.'

फांतोड जाल्ली. लागींच्या देवळांत फांतोडेवयलो चौघुडो वाजतालो. म्हाका चौघुड्यात्रांगडा येवपी शेनायेचे सूर कानाक खुबच मधूर लागले. भौतेक नवरात्रांचे दीस आशिल्ले.

० ० ०

सकाळीं च्या बी घेतकूच जिवोत्तमकाकान अप्पासायबांचो प्रेमान निरोप घेतलो. अप्पासायबान ताका परतो परतो आमगेर येवन रावपाचो आग्रो केल्लो.

जिवोत्तमकाका आनी हांव बराब्बर णवांक पांच मिनटां आसतना सुहासाचे क्लिनिकांत पावलीं. सुहास आयिल्लो. भायरूच बशिल्लो.

'गुड मॉर्निंग बेन्नी !' ताणें म्हाका वीश केलें.

'गुड मॉर्निंग, डॉक्टर !' हांवें म्हळें.

'किदें जिवोत्तमकाका ! कशी किदें सरबराय जाली तुमची हांगेर ?' सुहासान हांसत विचारलें. मागीर एक बंद पाकीट ताचे-

कडेन दिलें आनी म्हळें ' माधवकाकांक दियात.'

' हयकार काय न्हयकार ?' जिवोत्तमकाकान विचारलें.

' तें सगळें ह्या पत्रांत बरयल्लें आसा,' सुहासान विशय ताळीत म्हळें.

' सुहास ! तुका एक सांगू ?' जिवोत्तमकाकान विचारलें.

' सांगात न्हय.' ताणें म्हळें.

' तूं तें खाड–मिश्यांचें रान साफ किद्याक करिना ? लोकांक तवें संन्य'स घेतिल्लेभशेन दिसतलें. तुजें सेप्टीक अद्याप बरें जावंक ना ?' जिवोत्तमकाकान विचारलें.

सुहास मुरमुरक्यांनींच हांसलो. म्हाकाय हांसप आंवरना जालें.

' ओके, काका ! फाल्यां सकाळीं हांव गुळगुळीत खाड करून येतां. सामकें प्रोमिज', ताणें म्हळें.

जिवोत्तमकाकान ' हुं ' असो हुंकार दिलो आनी तो पनवेलाक वचपाक भायर सरलो.

' येतां गोव, शुभी !' वतना ताणें म्हाका सांगलें.

० ० ०

' नाव बॅक टू पॅव्हिलियन. भितरीं वच.' सुहासान म्हाका फर्मायलें. म्हाका ताणें तें इंजेक्शन तोपलें. म्हाका पिसाभशेन ल्हव ल्हव दिसपाक लागलें. भितरल्यान कोणतरी सुचोवपाक लागलो.

' हांव नॉर्मल चलो.'

'म्हज्यांत कसलीच उणीव ना.'

' म्हाका खुब्ब उत्साही दिसता.'

आनी भित्तर खोल खंयसून तरी तो गंभीर आवाज आयलो.

' अजूनमेरेन हुंवारापयलीचे तुजे जिणेचो भाग पुराय तुवें सांगूक ना. पुराय सांगून उडय.'

' हय ! हांव सगळेंच सांगपाचें आसां, ' ' हांवे त्या आवाजाक

म्हळें. म्हजी त्या आवाजाक कसलेंय सहकार्य दिवपाची तयारी आशिल्ली.

हुंवाराआदीं चार दीस सुहास पनवेलाक गेल्लो.

कुंदाची आनी म्हजी इश्टागत चड दाट जाल्ली. आमी दोगांय इंटरव्हालांत आनी शाळा सुटतकच लैंगिक आचार-विचार आनी बायल-दादल्यांचो शरीरसंबंध ह्या विशयांचेर उलयत वतालीं. म्हजें ह्या विशयावयलें गिन्यान खुब्ब वाडिल्लें. कुंदान ताच्या आवयन ताका दिल्लें लैंगिक गिन्यानावयलें पुस्तक म्हाका वाचूंक दिल्लें. तें वाचतकच म्हाका जायत्यो गजाली समजल्ल्यो.

० ० ०

हुंवाराच्या दिसा आईन घाल्लीं गणितां शांतपणान आनी एकाग्रतायेन सोडीत बशिल्लें हांव. आईचें अप्पासायबावयलें प्रेम म्हाका कळिल्लें. तिणें आपल्यो सदच्यो बोबो-हुयेली, गाळीफर्स्ती आनी आमकां भुरग्यांक मारप पुरायेन थांबयल्लें. हांव पयलीं आईची सूक्ष्म प्रमाणांत नसाय करतालें. आतां म्हाका आईची खूब्रच काकुयट दिसताली. आई म्हाका मनापासून आवडूंक लागिल्ली. प्रेम-विवाहाउपरांत आईचें अप्पासायबावयलें प्रेम आटून गेलां काय किदें असो प्रस्न म्हाका पडटालो. पूण आतां तिचें प्रेम भरती आयिल्ले न्हंयेभशेन व्हांवतालें हें म्हाका समजल्लें. अद्यापय अदीं-मदीं तिचो संताप उसळी मारून भायर येवपाक सोदी. ती कांय वेळ बोब मार लेगीत. पूण रोखडीच गुन्यांवकाराभशेन वोगी बस. अप्पासायबांक त्रासबी जालो काय म्हणून साशंक जावन तांचेकडेन पळेताली. आपली तिडक आंवरपाची धडपड करी. खूब्ब यत्न करी. ह्या असल्या आत्मसंयमान केन्नाकेन्नाय तिका रडपाक येतालें. अश्यावेळार ती तोंड रोंमून रड रड रड.

फाटले पांच दीस सामको घोग्याचो पावस पडटालो. जोग बिल्डिंगेच्या उजव्या वटेन लकडी ब्रिज दिसतालो. आयज न्हंयेंक हुंवार आयिल्लो. उदक वाडिल्लें. हांव दरवर्सा न्हंयेक हुंवार येतकच

व्हरांड्यार उबें रावून हुंवाराच्या उदकांत उडयो मारपी धाडशी लोकांक पळेतालें. वर्तमानपत्रांनी मागीर दरवर्सा 'हुंवारांत व्हांवून गेलो' ह्या मथळ्याखाला खंयच्यातरी धाडशी तरनाटयाच्या अपघाती मर्णाची बातमी वाचपाक मेळ. पूण दर वर्सा हुंवार येतकच धाडशी लोक हुंवाराचें आव्हान स्विकारतालेच.

'आरेच्च्या! पुलावयल्यान उदक वचपाक लागलें,' भायल्यानच्यान कोणेंतरी म्हळें.

आमी भुरग्यांनीं व्हरांड्याचेर गर्दी केली. न्हंयचें उदक वाडतच आशिल्लें. हां हां म्हण्टा म्हणसर इराण्याचें हॉटेल आनी अलका थिएटरांतल्यान उदक व्हांवपाक लागलें. दुकानदारांची आनी लोकांची धांवाधांव सुरू जाली. लोक आपलो जीव वांटोवपाक धडपडपाक लागले. पळपाक लागले.

उदकांतल्यान कितल्योश्योच म्हशी, बदकां, लाकडाचे ओंडके, बैल व्हांवत वतना दिसताले. प्रत्येक जनावर आपआपलो जीव वांटावपाची दयनीय धडपड करतालें.

'आरे म्हज्या बाबा! हें किदें? हुंवाराचें उदक जोग बिल्डिंगेत घुसलें मरे?' कोणतरी आडुलो.

हांवें पळेलें, जाल्यार खरें. तळमजल्यार धोंपरभर उदक जाल्लें. उदकाची पातळी जलद वाडटाली. उदकाक वेगय खूब आशिल्लो. उदक आपल्याबराबर ल्हान पानां, लाकडाच्यो कापटयो व्हांवयत आमचे बिल्डिंगेंत घुसतालें. जोग बिल्डींग चारी वाटांनी उदकान वेडिल्ल्या जुंव्याभशेन दिसताली. सकयल रावपी लोक वयर धांवून आयिल्ले. सकयल वचून पळेतलें म्हळयार उदकाचो वेग तुफान वाडिल्लो.

म्हाका ते कथेची याद जाली. एक बोट बुडटाली. तांतुतल्या पॅसेंजरांच्या मन:स्थितीचें वर्णन ते कथेंत केल्लें. जोग बिल्डींग ते बुडपी बोटीवरी भासताली. सगळे भियेल्ले लोक बुडपाच्या भंयान व्याकूळ जाल्या प्रवाशांभशेन दिसताले.

आरेरे रे ! हें किदें जालें ! अलका टॉकीजाच्या सामका
आशिल्ली ती बिल्डींग इस्पिकांच्या बंगल्याप्रमाण कोंसळली. तातूंत
रावपी लोकांश्यो हृदयद्रावक किळच्यो हुंवाराच्या वेगवान उदकाच्या
रोंव रोंव आवाजांत मिसळ्ळ्यो. प्रलयकाल म्हण्टात तो होच काय ?
ह्या प्रलयकालाउपरांतय खंयचोय नोहा वा मनू जिवो रावून देवाचे
आज्ञेप्रमाण सृश्टी निर्माण करतलो व्हय ?

मालक जोग. आपल्या बायलेभुरग्यांक घेवन वयर आयिल्लो.
बिल्डिगेंत रावपी सगळे आपआपल्या बायलांभुरग्यांच्या लागीं रावून
भंयभित मुद्रेन हांगा थंय पळेताले. भंयान ते सामके थर्त जाल्ले.

म्हाका अप्पासायबांची याद जाली. मुंबय ऑफिसाच्या कामा-खातीर ते गेल्ले. जोग बिल्डींग विटांचेर कॉंक्रिट स्लॅब घालून
बांदिल्ली. कॉंक्रिट कॉलम ब्रिमां बी कांयच वापरूंक नाशिल्लीं त्या
बिल्डिगेखातीर. हुंवाराच्या वेगवान लोटामुखार ती उबी उरत मू ?

'हांव तुमकां च्या दिवं ?' आईन नमळायेच्या पूण खण-खणीत आवाजांत विचारलें सगळयांची नदर तिजेर पडली. सग-ळयांनी निकतीच नारायण मॅन्शन ही बिल्डिग कांयच न्हयशी व्हांवून
गेल्ली पळेल्ली. जोग बिल्डिगेच्या सकयल्या मजल्यारय वेगवान उदक
व्हांवतालें. सगळयांक आईची च्याची सुचना पसंत पडली.

आई भितर गेली. तिणें स्टोव्ह पेटयलो. व्हडलें आयदन
भरून ताचेर च्याचें आदण दवरलें. हांवूय बी भितर वचून आईक
मदत करपाक लागलें. भायले लोक किदेंय व्हांवून वता तें पळोवन
वा बुडटना दिश्टी पडल्यार मोठयान आड्डून एकामेकांक सांगताले
वा दाखयताले. भितर आईक आधार दिता आसतना म्हाका भायल्यो
गजाली आयकुपाक येताल्यो. कोणय अस्फुट आडुतकच म्हज्या
काळजांतली धडधड वाडटाली.

च्या तयार जातकच आईन घरांतल्यो सगळचो कप बश्यो
भायर काडल्यो. च्याचें तपलें आनी एक दवलो घेवन ती व्हरांडयार
भायर आयली. प्रत्येकाक एक एक कप च्या दिवपाक लागली.

गिडेबाई आईच्या सौजन्यान भिडेवन गर्देच्या फाटल्यान फाटल्यान वचून आंग चोरून रावताली. सुशोक हांडीर घेवन आईचे नदरेआड जावपाक सोदताली.

'गिडेमामी ! च्या घे मगे,' आईन गिडेबाईक विनंती केली. गिडेबाई आईकडे पळेत रावली. एका म्हयन्यापयलीं आई आनी ती मारतलीं वा मरतलीं ह्या निर्धारान झगडलेलीं. आनी तीच आई आपल्या मनांत कसलीच कडू भावना न दवरतां आयज तिका च्या दिताली.

गिडेबाई आकुळपिकुळ जाली. तिणें सुशीक सकयल देंवयलें. आईन फुडें केल्लें च्याचें कप घेतलें. सुशीच्या हातांत दिलें. आनी तिणें आईक कडकडून वेंग मारली. ती घुसमटून रडपाक लागली. तिचो सगळो देह हुंडक्यांखातीर गदगदूंक लागलो. आईकय रडपाक आयलें. तीय मोन्यानी हुडके दिवंक लागली.

हुंवाराचो लोट रोंव रोंव रोंव आवाज करीत व्हांवतालो. सगळें स्वाहा करपाक सोदतालो. हें संकश्ट सामकार पळोवन सगळे बिल्डिगेंतले लोक आपसांतले हेवे दावे, झगडीं तंटे विसरिल्ले.

सगळ्यांनी च्या घेतली.

रानडेबाईचो किडकिडीत देह भंयान अदिकच किडकिडीत आनी लांब दिसे. गिडेबाईचो मोटको देह भंयान आनीक मोटको दिसे. वाटकुळी शेजवलकरबाई भंयान अदिक वाटकुळी दिसताली. मालक जोग आपली विडी पेटयतालो आनी रोखडीच ती पालयतालो. शिंदे आपले दोळे धांपतालो उगडटालो. रानडे पांदऱ्यांतल्या वंदिस्त शिवाप्रमाण दोनीय हात फाटल्यान घेवन पासयांर पासयो मारतालो. शेजवलकर सकयल बसतालो आनी उठटालो. परतोय सकयल बसतालो आनी परतोय उठटालो. खारकर आपलें नाक फेंदारत फुलयतालो आनी आपलें येद्दें व्हडलें टक्कल परतें परतें चोळटालो.

सगळ्यांक एकेच गजालीन ग्राशिल्ले. ती गजाल म्हळ्यार भंय. भंय मातय दिसूंक नाशिल्लो तो ल्हान भुरग्यांक. भायर प्रत्यक्ष

मृत्युरुपी हुंवार थैमान घालता आसतना नितीन आनी सुशी लंगडं खेळटालीं. सकयल पडटकच मोठमोठ्यान खिदळटालीं. भंयाचं तांच्या मनाक स्पर्शय जावंक नाशिल्लो. सगळ्यो बायलो मात परत परत दोळ्यांकडेन पदर व्हरताल्यो.

मालक जोग सगळ्यांपरस चड भियेल्ले. बिल्डिंगेच्या कामाक उणाक दर्ज्याचें साहित्य वापरिल्लें हें तेच फकत जाणा आशिल्ले. चुन्याच्या मॉर्टरान केल्लें विटकाम, ताचेर घाल्लें काँक्रिट स्लॅब वेगवान उदकामुखार कितलो वेळ तग धरतलें ?

'शुभी ! आमी टॉस उडोवंया. बावलो पडलो जाल्यार आमची बिल्डींग उरतली. कुरू पडल्यार बिल्डींग व्हांवून वतली. यो बेगीन', सुधीरान म्हाका सुचयलें. विनिता सामकें गर्भगळीत जाल्लें. प्रत्येकाच्या तोंडाकडेन तें पळेत राविल्लें. हुंवाराचें वाडत राविल्लें उदक पळेतालें.

हांव इतलो वेळ अप्पासायब आनी सुहासाचोच विचार करतालें. आमी बुडून मेलीं जाल्यार अप्पासायब किदें करतलो ? दुख्खान पिसो जातलो ? सुहास पनवेलाक गेला. म्हण्टकच ताका हुंवार बादचोना. हांव मेलें जाल्यार सुहासाक किदें दिसतलें काय ? ताका म्हजी याद तरी जातली काय ? हांव ताचेर प्रेम करतालें हें ताका केन्नातरी कळटलें काय ? तो म्हाका विसरून वतलो ? ह्या आपल्या रुमाक विसरतलो ? ह्या रुमांत ताणें निलिमा जोशीवांगडा केल्लो शरीरसंबंध तो विसरून वतलो ? खऱ्यानीच कितलें पिशें हांव? हांव ताचेर प्रेम करतालें हें ताका केन्नातरी कळटलें व्हय ? सुहास हांगा आसपाक जाय आशिल्लो. सदच्याप्रमाण तो आयजय आमकां आधार दितलो आशिल्लो. किदेंतरी युक्ती सोदून काडटोलोच आशिल्लो तो. कसलोतरी उपाय सोदतोलोच आशिल्लो तो.

'शुभी ! कुरू काय बावलो पळोवंया', भियेल्ल्या सुधीरान म्हाका हालयलें. हांव विचारांतल्यान जागें जालें.

'हय. खरेंच पळोवंया' हांवें सुधीराक म्हळें. सुधीरान आपल्या बोल्सांतल्यान एक नाणें काडलें.

'शुभी ! आमी हें नाणें तिनदां उडोवंया. सत्याक तिनदां. किदें ? सुधीरान विचारलें. हांवें ते मान्य केलें. सुधीरान पयलीं नाणें उडयलें बावलो पडिल्लो.

'शुभी ! बिल्डींग बुडची ना ', सुधीर आनंदान आडुलो.

दुसरेखेप हांवें तेंच नाणें उडयलें. परतोय बावलो पडलो.

'सुधीर ! बिल्डींग हुंवारात मोडची ना ', हांवय आनंदान किळचलें. सुधीरान तिसरे खेप नाणें उडयलें. परतोय बावलोच पडलो.

'बिल्डींग बुडची ना ', आमी दोगांय आनंदान आडुलीं. सगळे लोक अजापान आंग काडून आमकां दोगांयकय पळोवपाक लागले.

पूण दैव आमचेकडेन पळोवन हांसलें.

कारण तेन्नाच प्रचंड आवाज जावन जोग बिल्डींग कोसळ्ळी. सगळे थंय रावपी लोक जिवाच्या आकांतान आडुले. आईन धांवत वचून नितिनाक घट्ट धरिल्लो हांवें पळेलें. दुसऱ्याच खिणाक उदकाचो झंझावती लोट म्हाका लोटीत व्हरपाक लागलो.

अप्पासायबान खुबदां एस. पी. कॉलेजाच्या स्विमिंग पुलार आमकां पेंवूंक शिकोवपाक व्हेल्लीं. हांव तशें व्हडलेशें पेंवपाक शिकूंक नाशिल्लें. पूण म्हजी तकली उदकावयर दवरपाक हांव शिकिल्लें. पूण ह्या रोंव रोंव व्हांवपी उदकांत तकली वयर काडप लेगीत कठीण आशिल्लें.

'आई, अप्पासायब, सुधीर, विनिता, नितीन, हांव परतीं केन्नाच एकठांय जावची ना ? सुहास ! भांगरा केंसाच्या राजकुंवरा ! हांव तुजेर प्रेम करतालें. आतां हांव वतां. म्हज्या मनांतलें प्रेम तुका कळल्याबगर हांव वतां. ' आनी म्हजी शुद्ध गेली.

० ० ०

हांव शुद्धीर आयलें. म्हजी तकली जड जाल्ली.

'आवय गे ! ' असो दुख्खोद्गार म्हज्या तोंडातल्यान आयलो.

म्हज्या सामकारच एक मनीस म्हजेकडेन पळेत उकडयां बशिल्लो. हांवें दोळे उघडले. तो मनीस भायर गेलो आनी एक बलदंड मनीस आनी तांच्यावांगडा आनीक स तरनाटे भितर आयले. आमचो एकामेकांवांगडा वळख जाली. पयल्या मनश्याचें नांव आशिल्लें जिवोत्तम. तो बलदंड मनीस आशिल्लो बळवंतराव जोशी. तोच कृष्णनिवास ब्रिल्डिंगेचो मालक. ताची बळवंत व्यायाम मंडळ म्हणून व्यायामशाळा आशिल्ली. बळवंतरावानच म्हाका आनी जिवोत्तमाक आपल्या धाडसान वांचयिल्लीं. म्हाका त्या सगळ्यांनी धीर दिलो. कॉफी दिली. बळवंतरावान स्वता रांदून आमकां वाडलीं. हुंवाराचें उदक कृष्ण–निवास बिल्डिंगे भोंवतणीय रोंव-रोंवतालें. पूण कृष्ण–निवास पक्की बिल्डींग आशिल्ली. तिचें लुकसाण जावपाची शक्यताय नाशिल्ली.

म्हाका जाल्यार ह्या भयांकृत आघातान रडपाकच येतालें. आई, सुधीर, विनिता, नितीन हांची कांयच शास्वती नाशिल्ली. बळवंतरावान, जिवोत्तमान, बळवंतरावाच्या शिश्यांनी म्हजी आस्थेन चवकशी केली. म्हजी आई, भांवडांलेगीत हुंवारात व्हांवून गेल्याचें हांवें तांका सांगतकच ताणीं म्हजे सांत्वन केलें. म्हजेर कोंसळिल्ल्या दुर्दैवी आपत्तीन ते मनःपूर्वक हळहळ्ळे.

बळवंतरावान म्हजी फाट थापटून म्हाका धीर दिलो.

‘ बाय ! तूं भियेवं नाका. तुजो बापूय मुंब्रैक सुखरूप आसा मूं ? ताका हुंवाराची बातमी कळ्ळयाबराबर तो रोखडो पुण्याक येतलो. तुमची भेट जातली. दोगांकय एकामेकांचो आधार मेळ-टलो. सगळें जाता तें भिमरुपी महारुद्राच्या इत्सेनुसार जाता. प्रत्येक गजालींत ईश्वरी संकेत आसता. ताका जाय जाल्यार तुझी आवय जिवी आसपाक जाता. तुजी भांवडां तुका सुखरूप मेळपाक जाता. पूण ताची इत्सा जाय. फट आशा बाळगून नाउमेद जावन वोगीच दुख्ख करीत बसूं नाका,’ बळवंतरावान म्हजें सांत्वन केलें.

रातचें केन्नातरी हुंवाराचें उदक देंवपाक लागलें.

बळवंतराव, ताचे शिश्य, जिवोत्तम आनी हांव फांतोड जायना
फुडें सकयल देंवलीं. उदक पुरायेन देंविल्लें. सगळेकडेन कुसको वास
येवपी चिखोल, रेबो साचिल्लो.

आमी रस्त्यावयल्यान चलतना हुंवारान केल्ल्या विध्वंसाची
कितलीं भयांकृत दृश्यां दिश्टी पडटालीं! हांवें सगळयांची आशा
सोडिल्ली.

बळवंतरावाच्या हातांत ट्रान्सिस्टर आशिल्लो. तावेर कोण-
तरी पूरग्रस्तांच्या आधाराक येवपाचें आवाहन करतालो.

बळवंतरावान त्या आवाहनाक प्रतिसाद दिवपाचें थारायलें.
ताणें म्हाका खंयच्याय नातेवाईकाकडेन पावोवं काय म्हणून विचारलें.
हांवें ताका नाका म्हळें. तांचे उपकार आठयले. हांवे म्हजे इश्टिणी-
कडेन– कुंदाकडेन वचपाचें थारायलें.

‘हांव तुका तुजे इश्टिणीकडेन पावोवं?’ जिवोत्तमान म्हाका
विचारलें. तांच्या तोंडातल्यान खरें म्हळयार म्हाका तो प्रस्न म्हजें
सुदैवच करतालें म्हणपाक जाय...!! कुंदा एरंडवणाक रावतालें.
म्हळयार डेक्कन जिमाखान्याच्या सामकें लागीं. मात एरंडवणा
हुंवारापासून सुरक्षित अंतरार पयस आशिल्लें. थंय उदक चडपाची
शक्यताय नाशिल्ली. आनी म्हणूनच हांवें तांका म्हळें, ‘नाका. म्हाका
रस्तो खबर आसा.’

‘तर मागीर तूंच वच. फकत तुजे इश्टिणीचो पत्तो म्हाका
सांग. तुज्या बापायचें संपूर्ण नांव सांग. हांव तुजी खबर ताका
गांठून कळोवपाचो यत्न करतां,’ जिवोत्तमान अलिप्तपणान दुसरे-
कडेन पळेत म्हाका सांगलें.

‘कुंदाचो पत्तो. कुंदा शंकर जायदे. १३५, उषा–विलास,
एरंडवणा, पुणें. म्हज्या बापायचें पुराय नांव जगन्नाथ सदाशिव रेगे.
इन्कमटॅक्स ऑफिसांत ते नोकरी करता. पूण सद्याक ऑफिसाच्या
कामाखातीर मुंबय गेल्यात’ हांवें सांगलें.

तो म्हाका थंयच सोडून गेलो. हांव एरंडवणाचे दिकेन
चलपाक लागलें. जोग बिल्डींग जंय आशिल्ली थंय आयलें. जोग

बिल्डिंगेचें कुस्कूट लेगीत उरूंक नाशिल्लें. थंय एक ल्हान आंब्याचें झाड आशिल्लें तेंय थंयसून नाच्च जाल्लें. जोग बिल्डिंगेच्या शेजरा आशिल्ली कानडे बिल्डींग, माने बिल्डींग हांचो पुराय विध्वंस जाल्लो. नारायण मेंशन व्हांवून गेल्लें. म्हाका खूब वळखीचीं मनशां मेळ्ळीं. पूण कोणच म्हजी विचारपूस करिनाशिल्लो. कारण जण एकलो आपल्या दुख्खांत आशिल्लो. तांचो कोण ना कोण तरी हुंवारान झोपय मारून व्हेल्लो. हांव दुख्खांत उपाट भरून थंयसून चलपाक लागलें. एरंडवणाचे दिकेन. हुंवारान घाल्ल्या विध्वंसाचें थैमान पळेत.

तकलेंत 'फुडे किदें ?' हो प्रस्न चक्रासारको गग्गर फिरताल्लो. अप्पासायब केन्ना मेळटले ? आई ! सुधीर ! वनिता ! नितीन ! देवा ! आमकां एकमेकांक केन्नाच मेळपाक जावचेंना काय किदें ?

आनी सुहास ! ताका म्हजी याद जातली ? हांव हुंवारांत सांपडून मेलें अशें समजून तो हळहळ्ळा जातलो काय ? तें निलिमा जोशी ! तेंय गोळेवांगडा हुंवारांत सांपडलां आसतलें काय ?

हांव कुंदाच्या बंगल्यार पावलें तेन्ना बंगल्याच्या भायल्या दाराक कुलुप आशिल्लें. दाराच्या खिळयेक एक चिटी लायिल्ली आशिल्ली. हांवें चिटी काडून वाचली.

'आमी सुखरूप आसात. मुंबै वतात.'

कोणीय तांचे खबरेक आयले जाल्यार तांका कळचें म्हणून एकाद्रे ती चीट कुंदाच्या घरच्यांनी दवरिल्ली जावंये.

हांव निर्शेवन परतलें. एकादो झू पळोवपाक वच्चें तेप्रमाण हुंवाराखातीर जाल्लें लुकसाण उत्साहान पळोवपाखातीर वचपी लोकांच्या थव्यांनी हांवय मिसळ्ळें. रेब्यांत पाय बरबट्टाले. पोटांत भुकेचो उजो पेटिल्लो. आतां किदें करूं ? कोणाकडेन वचूं ? म्हज्या पायांत त्राण उरूंक नाशिल्ले. तरीलेगीत हांव चलतच रावलें. म्हज्या पायांत जोतेबितें कांयच नाशिल्लें. अनवाणी चलतालें.

हांव भांडारकर इन्स्टिटयूट रोडावयल्यान रखडत रखडत चलतालें आनी इतल्यांत !!!

‘ आनीक एक धरण फुटलां. पळा. पळा ’ अशें आडुत लोक फर्ग्यूमन टेकडीचे दिकेन धांवपाक लागले. एकामेकांक चिड्डूं लागले. धुकलूंक लागले. पूण तरी लेगीत जिवाच्या आकांतान धांवपाखातीर धडपडूंक लागले.

इतल्यान कोणेतरी म्हजो हात धरलो.

‘ मरपाचें आसा गो तुका ? धांव. जीव वांटावपाचो आसा जाल्यार वेगान धांव,’ ताणें म्हाका म्हळें.

हांवें ताचेकडेन पळेलें.

ताचे केंस पिसुडलेले. तोंड पान खाल्ल्यान रंगल्लें. दांत तंबाखून किडिल्ले. ताणें गळयाक एक तांबडो लेंस बांदिल्लो. ताचे दोळे तारवटलेले. त्या मनश्यान म्हजो हात ओडलो आनी तो आपल्याबगबर म्हाकाय वेगान धांवणावपाक लागलो. म्हाका धांव-पाचे सोडात उलोवपाचेलेगीत त्राण नाशिल्लें. हांवें धांवतना ताच्या तोंडाकडेन पळेले तेन्ना तो दांत विचकून मवाल्याभशेन हांसलो.

‘ बेगीन धांव ’ ताणें म्हाका ओडीत म्हळें. सगळे जीव घेवन धांवताले. म्हाका धांवूक लावपी मनीस मवालीच आशिल्लो हे विशीं दुबाव उरलो ना. पूण ह्या इल्लेशा धांवपान लेगीत हांव जाम जाल्लें. हांव आडखळूंक लागलें. सकयल पडपाक लागलें.

त्या मनश्यान पोटली उखलची तशें म्हाका उखल्लें. आनी तो म्हाका घेवन धांवपाक लागलो. म्हाका असो उखलून तूं धांवूं नाका अशें म्हाका ताका सांगपाचें आशिल्लें. पूण हांव इतलें थकिल्लें की एक उतर उलोवपाक म्हाका त्राण नाशिल्ले. शक्तीच नाशिल्ली. अशी ग्लानी आयिल्ल्यान हांव दोळे धांपून वोग्गी रावलें. त्या मनश्यान म्हाका आपल्या हड्डुचामेरेन उखलून धरिल्लें आनी तो धांवतालो. ताची धांप सोडपी छाती म्हाका लागताली. पूण थकवो खूब आयिल्लो. हांव निर्मळून तशेंच निपचित रावलें.

ताणे म्हाका धांपेत सकयल देंवयलें तेन्ना हांवें दोळे उगडले.

पळेलें जाल्यार हांव एरंडवणा पार्कांत त्या निर्जन जाग्यार पावलीं. ताणें म्हाका एका बंगल्याच्या व्हरांड्यार हाडिल्लें.

तो बंगलो सोबित आशिल्लो. बंगल्याच्या कंपौंडांत कोणूच नाशिल्लो. मुख्य दाराक कुलूप आशिल्लें. गिमाच्या तेंपार पुण्याक येवन रावपी आनी बाकी म्हयने बंगलो बंद दवरपी अश्या खंयच्या-तरी गिरेस्त मनश्याचो तो बंगलो दिसतालो. 'लक्ष्मी-निवास' हें बंगल्याचे नांव त्या गिरेस्ताच्या श्रीमंतीची प्रचिती जगाक दितालें.

त्या मनश्याचें धांपेवप बंद जालें. तो सवकासायेन आपलें कलसांव सोडोवपाक लागलो. लांब कलसांवासकयल एक मोटकें कलसांव आशिल्लें. जेन्ना तो कलसांव काडटना ताचेकडेन हांवें पळेलें तेन्ना तो एका दोळ्यान म्हजेकडेन पळेतालो हें म्हज्या लक्षांत आयलें. हांव ताचेकडेन पळेतां हें त्याच्या लक्षांत येतकच तो म्हजे-कडेन पळेवन हांसलो. आपले किडिल्ले दांत दाखयत विचित्र हांसलो. ताची नदर म्हाका किदेंतरी सुचयताली. पूण ती नदर म्हाका अस्वस्थ करपाक लागली. धोक्याचो इशारो दिवपाक लागली.

ताच्या आंगार आतां फकत टी-शर्ट आनी एक मोटकी पँट आशिल्ली. अकस्मात तो म्हजेकडेन आयलो आनी ताणें म्हाका घट्ट धरलें. तो म्हज्या स्तनांचे धाकटुले गुळे दामपाक लागलो. म्हज्या ओंठांचीं चुंबनां घेवपाक लागलो.

ताचे हे आकस्मित करणेन हांव गर्भंगळीत जालें. ताच्या वेंगेंतल्यान सुटपाक धडपडूंक लागलें. पानान रंगल्ले ताचे ओंठ आनी किडिल्ले दांत म्हज्या ओंठांक चाबताले. गालावयल्यान भोंवताले. ताचो एक ओंठ म्हज्या ओंठाक लागिल्ल्यान म्हजो सकयलो ओंठ फुटलो. तांतुतल्यान रगत येवपाक लागलें.

'सोड म्हाका. हांव तुज्या पायां पडटां' हांवें भियेवन रडत म्हळें. ताच्या वेंगेतल्यान सुटपाची हांव आकांत धडपड करपाक लागलें.

'चूप! वोगी! आड्डूं नाका. बोब मारशीत जाल्यार हांव

तुजो गळो दामून तुका जिवें मारतोलों.' ताणें म्हाका हिंस्त्र आवाजान धमकायलें. ताचे दोळे वासनेन आनी क्रोधान धगधगताले. म्हाका दिसलें तो आतां सॅर्त म्हजो प्राण काडटा. म्हजी शुद्ध वचपाक लागली. ताणें एका हातान म्हाका विळखो घालो. दुसऱ्या हातान म्हजो ब्लावज खस्‌क करून ओडलो. ब्लावज पिंदलो आनी म्हजे अपूर्ण वाडिल्ले स्तन उगडे पडले. ताणें म्हजी चड्डीय तशीच खस्‌क करून ओडून काडली. चड्डी पिंदलो आनी ताच्या हातांत आयली. तो म्हजे स्तन आनी कुले मुड्डूंक लागलो. चाबूं लागलो. विकृतपणान चुंबूंक लागलो. म्हज्या नाकांत त्या मवाल्याच्या तोंडाची घाण भिनपाक लागली. म्हाका ताची घृणा आयली. हांव धडपडूंक लागलें. आड्डूंक लागलें.

'सोड, सोड म्हाका' हांव किळचूंक लागलें.

मवाल्यान फटाफट म्हज्या गालांर दोन सणसणीत थापटां फुलयलीं. म्हज्या दोळ्यांमुखार नकेत्रां चकचकूंक लागलीं. ताचे दोळे पुरायेन हिंस्त्र आनी खुनशी जाल्ले. ताणें म्हाका परतेंय मारपाखातीर हात उखल्लो.

'नाका. नाका. मारूं नाका म्हाका,' हांवें रडत रडत काकुयटेन ताची याचना केली. ताच्या वयर उखल्लेल्या हातार मुरली वाजोवपी श्रीकृष्णाचें चित्र गोंदयल्लें. ताणें म्हज्या पोल्काचोच गुड्डो केलो. म्हज्या तोंडांत रोमलो. म्हजें तोंड लेंसान घट्ट बांदलें आनी म्हाका सकयल न्हिदयलें. म्हज्या देहार आपलो देह चडयलो. ताचो देह म्हज्या देहांत शिरलो. म्हाका असह्य वेदना जाल्यो. हांव गोरवाभशेन आड्डूक लागलें. धडपडूंक लागलें. तडफडूंक लागलें. पूण मवाल्याच्या पुरुशी शक्तीमुखार म्हजें कांयच चल्लेंना. म्हज्या तोंडांत कोंबिल्ल्या गुड्ड्यान म्हज्यो किळच्यो घुसमटावन उडयल्यो.

मवाल्यान आपलो उत्कर्शबिंदू गांठलो. ताणें मोठ्यान तोंडांतल्यान कण्हील्ल्याभशेन आवाज काडले. आपलें शरीर मल्लु क्याचो झटको आयिल्ल्याभशेन तायट केलें आनी तेन्नाच मवाल्याचें बीज म्हज्या देहांत गळ्ळें. म्हाका तें स्पष्ट जाणवलें. म्हाका तशेंच

घट्ट चेपोवन तो म्हजेर निपचित न्हिदून रावलो. केदोवेळ तसोच रावलो. ताच्या तोंडावयलो घाम म्हजेर गळ्ळो. म्हाका ग्लानी आयली. त्या समागमाचो, संभोगाचो कसलोच आनंद म्हाका जालोना. जाल्यो त्यो फकत अपार वेदना. म्हज्या दोळयांतल्यान गरीब गायेच्या दोळयांतल्यान व्हांवतात तशीं दुकां व्हांवपाक लागलीं.

थोडचा वेळाउपरांत तो मवाली उठलो. सकयल दामून धरिल्ले कोंबयेक सोडटक कोंब्यान पाखां फाफुडचीं त्याप्रमाण ताणें आपले हातपाय झाडले. तो आपले कलसांव चडोवंक लागलो. आनी हांव ? तोंडांत पोल्काचो गुड्डो, उक्तें हड्डे, पोटामेरेन स्कर्ट वयर काडिल्यान नागडो पडिल्लो म्हजो देह निपचित दवरून हांव दोळे व्हडले करीत त्या मवाल्याक न्हेंसतना पळेतालें.

म्हज्या थकिल्ल्या देहांत आनी मनांत विचारांचें थैमान चलिल्लें. हांव आतां शीलभ्रश्ट जालें. हांव आतां कुमारीका उरूंक नाशिल्लें. कुंदान सांगिल्लेप्रमाण हांव आतां कुमारीमाता जावपाक जातां. किडिल्लो दांत आनी घाण वास येवपी ह्या मवाल्यापासून जाल्ल्या भुरग्याची हांव आवय जावंक जातां. म्हाका गर्भपात करचो लागतलो ? तो केलोना जाल्यार ? कुमारीमाता जावप टाळचे-खातीर आत्महत्त्या करची पडटली ?

हें किदें जालें ? हें किदें चल्लां ? संकश्टाच्या भंयान आपलो जीव वाटावपाक धडपडटना लेगीत लोकांची वासना इतली कशी पेट्टा ? आपले कामपूर्तीखातीर हे लोक अशे कशे वागतात. हें चल्लां किदें ? फुडें किदें जावपाचें ?

म्हाका खुब्ब भूक लागल्या हें म्हाका जाणवलें. हांव तशेंच उठून बसलें. लेंसाची गांठ सोडयली. तोंडातलो गुड्डो भायर काडलो. तोंडाक हात लागतकच म्हज्या हाताक रगत लागलें. पयल्या समागमाखातीर म्हज्या मांडयांचेर रगत गळटालें. म्हाका उठटना खुबच त्रास जालो. पिंदिल्ल्या पोल्कान हांवें म्हज्यो मांडयो पुसल्यो. पोटाक भयंकर भूक लागिल्ल्याची भावना म्हाका सतावंक लागली.

'म्हाका भूक लागल्या. किदेंतरी खावपाक दी.' हांवें सुकिल्ल्या दोळयांनी त्या मवाल्याकडेन पळेत म्हळें.

मवाल्यान अजापान म्हजेकडेन पळेलें. तो मातसो गोंदळ्ळो. इतल्यांत ताका कसलीतरी याद जाली. ताणें आपल्या कलसांवांच्या बोल्सांत हात घालो. मूठभर चणे काडून म्हज्या हातार दवरले. हांव ते आधाश्याभशेन खावपाक लागलें. म्हज्या पोटांतलो उजो पालोवपाचो यत्न करपाक लागलें.

मवाली म्हज्या सामकार आसनमांडी घालून बसलो. ताणें आपल्या हातांत चणे घेतले आनी ते तो खावपाक लागलो. म्हज्या तोंडार कसलोच भाव नाशिल्लो. गायेन रवंथ करचो तशें हांव तोंड हालयत चणे खातालें. हांव सामकें थंड, विकाररहीत वागतालें. म्हाका तशें तोंड हालयत चणे खातना पळोवन म्हाका दिसता मवाल्याक म्हजी काकुयट दिसली. ताच्यांत भित्तर खंयतरी उरिल्लो सुस्वभावाचो अंश जागो जाला आसपाक जाय.

'तुजें नांव किदें ?' ताणें म्हाका विचारलें.

म्हाका अकस्मात घुसमटून रडपाक येवपाक लागलें. हांव हुडके दीत रडपाक लागलें.

'शुभदा' हांवें रडतच ताका म्हजें नांव सांगलें, 'तुवें म्हजें पोल्क पिदलां. हांव आतां कशें वचूं ? हांव आतां किदें करूं ?'

हांव हो हो करीत रडपाक लागलें.

'रडूं नाका,' त्या मवाल्यान म्हाका अपराधी सुरांत म्हळें. तो थंडपणान उठलो. आपणें घाल्लो टीशर्ट ताणें काडलो. म्हाका घालो. आवयन आपल्या सान धुवेक घालचो तसो. म्हाका उबें रावयलें. म्हजो स्कर्ट सकयल ओडलो. म्हाका चड्डी घाली. आपल्या कलसांवांतल्यान दोन रुपयांची एक नोट काडून म्हज्या हातांत दिली. जशी काय हांव ताची धाकटी भयण आशिल्लें आनी ताणें म्हाका चॉकलेट घेवपाक पयशे दिल्ले.

इतल्यांत पयशिल्ल्यान पुलीसांच्या जीपीचो सायरन आयकुपाक

आयलो. लावड–स्पिकरावयल्यान कोणतरी घोशणा दिताली.

'दुसऱ्या हुंवाराची अफवा कोणेतरी गुह्म पगरायल्या. हुंवार शेवपाक दोनीय धरणांनी उदकच ना. गुंड लोक तुमची लूटमार करपाची संद मेळची म्हणून तुमची अशी दिशाभूल करतात. भियेवं नाकात. अफवांचेर विश्वास दवरूं नाकात.'

पुलीसांचो सायरन आनी ती घोशणा कानार पडटकच तो मवाली पिटीक् करून कंपांवडार चडलो. आनी भायर उडी मारून नाच्न जाल्लो. ताणें म्हजें कौमार्य लुटिल्लें. म्हाका असहाय्य एकसुरें सोडून तो पळिल्लो.

हांं ती दोन रुपयांची नोट टी शर्टाच्या बोल्सांत घाली. आनी हांव थंयच्यान चलपाक लागलें. म्हज्या मांडयांनी गुळे आयिल्ले. सगळें आंग फोडटालें. हांव एक एक पाय ओडीत चलपाक लागलें.

० ० ०

भ्रश्ट जाल्ल्या शरीरान, म्हज्याच विचारांनी भ्रमिश्टाभशेन गुल्ल जावन हांव बंगल्याच्या कंपांवडाभायर आयलें. पयस आशिल्ल्या हमरस्त्याचे दिकेन चलपाक लागलें. हें किदें चल्लां? लोकांक इतलो क्लेश दिवचोसो देवाक किद्याक दिसता? म्हजी आई आनी भांवडां हुंवारांत व्हांवून गेलीं तीं ताचेच इत्सेन? म्हजें कौमार्य त्या मवाल्यान लुटलें, म्हजेर बलात्कार केलो तें देवाच्यान संकेतान? म्हाका अशें बेघर, बेसाहारा भोंवचें लागता तें देवाक जाय म्हणून? पुण्याचो नरक जाला तो देवाक जाय म्हणून?

प्रत्यक्ष मर्ण सामकार उबें आसतना लेगीत लोकांच्यो वासना इतल्या उफाळून वयर किद्याक येतात? वासनापूर्तेखातीर हे लोक अशे जनावराभशेन किद्याक वागतात? हांव अशें किद्याक वागलें?

म्हजें शील त्या मवाल्यान लुटलें. तरीकय हांवें ताचेकडेन खुब्ब दिसांची वळख आशिल्ल्याचेभशेन तशें खावपाक कशें मागलें? निर्लज्ज्या-सारखें ताणे दिल्ले चणे हांवें खाले तरी कशे?

आनी म्हजेर बलात्कार केल्लो तो मवाली ! ताका उपरांत म्हजी काक्रूयट कशी दिसली ? ताणें आपल्या आंगावयलो टी शर्ट काडून म्हाका किद्याक घालो ? म्हाका उपयोगाक पडचे म्हणून आपलेकडले दोन रुपया म्हाका किद्याक •दिले ? म्हाका ताणें स्वत: चड्डी किद्याक न्हेसयली ? आनी हांव त्या मवाल्याचे करणीकडेन, अशें थंडपणान कशें किदें पळेतां ?

म्हाका दिसता म्हज्यांत वसलेंतरी अनामिक बळगें निगिलें म्हाका कसलीच भिरांत दिसनाशिल्ली. मुखेल रस्तो रेब्यान बुरबुरलेलो. त्या रेब्याक कुसको वास येतालो. त्या वासान म्हाका ओंकारी येताली. पूण हांव ओंकी नाशिल्लें. ह्या सगळ्या दुख्खांतल्यान म्हजी सुटका नक्की जातली अशें म्हज्या अंतर्मनाक दिसपाक लागिल्लें.

हांव रेब्यांतल्यान आनी लोकांचे गर्देतल्यान चलतालें. मवाल्यान दिल्लो टी शर्ट सदळ जातालो. हुंवारान दुर्दशा जाल्ल्या एका उडीपी हॉटेलाच्या दर्शनी फुटक्या हारशांत म्हाका म्हजें प्रतिंबिब दिसलें. हांव टी शर्टाखातीर चल्याभशेन दिसतालें. बॉबकट केल्ले म्हजे केंस रेब्यांत भरिल्ले. म्हज्या मांडयांनी गुळे आयिल्ले. पोटांत अर्दीमर्दी असह्य वेदना जाताल्यो. तरी लेगीत लोकांचे गर्देतल्यान हांव चलतच राविल्लें. हुंवारान केल्लो विध्वंस हांव शांत चित्तान पळेतालें. अँबुलन्सींत घालताले तीं प्रेतां अविचल मनान पळेतालें. हो हो करीत रडपी हुंवारग्रस्त दादले, बायलो आनी भुरगीं. गर्दी करून हुंवाराखातीर जाल्लें लुकसाण पळोवंक आयिल्ले हुंवाराची बाधा न जाल्ले लोक, चकचकीत साडयो न्हेसून कॉलेज विद्यार्थ्यांचे कॉमेंटस आयकुपाक आयिल्ल्यो हुंवार न बाधिल्ल्यो कॉलेजांतल्यो चलयो. तांका धक्के मारून वा फाटल्यानच्यान गर्दी करून वचून तांचे पदर वा विणी ओडून, अचळय चिमटे काडून आपलो आंबटशोक शमोवपाक धडपडपी तरनाटे ह्यो सगळ्याक हांव मख्खपणान पळेतालें.

एकेकडेन आपल्या जिवाची पर्वा करिनासतना भूक तान विसरून आपलें कर्तव्य करपी पुलीस, मिलीटरी सैनिक आनी आर.

एस. एसाचे स्वयंसेवक, आपले खोश्येन स्वयंसेवकाचें काम करपी बळवंतरावासारके मनीसय हांव पळेतालें.

विध्वंसांतलेगीत उसळून वयर येवपी मनशांतले सदगुण आनी दुर्गुण हांची तुला हांव करपाक लागलें. हो असो कसो मनुश्य-स्वभाव ? हो मनीस असो विचित्र कसो वागता ? वासना पुर्तें खातीर किदेंय करपी कसलोय निंद्य मार्ग आपणावपी, सदगुणांखातीर कसलोय स्वार्थत्याग करपी, दुसऱ्याचे प्राण वांचोवपाखातीर आपले प्राण संकश्टांत घालपी ?

देवान हें मनीस नांवाचें विचित्र जनावर कित्याक उत्पन्न केलां ? मनशाचो स्वभाव इतलो अस्थीर कित्याक ? मवाल्यान म्हजेर बलात्कार कित्याक केलो ? तो करतना हांवें मातशी प्रति-कारात्मक धडपड करतकच, ताणें म्हाका गळो दामून जिवें मार-पाची धमकी कित्याक दिली ? म्हाका ताची जिवानिशीं मारपाची तयारी लेगीत तेन्ना कित्याक दिसली ? हांवें व्याकुळ जावन म्हाका भूक लागल्या अशें सांगतकच त्याच मवाल्यान आपणांखातीर हाडिल्ले चणे खावंक कित्याक दिले ? म्हाका तशेंच भुकेल्ले थंयच उडोवन तो गेल्लो जाल्यार हरशीं म्हाका ताचें किदेंच करपाक जाय नाशिल्लें. हें जाणा जावनयबी ताणें म्हाका चणे कशे दिले ? आपल्या आंगावयलो टी शर्ट काडून ताणें तो म्हज्या आंगार कित्याक घालो ? ताका म्हजेविशीं असो अकस्मात कळवळो कित्याक निर्माण जालो ? म्हाका लागतबी म्हणून ताणें आपलेकडले दोन रूपया म्हाका कित्याक दिले ?

हांव दोनच वरांभितर सामकें प्रौढ जाल्लें. हांव तत्वज्ञाप्रमाण विचार करतालें.

‘शुभदा !’ असो ल्हवू, मायेन मारिल्लो उलो म्हाका आयकूंक आयलो.

‘जिवोत्तमकाका !’ हांवें आनंदातिशयान आड्डून म्हळें. म्हाका अचकीत व्हड आधार मेळिल्लेभशेन जालें. म्हज्यो भावना

अनावर जाल्यो. हांवें ताचो हात म्हज्या दोनीय हातांनी घट्ट धरलो आनी हांव हो हो करीत रडपाक लागलें. जिवोत्तमाक हांवें पयलेच फावट ‘ जिवोत्तमकाका ’ म्हणून उलो मारिल्लो.

‘ तुजी इश्टीण मेळ्ळीना तुका ?’ ताणें म्हाका विचारलें.

‘ ना. ती मुंबय गेल्या. हांवें खऱ्यानीं तुमचेवांगडा तागेर वचपाक जाय आशिल्लें, ’ आनी म्हाका खूब खूब रडपाक येवंक लागलें. म्हाका जिवोत्तमकान पूण धीर दिलो. तो तुटकपणान आनी अलिप्ततायेन वागतालो खरो. पूण ताणें म्हाका खूब खूब आधार दिलो. केंद्रार आमकां दोन तीन इंजेक्शन्स दिलीं. खावपाक भाजी चपाती मेळ्ळी. म्हाका दोन कपडेय मेळ्ळे. तांबडया रंगाचें जीन आनी फुलांचे डिजायन आशिल्लो एक बुशशर्ट.

म्हाका खूब भूक लागिल्ली. हांवें बेगीन बेगीन चपाती तोंडांत कोंबली. जिवोत्तमकाकान म्हाका आपली चपाती दिली.

म्हाका अकस्मात ओंकूक आयलें. हांव म्हज्या आंगारच ओंकिल्ल्यान हांवें घाल्लो टी शर्ट आनी स्कर्ट म्हेळो जाल्लो.

जिवोत्तमकाका पयस गेलो. ताणें आपलो सदरो खंयच्यान-तरी उदकान भिजोवन हाडलो. ताणी म्हाका पुसून काडलें. म्हाका तें तांबडें जीन घालपाक सांगलें. म्हजो टी शर्ट काडून उडयलो. स्वता म्हाका तो बुशर्ट घालो.

हांवें ताचेकडल्यान तो ओलो सदरो घेतलो. मोडिल्ल्या एका घराच्या आडसराक गेलें. हांवें त्या ओल्या सदऱ्यान म्हज्यो मांडयो आनी गुप्तभाग पुसून काडलो. असह्य वेदना जातात्यो तरीकय. अशेभशेन त्या मवाल्यान भ्रश्ट केल्लो म्हजो देह इल्लोतरी नितळ करपाचो यत्न केलो. हांवें जीन आनी बुशर्ट घालपाचो प्रयत्न केलो. पूण म्हाका अशक्तताय इतली जाणवताली ! म्हजें सगळें आंग फोडटालें. आंगांक जोर आयिल्लो. हावे कशेंतरी जीन आनी बुशर्ट चडयलो आनी जिबोत्तमकाकांकडेन गेलें. म्हाका जोर आयिल्याचें पळोवन ताणें मदत केंद्रार वचून कसलीतरी एक गुळी

हाडून म्हाका घेवपाक लायली. ताणें म्हाका स्वता उखलून देवळाच्या आवारांत व्हेलें. स्वताची चादर म्हाका म्हजे चादरीवयर पांगरूंक घाली. म्हाका थापटीत तो म्हज्या उश्यालागीं उकडयां बसलो. जिवोत्तमकाका कोण खंयचो ! पयरमेरेन आमी एकामेकांक पळोवंकलेगीत नाशिल्लें. आनी आयज तो प्रत्यक्ष आपले धुवेची जतनाय घेवपाखातीर बापायन तिच्या उशालागीं बसचें तशें बसून म्हाका थापटीतालो. कसलें विलक्षण नातें निर्माण जाल्लें आमच्या दोगांयमदीं !

आनी उपरांत म्हाका तें सपन पडलें... एक व्हडलो ग्लासाचो गुळो दिसलो. म्हजी आई, भयण आनी दोगूय भाव त्या ग्लासाच्या प्रचंड गुळयांत बशिल्लीं. म्हाका तीं सगळीं त्या गुळयांतल्यानच आपलेकडेन खुणो करून आपयतालीं. हांव मात गुळयाभायर आशिल्लें. गुळो जमनीवयल्यानच जलद गतीन धांवतालो. आनी हांव तांका गांठपाखातीर त्या गुळयाच्या फाटोफाट धांवतालें. आई, नितीन, सुधीर, विनिता म्हाका बेगीन यो, बेगीन यो अश्यो खुणो करीत त्या ग्लासाच्या गुळयांतल्यान आफयतालीं.

थोडयावेळान म्हज्या तें लक्षांत आयलें. हांवूय तसल्याच एका प्रचंड ग्लासाच्या गुळयांत बसलां. म्हजो तो गुळो आई आनी हेर भावंडां बशिल्ल्या त्या दुसऱ्या गुळयाफाटल्यानच्यान धांवतालो. तीं म्हाका आकांतान बेगीन यो, बेगीन यो अश्यो खुणो करीत आफयतालीं.

इतल्यान हांवें आंग काडलें. इतलोवेळ म्हाका त्या म्हज्या ग्लासाच्या गुळयांत फकत हांव एकलेंच आसा अशें दिशिल्लें. पूण फाटल्यान पळेतकच म्हज्या लक्षांत आयलें की म्हज्या गुळयांत तोय येवन केन्ना बसला. तो किडिल्ल्या दांतांचो आनी रंगयल्ल्या ओंठाचो मवाली. आपले किडिल्ले दांत दाखयत तो हांसतालो. ताच्या आंगार मोटवें कलसांव आनी बानयन आशिल्लें. आपले विचित्र भुकेल्ले नदरेन तो म्हजेकडेन पळेतालो.

हांव भियेलें. हांवें फुडें पळेलें. आई आनी म्हजी भांवडां

बशिल्लीं तो ग्लासाचो गुळो खुब्ब पयस पाविल्लो. म्हाका एकल्याकच फाटल्यान सोडून. हांव बशिल्ल्या गुळयाची गती मंद जाली. इतल्यान तो मवाली म्हाका फाटल्यानच्यान घट्ट धरपाक लागलो. खांकेतल्यान ताचे हात म्हज्या स्तनाचेर आयले. ताणें म्हाका आड घालें. आनी !!! परत्योय असह्य वेदना. ताच्या तोंडाचो घाण वास ... ...

'नाका ! म्हाका सोड. नाका !' हांव खाटीक मारूंक व्हरतना हांबेवपी गायेभशेन हांबेलें. देवळांत न्हिदिल्ले सगळे खडबडून जागे जाले. काळखांतच ताणीं 'किदें जालें ? कोण आड्डुलो ?' बी अशी चवकशी केली. जिवोत्तमकाकान म्हाका जागें केलें. म्हाका थापटीत विचारलें 'शुभदा ! किदें जालें ? सपनबी पडलें काय किदें तुका ? भियेवं नाका आं. हांव जिवोत्तमकाका तुजेसरीन आसां'

हांवें जिवोत्तमकाकांक म्हाका ओंकूक येता म्हणून सांगलें. ताणें म्हाका उखलून देवळाभायर व्हेलें. वेवस्थित ओंकपाक दिलें. म्हाका परतें भितर व्हरून थापटीत न्हिदयलें.

० ० ०

सकाळीं जिवोत्तमकाकाचो हात म्हज्या कपलाक लागिल्ल्यान म्हाका जाग आयली. कालपासून जें जें घडिल्लें ताची म्हाका याद जाली आनी हांव अगतिकपणान रडपाक लागलें. म्हाका जिवोत्तमकाकान च्या आनी पाव हाडून दिलो. मदत केंद्रावयल्यान. म्हाका खुबच भूक लागिल्ली. गरम च्या पोटांत गेल्याउपरांत म्हाका खुब्ब बरें दिसलें.

जिवोत्तमकाकान आतां म्हाका कशें दिसता ताची मायेन चवकशी केली. म्हाका खऱ्यानीच बरें दिसपाक लागिल्लें. जिवोत्तमकाकान म्हाका मदत केंद्रावयल्यान न हालपाक सांगलें. तो अप्पासायबांक गांठूक गेलो. कितलो बरो मनीस आशिल्लो जिवोत्तमकाका ! पूण तो अदींमदीं उदासीन आनी अलिप्तपणान किद्याक

वागतालो हें मात म्हाका कळनाशिल्लें.

आयज तरी अप्पासायब येत व्हय ? ताका अद्याप हुंवाराची बातमी मेळूंक ना ? रेडियो ताणें आयकूंक ना ? वर्तमानपत्रां ताणें वाचूंक ना ? तांका जर ही बातमी कळल्या जाल्यार मागीर ते अद्याप येवंकना किद्याक ? तांका प्रेमांवाचो ॲटक बी आयलो ना मूं ? ते आमच्या जोग बिल्डिगेकडेन वचून सगळी बिल्डींग व्हांवून वचून ना जाल्ली पळोवन आमीं सगळीं मेल्यांत अशें समजून परते बी गेले ना मूं ? त्या शॉकान पिशेबी जाले ना मूं ?

ना. हांव भियेवंचेंना. भिरांतेखातीर मनीस चड दुखी जाता. म्हाका हे परिस्थितीची भिरांत दिसची ना. हांव भियेवंचें ना. धीर धरतलें. अप्पासायबाक हांव जिवें आसा हें कळयतलें. ताका धीर दितलें. जाण्टेपणांत आधार दितलें. अप्पासायब सोडल्यार ह्या जगांत आतां म्हजें अशें कोण उरिल्लें ? कोणच उरूंक नाशिल्लें.

म्हाका रडूंक आयले. म्हज्या दोळ्यांतलीं दुकां म्हज्या पोल्यांवयल्यान गळपाक लागलीं.

म्हजें लक्ष एके प्रौढ बायलेचेर गेलें. आसनमांडी घालून ती बशिल्ली. रेब्यान बरबटलेल्या आपल्या पदरासकयल आपल्या भुरग्याचें तोंड धांपून ती ताका पाजताली. हुंवारान तिचें सगळें ना जावन गेल्लें. फकत तिचें भुरगें आनी त्या भुरग्यावयलें तिचें वात्सल्य तितलें उरिल्लें. म्हाका त्या भुरग्याचें तोंड दिसनाशिल्लें पूण अदीमदीं वासराप्रमाण आवयक ढोंसपी ताची हालचाल दिसताली. हांव कितलोसोच वेळ त्या मायलेकराक पळेत रावलें.

जगाची उत्पत्ति. जगाचें पोशण. जगाचो नाश. देवान हें जग किद्याक काय उत्पन्न केलां ? जगाचे उत्पत्तिआदीं किदें आशिल्लें ? एका काळार हांव जल्माक आयलें. आईचें दूध पियेवन वाडलें. आनी आतां ? रज–वीर्य एक जावन म्हाका किडिल्ल्या दांतांचें म्हेळच्या तोंडाचें भुरगेंबी जावचेंना मूं ? तें भुरगें मागीर आपल्या किडिल्ल्या दांतांनी म्हजे स्तन तोंडात घेवन दूद चोखचेंना मूं ? ना. ना. हांव कुमारी माता जावचें ना. मवाल्यापासून गुरवार

जाल्यार बांयत वचून जीव दीन. देवा ! आरे हें किदें चल्लां ? म्हजें विचारचक्र गरगरीत घुंवतालें.

इतल्यान एक ट्रक हुंवारग्रस्तांक मदत घेवन आयलो. कपडे, चादरी, स्वेटर्स आदी लोकांनी दान केल्ल्यो वस्तू घेवन तो ट्रक आयिल्लो. हुंवारग्रस्त हलकल्लोळ करून बोवाळ करपाक लागले. हिसकाहिसकी, धक्काबुक्की करून प्रत्येकजाण ट्रकालागीं पावपाचो यत्न करपाक लागलो. दादले, बायलो, चले, चलयो सगळीजाणां ट्रकांतल्यो वस्तू पयलीं आपणाक मेळच्यो म्हणून धडपडूंक लागलीं आनी हांव वोग्गी रावून, पयस बसून हो सगळो गोंदळ, ही सगळी गर्दी, ही सगळी घाई थंडपणान पळेतालें.

म्हाका बिरबल–बादशहाची एक कथा याद जाली. कथेचें नांव आशिल्लें 'सबसे जीव प्यारा.' एके माकडीणीन जाता तोंमेरेन आपल्या पिंलाक वांचोवपाचो यत्न केल्लो. पूण जेन्ना आपल्या जिवार हांवळ येता अशें तिका दिसले, तेन्ना तिणें आपल्या पिलाक हौदाच्या उदकांत बुडोवन आपलो प्राण वांचोवपाचो यत्न केल्लो.

बिल्डींग कोंसळटना आईन नितीनाक घट्ट वेंगेंत धरिल्लो हांवें पळेल्लो. आपलो जीव वांटावपाखातीर तिणेंय उपरांत नितीनाक सोडला आसतलो काय ? माकडीणीन पिलाक बुडयल्लें तशें ?

हे असले कसले अभद्र विचार करतालें हांव ? पूण विचारांची कारंजी उडतच आशिल्लीं मनांत. किदेंच केल्यार विचार थारनासले.

एक स्वयंसेवक ट्रकार उबो रावलो. आनी तोंडामुखार धरिल्या कोण्यांतल्यान उलोवपाक लागलो.

' भावा-भयणांनो ! आयकात. वोगीच गडबड बोवाळ करूं नाकात. आमी सांगिल्लेप्रमाण क्यूंत उबे रावात. आमचें काम तेखातीर सोपें जातलें. तुमकां मदत बेगीन मेळटली. शिस्तीन वागात. संयम राखात. शांत रावून दिल्ली मदत घेयात. '

इतल्यान कांय पुलीस थंय आयले ताणीं सगळ्या लोकांक रांगेंत उबे केले. हांवय लांब्लचक रांगेंत उबे राबलें. पुण्याभायल्ले

लोक हुंवार ग्रस्तांच्या मदतकेंद्रार येताले. क्यूंतल्या लोकांक निरखिताले. आपलो कोणय नातेवाईक तांच्यांत दिसता जाल्यार पळेताले. तसो कोणय मेळ्ळ्यार ताका रांगेंतलो भायर काडताले आनी आपलेबरोबर घेवन वताले. कोणाकय ताचो नातेवाईक मेळ्ळो म्हण्टकच म्हाका आनंद जातालो. ह्या दिसांनी केन्नातरी अप्पासायब अशेच येतले म्हाका रांगेतले भायर काडटले. ह्या कुशिल्ल्या रेब्याच्या कुबट वासापासून, ह्या नरकांतल्यान म्हाका पयस व्हरतले.

आनीक एक ट्रक जेवण घेवन आयलो. क्यूंच्या लोकांक कपडयांपरस जेवण महत्वाचें दिसलें. ताणीं परतोय बोवाळ केलो. चेंगराचेंगरी केली आनी ते जेवण घेवन आयिल्ल्या ट्रकाभोंवतणी जमले. पुलीसांक राग आयलो. ताणीं सौम्य लाठीमार केलो. सगळयांक वेवस्थित क्यूंत उबे केले.

येदोळचोच स्वयंसेवक कोण्यांतल्यान लोकांक शिंस्तीन आनी शांततायेन वागपाचें अजूनय आवाहन करतालो. थोडया वेळान लोकय शांत जाले. ताणीं कपडे आनी जेवण घेतलें म्हाकाय आनीक कपडे मेळ्ळे. जेवण मेळ्ळें. म्हाका मेळिल्ल्या कपडयांची हांवें एक पोटली केली. कितले दीस म्हाका हे मदतीर जियोवचें पडटलें हें सांगपाक नकळ आशिल्लें. हांव थंडपणान जेवलें. आतांचें जेवण म्हाका रुचीक लागलें.

मदत केंद्राच्या भोंवतणी आशिल्ल्यो बिल्डिंगो मोडिल्ल्यो. त्या मोडक्या इमारतींचो आडोसो घेवन बायलो आनी दादले आपले सगळे निसर्गिक विधी उरकून घेताले. दादल्यांसामकार कांय अंतरार बायलो बशिल्ल्यो. म्हाका हें सगळें पळोवन वीट दिसली. पूण म्हाका कितलीय वीट दिसली, लज दिसली तरीकय म्हाकाय म्हजो निसर्गिक विधी असोच करचो पडटलो हें म्हाका बेसबरें कळ्ळें.

कांय दिसांपयलीं हांवें 'आमचे पूर्वज' हें पुस्तक वाचिल्लें. तांतूत वर्णन केल्लें आदिमानवाचें रावप वागप म्हाका याद जालें.

ह्या हुंवारांच्या संकश्टांत पुण्याचे लोक आदिमानवासारकेच वागिल्ले. भक्ष मेळोवपाखातीर ताणीं दुसऱ्या लोकांची पर्वा करूंक नाशिल्ली. वासनापूर्तीखातीर जनांवरांभशेन ते वागिल्ले. ताणीं आपले निसर्गिक विधी उक्त्या सैमार केल्ले.

धा हजार वर्सांयलीं पुण्याक आमचेच आदिमानव पूर्वज रावताले. आयज आमी वागलीं तशे ते सदांच वागत. नागडेच रावताले. शक्य जाल्यार जनावरांचें कातडें कमराक गुंडाळीत. हरवें मांस खानाले. आपणांक जाय ते बायले वांगडा समागम करीत. ऐच्छिक वा जबरी. ते तीक्ष्ण गुण्यांचीं शस्त्रां वापरून शिकार करीत.

हांव एकाच जाग्यार पुतळ्याभशेन निश्चल बसून आशिल्लें. मनांत विचार भन्नाट घुंवताले. इतल्यांत 'शुभी' अशी हालेट आयकूंक आयली. हांवें पळेलें. अप्पासायब 'शुभी! शुभी!' करीत म्हजेकडेन धांवत येताले.

'अप्पासायब!' अशी किळांच म्हज्या तोंडातल्यान फुटली. हांव धांवत पळत तांचेकडेन गेलें. जेन्ना ताणी म्हाका वेंग मारली तेन्ना हांव आनंदातिशयान बेशुद्ध पडलें तांचे वेंगेंत.

हुंवारामेरेनचे म्हजे जिणेचो भाग सोंपला. म्हाका उत्साही दिसता. हांव नॉर्मल चली. म्हज्यांत कांयच उणीव ना.

० ० ०

'तूं आतां हांवें सांगिल्ले विचार सदांच मनांत बाळगितलें. तूं जागें जातलें तेन्ना तुका खुपच उत्साही दिसतलें. तूं नॉर्मल चली. तुज्यांत कसलेंच न्यून्य ना. तूं फ्रिजीड जालां असो तुज्या मनार फट परिणाम जाल्लो. आतां तो परिणाम उरूंक ना. तुकाय सगळ्या स्त्रीसुलभ भावनांनी दिलचस्पी आसा,' तो धीरगंभीर आवाज भित्तरल्यान खंयसूनतरी म्हाका आयकूंक आयलो.

हय. हांव हेच विचार मनांत बाळगितलें.

म्हाका खूबच उत्साही दिसता. हांव नॉर्मल चली. म्हज्यांत कसलेंच न्यून्य ना. हांव फ्रिजीड न्हय. म्हाका तशें दिसतालें तें म्हज्या मनार फट परिणाम जाल्लो म्हणून. आतां तो परिणाम

म्हजेर उरूंक ना. म्हाकाय सगळ्या स्त्रीसुलभ भावनांनी दिलचस्पी आसा.

हांवे दोळे उक्ते केले. रुमांतल्या दिवाणार हांव न्हिदिल्लें आशिल्लें. म्हजी साडी म्हेळी जाल्ली. ती जाण्टेली, प्रेमळ किरीस्तांव बायल म्हजे कपडे साफ करताली. हांव आंग काडून उठून बसलें. रुमांत सुहास नाशिल्लो. म्हजे ओंकीन म्हजी साडीच फकत म्हेळी जाल्ली.

'डॉक्टर खंय ?' हांवें ते बायलेक विचारलें.

'भायर बसल्यात. ताणीं म्हाका तुमकां नितळ करपाक सांगलां. तुमी हो गावन घालून अर्दवर हांगा बसश्यात व्हय ? हांव तुमची साडी नितळ करून फेरें मारून दितां,' ते बायलेन म्हाका म्हळें.

हांवें गावन घालो. साडी सोडोवन ते बायलेकडेन दिली. ती गेली. म्हाका अंधुकशी याद जाली. हांव त्या मवाल्यान म्हजेर केल्ल्या बलात्काराचो विचार करतालें. भौतेक तेन्नाच हांव ओंकिल्लें. आनी म्हजी साडी म्हेळी जाल्ली. म्हाका खुपच लज जाल्लेभशेन जालें.

दिवाणासामकार एक हारसो आशिल्लो. हांवें हारशांत पळेलें. गावन घाल्ली म्हजी प्रतिमा पळेली. कितलें सुंदर दिसतालें हांव. उभ र दिसपी म्हजी छाती, म्हजी लांब विणी, प्रमाणबद्ध शरीर, हळडुवी कांती, कोरीव भुंवयो, सरळ नाक आनी दोन भुंवयांमदलो तो काळो तीळ. हांव म्हजे छबीकडे पळोवन हांसलें. छबीय हांसली. मोतयांभशेन म्हजे दांत चकचकले.

म्हाका खुपच उत्साही दिसतालें. आनंदान एक पद म्हणचें अशें म्हाका दिसपाक लागलें. म्हाका पिसाभशेन ल्हव दिसतालें. सुहासाचें तें इंजेक्शन कितलें प्रभावी आशिल्लें ! म्हज्या सगळ्या पूर्वायुश्याची हांवें उजळणी केल्ली. सिंहावलोकन केल्लें. मनांतल्या मनांत.

हांवें ल्हवून म्हजे उजवे कुशीक आशिल्लें दार मातशें

उगडलें. भायर पळेलें. सुहास एका मेजासामकार कदेलार बशिल्लो. ताचे तकलेर टेलिफोन रिसिव्हरासारकें किदेंतरी लायिल्लें. तो सकयल पळेत एकाग्रतायेन येवाजितालो. तो वाडिल्ल्या दाड मिश्यांखातीर प्राचिन ऋषीकुमाराभशेन दिसतालो. अश्विनी-कुमार ! देवांचो वैज ! कसलो विचार करतालो काय तो ?

हांवें दार परतें धांपलें.

ती बायल हांसत हांसत भितर आयली. तिणें म्हजेखातीर एक कप कॉफी हाडिल्ली. हांवें कॉफी घेतली. म्हज्यो चित्तवृत्ती प्रसन्न जाल्ल्यो. बलशाली विचार मनांत घोळटाले. ल्हवल्हव दिसतालें.

हांव खऱ्यानींच एक पद गुणगुणपाक लागलें.
म्हाका खुपच उत्साही दिसता.
हांव नॉर्मल चली.
म्हज्यांत कांयच न्यून्य ना.
हांव फ्रिजीड न्हय.
म्हज्या मनार जाल्लो तो फट परिणाम आतां उरूंकना.
म्हाका सगळ्या स्त्रीसुलभ भावनांनी दिलचस्पी आसा.
वयले विचार म्हज्या मनांत परते परते घोळटाले.

म्हज्यांत पोलादी आत्मविश्वास घोळटालो. हांवें खूब वेळ म्हाकाच हारशांत पळोवन घेतलें. म्हज्या सौंदर्याचें हांवेंच कवतुक केलें. ते बायलेन म्हजी साडी हाडल्याउपरांत हांव ती वेवस्थित न्हेसलें. उपरांत भायर गेलें. सुहास अजूनय सकयल पळेत येवजितालो. हांव भायर येतकच ताचें लक्ष म्हजेकडेन गेले.

‘ हां ! किदें बेबी ? कशें किदें दिसता तुका ?’ ताणें हांसत म्हाका विचारलें.

‘ डॉक्टर ! म्हाका सामकें बरें दिसता ’ हांवें म्हळें, ‘ आय एम सो सॉरी, डॉक्टर ! आय ओमिटेड.’

० ० ०

# सुहास

शुभदाक भितर येतना पळोवन हांवें हेडफोन काडून सकयल दवरलो. आनी ताका हांसत विचारलें, 'हां ! किदें बेबी ? कशें किदें दिसता तुका ?'

' डॉक्टर ! म्हाका सामकें बरें दिसता ' ताणें जाप दिली ' आय एम सो सॉरी डॉक्टर ! आय ओमिटेड. पूण डॉक्टर ! हांव ओंकलें कशें किदें ? म्हाका किदें जालां डॉक्टर ? कसलो मानसिक रोग आसा म्हाका ?' ताणें म्हाका प्रस्न केले. ओंकिल्याखातीर ताका खुब्ब लज जाल्ली.

' बेबी ! यू आर परफेक्टली ऑल रायट. म्हाका आनीक दोन खेप तुजी मुलाखत घेवची पडटली. म्हाका दिसता तेउपरांत तुका म्हाका सगळें सांगपाक जातलें. सो फार आय हॅव नॉट फावंड ॲनीथिंग ' हांवें म्हळें.

' डॉक्टर ! हांव वचूं ? ताणें म्हाका विचारलें.

' हय. फाल्यां सकाळीं णव वरांचेर यो. कॅन यू मेक इट ?'

' डेफिनिटली डॉक्टर ! ' ताणें उत्साहान म्हळें.

तें वचकच हांवें परतोय हेडफोन कानाक लायलो आनी परत शुभदाचें टेप केल्लें कथन आयकूंक लागलों. हें चली तल्लख बुद्धीमत्तेचें आशिल्लें. ताणें खुब्ब आघात सोंशिल्ले. पुरांत ताच्या दोळयांसामकार ताची आवय आनी भावंडां व्हांवून गेल्लीं. तें सुदैवान

वांचिल्लें. पूण रोखडोच ताचेर दुसरो आघात जाल्लो. एका मवाल्यान ताचेर निर्घृण बलात्कार केल्लो. ताच्या सगळ्या नाजूक भावनांचो चुरो जाल्लो. ह्या दोन अकस्मात मेळिल्ल्या शॉकानीं, येवजूंक नाशिल्ल्या धक्क्यांनी ताच्यो सगळ्यो स्त्रीसुलभ भावना जळून तांचो साप्प गोबोर जाल्लो. तें थंड फ्रिजीड जावचेंनाशिल्लें जाल्यार किदें जातलें आशिल्लें ? तें सगळ्या शृंगाराचो, कामुक दृश्यांचो द्वेश करचेंना जाल्यार किदें करतलें आशिल्लें ? ताका लैंगिक संबंधाची किळस येवची ना जाल्यार किदें येतलें आशिल्लें ?

आपणाचेर जाल्लो बलात्काराचो प्रसंग सांगतना ताका चवदा वर्सांपयलीं घडिल्लो त्या प्रसंगाची तंतोतंत याद जाल्लो. ते यादींत वचनाफुडें ताका किळस आयिल्ली. आनी तें त्या प्रसंगाचें वर्णन करता आसतनाच ओंकिल्लें. ताच्या मेंदूवयलो ताबो गेल्लो. बाबडें ! कितलें सोंशिल्लें ताणें ? कशें तत्वज्ञाप्रमाण येवजितालें तें. हुंवाराच्या संकश्टाचो छाप ताच्या मनार भित्तर उमटल्लो.

ताचेर मानसोपचार करता आसतना म्हजेरय परिणाम जातालो. कारण हांव फकत मानसोपचार करपी तज्ञ ही अलिप्त भावना शुभदाची परिक्षा करतना म्हाका बाळगूंक येनाशिल्ली. उरफाटें, शुभदा म्हजें. खंयचेय परिस्थितींत ताचेर जाल्ल्या परिणामापासून ताका हांवे मुक्त करपाकच जाय अशें म्हाका दिसतालें. आनी ताची हांव सॅर्त हे मानसिक विकृतिपासून सुटका करतलों आशिल्लों.

हांव ताचेवांगडा लग्न करतलों. तें म्हजी वाग्दत्त वधू. आरे पूण हें सगळें म्हजे हांवेंच थारायलां हें कशें ? ताणें किदें थारायलां ताचो विचार नाका जावपाक ? हय. ताचोय विचार हांव करतलों. फुडाराविशीं तें किदें येवजिता म्हाका ह्या दोन दिसां-भितर कळटलें.

हांवें टेलिफोन उखल्लो. डॉ. आपटेक फोन केलो. डॉ. आपटे रोखडोच मेळ्ळो.

'डॉक्टर! हांव डॉक्टर दोडगे. त्या दिसा तुमचे लेक्चर सिफिलिसाचेर आशिल्लें आनी एका सिफिलिस जाल्ल्या पेशंटा-सामकार तुमचें लेक्चर चालू आशिल्ले मूं ?

'दॅटस रायट' डॉ. आपटेन जाप दिली, 'मिस रेगेक फिट आयिल्ली त्याच दिसा मूं ?'

'हय डॉक्टर! म्हजेर तुमी एक फावोर करपाक शकतात ?' हांवें विचारलें.

'बाय ऑल मिन्स, डॉक्टर! व्हाय नॉट ? उलयात. हांव किदें करूं ?' ताणे विचारलें.

'तो पेशंट रोखडोच मेलो न्हय ? ताचे केसपेपर्स मात्शे म्हाका पळोवपाक मेळटले ?' हांवें विचारलें.

'डेफिनिटली. कॅन यू कम ॲट थ्री थर्टी ?' ताणें म्हाका विचारलें.

'यस! हांव साडेतिनांक तुमचेकडेन येतां. केस पेपर्स तुमच्या चेंबरांत मागोवन घेयात,' हांवे टेलिफोन सकयल दवरलो.

० ● ०

हांव साडेतिनांक डॉ. आपटयांकडेन गेलों. ताणें म्हजें हांसून स्वागत केलें.

'व्हॉट आर यूवर फायडींग्स ॲबौट रेगे डॉक्टर ?' ताणें म्हाका विचारलें. शुभदाबगर दुसरो कोणय जर पेशंट आसता जाल्यार हांव डॉक्टर आपटेक म्हजें निदान सांगतलों आशिल्लों. पूण शुभदासंबंदान कांयच सांगपाक हांव तयार नाशिल्लों. शी वॉज माय गर्ल.

'इट इज टू अर्ली टू कम टू अॅ डेफिनिट कंक्लूजन' हांवें ताच्या प्रश्नाच्या रोखाक मोडण दिलें.

हांव ते केस पेपर्स चाळपाक लागलों. महादेव गणपत शिदे हें त्या पेशंटाचें नांव. थर्ड स्टेज सिफिलिसान ताका ग्राशिल्लो. तो हृदयक्रिया बंद पडून मेल्लो. ताच्या आंगार वळखिची खूण आशिल्ली.

ताच्या उजव्या हातार मुरलीधर कृष्णाचें चित्र गोंदयल्लें. रिपोर्टीत हें आशिल्लें. हय. दुबावच ना. तो तोच आशिल्लो. चवदा वर्सां-पयलीं ताचेर बलात्कार करपी नराधम आनी शुभदा ताका वळखल्लें.

हांवें केसपेपर्स फायल बंद केली.

'थँक्यू, डॉ. आपटे.' हांवें कदेलावयल्यान उठत म्हळें. डॉ. आपटेक खूब अजाप जालें.

'डॉक्टर! व्हॉट वॉज सो व्हेरी इंपोर्टंट अबौट धीस पेशंट?' ताणें म्हाका विचारलें.

'म्हजी ती काम करपाची पद्धत, दोतोर! हांव खंयचीच गजाल उणें महत्वाची म्हणून निग्लेक्ट करीना. मिस रेगेक सामकी हालींची फिट त्या दिसा आयिल्ली. तुमचें लेक्चर चालू आसतना. म्हळें सगळ्याची तपशीलवार माहिती घेवची. म्हजें काम जालें डॉक्टर! थँक्यू व्हेरी मच,' हांव डॉ. आपटेच्या चेंबरांतल्यान भायर सरलों.'

हांव आवाराभायर वता जाल्यार इतल्यान 'डॉक्टर' असो उलो आयकूंक आयलो. हांवें फाटल्यान पळेलें. शुभदा बेगीन बेगीन चलत म्हजेकडेन येतालें. हांव थंयच रावलों. कितलें सुंदर, कितलें मोहक, कितलें सात्विक दिसतालें म्हजें शुभदा.

'हॅलो बेबी!' हांवें ताचेकडेन पळोवन ताका हांसत विचारलें.

तें उत्साहान म्हजेलागीं आयलें. खूब बेगीन चलिल्ल्यान ताका धांप लागिल्ली.

'आज हेवटेन खंय, डॉक्टर?' ताणें विचारलें.

'इल्लें काम आशिल्लें, बेबी! म्हाका खूब तान लागल्या म्हाका कंपनी दितलें?' हांवें विचारलें.

ताका घेवन हांव 'क्वालीटी'त गेलों. आमी पयलीं कोल्डड्रींक पियेलीं आनी येदें व्हडलें कसाटा आयसक्रीम खालें. ताका पळोवन म्हाका खुब्ब आनंद जाल्लो. म्हाका मेळिल्ल्यान ताकाय खुब्ब आनंद जाल्ल्याचें दिसतालें.

'बेबी ! तूं वाचन कसलें करता ?' हांवें ताका विचारलें.

' म्हाका विज्ञानाचीं पुस्तकां आवडटात. स्वामी विवेकानंद, स्वामी रामतीर्थ हांचे ग्रंथ हांव आवडीन वाचतां.' ताणें म्हाका म्हळें.

' हाउ अबौट लिटरेचर ?' हांवें विचारलें.

' हांव खूब रूक्ष डॉक्टर ! म्हाका कथा, कादंबरी, नाटकां आदी वाङ्मय आवडना' ताणें म्हळें.

' हें पळे बेबी ! आय वाँट यू टू रिड ए नॉवेल. खुबच खवदूळ घाल्ली ती कादंबरी. डी. एच. लोरेन्स ह्या लेखकान ती बरयल्या. कादंबरीचे नांव आसा ' लेडी चॅटर्लीज लव्हर. ' हांव फाल्यां तुका ती म्हज्या क्लिनिकांत दितां. आय वॉन्ट यू टू रीड इट. वाचतकच तुंवें ते कादंबरीची समरी बरोवपाची.' हांवें ताका सांगलें.

' अॅज ए प्रिस्क्रिपशन, डॉक्टर?' ताणें हांसत म्हाका विचारलें.

' वेल ! यू कॅन थिंक अॅज यू लायक इट ' हांवें हांसत म्हळें.

हांवें ताका परतें कॉलेजांत पावयलें आनी हांव परतलों.

० ० ०

हांव म्हज्या क्लिनिकांत आयलों. फोन उखल्लो. केदार वाढवानीचो नंबर घुंवडायलो.

' हॅलो केदार ! डॉ. दोडगे हियर ' हांवें म्हळें.

' यस डॉक्टर ! हांव तुमचेखातीर किदें करूं सांगात, ' ताणें विचारलें. ' केदार, म्हाका तुजें एक ब्ल्यू फिल्म जाय आनी तुजो प्रोजेक्टरयबी.'

' आरे वा, डॉक्टर ! व्हॉट इज द स्पेशल ऑकेजन ?'

' नथिंग. आय वाँट इट. केन्ना धाडटा सांग.'

' तुमकां जाय तेन्ना.'

तर मागीर हांव परवां सकाळीं आठ वरांचेर तुज्या घरा येवन फिल्म आनी प्रोजेक्टर घेवन वतां. विल इट डू ?'

' बाय ऑल मिन्स, डॉक्टर! हांव दोनय तयार दवरतां.' ताणें सांगलें. हांवें फोन सकयल दवरलो.

हावें परतोय एक फोन-नंबर घुंवडायलो. महाबळेश्वर साने फोनारच मेळ्ळो.

' महाबळ! हांव सुहास दोडगे.'

' उलय. उलय वैद्यराज! आज म्हजी याद तुका कशी किदें जाली?' ताणें विचारलें. तो आनी हांव भुरगेपणानसावन इश्ट. तो एक प्रथितयश लेखक जाल्लो. ताणें कितल्योशयोच गाजिल्ल्यो कादंबऱ्यो बरयल्ल्यो.

' महाबळ! म्हाका तुजे लायब्ररींतलें एक इंग्लेज नॉवेल जाय.'

' उलय. खंयचें जाय?'

' डी. एच. लोरेंन्साचें लेडी चटर्लीज लव्हर.'

' मेळ्ळेंच समज. केन्ना व्हरता?'

' फाल्यां सकाळीं साडेआठांक. तूं तें सोदून काडून भायरच दवर. विसरूं मात नाका.'

' फाल्यां येवन घेवन वच तूं पळोवया.'

हांवे टेलिफोन सकयल दवरलो.

o o o

हांवें कागद, पेन घेतलें. पनवेलाक जिवोत्तमकाकाक एक पत्र बरयलें.

ति. जिवोत्तमकाका,

सप्रेम नमस्कार.

म्हजें तुमचेकडेन एक म्हत्वाचें काम आसा. तुमी आनीक चार दिसांउपरांत मुंबैक येशात? खरें म्हळयार हांवूच तुमकां मेळूंक पनवेलाक येवपाचों. पूण ह्या दिसांनी खूब लोकांक अॅपोंयट-मेंटस दिल्ल्यान म्हाका हांगासून आनीक आठ दीसमेरेन हालपाक जावचें ना.

तुमी येतात मूं? मुजरत येयात.
माधवकाकांक नमस्कार.

तुमचो,
सुहास

ता. क. तुमी जेन्ना हांगा येतले तेन्ना हांवे म्हजें खाड गळगुळीत केल्लें तुमकां पळोवंक मेळटलें.

– सुहास

हांवें तें पत्र रोखडेंच पोस्ट करपाक लायलें.

० ० ०

हांवें परतो म्हज्या घरचो फोन घुंवडायलो. शंकरान फोन घेतलो.

'शंकर! आयज सांजचो हांव पांच वरांचेर येतलों. आयज हांव म्हजें खाड नितळ करतलों. उपरांत हून उदकांन न्हातलों. खाडाचें सामान आनी हून उदक बराब्बर पांच वरांचेर तयार दवर,' हांवें ताका सांगलें.

'बरें पात्रांव!' शंकरान म्हळें. हांवें फोन दवरलो.

शुभदाच्यो देड वराचो एक अश्यो दोन टेपी हांवें रिकॉर्ड केल्ल्यो. हांवें हेडफोन लायलो. आनी टेपी पयलींपासून आयकुपाक सुरवात केली. म्हाकाय ताच्या भुरगेपणांतल्या परिकथेंतल्या राज–कुंवर आनी राजकुंवरीवांगडा तादात्म्य पावचेशें दिसलें.

एका राजकुंवरीचें एका राजकुंवराचेर भुरगेपणांतच प्रेम जडलें. पूण एका राक्षसान तिका पळयली. तिका सकाळची तो बेबकी करून दवरतालो. रातचो परतोय तिका मनीसरूप दितालो. राजकुंवराक राजकुंवरी आपलेचेर प्रेम करताली हें खबर नाशिल्लें. तो सहज एकदां शिकारेक रानांत गेल्लेकडेन ताणें राक्षसाच्या वाडयांत प्रवेश केलो. बेबकी ताचेलागीं उलयली. रातीक राक्षसान जेन्ना तिका परतेंय मनीसरूप दिलें तेन्ना राजकुंवरान युक्तीन त्या

राक्षसाक मारून उडयलो. राजकुंवर राजकुंवरीचें लग्न जालें. तीं सुखान रावूंक लागलीं.

शुभदांत रिगिल्ल्या विकृतिच्या राक्षसाक म्हाका मारपाक जातलें काय ना ? ... ...

शुभदान कितलें सुसंगत, व्यवहारी चिंतप करून म्हाका आपली जीण कथन केल्ली ! ! ...

० ० ०

# शुभदा

हांव दनपरां लायब्ररींतल्यान परतताले. आनी म्हाका सुहास कॉलेजाच्या आवारांतल्यान वतना दिसलो. म्हजें मन कमल्यातरी अवर्णनीय आनंदान भरून गेलें 'सुहास' 'सुहास' अशें मोठ्यान ताका उलो मारचे अशें म्हाका खिणभर दिसलें. पूण तशें करप म्हाका जमलेंना. हांव जाता तितल्या बेगीन चलत ताचेलागीं गेलें आनी म्हळें, 'डॉक्टर.' ताणें फाटल्यान वळून पळेलें आनी तो थंयच रावलो. हांव बेगीन बेगीन चलत ताचेकडे वतालें आनी तो म्हजेचकडेन थीर पळेत उबो राविल्लो.

'हॅलो बेबी!' ताणें म्हजेकडेन पळोवन हांसत म्हळें.

हांवें ताका तो हांगा खंय आयिल्लो तें विचारलें. ताणें आपल्याक थोडें काम आशिल्ल्याचें सांगलें आनी म्हाका आग्रो करून 'क्वालीटीं'त व्हेलें, म्हजें मन आनंदान नाचतालें. गातालें. बलशाली विचार करतालें.

सुहासान म्हाका वाचूंक किदें आवडटा ताची चवकशी केली. म्हाका एक इंग्लेज कादंबरी फाल्यां वाचूंक दितां म्हणून सांगलें. ती कादंबरी शृंगारीक आसल्यार हांव वाचचें नाशिल्लें. ताणें म्हाका कोल्डड्रींक आनी आयसक्रीम दिलें. हांव एका तेंपार नाकासामकार पळोवन चलपी चली! आयज सुहासावांगडा आनंदान उलयतालें. ताणें दिल्लें आयसक्रीम खातालें. आनी विशेश म्हळचार ताची

मातय नसाक करिनाशिल्लें. उरफाटें ताची कंपनी, ताची साथ म्हाका आवडटाली. म्हजें मन गातालें.

म्हाका खुपच उत्साही दिसता.

हांव नॉर्मल चली.

म्हज्यांत कांयच न्यून्य ना.

म्हज्या मनार जाल्लो तो फटींचो परिणाम आतां उरूंक ना.

म्हाका सगळ्या स्त्रीसुलभ भावनांनी दिलचस्पी आसा.

हांव प्रफुल्लीत मुद्रेन घरा गेलें. म्हज्यांत पडिल्लो फरक अप्पासायबांच्या लक्षांत आयलो.

किदें शुभे! आज चड आनंदीतशें दिसता? ताणी खोशी जावन विचारलें.

हांव सामकें लजलें. म्हळयार म्हजो आनंद सगळांच्या लक्षांत येतालो. असो उत्साह, असो आत्मविश्वास, इतलो आनंद म्हाका कितलीशींच वर्सां खबर नाशिल्लो. ही सगळी त्या सुहासाच्या इंजेक्शनाची किमया.

फ्रायड म्हण्टा– आपल्याक विकृती कसली आसा हें एकदां कळ्ळें म्हण्टकच ती विकृती उरना. ना जाता.

हांव फ्रिजीड आसा अशें दिसपाची म्हाका विकृती जडिल्ली तें हाका कळ्ळें म्हणूनच हांव आतां फ्रिजीड उरूंकना? तर मागीर काल इंजेक्शनाचे गुंगेंत हांव ओंकले कशें? शृंगाराचो बेश्टो विचार आयल्यार, कामुक दृश्याचें सपनलेगीत पळल्यार म्हाका किळस आनी ओंकारी मागीर कशी किदें येता? आनी परतेय ते बलशाली विचार म्हज्या दुर्बल विचारांक साप्प धांवडावन घालपाक लागले. हांव ह्या चार दिसांक बेसबरें गाढ न्हिदतालें. म्हजी बलायकी सुधारिल्ली. म्हाका ल्हवल्हव दिसतालें. म्हज्या मनार कसलोच तणाव उरूंक नाशिल्लो.

० ० ०

हांव सुहासाचे क्लिनिकांत पावलें तेन्ना सुहास कसलें तरी पुस्तक वाचत बशिल्लो. म्हाका पळोवन ताणें पुस्तक मेजार दवरलें ताणें सुळसुळीत खाड केल्लें. खाड नाच्च जाल्लें. मिश्यांक कट दिल्लो.

'गुडमॉर्निंग बेबी,' ताणें म्हाका हांसत्या तोंडान विश केलें.

'गुडमॉर्निंग डॉक्टर' हांवें सुहासाक जाप दिली.

जग कितलें सोबीत जालां ! सगळ्याक कसो इतलो उत्साह पातळ्ळा ? म्हाका सगळ्या गजालींनी इतलो रस घेन कसो दिसता ? आयज नितळ खाड केल्लो सुहास कितलो देखणो दिसतालो !

'वा बेबी ! आयज तूं ताज्या फुलाभशेन सोब्रीत दिसता,' सुहासान म्हाका म्हळें आनी हांव आनीक एक खेप लजलें. सुहास सलगीन उलयतालो आनी तो दादलो आसूनय म्हाका ताचो राग येनाशिल्लो. उरफाटें, ताणें आनीक तशेंच किदेंतरी उलोवचें अशें म्हाका दिसलें. खाड खूब दिसांनीं नितळ केल्ल्यान मातसोसो फिकट दिसपी ताचो चेरो कितलो देखणो दिसतालो !

'डॉक्टर ! म्हाका किदें व्याधी जडल्या ? हांव पुराय बरें केन्ना जातलें ?' हांवें व्याकुळ आवाजांत सुहासाक प्रस्न केलो.

'बेबी ! तुका कांयच जाल्लें ना. तूं पुराय बरें आसा, ताणें म्हाका ठाम सांगलें.

'तर मागीर डॉक्टर हांव अशें ओंकतां कशें ? म्हाका फिटस किद्याक येतात ?' हांवें विचारलें.

'प्लीज वेट अँड होप. वाट पळे आनी बरें जावपाची इस्सा धर. हांव तुका आनीक चार दिसांउपरांत सविस्तर माहिती दितां. तुका किदें जालाशें दिसतालें, किद्याक दिसतालें आनी आतां किद्याक दिसना तें सगळें समजावन सांगतां. तो मेरेन प्लीज वेट अँड होप '. सुहासान म्हाका सांगलें.

'ओके डॉक्टर !' हांवें खोशी जावन म्हळें. आनीक चार

दिसांनी म्हाका कसली विकृती जडिल्ली तें कळोवपाचो आसा तो. पळोवयातरी हो अश्विनीकुमार किदें सांगता तो.

‘ बेबी ! आतां आमचें काम आमी करुंया ’ हांव भितर गेलें.

० ० ०

‘ तुवें तुजी हुंवारापयलींची जोण वर्णन करून सांगली. हे जिणेंत आनीक किदें सांगपाचें उरलां व्हय ? ’ त्या धीरगंभीर आवाजान भित्तरल्यान खंयसूनतारी विचारलें.

‘ आनीक कांयच सांगपाचें उरूंकना ’ हांवें म्हळें.

‘ तर मागीर आतां तुजी हुंवाराउपरांतची जीण सांग ’ तोच आवाज विचारूंक लागलो.

आरे आवाजा ! इतले दीस म्हाका हें सगळें किद्याक विचारलें ना ? तुवें सगळें आयकना फुडें म्हाका म्हजेवयलें वजें उणें जाल्लेभशेन दिसता. हांव तुका सगळें सांगपाचेंच आशिल्लें. हुंवाराउपरांत म्हजो घुस्मटसार मात खुब्ब जालो. तोंड धांपून धुमक्यांचो मार सहन केलो हांवें. पूण परिस्थितीवांगडा मात हांव लढलें. फकत रडत बसलेंना.

अप्पासायबान पूरग्रस्त मदत-केंद्रार म्हाका गांठतकच ताणीं म्हाका रोखडेंच मुंबय व्हेलें. आपल्याक हाचेफुडें पुण्याक रावप जड थरतलें हें तांका खबर आशिल्लें. खूब जाग्यांचेर पावतकच, विशिश्ट घरांसामकार पावतकच, विशिश्ट मनशां दिश्टी पडटकच, आपल्याक आई, सुधीर, विनिता, नितीन हांची याद खावपाक येतली हें तांका खबर आशिल्लें. तांच्या वरिश्ठांनी तांचेखातीर खुब्ब खटपट केली. तांची बदली मुंबैक करून दिली. पयलींच्याच खात्यांत. पयलींच्याच हुद्यार. ऑफिसामार्फतच अप्पासायबांक एक ओनरशिप ब्लॉक घेवपाक कर्ज मेळिल्लें. आनी म्हणून ते मुंबै एक ब्लॉकय घेवपाक पाविल्ले.

पुण्याकसावन मुंबै येतकच म्हजो सामको आंवरो उडिल्लो. म्हाका एकमुळेंच रावचेशें दिस. कोणाचीच संगत नाका अशें दिसतालें. म्हाका आनीक फुडें शिकपाची इत्सा ना अशें हांवें अप्पासायबांक

सांगलें. ताणींय म्हज्या मनाविरुद्ध म्हाका चड आग्रो केलो ना. हांव सामकें कृश आनी व्हिरगासारकें बारीक जाल्लें. धवें फटफटीत दिसतालें. हांव घरचीं सगळीं कामां करतालें. अप्पासायब जेवन ऑफिसाक वतकच मात हांतुणार पडून फकत वाचतालें आनी न्हिद-तालें. खुपच अशक्तताय आयिल्ली म्हाका.

पुण्याकसून हांव मुंबै येवन वीस दीस जाल्ले. हुंवारापयलीं धा दीस म्हाका दुसरी म्हयन्याची पाळी जाल्ली. एक म्हयनो जालो तरी तिसरी मासिक पाळी म्हाका जावंक नाशिल्ली. आनीक एक त्रास सुरू जाल्लो. म्हाका मूत्र–विसर्जन करतना जळटालें. शरीरांत कसलीतरी उश्णता वाडिल्ल्याभशेन दिसताली. दोळे जळटाले. भूक लागनाशिल्ली. न्हीद बरी येनाशिल्ली.

म्हाका त्या मवाल्यापासून दीस बी गेल्ले काय? म्हाका अशें किद्याक जातालें काय? कसली पिडा जडिल्ली म्हाका? आतां किदें करपाचें?

हांवें सगळे प्रयत्न करपाचें थारायलें.

पयलीं म्हाका थरोवचें पडटलें म्हाका खऱ्यानींच दीस गेल्यात काय किदें तें. पूण हें म्हाका कळपाचें कशें? दोतोराक दाखयल्या-बगर हें जमपाचें नाशिल्लें. अप्पासायबांक कळयनासतना दोतोराक दाखोवप म्हाका कशें किदें जमतलें? अप्पासायबांक कळोवपाचें जाल्यार कशें कळोवपाचें? आपली उरिल्ली एकसूरी धूव हुंवारांत-ल्यान वांचल्या. पूण भ्रश्ट मात जाल्या. ती हुंवारांत मेल्ली जाल्यार बरें जातलें आशिल्लें अशें तांका दिसचें नाशिल्लें? ह्या दुसऱ्या शॉकान तांचें ब्लड–प्रेशर अकस्मात वाडलें जाल्यार? तांका मर्ण आयलें जाल्यार? ह्या अफाट संवसारांत म्हजें अशें म्हाका कोण? ना. हांव मरतलें, पूण अप्पासायबांक त्रास दिवन तांच्या मर्णाक कारणीभूत जावचें ना.

खंयच्या दोतोराक दाखोवपाचें? पयलीं दोतोराकडल्यान हांव खऱ्यानींच गुरवार जालां काय किदें तें स्पश्ट समजून घेवंक

जाय. खंयच्या दोतोराकडेन वचपाचें? म्हजे असली अल्पवयीन चली खंयच्या दोतोराकडेन एकलीच वतली? ? आनी आतां हांव जण एका दादलेमनशाक भियेतालें. अप्पासायब सोडल्यार म्हाका सगळ्या दादल्यांची किळस येताली. तो सुहास! जाचेर हांव अतोनात प्रेम करी, जाका हांव भांगरा केंसाचो राजकुंवर म्हणटालें, जाका हांव देवदूत मानतालें, त्या सुहासाची लेगीत म्हाका आतां घृणा येताली. सगळेच एके माळेचे मणी. सगळेच वखवखलेले. म्हण्टकच हांव दादल्या दोतोराकडेन वचपाचो प्रस्नच उरनाशिल्लो.

आतां बायल दोतोर खंय सोदपाची? आनी इतल्यान म्हाका एके बायल दोतोराची याद जाली. अप्पासायब आनी हांव सांजचीं बाजार हाडपाक वतालीं. आमच्या घरापासून अर्ध्या फर्लांगार एक दवाखानो आशिल्लो. ताचेर भायरूच पाटी लायिल्ली. डॉ. सूमती सुलाखे, एम. बि. बि. एस. (बॉम). रस्त्यावयल्यान हांवें काय ते दोतोरनीचें तोंड पळोवंक नाशिल्लें. फकत नांवावयल्यान ती बायल दोतोर हें सिद्ध जातालें. हांवें हे डॉ. सुलाखेकडेन वचपाचें थारायलें. अर्थात अप्पासायबांक कळपाक दिनासतना.

० ० ०

दुसऱ्या दिसा आप्पासायब ऑफिसाक वतकच हांवें आमच्या ब्लॉकाक चावी केली. सरळ डॉ. सुमती सुलाखेच्या दवाखान्यांत गेलें. हांव अकालीं पोक्त जाल्लें. ते दोतोरनीक किदें सांगपाचें तें हांवें मनांत पयलीं सामकें पक्कें थारायल्लें. हय. हांवे ते दोतोरनीक सत्य आनी सगळें सत्य सांगपाचें थारायल्लें...

हांव दवाखान्यांत पावलें तेन्ना डॉ. सुलाखे, वर्तमानपत्र वाचत बशिल्ली. तिची पिराय सुमार तीस ते बत्तीस वर्सांची आशिल्ली. तिचें लग्न जावंक नाशिल्लें. म्हाका पळोवन ती हांसली आनी तिणें वर्तमानपत्र सकयल दवरलें.

'किदेंगो बाय! कित्याक आयिल्लें तूं?' तिणें म्हाका विचारलें.

'...... ' म्हाका कांयच उलोवपाक जालें ना.

'बाय! तुका किदें जाता? भियेनासतना आनी भिडे-नासतना म्हाका सांग पळोवया. दोतोराकडेन सदांच सारकें खरें उलोवचें,' आपल्या भारदस्त आवाजांत म्हाका धीर दीत दोतोर उलयली. हांव किदेंतरी सांगपाक सोदतां पूण सांगपाक भिडेतां हें तिच्या लक्षांत आयिल्ल.

'म्हाका मुतूंक जातना खूब जळटा' आनी म्हजें दुख्ख दुकां जावन पोल्यावयल्यान गळपाक लागलें.

दोतोर खूब वेळ म्हाका निरखित रावली. तिका म्हजी रडपी मुर्ती पळोवन दया आयल्या जात्रंक जाय.

'बाय! तुका कोणा दादले मनश्याकडल्यान त्रासवी जावंक ना मूं? दोतोरान म्हाका अकस्मात प्रस्न केलो. हांवें मोन्यानी मान हालोवन हयकार दिलो आनी उपरांत एका कदेल्यार बसून हुडक्या हुडक्यानीं रडपाक लागलें हांव. डॉक्टर म्हजेकडेन आयली. तिणें म्हजे फाटीवयल्यान मायेन हात फिरयलो. तिणें म्हाका खुबच चतुरायेन खुब्ब प्रस्न विचारून म्हाका उलोवपाक लायलें. आनी हांवें तिका सगळें सगळें सांगलें. हुंवारात म्हज्या मनश्यांक आयिल्लें अपघाती मर्ण, म्हजेर सवाल्यान केल्लो बलात्कार, म्हाका फकत दोनदांच जाल्ली म्हयन्याची पाळी, एक म्हयनो पूर्ण जाल्या-उपरांत लेगीत न जाल्ली तिसरी पाळी, हांवें सगळें सगळें ते दोतोरनीक सांगलें. म्हज्या बापायक शॉक बसत हे भिरांतेन, लज्जेन, संकोचान, भिडेन हालुंतलें कांयच म्हाका म्हज्या बापायक सांगपाक कशें जायना हेंय ते दोतोरनीक हांवें सांगलें. तेभायर तांका प्रेशराची पिडा कशी आसा, तेखातीर हें सांगतकच दुख्ख जावन तांची बलायकी इबाडची न्हय म्हणूनच हांव हें तांका सांगनासतना रावलां हेंय तिका सांगलें.

डॉ. सुलाखेन म्हजें सगळें वेवस्थीत आयकून घेनलें. हे पिरा-येरलेगीत हांव प्रौढपणान वागतालें. सारासार विचार करून उलय-तालें. हें पळोवन ती म्हजेकडेन सामकी प्रेमळ वागली. तिणें म्हाका

असंख्य प्रस्न केले. पुराय तपासलें.

तिणें म्हाका आपलेकडल्यो दोन गुळयो दिल्यो. दिसाक एक घेवपाक सांगल्यो. हांवें तिका म्हजें नांव आनी पत्तो दिलो.

'तूं फाल्यां उठनाफुडें तुजें मूत एके बाटलेंत धर आनी म्हजे-कडेन घेवन यो. हांव तें रोखडेंच तपासतां. फाल्या सांजची हांव तुका वखत दितां. तुका एकाद्रें एक इंजेक्शनय दिवचें पडत ' तिणें म्हाका सांगलें·

'आनीक एक आयक. तुका दीस बीस कांयच वचूंकना. वोगीच भियेवं नाका. तुका कसलोय त्रास जाल्यार म्हजेकडेन यो.' तिणें म्हाका आनीक एकदा धीर दिलो.

हांवें तिका पयशे दिवंक काडले पूण तिणें ते घेतले नात. म्हाका परते दिले.

'तुका हांवें म्हजी भयण मानपाचें थारयलां. हांव आतां तुजी व्हडली भयण जाल्यां. म्हण्टकच मातय भियेवं नाका. तुज्या बापायकवी हें सांगपाची निख्खाल गरज ना. पूण फाल्यां सकाळीं मात तुजें मूत हाडपाक विसरूं नाका,' तिणें म्हाका सांगलें.

'हांव सकाळीं मूत धरतां. पूण म्हजो बापूय ऑफिसाक वतकच हांव तें हांगा तुमचेकडेन घेवन येतां. साडेधांक सुमार. उपकारता मूं ?' हांवें तिका विचारलें. तिणें तें मान्य केलें.

'डॉक्टर !'

'सांग'

'डॉक्टर ! हांव कुमारी माता खऱ्यांनीच जायना मूं ?'

'मातूय संभव ना. तुज्यांत तसलीं कसलींच लक्षणां दिसनात. वोगीच भियेवन गुळी जावं नाका,' तिणें सांगले.

म्हजे तकलेवयलें कितलेंतरी जड वजें ल्हव जाल्लेभशेन म्हाका दिसलें. हांव घरा गेलें आनी सुस्त न्हिदलें. कितलेश्याच दिसांनी म्हाका गाढ न्हीद लागली. डॉ. सुमती सुलाखेच्या रुपांत म्हाका देव मेळिल्लो.

० ० ०

दुसऱ्या दिसा दोतोरनीन म्हजी मुताची परिक्षा केली. म्हाका एक इंजेक्शनय दिलें. दुसरे दीस आनीक एक दिलें. तिसऱ्या दिसापासून हांव खडखडीत बरें जालें. म्हाका मुततना जातालो तो त्रास ना जालो. चवथ्या दिसा म्हाका म्हयन्याची पाळी सुरू जाली.

म्हजे तकलेवयलो सगळो ताण ना जालो. हांवें दुकांनी भरिल्ल्या दोळयांनी दोतोरनीचे आभार मानले. तिणें म्हाका थापटीलें आनी लैंगिक विशयाचेर कितलेशेंच ज्ञान दिलें. म्हजे शरीर–ज्ञानावयले कितलेशेच दुबाव पयसायले.

'तुजेर बलात्कार केल्ल्या त्या मवाल्याक कसलोतरी गुप्त रोग जाला आसपाक जाय. ह्या अशिक्षित गुन्हेगारी प्रवृत्तीच्या गुंडांचो एक गैरसमज आसता. आपणें अल्पवयीन चलयेवांगडा संभोग केल्यार तांचो दुर्धर रोग ना जाता. अल्पवयीन चलयांचेर जावपी बलात्कार पंच्याणव टक्के ह्या कारणाखातीर जातात. त्याच रोगी मवाल्याखातीर तुका इन्फेक्शन जाल्लें. हांवें तुका तीं दोन इंजेक्शनां दिलीं आनी तें इन्फेक्शन पुराय ना करून उडयलें,' दोतोरनीन म्हाका सांगलें. दादल्यांच्या आसुरी कामवासनेपासून आपलें शीलरक्षण कशें करचें हेविशीं कितलेंशेंच ज्ञान तिणें म्हाका दिलें.

खंयच्याय संकश्टाक न भियेवपी एक सुप्त शक्ती म्हज्यात जागृत जाल्या हाची म्हाका जाणविकाय जाल्ली. हांवें म्हजे धोरणी दुरदृश्टीन अप्पासायबांक मातय कळूंक दिनासतना म्हजेर कोसळिल्या एका संकश्टाचो मुकाबलो केल्लो. हें व्हड संकश्ट हांवें पयसायल्लें. मवाल्यापासून जाल्ल्या इंन्फेक्शनान म्हाका दुर्धर रोग जडपाचो. हांवे म्हजो तब्येत डॉ. सुलाखेक दाखोवंक नाशिल्ली जाल्यार !!!

० ० ०

मासिक पाळयेच्या तिसऱ्या दिसाच्या रातीक म्हाका तें सपन पडलें. त्या सपनांत आई आनी म्हजी भावंडां ग्लासाच्या व्हडल्या गुळयांत बसून म्हाका आफयत फुडें फुडें वतात. हांव बशिल्लो

ग्लासाचो गुळो तांच्या गुळयाफाटोफाट वता. आनी म्हज्या गुळयांत लिपून बशिल्लो मवाली अकस्मात म्हजेर झोंपय मारता. म्हजेर बलात्कार करपाक पळेता. हुंवारांच्या रेब्याचो घाण वास म्हज्या नाकांत दरवळता ......

हांव किळच्यो मारीत जागें जालें. अप्पासायबय अंग काडून जागे जाले. हेंच सपन म्हाका जिवोत्तमकाकांवांगडा हांव त्या मोडक्या देवळांत न्हिदिल्लें आसतना पडिल्लें. तेंच भयाण सपन...

आनी तेंच सपन म्हाका दर म्हयन्याक एकदां तरी पडटा. चड करून म्हजी म्हयन्याची पाळी चालू आसतना पडटाच्च पडटा. अप्पासायबाक आतां म्हज्या ह्या किळचून उठपाची संवय कशी जाल्या. ते आतां दचकून उठनात अश्या वेळार. शांतपणान उठटात. लायट पेटोवन म्हाका जागें करतात...

० ० ०

हुंवाराउपरांत म्हज्या मनांत दादल्यां मनश्यांविशीं एक तरेची घृणा उत्पन्न जाल्ली. सगळे दादले सारकेच कामांध जातकच जनावराभशेन वागपी. भांगरा केंस आनी घारशे दोळे आशिल्लो तो सुहासलेगीत. म्हाका स्त्री पुरूश संबंध, समागम हे विशीं येवजूपाचीच किळस येताली.

डॉ. सुलाखेच्या दोनच इंक्जेक्शनांनी हांव बरे जालें खरें. पूण म्हाका आकांताची अशक्तताय आयिल्ली. म्हाका खंयच भोंवूक वचपाचो इत्सा जाय नाशिल्ली. फकत थकवो मात खूब दिसतालो. शाळेंत लेगीत वचपाची वान्सा जाय नाशिल्ली. फकत न्हिदून रावचेंशें दिस.

हांवे ते दोतोरनीक हे अशक्ततायेविशीं विचारलें. तिणें म्हाका व्हिटॅमिनाच्यो गुळयो दिल्यो. तिणें म्हाका हांव शाळेंत कित्याक वचना म्हणून विचारलें. घरा बसून वैफल्यग्रस्त, निर्शेवणेचे विचार करूं नाका म्हणून उपदेश केलो. हांवें तिचो उपदेश मानलो.

अप्पासायबांक सांगून हांवें शिकोवपाचो क्लास धरलो. सेगीत

दोन वर्सां हांव शाळेंत वचनासतना फकत शिवणकाम करतालें. शिवणकामांत हांव सामके निपूण आनी तरबेज जालें. पोल्क, स्कर्ट घागरे आदी हांव स्वताच शिवतालें. तेभायर अप्पासायबांच्यो पेंटी, बुशशर्ट, लेगीत हांव शिवपाक लागलें. हांवें मनांत हाडिल्लें जाल्यार हांव म्हजो टेलरींग वेवसाय लेगीत सुरू करपाक शकतालें.

म्हजीं दोन वर्सां शिक्षणाबगर गेलीं. एक दीस म्हाका धोंडो केशव कर्व्यांचें एक पुस्तक मेळ्ळें. अप्पासायबान आपणाक वाचपा-खातीर हाडिल्लें तें. तांतूत कर्वेनी स्त्रीशिक्षणाचें म्हत्व खुबच बरे रितीन पटोवन दिल्लें. आनी हांवें रोखडोच निर्णय घेतलो. म्हजें फुडलें शिक्षण चालू करपाचें. हांवें अप्पासायबांक म्हजो विचार सांगलो. ताणी म्हाका आनंदान मान्यताय दिली.

हांव णवेंत गेल्लें तेन्ना म्हाका पंदरावें वर्स लागिल्लें. सतराव्या वर्सा हांव एस. एस. सी. फर्स्टक्लास डिस्टिंक्शन घेवन पास जालें. अप्पासायबांक म्हजो खुब्ब अभिमान दिसपाक लागलो.

हांव कॉलेजांत सायन्सीक गेलें. इंटराक बी ग्रूप घेवन म्हाका फस्ट क्लास मेळ्ळो. हांवें मेडिकल कॉलेजांत प्रवेश घेतलो. पूण पयलेच खेप शव-विच्छेदनाचो क्लास जालो तेन्ना म्हाका घुंवळ आयली. एका दादल्याचें प्रेत पळोवन म्हाका ओंकूक आयलें. हांवें मेडिकल कॉलेज सोडलें. बी. एस्सी. ज्यूनियर चालू केली.

म्हज्या देहांत बदल जाल्लो. एक खूबच देखणी युवती जाल्लें हांव. पुण म्हजो स्वभाव सामको थंड जाल्लो. हांव थंड वागतालें. थंड येवजितालें. थंड उलयतालें. नाकासामकार नदर दवरून चल-तालें. वेवहारी आनी वास्तववादी दृश्टीकोनांतल्यान सगळ्या घडा-मोडींकडेन हांव पळेताले.

म्हाका अर्थशास्त्र आवडटालें. विज्ञान आवडटालें. भूमिती, गणित आवडटालें. म्हाका चार वर्सांपयली वळखुपी मनश्यांनी जर म्हाका आतां पळेल्लें जाल्यार ते म्हाका वळखुपाचे नाशिल्ले. म्हजें पुराय रुपांतर जाल्लें. फकत तो दोन भुंवयांमदलो गंधाच्या तिकले-

भशेन दिसपी काळो तीळ हांव तेंच हाची गवाय दितालो. हांव दादलेमनशांकडेन मात लेगीत पळेनाशिल्लें.

सुहास आतां म्हाका देवदूत दिसनाशिल्लो. हेर दादल्यांभशेनच विशयलंपट दिसतालो. एका काळार ‘ भांगरा केंसाचो राजकुंवर आनी राक्षशीण ’ ह्या पुस्तकांतल्या पात्रांवांगडा हांव समरस जातालें. आतां तें येवजिल्यार म्हाका हांसूंक येतालें. खंयचोय दादलो सूचक उलोवन म्हज्या सौंदर्याची म्हाका जाणीव करून दिंवपाक लागलो, जाल्यार हांव थंड रावतालें. सामके थंड वागतालें.

दर एका दादल्याचो हांव मनांतल्यान सुप्त द्वेश करी. हांच्या मनांत केन्ना काळेंबेरें येत ताचो संभव ना अशें म्हाका दिस. कितल्या-श्याच जाणांनी नाना क्लुप्त्यो काडून म्हजेलागी वळख वाडोवपाचो यत्न केलो. हांव मात थंड रावलें. सामकें पराकाश्टेचें थंड रावलें. खंयच्याच तरनाटयाच्या स्मिताक हांवें स्मितान जाप केली ना. खंयचोय दादलो आपूण जावन म्हजेकडेन जर उलोवपाक लागत जाल्यारच हांव उलयतालें. पूण जितलें जाय तितलेंच उलयतालें. हांव जावन दादल्यांकडेन केन्नाच उलयलें ना. कोणाचेच तुस्तीचो म्हजेर परिणाम जाय नाशिल्लो. कोणाकच हांवें कसलेंच उत्तेजन दिलें ना.

कितलेशेच लोक हांव दाद दिना तें पळोवन म्हजेकडेन तिढ वागले. म्हाका त्रासदायक जावचें म्हाका क्लेश जावचे अशे उलोवपाक लागले. वायट कॉमेंटस मारपाक लागले. पूण हांव झेलाभशेन थंड रावलें. तांचेकडेन म्हज्या कपलाक मिरयो घालून लेगीत केन्ना पळेलेंना. केन्नाकेन्नाय म्हज्या कॉलेजांतले प्रोफेसर्सलेगीत म्हजेवांगडा सलगी वाडोवपाचो प्रयत्न करीत. पूण हांव म्हज्या सदच्या थंड वागण्यान तांचे ते प्रयत्न फुकट थारायतालें.

हुंवाराउपरांत हांवे जिवाभावाची अशी खंयचीच इश्टीण जोडली ना. हांवे चलयांकडेन उलोवपांतलेगीत केन्नाच फुडाकार घेतलोना. म्हजेवांगडा म्हज्या वर्गांतलें चली जर केन्नाय उलयलें जाल्यारच हांव उलयतालें. बशींनी, ट्रेनींनी म्हाका कितल्योश्योच

शेजारच्या क्लासांतल्यो चलयो मेळटाल्यो. पूण हांव सदांच थंड रावतालें. तांचेकडेन पळेनासतना म्हजेकडलें अभ्यासाचें पुस्तक वा नोटबूक वाचिल्ल्याभशेन हांव करी. नाल्यार बशीच्या वा ट्रेनीच्या जनेलांतल्यान हांव भायर पळेल्लेभशेन करी. पयलीं हेर चलयांनी चल्यानी म्हजेकडेन उलोवपांत फुडाकार घेतलो. तीं म्हाका पयलीं हुडकितालीं. अशें पयली तीं म्हजेकडेन उलोंवक लागतकच हांव तांचेकडेन मेजून मापून पूण बरें उलयतालें. पूण हें उलोवणें सोंपतकच थोडयाच वेळाउपरांत तीं परतीं म्हाका मेळ्ळीं जाल्यार हांव तांची म्हजी मातलेगीत वळख ना अशी नदर दवरून कपलाक मिरयो घालून दुसरेकडेन पळेतालें. हांव कोणाकच चड संवकळ जावची न्हय म्हणून मुद्दमच अशें वागतालें.

हेर चल्याचलयांक म्हजें हें अशें वागप खटकपाक लागलें. ताणीं म्हजेकडेन उलोवपाचेंच सोडलें. पूण म्हजेर हाचो कांयच परिणाम जालोना. उरफाटो आनंद जालो. हांवें केन्नाच कोणाचेच कसलेच उपकार आनी फावोर मागलेनात. अप्पासायबांची मात जतनाय घेतालें. घरची सगळी वेवस्था पळेतालें. शिक्षण घेतालें. अप्पासायबांवांगडा गजाली करतालें आनी आमच्या दोगांच्याच परिघांत सुखी रावपाचो यत्न करतालें. हांवच म्हजें मन रिझयतालें. चुकूनलेगीत दुसऱ्या चलयांवांगडा हितगुज वा गुजगोश्टी करीनाशिल्लें. केन्नाय उलयलेंच जाल्यार वेवस्थीत तोलून मापून वेव्हारीपणान उलयतालें.

हांव जेन्ना सिनियर बी. एस्सीक आशिल्लें तेन्ना रमेश देवधरान म्हजेर प्रेम केलें. एकतर्फी, आत्यंतिक, मनस्वी प्रेम आशिल्लें तें. आनी ह्या ताच्या प्रेमाची परिणिती ताच्या आत्महत्त्येंत जाल्ली. कितलो पिशेपणान, आतताईपणान वागिल्लो रमेश ! ! !

० ० ०

एक दीस रेल्वेंत चडपाच्या बोवाळांत म्हाका गर्दैत कोणाचो-तरी धक्को बसलो. म्हजीं पुस्तकां, नोटबुक्स आनी डिसेक्शन बॉक्स सकयल पडलें. एका तरनाटयान तप्तरतायेन फुडें येवन सकयल

पडिल्ल्यो म्हज्यो वस्तू एकठांय करून दिल्यो. हांवें ताचे उपकार आठोवपाखातीर ताचेकडेन पळोवन ताका 'थँक्यू' म्हळें. आनी म्हजे सदचे संवयेप्रमाण स्थितप्रज्ञ मुद्रेन हांव गाडयेंत वचून बसलें. एक पुस्तक वाचपाक लागलें.

'तुमी भारत कॉलेजांत आसात न्हय ?'

हांवें पळेलें. म्हजीं पुस्तकां एकठांय करून दिवपी तो तरनाटो रेल्वेंत म्हजेमुखारच बशिल्लो. स्वताच उत्तेजन घेवन ताणें म्हाका प्रस्न विचारिल्लो.

'हय !' हांवें थंडपणान जाप दिली.

'खंयच्या वर्साक ?' ताचो दुसरो प्रस्न आयलो.

'सिनियर बी. एस्सी. फिजियॉलॉजी मेन सबजेक्ट.' हांवें वाज आयिल्ल्या भशेन तोंड करून सांगलें.

पूण त्या तरनाटयान धीर सोडलो ना.

'म्हजें नांव रमेश. रमेश देवधर. हांव बी. ए. फायनलीक आसां. भारत कॉलेजांतच. तुमचें नांव किदें ?'

'शुभदा' हांवें थंड आवाजांत कपलाक मिरयो घालून भायर पळेलें. फाव ताचेपरस हांव चड उलयलें अशें म्हाका दिसपाक लागलें.

'हांव कॉलेजचो गॅदरींग सेक्रेटरी. नाटक, संवाद, गायन आदी कसल्याय प्रोग्रामांत तुमी केन्नाच भाग घेनात ?'

'ना.'

'किद्याक ?'

'म्हाका आवडना.'

'आवड उत्पन्न केलेबगर आवड कशी किदें उत्पन्न जातली ? तुमी अंदू कित्यांततरी भाग घेवपाकच जाय'. त्या रमेश देवधरान सलगी वाडोवपाचो प्रयत्न केलो.

हांव चोग्गी बसलें. म्हज्यां अश्या थंड वागण्यान रमेशय थोडोवेळ चोगी बसलो. पूण ताणें चिकाटी कशीच सोडलीना.

'अंदू तुमी बेता न्हय किद्यांत तरी भाग ?' ताणें विचारलें.

'ना. सॉरी. किद्यानच ना.'

हांव ताचो सामको द्वेश करपाक लागलें. म्हजे दिसपट्टे जिणेंत हो उपटसुंभ लुडबूड करतालो. मेतेर जातालो. म्हाका ताचें उलवणें साप्प आवडलेंना. होय तसलोच. दादलोच तो. बायलांक उपभोग्य वस्तू मानपी. गोड गोड उलोवन तांका जाळचांत आडखळावपी. किडिल्ल्या दांताच्या मवाल्याभशेन विशयलंपट, कामांध. म्हज्या कपलावयली शीर संतापान तट्टतटीत फुगली. हांव सामकें गंभीर रावलें. मान सकयल घालून म्हजें पुस्तक वाचूंक लागलें. स्टेशन येतकच 'बरें येतां' अशेंलेगीत म्हणिनासतना रमेशाफुडल्यान उठून गेलें. पूण रमेश म्हजेकडेन तटास जावन पक्लेतच राविल्लो. भौतेक पयलेच खेप म्हाका पळेनाफुडें तो म्हज्या प्रेमांत पडला आसपाक जाय.

त्या दिसापासून रमेश दर दिसा स्टेशनार म्हजे पाळटेर रावपाक लागलो. हांव बायलांच्या डब्यांत बसपाक लागलें. रमेश बायलांच्या डब्याशेजरा आशिल्ल्या डब्यांत बसून म्हाका कॉलेज-मेरेन सांगात दिवपाक लागलो. वोगीच वळख वाडोवपाचो यत्न करपाक लागलो. हांव दिमनाफुडें 'गुड मॉर्निग' 'गुड इव्हिनिंग' बी म्हणत म्हाका विश करपाक लागलो. पूण हांव मात ताचो मनापासून द्वेश करपाक लागलें. ताच्या अश्या चोंबडेपणाची म्हाका सामकी घृणा आयली. हांवें ताका जाता तितलो टाळपाचो यत्न केलो.

० ० ०

एक दीस म्हाका एक पत्र आयलें. पत्र फोडटकच म्हाका रमेशान म्हजेर केल्ली एक कविता वाचपाक मेळ्ळी.

शुभदा,

म्हजे हृदयदेवते ! म्हज्या प्रांणा ! म्हज्या प्रेमा । तुजेखातीर तळमळटा सदांच गो जीव एकसुरो । तुजेबगर लागना ह्या

संवसारांत म्हाका गोडी। अबोल जरीय तूं आसलें. पूण म्हाका दिसता तूं उलयता। तुजें मन म्हाका खुबशें किदें सांगता।

म्हजें तुजेर खूब खूब प्रेम आसा, शुभदा! म्हाका तुजेबगर जियेवंकच जावचेंना.

तुजोच,
रमेश

हांवें थंडपणान ती कविता पिंदून उडयली. रमेश्याचें तें पयलें प्रेमपत्र तिस्त्यो करून भायर फेंकून दिलें. म्हज्या वास्तववादी मनांत प्रेम, भावना आदी गजालींक कांयच स्थान नाशिल्लें. म्हाका फकत म्हज्या आनी अप्पासायबाच्या परिघांत रावपाचें आशिल्लें.

रमेश म्हाका दर दोन दिसांनी एक पत्र धाडपाक लागलो. म्हजेर केल्ल्यो कविता धाडपाक लागलो. पूण हांव थंड रावलें. ताचें प्रत्येक पत्र, प्रत्येक कविता पिंदून उडयली हांवें.

एक दीस तर ताणें अतितायच केली. रमेश म्हजो पत्तो सोदून काडून म्हज्या घरा आयलो. म्हाका एका कार्यक्रमाचें आमंत्रण दिवपाचो ताचो बेत आशिल्लो. ताणें तेंच निमित्त सोदून काडिल्लें. हांवें ताचें सामकें थंडपणान स्वागत केलें. अप्पासायब ऑफिसांत गेल्ले.

'तुमी फाल्यांचे कार्यावळीक येतात मूं?'

'ना.'

'कित्याक येनात? येयात न्हय.' रमेशाचो आवाज आर्जवी जालो.

'ना, रमेश! हांव येवचेना,' हांव सामकें द्वेशयुक्त आवाजांत किळचलें, 'हांव तुका स्पश्ट सांगता. म्हाका असलीं फाजिलपणां, लाळेगोळे मातलेगीत आवडना. म्हाका हाचेफुडें प्रेमपत्रांबी बरोवं नाका. म्हज्या फाटल्यान येवं नाका. म्हजो प्रेमाचेर विश्वास ना. म्हाका वश करपाचे तुजे हे प्रयत्न मातय आवडनात म्हाका. हाचे फुडें म्हजे वाटेक वचूं नाका.'

म्हजे हे तापोवणेन रमेश धवोफिकट जालो. ताच्या कवि-

हृदयाक जखम जाल्या जावंक जाय. ताच्या दोळ्यांत दुकां तरतरलीं. दोन दुकां भायरलेगीत गळ्ळीं.

'आय एम सॉरी' अशें अस्फुट उलयत तो गेलो. तोंड घट्ट दामून दवरून मोठ्या आवेगान भायर पडपाक सोदपी हुंदके आवरून धरपाचो तो प्रयत्न करतालो.

हांव ताची इतली नसाय करतालें की म्हजेर हाचो कांयच परिणाम जालोना. हांव ते रातीक सुस्त न्हिदलें.

० ० ०

तिसरे दिसा वर्तमानपत्र वाचतना हांवें ती बातमी वाचली. पयल्याच्र पानार ठळक अक्षरांत तो प्रसिद्ध जाल्ली.

**'कॉलेज तरनाटयाची गूढ आत्महत्त्या.'**

'रमेश देवधर ह्या फायनल बी. ए च्या कॉलेज तरनाटयान काल 'टीक ट्वेंटी' हें भिकूणांचें वखद पियेवन आत्महत्त्या केली. ताच्या हातुण्णार 'हांव ही आत्महत्त्या आपखोशयेन करतां आनी ताचेखातीर कोणाकच जापसालदार धरचो न्हय' अश्या आशयाच्रें एक पत्र बरोवन दवरिल्लेंय मेळ्ळां. आज ताचे कुडीर सांजच्या पांच वरांचेर अंत्यसंस्कार जातले.'

म्हज्या दोळ्यांसामकार काळोख आयलो. म्हाका सगळें गरागर घुंवताशें दिसपाक लागलें. असो कसो हो अशक्त मनाचो रमेश? हें किदें जालें? हांव ताच्या मर्णांक कारणीभूत जालें? देवा! हांव खुनी थरलें? म्हाका असह्य मानसिक यातना जाल्यो. हांव उशांत तोंड रोमून हुडके दीत रडपाक लागलें. अप्पासायबाक आयकूंक येवचें न्हय म्हणून हांव म्हजें रडें लिपयत भितल्ल्या भितर घुस्मूंक लागलें.

देवा! हें किदें चल्लां? हे दादले कामांध जावन बलात्कार करपाक शकतात. पूण हेच दादले प्रेमांत पडल्यार आत्मघातय करपाक शकतात? हें अशें किद्याक? म्हाकाच हे असले सगळे अणभव किद्याक म्हणून प्राप्त जातात? हांवें आनीक किदें किदें म्हणून सोंसपाचें बाकी उरलां?

म्हाका अकस्मात हिस्टेरीक, विकृत भावना जाली. म्हाका मोठ्यामोठ्यान किळच्चूंचेंशें दिसपाक लागलें. केंस मेकळे सोडचेशें दिसपाक लागलें. रस्त्यार वचून रडत, आडुत थयथय नाच्चेंशें दिसपाक लागलें.

हांवें खरेलेच केंस मेकळे सोडले. हांव हुडके दीत म्हज्या रुमांतल्यान भायर आयलें. अप्पासायब पुस्तक वाचत आराम खुर्चेर आड पडिल्ले. म्हज्या हुडक्यांचो आवाज आयकून ते जागे जाले. म्हजेकडेन बेगीनवेगीन आयले.

‘ शुभी ! किदें जालें गो बाय ? किदें जाता तुका ? ’

हांव सावध जालें. संयम केलो. अप्पासायब ! तांचें ब्लड-प्रेशर ! हांव अशें विकृत वागचें ना. हांवें धांवत वचून अप्पासायबांक वेंग मारली. हो हो करून रडपाक लागलें. अप्पासायबांक गलबल्ल्या-भशेन जालें.

‘ शुभी ! किदें जालें ? ’ ताणीं आकुळपिकुळ जावन म्हाका थापटीत विचारलें.

‘ म्हाका आईची, विनिता, सुधीर, नितीनाची खूब खूब याद जाता, अप्पासायब ? ’ हांवें प्रसंगावधान राखून म्हळें. उपरांत हांव घुस्मटून, कळवळत, गदगदून रडपाक लागलें. म्हाका अशें रडटना पळोवन अप्पासायबांक आपल्यो भावना अनावर जाल्यो. ते ल्हान भुरग्याभशेन रडपाक लागले.

हांव भियेलें. अप्पासायब चड उत्तेजित जावंक उपकारना. तांका हाय ब्लड-प्रेशर जालें जाल्यार ? हांवें म्हजें रडें थांबयलें. तांचे सांत्वन करपाक लागलें हांव. ती सुप्त शक्त म्हजे सगळे कुडींतल्यान व्हांवपाक लागली. हांवें कितलोसोच संयम केलो.

‘ अप्पासायब ? तुमी रडूं नाका. तुमकां रडटना पळेतकच म्हाका चड रडपाक येता, ’ हांवें तांका म्हळें. आमी दोगांय एका-एकमेकांक सावरपाचो यत्न करपाक लागलीं.

इतल्यान दारार टक टक जालें. अप्पासायबान दार उगडलें.

भायर पोस्टमन आशिल्लो. ताणें एक पत्र दिलें.

‘ शुभी ! तुजें पत्र ’ अप्पासायबान म्हळें आनी ताणीं पत्र म्हजेकडेन दिलें. पत्रावयल्या पत्त्यावयल्यान हांवें रमेश देवधराचे हस्ताक्षर वळखलें.

‘ म्हजे इश्टिणीचें कुंदाचें अक्षर हें. कुंदाचें पत्र ’. हांवे म्हजे छातयेंत जाताली ती धडधड थांबोवपाचो यत्न करीत म्हळें. म्हजी काळी जाल्ली नुरा अप्पासायबान पळोवचीं न्हय म्हणून हांव पत्र घेवन म्हजे कुडींत गेलें. कडकडो भरिल्ल्या हातांनी हांवें तें पत्र फोडलें.

म्हज्या प्राणप्रिय शुभदाक,

निमण्या खिणार

ह्या संवसाराचो निरोप घेवचेपयलीं तुका एकदां म्हजें मनोगत सांगचें म्हणून हांव हें पत्र बरयतां. तुका फकत एकूच हो निमणो त्रास दिता हांव. तुका पयलेच खेप हांवे पळेलें तें रेल्वे स्टेशनार. सकयल पडिल्लीं तुजीं पुस्तकां हांवें तुका एकठांय करून दिल्लीं, त्या वेळार तूं म्हाका एक शापित देवता कशें, एक तपस्विनी कशें दिसलें. त्या दिसापासून जेवतना, खातना, न्हिदतना, उठटना म्हाका तुजेंच रूप दिश्टी पडपाक लागलें. त्याच दिसापासून हांव तुज्या प्रेमांत पडलों. म्हाका खबर आशिल्लें की म्हजें प्रेम एकतर्फी आसा. पूण एक दीस तें दूतर्फी जातलें अशी आस्त हांव बाळगितालों. म्हणूनच हांव तुका पत्रां धाडीत रावलों. कविता धाडीत रावलों. तुवें म्हाका जाप दिली ना. पूण पत्रांय बरोवक नाका अशेंय म्हाका सांगलें ना. ताचोच अर्थ हांवें तुका पत्रां धाडीत रावपाक जाय असो घेतलो. प्रेमांत पडिल्लो मनीस कसलोय बादरायणी संबंध लावन सोयिस्कर गैरसमज कसो करून घेता हें हांवें स्वता अणभवलें.

तूं म्हाका ताळटालें हें म्हाका पयलींपासून खबर आशिल्लें.

तुका म्हजो कंटाळो येता हें तूं म्हाका सदांच दाखयतालें. पूण म्हजें मन मात खुबच आशावादी आशिल्लें. होच सोयिस्कर आशावाद म्हज्या मनाक आनी बुद्धीक दिलासो दितालो. दिसतालें, एक दीस हांव तुका लग्नाविशीं विचारतलों. तूं म्हाका हयकार दितलें. आमचें लग्न जातलें आनी हांव तुका सुखांत दवरतलों.

तुवें म्हाका आयज झिटकारलो. म्हाका खूब खूब वायट दिसलें. ज्या बुनयांदीर म्हजें कल्पनेचें साम्राज्य उबें आशिल्लें, ती बुनयाद कोंसळळेली. हे म्हजे जिणेक आतां कांयच अर्थ उरूंक ना.

शुभदा ! हांव हें जग सोडून वतां. म्हजेर रागार जावं नाका. मर्णाच्या सामकार वतना हांवें तुजेविशीं कसलीच वायट भावना दवरलेली ना. तुजें कल्याण जावचें, तुजें जीवन सुखांत वच्चें हीच म्हजी निमणी इत्सा.

हांव आत्महत्या करतां. हांव ती किद्याक करतां हें तं सोडून आनीक कोणाकच खबर आसचेंना. तूंय हें कारण कोणाकच कळोवचें ना अशी अपेक्षा हांव बाळगितां.

म्हजे आत्महत्तेखातीर तूं तुज्या मनांत कसलीच अपराधाची भावना दवरूं नाका. तुज्या मनाक त्रास करून घेवं नाका. तूं सदांच सुखी आनी आनंदी रावचें अशी हांव देवालागी प्रार्थना करतां.

म्हज्या आवयबापायक आनीक दोन चले आसात. ते जोडटात. पयसो मेळयतात. म्हाका तेखातीर म्हज्या आवयबापायचो हुस्को ना. तुवें सुखी जावचें अशीच म्हजी इत्सा.

मरतनांलेगीत तुजीच याद काडपी,

रमेश

म्हाका हें पत्र वाचून कळवळून रडपाक आयलें. रमेश ! आरे हळव्या मनाच्या पोरा ! किद्याक असो अविचार केलो तुवें ? किद्याक

म्हज्या मनाक अशी टोंचणी लावन गेलो ?

म्हाकाय हे जिणेचो वीट आयिल्लेभशेन दिसपाक लागलें. म्हाकाय आत्महत्त्या करचीशी दिसपाक लागलें. ही जीण सोंपोवचीशें दिसपाक लागलें.

'शुभी ! कुंदा किदें म्हण्टा पत्रांत ?' अप्पासायबान म्हाका भायल्यानच्यान मोठचान विचारलें. हांव गडबडलें. हांवें म्हाका सांवरलें. म्हजे दोळे पुसून सुके केले.

'पुण्याच्यो गजाली बरयल्यात. हुंवाराउपरांत पुणें सामकें बदलून गेलां खंय,' हांवें जाप दिली.

आनी तेन्नाच ती सुप्त शक्त म्हज्या आधाराक धांवून आयली. ना. हांव आत्महत्त्या करचें ना. म्हज्या बापायक आनीक दुख्खाच्या उज्यांत धुकलचें ना. ह्या शक्तिमान विचारांच्या प्रवाहाखातीर म्हजें मन परतेंय वास्तववादी जालें.

० ० ०

सांजेचें हांव रमेशाच्या घरा गेलें. ताच्या अंत्ययात्रेक, विद्यार्थी, विद्यार्थिनी, प्रोफेसर्स, प्रिन्सिपोल आयिल्ले. गर्दी खूब जाल्ली. सगळयांच्या उलोवण्यावयल्यान रमेशान कित्याक आत्महत्त्या केल्या हें कोणाकच खबर नाशिल्लें. कितलेशेच लोक तरेकतरा तर्कवितर्क करताले. हांव मात थंड राविल्लें.

म्हाका अकस्मात दिसलें. मोठचामोठचान किळच्चें आनी सांगचें 'हें पळे हांव हांगा उबें आसां. हांवें मारलो ताका. हांवें घायाळ केलें ताचें मन. म्हजेखातीर ताणें आत्महत्त्या केल्या. हांव खूनी. हांव खूनी. हांव खूनी.'

पूण म्हज्यांतले ते आगळे शक्तीन म्हाका सांवरलें. हांव रोखडेंच थंड आनी वास्तववादी जालें.

रमेशाचें प्रेत चितेर चडयलें. ताचे निर्जिव आनी असहाय्य पडिल्ले तरनाटे कुडीक पळोवन सगळयांच्या दोळयांत दुकां आयलीं. सगळे लोक गहिंवरून दुकां गळोवपाक लागले. रमेशाच्या

भावान ताका भडाग्नी दिलो. पूण म्हाका मात तेन्ना मातय रडपाक आयलें ना. हांव मनान सामकें कठोर जालें. म्हज्यांतली ती संकश्टांक टक्कर दिवपाची म्हाका ताकत आनी हिंमत दिवपी सुप्तशक्ती म्हाका रडपाक दिनाशिल्ली. प्रेतयात्रा सोंपतकच हांव निर्विकार मनान, खंबीरपणान घरा परतलें.

० ० ०

हांव बी. एस्सी. क आसतनाच म्हाका त्यो दोन विचित्र गजाली कळ्ळयो.

एक दीस आप्पासायबांचो एक इश्ट तांचेकडेन आयिल्लो वतना तो आपली एक कादंबरी आमगेर विसरून गेलो. त्या दिसा कॉलेजाक कसलीतरी सुटी आशिल्ल्यान हांव घराच आशिल्लें. हांवे ती कादंबरी सहज म्हणून वाचपाक घेतली. ती कादंबरी मराठी आशिल्ली. लेखक कोणतरी हडप म्हणून. कादंबरेचें नांव आशिल्लें 'बहकलेली तरुणी' अशेशें किदें. हांव ती वाचपाक लागलें.

कितलेशेच अत्यंत कामूक प्रसंग हे कादंबरेंत वर्णन केल्ले आशिल्ले शृंगार आशिल्लो. अश्लिलता आशिल्ली. संभोगाची वर्णना आशिल्लीं. आनी ती कादंबरी वाचतना म्हज्या नाकांत कुशिल्ल्या चिखलाची घाण दरवळूंक लागली. आनी... आनी हांव बाथरुमांत वचून बकाबक ओंकलें.

हांवें मुद्दम म्हाका खरेंच अशें जाता काय तें पळोवपा खातीर आनीक दोन शृंगारीक कादंबऱ्यो वाचपाचो यत्न केलो. प्रत्येक खेपो म्हाका तोच अणभव आयलो. चिखलाची कुसट्टाण नाकांत घुंवप आनी मागीर ओंकप. उपरांत हांवें शृंगारीक कथा, लैंगिक वर्णनांनी सजिल्ल्यो कादंबऱ्यो आदी वाङमयाक केन्नाच चुकून लेगीत हात लायलोना.

० ० ०

दुसरो अणभव म्हाका आयलो तो हांवें एकदां एक उत्तान सिनेमा पळेतकच. एकदां म्हज्या क्लासांतले एके चलयेन म्हाका

खुबच आग्रो केलो. 'सोलोमन अँड शेबा' नांवाच्या एका इंग्लेज सिनेमाक आमी गेलीं. तातूंत संभोग–सूचक उत्तान, प्रणयी दृश्यां आशिल्लीं. तीं पळेतना परत म्हज्या नाकांत ती कुशिल्ल्या चिखलाची दुर्गंधी दरवळपाक लागली. आनी म्हाका ओंकूंक येवपाक लागलें. हांव तशेंच उठून थिएटराचे लॅव्हटरींत गेलें आनी वॉश बेसीनार भडाभड ओंकलें. म्हाका धुंवळील्लेभशेन जावंक लागलें.

परतें आनीक केन्नाच हांव सिनेमाक गेलेंना. अप्पासायबांवांगडा लेगीत हांव पिक्चराक वचपाचें ताळी. हांवें तो सिनेमा केन्ना पळेल्ला अशें सांगून हांव तांका सिनेमाक एकटेच धाडटालें.

शृंगारिक कादंबऱ्यो आनी सिनेमांचो हांवें आकांत धसको घेतिल्लो.

० ० ०

वयले दोनय् अणभव ॲबनॉर्मल आशिल्ले. म्हाका डॉ. सुमती सुळाखेची याद जाली. तिचें आतां लग्न जाल्लें. आनी तिणें मुंबै सोडिल्ली. नागपुराक स्थायिक जाल्ली. म्हण्टकच तिचो सल्लो घेवपाचो प्रस्नच उपरासनाशिल्लो.

म्हजी बी. एस्सी.ची परिक्षा सोंपिल्ली. एक दीस हांवें एक शास्त्रोक्त लैंगिक–ज्ञानावयल्या पुस्तकाचो रिव्ह्यू वाचलो. पुस्तकाचें नांव आशिल्लें 'सेक्स अँड लव्ह लायफ.' हांवें तें लायब्ररींतल्यान घरा वाचूंक हाडलें. पुस्तक शास्त्रोक्त ज्ञानान उपाट भरिल्लें. लैंगिक ज्ञान इतलें किचकट आसता तें म्हाका पयलेच फावट सम-जल्लें. त्याच पुस्तकांत हांवें थंड वा फ्रिजीड चलयेचें वर्णन वाचलें. आनी म्हाका कळ्ळें की हांव एक थंड वा फ्रिजीड चली. म्हाका केन्नाच सर्वसाधारण चलयेभशेन लग्न करपाक जावचेंना. म्हाका जल्मभर अविवाहीत रावचें पडटलें.

हांव बी. एस्सी. फस्टक्लासांत पास जालें.

म्हाका तर जल्मभर लग्न करिनासतना रावचें पडटलें. जाल्यार मागीर हांवे म्हजे संन्यस्त जिणेचो सदुपयोग किद्याक

करचो न्हय ? म्हाका डॉ. सुमती सुलाखेची याद जाली. तिणेंच म्हाका आधार दिल्लो. म्हाका वांटायल्लें. तीच म्हाका म्हजो आदर्श कसो दिसपाक लागली. हांवें तिचेप्रमाणच दोतोर जावन लोकसेवा करपाचें थारायलें. हांवें हरशीं एकदां ॲडमिशन मेळ्ळां आसतना-लेगीत मेडिकल शिक्षण सोडिल्लें. हांवें परत मेडिकलाकच वचपाचो निर्धार केलो. तेन्ना पयल्याच दिसा एका दादल्याचें नागडें प्रेत पळोवन वीट येवन हांवें तें शिक्षण सोडिल्लें.

हांवें मेडिकलाक परतेंय वचपाची म्हजी इत्सा अप्पासायबांक सांगली. तांका अजाप जालें. पूण ताणी म्हाका मेडिकलाक वचपाची परवानगी दिली. प्रबळ इच्छाशक्तीच्या बळग्यार आनी म्हज्यांत आशिल्ले ते सुप्त शक्तीच्या आधारार हांवें शव–विच्छेदनावेळार येवपी किळस आनी उबगण हांचेर जैत जोडलें. मनश्याचें शरीर हांव अभ्यासपाक लागलें. तरेतरेच्या रुग्णांक आनी रोगांक हांव अभ्यासपाक लागलें. हांव ह्या मेडिकल शिक्षणांत इतल्यो कितल्यो-श्योच गजाली कशें किदें शिकलें हाचें म्हजें म्हाकाच अजाप जावपाक लागलें. दादले आनी बायलो दोतोर शरिरांतल्यो इतल्यो समस्या पळेतात, पिडा पळेतात, रोगी पळेतात पूण चार चौगां-सारकेच लग्न कशे किदें करपाक शकतात काय असो म्हजेफुडयांत प्रश्न उबो रावलो. म्हाका जाल्यार जलमांत लग्न करप जमचेंना.

म्हजी पिराय आज सत्तावीस वर्सां. हांव थर्ड इयर पास जातलें. उपरांत इंटर्नीशीप सोंपोवन आमच्याच फ्लॅटांत दवाखानो उगडटलें. समाजसेवा करतलें.

स म्हयन्यापयलीं म्हाका आमचे कॉलेज लायब्ररींत ‘मनाची बलायकी आनी स्वयंद्योतनां (self suggestions) हें पुस्तक मेळ्ळें. तांतूत स्वयं-द्योतनां (self suggestions) घेवन खंयचीय विकृती पयस कशी करपाक जाता हाचें वर्णन केल्लें. स्वामी विवेका-नंदांचे बलशाली विचार, स्वयंद्योतनां कशीं घेवचीं हे विशीं स्वामी रामतीर्थांच्यो सूचना आनी फ्रॉयडाचे विचारय तांतूत दिल्ले.

हांव म्हयनोभर फांतोडेर उठून हारशांत पळोवन स्वयंद्योतनां घेवपाक लागलें.

हांव बळ.

हांव पावित्र्य.

हांव ज्ञान.

म्हाका कसलीच विकृती ना.

आदी स्वयंद्योतनां हांव प्रामाणिकपणान घेवपाक लागलें.

एका म्हयन्याउपरांत म्हाका दिसलें म्हजें थंडपण वा फ्रिजिडीटी ना जाल्या. खात्री करून घेवपाखातीर म्हजें क्लासमेट मंजू हजारे वांगडा हांव एका उत्तान इंग्लेज सिनेमाक गेलें. आनी हांव वोगीच गेलें असो उपरांत म्हाका पश्चताप जालो. प्रणयी दृश्यां पळेतना म्हज्या नाकांत तीच चिखलाची दुर्गंधी तिव्रतायेन दरवळूंक लागली. ते दुर्गंधेन हांव घुस्मटलें. म्हाका फिट आयली. हांव मंजूचेरच पडलें. ताणें म्हाका आधार दीत भायर व्हेलें. हांव थिएटराचे लॅव्हॅटरींत वचून ओंकलें. उपरांत तडक घरा आयलें. म्हाका स्वयंद्योतनांचो कसलोच फायदो जावंक नाशिल्लो. फ्रॉयडाचो सिद्धांत म्हजेबाबतींत तरी चूक थारिल्लो. फ्रॉयड म्हण्टा, 'आपणांक कसली विकृती आसा हें कोणाच्याय लक्षांत येतकच ताच्यांत ती विकृती उरना.' पूण हांव फ्रिजीड हें म्हाका कळटकचलेगीत हांव फ्रिजीडच उरिल्लें.

० ० ०

स दिसांपयलीं विलक्षण योगायोग घडले. चवदा वर्सांपयली म्हजे जिणेंत आयिल्लीं तीन मनशां म्हाका एकाच दिसा मेळ्ळीं. पयलीं सकाळीं मेळ्ळो तो मवाली. दनपरां मेळ्ळो तो म्हाका हुंवारा-वेळार खूब खूब आधार दिवपी जिवोत्तमकाका आनी सांजेचो मेळ्ळो सुहास. तो आतां फॉरेन-रिटर्न्ड व्हडलो दोतोर जाला.

मवाल्याक हांव ताच्या हातावयल्या श्रीकृष्णाच्या गोंदवण्या-वयल्यान वळखलें. ताका पळेतकच म्हाका फिट आयली. हांव क्लास चालू आसतनाच ओंकलें. डॉ. आपटे आमकां लेक्चर दितालो. ताणें

म्हाका सल्लो दिलो. खंयच्यातरी मानसशास्त्रज्ञांक हांवें म्हजी प्रकृती दाखोवपाक जाय. आनी ताणेंच डॉ. दोडगेचें नांव सुचयलें. डॉ. दोडगेचें त्याच दिसा आमच्या कॉलेजांत लेक्चर आशिल्लें. हांव आपूण जावनच त्या मवाल्याकडेन उलयलें. म्हजी ताका वळख दिली. मवाली इतलो भियेलो. ते भिरांतेनच तो त्या दिसा मेलो. म्हाका ताची नसाय दिसना. हावें ताका पूर्ण क्षमा केल्या.

जिवोत्तमकाकांक पळेनाफुडें हांव एका खिणांत तांकां वळखलें. कशें वळखलें? तांच्या तोंडार किदेंतरी शेणिल्ल्याचो, अलिप्ततायेचो तोच भाव आशिल्लो. चवदा वर्सांपयलींचीच तोंडार झांक आशिल्ली. चवदा वर्सांपयलीं फकत दोनच दीस म्हज्या सांगाताक राविल्ल्या ह्या जिवोत्तमकाकांक हांव वळखल्लें. इतले सहजतायेन हांव तांका वळखलें ताचेंच म्हाका खूब अजाप दिसलें. हांव तांचेकडेन चड उलोवपाचो यत्न करतनाच ते पळून गेल्याभशेन झराझर चलून नाच्च जाले. ताचें कारणय म्हाका आतां कळ्ळां. जिवोत्तमकाकांक वासंती नांवाचें म्हजेसारकेंच दिसपी एक चली आशिल्लें. आपूण माया करतां ती मनशां मरतात अशीशी तांची किदेंतरी भावना जाल्या.

सुहासान म्हाका रोखडेंच वळखलें. भौतेक म्हज्या दोन भुंवयांमदल्या त्या काळच्या तिळाखातीर आसत. सुहासान खाड वाडयल्लें. म्हणून हांव ताका पयलीं वळखलें ना. ताणें आपणें जावन म्हाका दुसऱ्या दिसाची अॅपोंयटमेंट दिली.

सुहासान फकत तीन खेप म्हाका इंजेक्शनां दिलीं. त्या इंजेक्शनांच्या अंमलांतल्यान जागें जातकच म्हाका इतलें बरें दिसता! इतलें बरें दिसता! फकत एकदां हांव ह्या इंजेक्शनाचे गुंगेंत आसतना ओंकलें.

म्हाका खूबच उत्साही दिसता.
हांव नॉर्मल चली.
म्हज्यांत न्यून्य कांयच ना.
हांव फ्रिजीड न्हय.

म्हज्या मनार जाल्लो तो फट परिणाम आतां उरूंक ना.

म्हाका सगळ्या स्त्रीसुलभ भावनांनी दिलचस्पी आसा.

खऱ्यानींच हांव पुराउपरांत पयलेच खेप दोनदां लजलां ह्या दिसानीं.

पयले खेप म्हजो उत्साही चेरो पळोवन अप्पासायबान म्हाका जेन्ना 'किदें शुभे ! आज विशेश खोशीशें ?' विचारलें तेन्ना. आनी दुसरे खेप सुहासान 'वा बेबी !' आयज तूं ताज्या फुलाभशेन सुंदर दिसता ' अशें म्हळें तेन्ना. कोणाकच खरें दिसचेंना. हांव बायल मनीस आसून लेगीत केन्नाच लजनाशिल्लें.

आनी पयर म्हाका तें सपन पडलें. भांगरा केंसाच्या राज-कुंवराचें आनी राजकुंवरीचें. भांगराचो रथ दिसलो. मुकूट दिसलो. धवोफुल्ल झगो दिसलो. हांव चवदा वर्सांपयलीचें शुभदा जावंक लागलें.

हांव ह्या अश्विनीकुमाराचेर— त्या भांगरा केंसाच्या राज-कुंवराचेर— त्या सुहासाचेर प्रेमबी करपाक लागूंक ना मूं ?

कारण ताची याद येतकच म्हाका पयलीं सारकेंच भित्तर खंयतरी किदेंतरी बुफेल्लेभशेन जाता. भूक लागतकच जाता तसली पोटांत भावना जाता.

० ० ०

आनी भितर खंयसून तरी तो धीरगंभीर आवाज आयलो.

'तुका आपूण रमेशाच्या मर्णाक कारणीभूत जालें अशी अपराधित्वाची भावना उरची ना.

'म्हाका हांव रमेशाच्या मर्णाक कारणीभूत जालें अशी अपराधित्वाची भावना उरची ना.'

'मवाल्याविशींचो द्वेश आतां तुज्यांत उरचोना. खंयच्याच दादल्याचो द्वेश आतां तूं करचेंना. खंयच्याच दादल्याचो तुका आतां नाहक दुबाव येवचोना.'

'मवाल्याचो द्वेश आतां म्हज्यांत उरचोना. खंयच्याच दाद-ल्याचो द्वेश आतां हांव करचेंना. खंयच्याच दादल्याचो म्हाका

आतां नाहक दुबाव येवचोना.'

' हुंवारांत तुजी आई आनी भावंडां तुका सांसणाचीं अंतरलीं ही सत्य घटना. आतां तुका त्या हुंवाराच्यो कोडू यादी जावच्योना. तुज्या नाकांत कुशिल्ल्या चिखलाचो दुर्गंधी आतां परमळची ना.'

' हुंवारांत म्हजी आई आनी भावंडां म्हाका सांसणाचीं अंतरलीं ही सत्य घटना. आतां म्हाका त्या हुंवाराच्यो कोडू यादी जावच्योना. म्हज्या नाकांत कुशिल्ल्या चिखलाची दूर्गंधी आतां परमळची ना.'

' तुका लैंगिक संबंधांविशीं, समागमाविशीं तिरस्कार आनी घृणा मवाल्यान तुजेर केल्ल्या जबरी अत्त्याचाराखातीर उत्पन्न जाल्ली. तूं आतां स्त्रीसुलभ निसर्गिक भावनेचो मातलेगीत तिरस्कार करचें ना.'

' म्हाका लैंगिक संबंधाविशीं समागमाविशीं तिरस्कार आनी घृणा मवाल्यान म्हजेर केल्ल्या जबरी अत्त्याच्याराखातीर उत्पन्न जाल्ली. हांव आतां स्त्रीसुळभ निसर्गिक भावनेचो मातलेगीत तिरस्कार करचेंना.'

' तुका केन्नाच हाचेफुडें शृंगारीक वाङमय वाचल्यार हुंवाराच्या चिखलाची दुर्गंधी येवचीना. ते दुर्गंधीन तुका हाचेफुडें ओंकपाक येवचेंना. तुका शृंगारीक वाङ्मय वाचल्यार स्त्रीसुलभ भावनाच जातली. फिट मातय येवचीना.'

' म्हाका केन्नाच हाचेफुडें शृंगारीक वाङमय वाचल्यार हुंवाराच्या चिखलाची दुर्गंधी येवचीना. ते दुर्गंधीन म्हाका हाचेफुडें ओंकपाक येवचेंना. म्हाका शृंगारीक वाङमय वाचल्यार स्त्रीसुलभ भावनाच जातली. फिट मातय येवचीना.'

' हाचेफुडें तुका केन्नाच सिनेमा पळेतना रोमान्स प्रणयी दृश्यां बी पळेतना चिखलाची दुर्गंधी येवचीना. ओंकपाक येवचेना. फिट येवचीना.'

' हाचेफुडें म्हाका केन्नाच सिनेमा पळेतना रोमान्स प्रणयी दृश्यांबी पळेतना चिखलाची दुर्गंधी येवचीना. ओंकपाक येवचेना फिट येवचीना.'

म्हाका खुबच उत्साही दिसता.

हांव नॉर्मल चली.

म्हज्यांत कसलेंच न्यून्य ना.

हांव फ्रिजीड न्हय.

म्हज्या मनार जाल्लो तो फटीचो परिणाम आतां उरूंकना.

म्हाका सगळ्या स्त्रीसुलभ भावनांनीं दिलचस्पी आसा.

म्हाका ह्याफुडें केन्नाच कुशिल्ल्या चिखलाची दुर्गंधी येवचीना.

शृंगारीक वाङमय वाचल्यार वा चित्रां पळेल्यार म्हाका केन्नाच ओंकारो येवचोना.

म्हाका ह्याचेफुडें केन्नाच ती विकृतिची फिट येवचीना.

हाचेफुडें म्हाका तें दर म्हयन्यांक मासिक पाळी चाल आसतना पडटा तें विकृत सपन केन्नाच पडचेना... ...

हांवें दोळे उगडले तेन्ना सुहास हांसऱ्या तोंडान म्हजेकडेन पळेतालो.

० ० ०

' हाव डू यू फिल, बेबी ?' ताणें म्हाका विचारलें.

' मार्व्हलस अँड फँन्टास्टिक ' हांवें उत्साहान म्हळें. हांव उठून बसलें. म्हाका सगळें वातावरण कशें प्रसन्न दिसतालें. सगळ्या वातावरणांत सुगंध, आल्हाद, संगीताच्यो लकेरी भरून रावल्यात अशें म्हाका दिसतालें.

' बेबी ! ' सुहासान भायर येतकच म्हाका म्हळें, 'त्या कदेलार बस पळोवया.'

हांव बसलें. ताणें आपल्या मेजार आशिल्लें एक इंग्लेज पुस्तक काडलें आनी म्हाका दिलें.

' बेबी ! म्हाका तुवें हें पुस्तक वाचिल्लें जाय. आयजपासून सुरवात कर. तुका हें पुस्तक वाचून सोंपोवपाक चडांत चड चार दीस लागतले. तूं आनीक चार दिसांनीं म्हळयार सुक्रारा सकाळीं णवांक हांगा यो. येतना हे कादंबरीची समरी तूं बरोवन हाड. पंधराशें उतरांनी, ' ताणें म्हाका सांगलें.

म्हाका हांसूंक आयलें. ही इस्कोलांच्या भुरग्यांक सांगतात तसली विचित्र सुचना हाणें किद्याक म्हण्न केल्या काय? हांवें कादंबरीचें नांव वाचलें. 'लेडी चटर्लीज लव्हर.' हो अश्विनीकुमार चक्क पंतोजी जाल्लो आनी म्हाका ते कादंबरीची समरी बरोवन हाडपाक सांगतालो. सुहासाचीं फकणां करचीं अशें म्हाका दिसलें. पूण हांवें तो मोह आवरलो. म्हज्यांतलो हो नवो बदल म्हाका स्पश्ट जाणवलो. हांव आनी एका दादल्याची मस्करी करपाक सोदतां? हांवें ल्हवूच चोरयां सुहासाकडेन पळेलें. तो म्हजेचकडेन पळेतालो. ताचे दोळे तेजस्वीच दिसताले. ताणें आपलें निळशें वस्त्र काडिल्लें. आनी ताचे ते दोळे म्हाका पियेताले म्हळचार जाता. त्या दोळयांनी स्निग्ध मार्दव आशिल्लें. म्हजो चेरो तांबडोच जालो. हांव लजलें. आनी म्हजी मान सकयल घाली.

'हांव वचूं, डॉक्टर?' हांवे सकयल पळेतच ताका विचारलें.

'हय.' ताणें म्हळें. उपरांत टेलिफोन ऑपरेटर वापरतात तसलो तो हेडफोन आपल्या कानाक लायलो.

हांव भायर आयलें. म्हजें मन आनंदान गायतालें.

म्हाका सगळया स्त्रीसुलभ भावनांनी दिलचस्पी आसा.

म्हाका ह्याफुडें केन्नाच कुशिल्ल्या चिखलाची दुर्गंधी येवचीना.

शृंगारीक वाचल्यार वा पळेल्यार म्हाका केन्नाच ओंकारी येवचीना.

म्हाका हाचेफुडें केन्नाच ती विकृतिची फिट येवचीना.

शृंगारीक वाचल्यार वा किदेंय शृंगारीक पळेल्यार म्हाका केन्नाच ओंकारो येवचीना

हाचेफुडें म्हाका दर म्हयन्याक मासिक पाळयेवेळार पडपी विकृत सपन केन्नाच पडचेंना.

हांव खुबच उत्साही आनी आनंदी मनांत एक पद गुणगुणत सोंपणां देंवपाक लागलें.

० ० ०

# जिवोत्तम

म्हाका सुहासाचें पत्र आयिल्लें पळोवन खुबच अजाप जालें. म्हाकाशी मुंबय आफोवपाची गरज ताका दिसली ? हांवें माधव-रावांक सुहासाच्या पत्राविशीं सांगलें.

'आरे ताणें म्हाका आपणें एक चली पसंत केल्या अशें फाटल्या पत्रांत बरयल्लें. म्हाका दिसता त्याच कारणाखातीर ताणें तुका मुंबैक आफयला जातलो,' माधवरावान म्हाका सांगलें.

सुहासान जर एकाद्री चली पसंत केली जाल्यार तांतूत म्हजो किदें संबंध ? किदेंय आसना, म्हाकाय मुंबै वचपाकच जाय आशिल्लें. म्हाका शुभदाक पळोवचेशें दिसलें. वचनाफुडें हांवें पयलीं तिगेर वचपाचें थारायलें.

मुंबै वतना हांवें माधवरावांक विचारून मळचांतलीं खूब फळां आनी भाज्ज्यो वांगडा घेतल्यो. शुभदाकय दिवपाक आनी सुहासाकय दिवपाक. हांव सांजेचे एस. टीत मुंबै गेलों.

० ० ०

मुंबै पावतकच पयलीं हांव शुभदागेर गेलों. बेल मारली.

शुभदानच दार उगडलें. म्हाका पळेनाफुडें तें 'जिवोत्तमकाका' अशें किळचलें. सामकें आनंदान. ताणें आपल्या दोनीय हातानी म्हजो दावो हात घट्ट धरलो.

'अप्पासायब ! कोण आयला पळेयात !' तें आड्डुलें.

अप्पासायबांक म्हाका पळोवन खोस जाली.

'येयात. येयात', अशें म्हणत ताणीं म्हजें प्रेमान स्वागत केलें. हांवे भाज्यो आनी फळांची एक पिशवी शुभदाच्या हातांत दिली.

'ही दुसरी पिशवी आमच्या दोतोरसायबाक,' हांवें म्हळें, 'म्हाका आतां ताचेकडेन वचून ही ताका दिवपाक जाय.'

'आयल्याबराबर वचपाची घाई कसली ? आयज तुमी हांगा आमगेर रावपाचें. फाल्यां सुशेगादीन वचात,' अप्पासायबान म्हाका आग्रो केलो.

'इतलें कसलें घाईचें काम काडलां, जिवोत्तमकाका ! भाजीच दिवपाची मूं ? फाल्यां दियात,' शुभदान म्हाका हांसत म्हळें.

'बायगो ! ताणेंच पत्र धाडून आफयला म्हाका. ताचेच-खातीर आयलां हांव. पूण म्हळें तुमकां मेळून पयलीं वच्चें. म्हणून हांव हांगा आयलों,' हांवें म्हळें.

'अशें किद्याक करीनात तुमी, जिवोत्तमकाका ! आमी सामकार आशिल्ल्या इराण्याच्या हॉटेलांत या. थंयसून तुमी सुहासांक फोन करात. हांव सागतां तांका. आमी आयज तुमकां आमगेर रावोवन घेता म्हणून,' शुभदान सुचयलें.

हांवें तें मान्य केलें. शुभदा म्हाका च्या हाडपाक भितर गेलें.

अप्पासायब आनी हांव हेवटेनच्यो तेवटेनच्यो गजाली करपाक लागले. हवापाणयाच्यो गजाली सोंपतकच अप्पासायबान तो विशय काडलो.

'किदें आसा जाणा जिवोत्तम ! म्हजें आता वय जालां. म्हजें शुभदा आतां दोतोर जाल्ल्यांतच जमा. फकत हांव आसतनाच ताचें बऱ्या एका भुरग्याबराबर लग्न जावचें अशें म्हाका दिसता. म्हजी निमणी हीच एक इत्सा उरल्या. खूब गुणांचें आं म्हजे शुभदा. ताका शिक्षण आसाच. तेभायर कसल्याय घरकामांतय सामकें प्रविण. तें उत्तम रांदता. बऱ्यापैकीं शिवणकाम करता. म्हाका तुमचे डॉ. सुहास खूब म्हळचार खूब आवडलेले. हांव तांचेविशीं ह्या दोन दिसांक शुभदाक विचारपाचोच आशिल्लों. पूण तुमीच अचळय

आयिल्लेच आसात. म्हळें तुमकां पयलीं विचारचें. तुमी डॉ. सुहासांक आमचे शुभीविशीं विचारपाक शकतले व्हय ? ते अजून लेगीत लग्नाचो विचारच करपाक तयार नात काय ?' अप्पासायबान म्हाका विचारलें.

'जाणा ! भौतेक सुहासान आपले लग्न थारायलांशें दिसता. माधवरावांक ताणें तशें पत्र बरोवन कळयलांलेगीन. भौतेक ह्या म्हयन्याच्या अखेरेक तो आपले नववधूसयत पनवेलाक वतलोसो दिसता' हांवें तांका सांगले. आनी अकस्मात खळळ करून कप फुटिल्ल्याचो आवाज जालो. भितरल्यान च्याचो ट्रे घेवन भायर येता आसतना शुभदाच्या हातांतल्यान तें कप सुटील्लें. च्या सांडिल्ली.

'शुभी ! आगो अशी घाई करूं नाका.' अप्पासायबान म्हळें आनी ते शुभदाच्या आधाराक गेले. खोणभर म्हाका दिसलें शुभदा धवें फटफटीत पडलां.

'आगो बाय ! वोगीच गडबडूंक नाका तूं. दुसरी च्या करून हाड' हांवें ताका समजावणेच्या सुरांत म्हळें.

'अकस्मात हातांतल्यान ट्रेच सुटलो,' शुभदान हांसत म्हळें आनी तें दुसरी च्या करून हाडपाक भितर गेलें.

o o o

च्या जातकच शुभदा आनी हांव इराण्याच्या हॉटेलांत गेलीं. शुभदान सुहासाक फोन केलो.

'हॅलो ! हांव शुभदा रेगे उलयतां. डॉक्टर, जिवोत्तमकाका तुमचेकडेन उलोवपाक सोदतात,' ताणें म्हज्या हातांत रिसिव्हर दिलो.

'हॅलो ! जिवोत्तमकाका मूं ? म्हजें पत्र मेळिल्ल्यानच आयल्यात मूं तुमी ?' सुहासान म्हाका विचारलें.

'तुजें पत्र मेळिल्ल्यानच आयलां हांव. आयज हांव शुभदागेर रावून फाल्यां तुगेर आयल्यार जाता ?' हांवें विचारलें.

'बरे भशेन. फाल्यां घराच येयात. आठ वरांपयलीं पावात.

उपरांत म्हाका दवाखान्यांत वचपाक जाय.' ताणें म्हाका म्हळें.

'बरें तर हांव फाल्यां सकाळींच पावतां. फोन दवरूं तर ?' हांवें ताका विचारलें. हांव मोठ्यान उलयतालों काय म्हाका दिसलें. पयलेच खेप फोनाचेर उलयतालो न्हय ? हॉटेलांतले लोक म्हाकाच पळोवपाक लागिल्ले.

'रावात. रावात मात्से. शुभदा आसा थंय ?'

'हय आसा.'

'तर मागीर फोन मात्सो ताचेकडेन दियात.'

हांवें फोन शुभदाकडेन दिलो. ताचो हात फोन घेतना थरथरिल्ल्याभशेन म्हाका दिसलो.

'... ... ... ... ...'

'बरें आसा'

'... ... ... ... ...'

'चालू आसा. आयज सोंपतली.'

'... ... ... ... ...'

'हाव फाल्याच्या दिसांत बरोवन काडटलें.' शुभदाचे गाल सामके आरक्त गुलाबी जाल्ले. सगळो चेरो तांबसार जाल्लो.

'... ... ... ... ...'

'बरें आसा'.

'... ... ... ... ...'

'हय. हांव फोन सकयल दवरूं ?'

दुसरे वटेनच्यान सुहास ताचेकडेन किदें उलयतालो कोण जाणा. पूण हांगा शुभदाच्या मुखामळार तांबसाण पातळ्ळेली. ताचो आवाज सामको मृदु जाल्लो.

आनी फटक करून म्हज्या सगळें लक्षांत आयलें.

म्हाका मुंबै आपोवपा फाटलो सुहासाचो हेतू किदें आशिल्लो ? म्हजी आनी शुभदाची बरी वळख आसा. ताच्या बापायकडेन म्हाका उलोवपाक जातालें. आनी हांव सुहासाच्या नात्यांतलो आशिल्लों.

हांव न्हवरो आनी व्हंकलकारांकडेन उलवणीं– बोलणीं करपाक योग्य आशिल्लों. शुभदाचें मृदु उलोवणें आनी मुखामळार पातळटाली ती तांबसाण किदें दाखयताली ?

पूण ता म्हळचार ताकभात समजुपाइतली घाई करपाक हांव तयार नाशिल्लों. दर एके गजालीक फाव तितलो वेळ दिवपाक जाय ह्या मताचो आशिल्लो हांव.

० ० ०

दुसऱ्या दिसा आठ वरां जावचेपयलीं हांव सुहासागेर गेलों.

शुभदान सक्काळीं बेग्गीन उठून म्हाका च्या करून दिली. मेजार एक पुस्तक दवरून कागदार तें किदेंतरीं बरोवन काडटालें. हांवें च्या घेतकच तें म्हाका पावोवपाक बस स्टॉपामेरेन आयलें. म्हाका बस मेळटकच घरा परतलें. हांवें मुंबैच्यान परतुचेपयलीं आनीक एक फावट ताका मेळपाचें मान्य केलें.

० ० ०

‘ येयात जिवोत्तमकाका ! तुमकां निमंत्रण दिता कोण आनी तुमची सरबराय करता कोण ?’ सुहासान फकणांनी म्हळें. हांवें भाज्जेची पिशवी ताच्या फुडयांत दवरली.

‘ हां. आतां उलय. म्हाका किद्याक आफयल्लो ?’ हांवें ताका सरळ प्रस्न केलो. ताणें खऱ्यानीच आपलें खाड गुळगुळीत केल्लें. मिश्यांक कट दिल्लो.

‘ रावात, जिवोत्तमकाका ! मातशे रावात. इतली घाई करूं नाकात. हांवें तुमकां चार दीस हांगा हवामान बदलाखातीर आफयल्ले. तुमी थोडे दीस हांगा रावात. विश्रांती घेयात. उपरांत सवकासायेन कामासंबंधीं उलोवंया. किदें ?’ सुहासान परतेंय फकणांनी म्हळें.

‘ अशें ? तुजें काम सवकासायेन केल्यार उपकारता मूं ? तर मागीर हांव धा वरांचेर आशिल्ल्या एस टीन पनवेलाक वतां. येतां सवकासायेन आठ दिसांनीं,’ हांवेंय ताची ‘फिरकी’ घेत म्हळें.

‘ हे पळेयात, जिवोत्तमकाका ! फाल्यां दनपरां तुमकां म्हजें एक काम करचें पडटलें. त काम कसलें त आतांच विचारूं नाकात. फाल्यां दनपारमेरेन वाट पळेयात. हांव तुमकां म्हज्या दवाखान्यांतल्यान फोन करतलों फाल्यां दनपरां. शंकर !’ सुहासान आपल्या नोकराक आपयलो.

‘ शंकर ! जिवोत्तमकाकाची बेसबरी वेवस्था कर आं. जिवोत्तमकाका ! हांव आतां मात्सो दवाखान्यांत वता. तुमकां किदेंय लागलें जाल्यार ह्या शंकराक सांगात.’

सुहास म्हाका थंयच सोडून बेगीनबेगीन दवाखान्यांत वचपाक भायर सरलो.

० ० ०

सुहासाच्या कामाचो म्हाका अदमास आयलो. ना, खात्री जाली. हो मनीस शुभदाच्या प्रेमांत पडिल्लो. आनी ताका आपल्या प्रेमांत सफलताय मेळपाखातीर म्हजो आधार घेवचो पडटलो आशिल्लो. आपूण जे गजालीची इत्सा करतालों ती गजाल जैताच्या इतल्या लागीं आयल्या हें अप्पासायबांक खबर लेगीत आसचेंना.

हाका मात खुब्ब समाधान जालें.

नियतीचें म्हाका कवतुक दिसलें. हांव कोण, शुभदा कोण ? एका दोन दिसांभितर आमचे भितर एक अतुट नातें जुळ्ळें. हांवे ते चलयेक हुंवारावेळार आधार दिलो. तें म्हाका आपल्या बापायसमान मानतालें. म्हाका ताच्या बापायसारखो लेखून एक बरो तरनाटो म्हजवरवीं ताचेकडेन लग्न जावपाक आंवडेतालो. आनी हांव ? म्हाका देवान शुभदाच्या रुपांत म्हजें वासंती परतें दिल्लें.

हो संवसार कितलो बेसबरा चलपाक लागिल्लो ! म्हाका चली मेळिल्ली. म्हाका आतां जांवय मेळपाचो आशिल्लो. कितलें सुंदर सोबतलें शुभदा–सुहासाचें जोडें !

म्हाका त्या शुभदाची याद जाली.

हुंवारांतल्यान बळवंतरावान बेशुद्ध अवस्थेंतल्यान वांटायल्लें !

आपले आवय भावंडांची याद काडीत रडपी !

टी शर्ट घालून, पांय ओडीत ओडीत चलपी !

म्हाका पळेनाफुडें ' जिवोत्तमकाका ' असो उलो मारून डक्या हुडक्यांनी रडपी !

तांबडें जीन आनी फुलांचो बुशशर्ट घालून मदतकेंद्रार क्यूंत उबें राविल्लें ! चल्याभशेन दिसपी ! म्हजेर ओंकपी ! आंग काडून राच्चें किळचूपी आनी आठच दिसांपयलीं ' जिवोत्तमकाका ' असो उलो मारीत चवदा वर्सांउपरांतय म्हाका वळखुपी !

पूण ह्या सुहास– शुभदेच्या नात्याविशीं हांवें फकत तर्कूच बी लढोवंक ना मूं ?

शुभदा दुसरे खेप म्हाका सुहासाच्या दवाखान्यांतच मेळिल्लें. तें सुहासाच्या दवाखान्यांत काम करतालें ? तेंय दोतोर आशिल्ल्यान ताचेकडेन कामाक आशिल्लें ?

' शंकर ! म्हाका सुहासाकडेन फोनार उलोवपाक जाय. तो आतांमेरेन दवाखान्यांत पावला आसतलो, ' हांवें शंकराक म्हळें. ताणें म्हाका फोन जोडून दिलो.

' सुहास ! तुज्या दवाखान्यांत त्या दिसा शुभदा किदें करतालें ?' हांवें ताका सरळ प्रस्न केलो.

' तें म्हाका हरशीं सहज मेळपाक आयिल्लें. हें तुमी किद्याक विचारतात, जिवोत्तमकाका ?' सुहासान म्हळें.

० ० ०

# अप्पासायब

पयलेच फावट शुभदा सुहासाक घेवन जिवोत्तमासकट जेन्ना आमगेर आयलें, तेन्नाच म्हाका सुहास आवडलेलो. ताचें तेजस्वी व्यक्तिमत्व पळोवन म्हाका खुब्ब आनंद जाल्लो. हांवे जिवोत्तमा-कडेन गजाली करतनां सुहासाविशीं खुबशी माहिती काडून घेतली. ताचें अद्याप लग्न जावंकना हें कळटकच तर म्हाका खुबच खोस जाली. तो खंयचेच चलयेक अज़ूनमेरेन किद्याक काय पसंत करी-नाशिल्लो ? म्हाका दिसलें जिवोत्तमाकडल्यानच शुभदाचें प्रोपोजल सुहासाकडेन व्हरप योग्य. पूण जिवोत्तम पयलेच खेप आमगेर पाविल्लो आनी असो येनाफुडें ताचेर एक जापसालदारकी उडोवप म्हाका समा दिसलेंना.

दुसऱ्या दिसा जिवोत्तम शुभदावांगडा गेलो.

सुहास डॉक्टर. शुभदाय डॉक्टर जाल्ल्यांनच जमा. दोगांय एकमेकांक अनुरूप. पूण हें सगळें म्हजे हांवच कसो किदें थरयतालों? सुहासाचें हाचेर किदें मत आसतले हें समजून घेवप गरजेचें. शुभदाचेंय हाचेर किदें मत तें समजून घेवपाक जाय. ताची मान्यताय आसली जाल्यारच मागीर सुहासाकडेन ताचें प्रोपोजल घेवन वचप योग्य. पूण अजूनमेरेन म्हाका काय शुभदाक हेसंबंधी विचारपाक जावंक नाशिल्लें. आयज विचारुंया, फाल्यां विचारुंया अशें करतां करतां शुभदाक विचारपाचें तशेंच उरिल्लें.

आनी आयज परतोय जिवोत्तम आयिल्लो. हे संधेचो फायदो घेवन हांवें सरळ जिवोत्तमाकडेन शुभदाचो विशय काडलो. पूण ताणें सांगिल्लेवयल्यान सुहासान खंय खंयचीतरी एक चली केन्नाच पसत केल्ली. ह्या म्हयन्यांनच लग्न करपाचो ताचो बेत आशिल्लो खंय. ताणें आपल्या चुलत्याक तशें पत्र बरोवनय कळयल्लें खंय. जिवोत्तमाक ताणें त्याच खातीर मुंबैक आफोवन हाडिल्लो खंय.

म्हाका मातशी निर्शेवणी आयली. वोगीच आनीक आशा बाळगुपांत अर्थ ना. म्हाका आपलें वोगीच दिसलें. सुहास आनी जिवोत्तम आमगेर आयिल्ल्या दिसापासून शुभी खुबच खोशी जाल्लें. ताका हांवें इतलें आनंदीत केन्नाच पळोवंक नाशिल्लें.

त्या दिसा शुभी सुहासाक ताचे गाडयेमेरेन सोडपाक गेलें. हांव व्हरांडयांतल्यान पळेतालों. सुहास ताचेकडेन हांसत हांसत उलयतालो. तो गाडी घेवन गेलो तरी शुभदा ताचे पयस वचपी गाडयेकडेन पळेत हात हालयत राविल्लें. हें लक्षण कसलें आशिल्लें ? हें प्रेमाचें लक्षण आशिल्लें. लतिकेन आनी हांवेंय प्रेम केल्लें. ताची आनी म्हजी प्रेमांत पडटकच अशीच अवस्था जाल्ली. जगांत आसून-लेगीत जगांत नाशिल्लेवरी आमी वागतालीं. आपल्याच विश्वांत रेवडून घेतालीं.

गंभीर शांत स्वभावाच्या शुभींत ह्या दिसांनी नक्की किदें-तरी बदल जाल्लो. तें उत्साही आनी आनंदीत दिसतालें.

त्या दिसा हांवे ताका, 'किदें शुभी ? आयज च्रड खोश्येनशें?' अशें विचारलें. जाल्यार तें बद्द लजलें. लजतना तें लतिकेसारखें दिसलें. म्हाका लतिकेची तिव्रतायेन याद जाली. आनी अकस्मात एक गजाल म्हज्या लक्षांत आयली. हांवें शुभदाक केन्नाच लजतना पळोवंक नाशिल्लें. सदांच धीरगंभीर आसतालें तें आनी त्या दिसा पयलेच खेप हांवें ताका लजतना पळेलें. ताचें तोंड सामकें तांबसार जाल्लें पळेलें. जशें काय हांवें ताका किदेंतरी चोरयां येवजितना बराब्बर धरिल्लें. हें कसलें लक्षण ?

शुभदा कोणाच्या मोगांतवी पडलेंना मूं ? ० ० ०

हांव जागो जालो तेन्ना शुभी किदेंतरी बरयतालें. मेजावयलो लँप पेटोवन. फांतोड जाल्ली. हांव उठलों.

‘ आयज सामकें सकाळी सकाळी किदें बरोवंक बसलां ?’ हांवें ताका विचारलें. तशें तें परतेंय लजलें. ताच्या तोंडावयली तांबसाण ऱ्या लँपाच्या उजवाडांत म्हाका स्पश्ट दिसली.

‘ हांव एके कादंबरीची समरी बरयतां,’ ताणें म्हळें.

‘ कादंबरीची समरी ? मेडीकलाक कादंबरी सारके विशयूय आसतात काय किदें ?’ हांवें ताका हांसून विचारलें.

‘ तशें न्हय अप्पासायब ! हांव कॉलेज मॅगझिनाक एक परिक्षण बरयतां,’ ताणें म्हाका सांगलें. पूण ताच्या तोंडावयली तांबसाण अदीक गडद जाल्ली म्हाका दिसली.

शुभीचें मुखामळ सारकें ताच्या आवयसारकें दिसतालें. म्हाका लतिकेची परतीय तिव्रतायेन याद जाली. म्हजे दोळे दुकांनी भरले. हांव व्हरांडचार आयलों. दीस उजवाडटालो. मुंबै जिवी जगताली. फुलकार, दूधकार, भाजी विकपी हातगाडीवाले रस्त्यावयल्यान योवच करपाक लागिल्ले.

आयज लतिका आसता जाल्यार ? विनिता, सुधीर, नितीन आसतात जाल्यार ? लतिका हे जाण्टे पिरायेंत कशें दिसतलें आशिल्लें काय ? विनिता दुसरें शुभदासारकें दिसतलें आशिल्लें. दोगांय दिसपाक सारकीच आशिल्लीं. फकत विनिताक दोन भुंवयांमदी काळो तीळ नाशिल्लो. सुधीर आनी नितीन ? आज तगडे तरनाटे जातले आशिल्ले ते. म्हज्या दोळयांतल्यान दुकां झिरपूंक लागलीं. अशेंच जाता म्हाका अदीमदीं. चवदा वर्सां जावन गेलीं, पूण म्हजें दुख्ख कायम आसा. म्हाका अजुनय तांका विसरपाक जायना.

हांवें दोळे पुसले. भितर गेलों. शुभदा म्हाका च्या करपाखातीर भितर गेल्लें. हांवें शुभदाच्या मेजाकडेन वचून पळेलें. एक इंग्लेज कादंबरी थंय आशिल्ली. ‘ लेडी चटर्लीज लव्हर ’ आनी हे कादंबरेची समरी शुभीन आपल्या सुवाच्य अक्षरान बरोवन काडिल्ली.

हांव वचून ओल्तेरार लवंडलों. शुभदा च्याचें कप घेवन म्हजेकडेन आयलें. म्हाका च्या दिवन परतुपाक लागलें.

'शुभी ! हांगा यो.' हांवें म्हळें. शुभदा आयलें.

'तूं त्या दिसा जिवोत्तमकाकाबरावर हांगा आयलें मगो ?'

'हय.'

'तुका जिवोत्तम सुहासाच्या दवाखान्यांत मेळ्ळो न्हय ?'

'हय.'

'तूं सुहासाच्या दवाखान्यांत कित्याक गेल्लें ?'

'हांव... हांव...' शुभदा सामकें काचाबूल जावन गोंदळ्ळ. पयलीं ताणें सामकें आंग काडिल्लें म्हाका दिसलें, 'हांव तांचो दवाखानो पळोवंक गेल्लें, अप्पासायब ! सायकियास्ट्रीची ही सामकी नवीन ब्रेंच. सुहासाचें आमच्या मेडीकल कॉलेजांत लेक्चर दवरिल्लें. ताणीं थंयच म्हाका वळखलें. आपल्या दवाखान्यांत येवपाचें आमंत्रण दिलें. हांव आपलें सहज तांचो दवाखानो पळोवंक गेल्लें. आनी थंयच जिवोत्तमकाका मेळ्ळे. पूण तुमी हें कित्याक विचारलें, अप्पासायब ?' सामकें गोंदळून वचून शुभदान म्हाका विचारलें.

'आपलें हरशींच,' हांवें म्हळें.

किदें शुभदा सुहासाचेर प्रेमबी करतालें काय ? आनी तो ?

० ० ०

# शुभदा

'भौतेक सुहासान आपलें लग्न थरयलां अशें दिसता. माधवरावांक ताणें तशें पत्र बरोवनलेगीत कळयलां' अशें जिवोत्तमकाकांनी म्हळें आनी हांवें आंग काडलें. भितर खंयतरी एक धक्को बाशिल्लेसारको जालो म्हाका. आनी म्हज्या हातांतलो ट्रे सकयल पडलो. च्या रकली. एक कपबशी फुटली.

'अकस्मात हातांतल्यान ट्रेच सुटलो,' हांवें बळयां अडेचें हांसून म्हळें.

च्या जातकच जिवोत्तमकाकांक घेवन हांव सामकार आशिल्ल्या इराण्याच्या हॉटेलांत गेलें. सुहासाचो नंबर घुंवडायलो. सुहास फोनाचेर येतकच हांवें रोखडोच फोन जिवोत्तमकाकांकडेन दिलो. सुहासान म्हजेकडेनय उल्लें उलोवचें अशें म्हाका दिसलें. सामकें खरसाणेन दिसलें. आनी खऱ्यांनीच जिवोत्तमकाकान रोखडोच फोन म्हजेकडेन दिलो. म्हज्या हातांक कडकडो येतालो.

'हॅलो बेबी! हाव आर यू?' खळखळून हांसत सुहासान विचारलें.

'बरें आसा,' म्हजो आवाज सामको मृदु येतालो.

'कादंबरी वाचून सोंपयली? समरी बरोवन जाली?'

'चालू आसा. आयज सोंपतली.'

‘ समरी केन्ना बरयतलें ?’

‘ हांव फाल्याच्या दिसांत बरयतलें,’ हांव वोगीच लजलें.

‘ कशी किदें आवडली कादंबरी ? तांतूतली वर्णनां ?’

‘ बरी आसा.’ म्हाका सामकी लज दिसपाक लागली.

‘ परवां येता मू तूं समरी घेवन ?’

‘ हय. हांव फोन सकयल दवरूं ?’

‘ हय.’

म्हाका सामकी लज दिसली. ते कादंबरेंत कितलीशींच शृंगारीक वर्णनां आशिल्लीं. तांतुतली भाशा, उतरांचे प्रयोग सामके धीट आशिल्ले. आनी हांवे ती कादंबरी वेवस्थीत वाचून काडिल्ली. तीं शृंगारीक वर्णनां वाचतना म्हाका मातलेगीत ओंकारी येवंक नाशिल्ली. कुशिल्ल्या चिखलाची दुर्गंधी येवंक नाशिल्ली. फिट येवंक नाशिल्ली. म्हजी विक्रुती, म्हजें थंडपण, म्हजो फ्रिजीड स्वभाव साप्प पळून गेल्लो. हांवें ते कादंबरीची समरी सामकी काळजीपूर्वक बरोवन काडिल्ली.

आनी म्हाका एक गजाल कळून आयली. हांव सुहासाचेर प्रेम करपाक लागिल्लें. चवदा वर्सांपयलीं करताले ताचेपरस कितलेशेंच चड तिव्रतायेन. सुहासाक म्हजें प्रेम आतांतरी कळटलें काय ? हो खरेलो देवदूत. म्हाका फकत चार इंजेक्शनां दिलीं आनी म्हजो मानसिक रोग धांवडायलो. हो खरेलो अश्विनीकुमार. हाणेंच म्हाका उत्साह, शक्ती, आनी आत्मविश्वास दिला. हाणें दिल्ली ती शृंगारीक कादंबरी वाचूनच म्हाका कळ्ळें. म्हजी ती विक्रुती पळून गेल्या.

हांव अप्पासायबांकडेन सदांच सफाईदार फट उलयत आयलां. कारण म्हजी व्यथा म्हजें दुख्ख ताका कळून तांका मानसिक क्लेश जावचो न्हय अशी म्हजी सामकी इत्सा आशिल्ली. आनी त्या दिसा अप्पासायबांच्या त्या सरळ प्रस्नाचेर हांव कितलें काचाबूल जालें. कितलें आडखळ्ळें, गोंदळ्ळें. कितलें चोराभाशेन दिसलें म्हाका.

‘ तूं सुहासाच्या दवाखान्यांत कित्याक गेल्लें ?’ ताणी म्हाका विचारलें. हांव आनीक किदें सांगतलें ? म्हाका सुहासान अॅपोयंटमेंट

दल्ली, म्हजी मानसिक परिक्षा करपाखातीर. म्हाका विकृती जडिल्ली. डॉक्टर आसूनय हांव मेंटल पेशंट आशिल्लें. आनी हें सगळें अप्पासायबांक हांव कशें किदें सांगतलें ?

सुहासाक मेळून चार दीस जाल्ले. आनी हांव ताका पळोवपाखातीर तळमळटालें. म्हज्या पोटांत चवदा वर्सांपयली जाताली तशी सुहासाची याद जातकच भूक लागिल्लेसारकी भावना जाताली. न्हिदतनां, उठटना, येवजितना म्हाका सुहासाचीच प्रामुख्यान याद जाताली. रमेश देवधराकय अशीच भावना जाल्ली. पूण रमेशाच्या बाबतींत गुन्यांव म्हजो नाशिल्लो. म्हजें विकृतीचो आशिल्लो. हांव विकृत नासता जाल्यार हांव रमेशाक समंजसपणान म्हजो न्हयकार कळयतलें आशिल्लें. पूण अशें द्वेशपूर्ण, बेपर्वा उलोवन ताका दुखोवचें नाशिल्लें.

० ० ०

हांव सुहासाच्या क्लिनीकांत पावलें. सुहास कानाक तो इंन्स्ट्रुमेंट लावन किदेंतरी बरयतालो. म्हाका आयज किदें जालां, कसलें मानसिक दुयेंस म्हाका आसा, हेविशीं सुहास म्हाका सांगपाचो आशिल्लो. म्हाका पळोवन ताणें तें कानाक लायिल्लें यंत्र काडलें. ताणें म्हाका आनंदान म्हळे, 'गुडमॉर्निग बेबी ! तुजी प्रकृती कशी किदें आसा ?'

'सामकी बेस बरी.' हांवें मुमुरक्यांनी हांसत म्हळें.

'समरी बरोवन हाडल्या ?' ताणें म्हाका विचारलें.

'हय. ही घेयात.' हांवें ताका समरी दिली. तो म्हजें बरयप एकाग्रतायेन वाचपाक लागलो. आनी म्हाका ताचेकडेन पळेत न रावपाक जमना जालें. हांव ताचेकडेन तशेंच टक टक करीत पळेत उल्लें. म्हज्या राजकुंवरा ! म्हज्या अश्विनीकुमारा !

सुहासाच्या क्लिनिकांतली ती जाण्टेली आयज नाशिल्ली.

हांव ताचेकडेन एकचित्त पळेत राविल्लें.

'व्हेरी गुड बेबी ! तुका बरें बरोवपाक येता मगो,' सुहासान

समरी वाचिल्ली. आनी म्हजेकडेन पळोवन हांसत ताणें वयलीं उतरां म्हणिल्लीं. हांव परतेंय एकदां लजलें. म्हाका जालां तरी किदें? वोगीच आपलें लज्जेचें झाड कशें परत परत लजतां.

'बेबी! आयजपासून तुजी इंजेक्शनां बंद. पूण आयज तुका एका ल्हानश्या स्क्रिनार एका फिल्म दाखयतलों हांव. हें फिल्म तुका दाखोवपाफाटलो म्हजो हेतू फकत वैजकी आसा. तूं गैरसमज मात करून घेवं नाका. तुवें हें फिल्म फकत एक वैजकी उपाय-योजना म्हणून पळोवपाचें. नाव कमावन लेट्स गो,' सुहासान म्हाका भितरल्या रुमांत व्हेलें. दाखय रे म्हज्या राजकुंवरा, म्हाका तें फिल्म दाखय! अश्विनीकुमारा! तूं सांगता तें करपाक हांव तयार आसां. हांव तुजेर प्रेम करतां. तूं म्हजेर प्रेम करता काय ना हाचो म्हाका हुस्कोय ना आनी पर्वाय ना. चवदा वर्सांपयलीं हांव तुजेर प्रेम करतालें. आतांय करतां आनी हाचेफुडेंय प्रेम करतलें. तुवें तुजी भावी वधु वेंचल्या म्हणून आयकलां. ह्या म्हयन्याभितर तूं लग्न करपाचो आसा खंय. पूण लग्न करून तूं दुसऱ्याचो जालो तरीय म्हाका पर्वा ना. हांव तुजेर प्रेम करीत रावतलें. कोणाकच म्हाका तुजेर प्रेम करपापासून आडावपाक जावचेंना.

० ० ०

आमीं दोगांय भितर गेलीं तेन्ना थंय भितर एक ल्हानसो पड्डो उबो केल्लो आशिल्लो. स्क्रिनापासून स फूटांचेर एक ल्हानसो प्रोजेक्टर आशिल्लो. म्हाका सुहासान प्रोजेक्टराच्या उजवे वटेन आशिल्ल्या एका कदेलार बसपाक लायलें. आपूण प्रोजेक्टराफाटल्यान बसलो. लायटीचो स्वीच ऑफ केलो. आनी फिल्म सुरू केलें...

आनी जल्मांत पयले खेप हांवें ब्ल्यू फिल्म पळेलें. बायलो दादले बेबंद रतिक्रिडा करतना पळेलें. एक जोडी, अनेक जोडयो. कितल्योश्योच कामक्रिडा. कितल्योश्योच पद्धती. आनी हांव हें सगळें पळेतालें. भित्तर खंयतरी थरथराट चालू जाल्लो. हांव उत्तेजीत जाल्लें. असलीं खऱ्या समागमाची चित्रां त्या बायलां

दादल्यांनी घेवपाक तरी कशी दिलीं? पूण हांव हीं दृश्यां पळोवपाक आतां शकतालें. कुशिल्ल्या चिखलाची दुर्गंधी म्हाका आतां येनाशिल्ली. म्हाका ओंकारो येनाशिल्लो. म्हाका फिट येनाशिल्ली. हांव ते वीट दिसपी भावनेपासून मुक्त जाल्लें. आशिल्ली ती फकत स्त्रीसुलभ भावना. फिल्म सतत पंधरा मिनटां चालू आशिल्लें. सतत पंधरा मिनटां हांव तीं दृश्यां न विट्टां, न ओंकतां, न बेशुद्ध पडटां, चौकस, उत्तेजित भावनेन पळेतालें.

फिल्म सोंपलें. दिव्याच्या उजवाडांत रुम परजळ्ळो. हांव सामकें लजून अर्दमेले जाल्लें. मान सकयल घालून बशिल्लें.

' सांग त्रेबी ! तुवें हें फिल्म पळेलें काय ना ?' ताणें गंभीरतायेन विचारलें. कितलोसोच वेळ लजे खातीर हांवे जापच दिली ना. उपरांत फकत मान हालयली.

' चल बेबी ! तूं आतां सामकें बरें जालां. तुवें हांवे दिल्ली ती कादंबरी वाचून काडल्या. तुका ती वाचतना किळस येवकं ना. तूं ओकूंक ना. तुका फिट येवंक ना. उरफाटें तुवें कादंबरेची समरी बरोवन वेवस्थांत रसग्रहण केलां. तुका ती कादंबरी वाचतना जर किळस आयिल्ली जाल्यार तुका ती समरी ते प्रमाण बरोवपाकूच जावपाची नाशिल्ली.

आयज तुवें शृंगारिक आनी कामक्रिडा दाखोवपी फिल्म पळेलें. तुवें लजून मान सकयल घाल्या हाचो अर्थ तुवें तें फिल्म संपूर्ण पळेलां. तुजें तोंड तांबसार जालां हाचो अर्थ तुज्यो सगळयो स्त्रीसुलभ भावना जागृत आसात.

तूं फ्रिजीड न्हय. तूं नॉर्मल चली हें तुका आतां पटलें मूं ?' ताणें म्हाका सरळ विचारलें.

हांवे मान वयर केली. म्हाका अजापाचो धक्को बसलो. हांवें ह्या सुहासाक एका उतरान म्हाका किदें दिसता म्हाका खंयचे क्लेश जातात हें सांगूंक नाशिल्लें. सुहासान इंजेक्शन दितकच फकत हांव म्हजो भूतकाळ आनी ह्या भूतकाळांत जाल्यो घटना येवजितालें

आनी आयज सुहासान म्हाका किदें जातां तें सांगिल्लें. ह्या मानसिक रोगापासून हांव पुराय बरें जाला हें ताणें म्हाका सप्रमाण सिद्ध करून दाखयल्लें, तो कादंबरी वाचपाक लावन तें फिल्म पळोवंक लावन.

' डॉक्टर ! पूण तुमकां कशें कळ्ळें म्हाका किदें जाल्लें तें ? म्हाका फिट केन्ना येताली ती ?' हांवें सुहासाक विचारलें.

सुहासान आपल्या मेजावयलीं टेपीचीं दोन रिळां म्हाका दाखयलीं आनी म्हळें ' बेबी ! हांव तुका दितालों तें इंजेक्शन हांवें संशोधन करून तयार केलां. हें इंजेक्शन दितकच पेशंटाक गुंगी येता. ताका दिसता आपूण फकत विचार करतां, तोंड धांपून मनांतच विचार करता. पूण खरें म्हळयार हो पेशंट प्रत्येक घटना येवजिता आनी म्हाका सांगता. ताच्या उलोवण्याची हांव टेप घेतां. परत परत आयकतां. बेबी ! तुवें म्हाका जें जें सांगलां तें हातूंत टेप केल्लें आसा. तुजी टेप परती परती आयकल्या उपरांत हांवें तुजेर उपचार केलो. उपचार म्हळयार किदें ? फकत अंतर्मनाक द्योतना दिवप. सूचना दिवप. Suggestions दिवप. कारण मानसिक विकृती फकत बाह्य मनाक जडटा. अंत:र्मनाक केन्नाच जडना.

आतां तुका तुजेविशीं सांगतां. तुज्या बाह्य मनाक दिसतालें की तूं फिजीड आसा. थंड आसा. तुका इंद्रियांविशीं किदेंय आयकप म्हळयार वीट येवपी गजाल जाल्ली. कारण तुका, तूं निकतेंच जेन्ना स्त्रीत्वाच्या हुंबऱ्यार आशिल्लें, तेन्ना तुका खुबच मोठो अत्याच्यार सोंसचो पडिल्लो. हांवें फकत तुका फाव आशिल्लीं द्योतनां ( Suggestions ) तुज्या अंत:र्मनाक दिलीं. आनी तूं बरें जालें. तो म्हाका सगळें सगळें बारकायेन सांगतालो.

'आनी तो भित्तरल्यान खंयसून तरी म्हजेकडेन उलोवपी आवाज तुमचो आशिल्लो डॉक्टर ?' हांवें ताका विचारलें, ' कारण हांव येवजितना हो आवाज म्हाका आयकूंक येतालो ताची म्हाका याद जाता.' ' हय ' ताणें म्हळें आनी तो हांसलो.

म्हणजे सुहासान म्हज्या मनांतलें सगळें किदें आयकल्लें म्हणपाचें. म्हजी हुंवारापयलींची जीण आनी हुंवाराउपरांतची जीण. म्हजेर मवाल्यान केल्लो बलात्कार, ताणें केल्लो आनी हांवे चोरून पळेल्लो तो ताचो निलिमावांगडाचो समागम हें सगळें सगळें ताका कळिल्लें तर. हांव चवदा वर्सांपयलीं ताचेर मरतालें खूब प्रेम करतालें हें ताका कळिल्लें तर.

'बेबी! तूं आतां पुराय बरें जालां. यू आर ए नॉर्मल गर्ल; नाव. तुका हाचेफुडें कुशिल्ल्या चिखलाची दुर्गंधीय येवचीना ओंकारीय येवचीना आनी फिटूय येवचिना,' ताणें आपले दोनीय हात मेजार तेंकयत म्हळें.

भांगरा केंसाच्या राजकुंवरा! देवदूता! अश्विनीकुमारा! तुवें कितले रे म्हजेर उपकार केल्यात! म्हाका तुवें नवी जीण दिल्या. हांव जल्मभर तुजेर प्रेम करीत रावतलें. तुजेखातीर किदेंय करपाची म्हजी तयारी आसा.

'डॉक्टर!' हांवें म्हळें.

'किदें?' ताणें विचारलें.

'थॅंक्यू व्हेरी मच, डॉक्टर! थॅंक्यू व्हेरी मच'. हांवें आडखळत म्हाका सांवरत म्हळें. आतां म्हाका वचपाक जाय. हो अश्विनीकुमार आतां दुसरे चलयेचो जावपाचो आसा. ताणें आपली साथीदार वेंचिल्ली. तो म्हयन्याभितर लग्न करपाचो आशिल्लो. हांव ताचेर प्रेम करतां. पूण हांवें वास्तव वेव्हारय पळोवपाक जाय.

'डॉक्टर!'

'किदें बेबी?'

'डॉक्टर! तुमची फी! तुमची फी कितली?'

'बेबी! एक डॉक्टर आपल्या डॉक्टर–पेशंटांकडल्यान फी केन्नाच घेना. पूण हांव मात तुजेकडल्यान फी घेतलों. पूण तुजी ही फी दिवपाची इत्सा आसली जाल्यार.' ताणें म्हाका गंभीरतायेन सांगलें.





तो वेव्हारी आशिल्लो तर! तो म्हाका फकत एक पेशंट म्हणून पळेतालो तर! खुबच समंजसपणान वागिल्लो तो म्हजेकडेन. इरशीं तो स्वभावाचो सामको बरो. पयलींपासून हांव जाणां.

'सांगात डॉक्टर! हाव मच शुड आय पे यू?' हांवें म्हजो आवाज जाता तितलो थीर आनी वेव्हारी करीत ताका विचारलें. तो केदो वेळ वोगीच रावलो.

'म्हाका तूं जाय, बेबी! हांव तुजेर प्रेम करतां,' ताणें गंभीर, थीर आवाजान म्हळें.

'तुमी किदें म्हळें?' हांवें आडखळत, थिजत विचारलें.

'म्हाका तूं जाय, बेबी! आय लव्ह यू. तूं म्हजेबराबर लग्न करशी?' त्याच थीर आवाजांत ताणें म्हळें.

हांव धांवत ताचेकडेन गेलें. ताका घट्ट वेंग मारली. ताच्या छातयेर तकली तेंकोवन हुडके दीत रडपाक लागलें.

म्हज्या राजकुंवरा! भांगरा केंसाच्या देवदूता! अश्विनी-कुमारा! कितलो मान दिलारे तुवें म्हाका अशे लग्नाचें विचारून.

सुहासान म्हजें अचळय चुंबन घेतलें. म्हाका गुंगी येवपाक लागली. कसलोतरी अवर्णनीय सुगंध म्हज्या नाकांत परमळूंक लागलो. हांवय ताचीं चुंबनां घेवपाक लागलें. ताणें म्हाका उखललें. कितलो सशक्त आशिल्लो तो. फुलासारकें उखलून म्हाका तो फोनाकडेन घेवन गेलो. ताच्या तोंडार आतां मस्करेचो भाव आशिल्लो. ताचे दोळे आनंदान चकचकताले. हांवें ताच्या हातांत आसतनाच ताका घट्ट धरलो. सुहासान एक नंबर घुंवडायलो.

'हॅलो!' ताणे म्हळें.

'हॅलो!' असो मोठयान आवाज जालो. तो रिसिव्हरांतल्यान येवपी आवाज म्हाका भायल्यान लेगीत आयकुपाक जातालो, इतलो व्हडल्यान येतालो तो. जिवोत्तमकाका उलयताले हें म्हाका कळ्ळें.

'जिवोत्तमकाका! हांव सुहास! हांवें तुमकां मुंबै कित्याक

आफयल्ले तें खबर आसा ?' ताणें विचारलें आनी रिसिव्हर आपल्या कानापासून एक फूट पयस व्हेलो.

'हय' जिवोत्तमकाकान मोठ्यान सांगलें.

'कित्याक ?'

'तुका लग्न करपाचें आसा.'

'कोणा बरोबर ?'

'आनी आनी कोणाबराबर ? म्हजे धुवेबराबर. शुभदा–बराबर.'

'आरे काका ! यू आर ग्रेट. पूण तुमकां हें सगळें कशें कळ्ळें ?' सुहासान अजापान आडडून विचारलें.

'ताका अक्कल जाय ! तुवें माजराभशेन दोळे धांपून दूध पियेलें म्हणटकच जालें ? आमकां इतलेंय समजना रे ? आरे आमचे काळे केंस धवे वोगीच जाल्यात ? आनां तूं बेगीन हांगा यो. आमकां रेगेर वचपाक जाय,' जिवोत्तमकाकांचो आवाज रिसिव्हराभायर घुमतालो. सुहासान रिसिव्हर सकयल दवरलो आनी म्हज्या ओंठाचेर आपले ओंठ तेंकयले.

हांवें म्हजे दोळे सामके खोशयेन धांपून घेतले.

... आनी आतां म्हज्या मनांत एक प्रचंड हुंवार धुमशेण घालतालो. हो हुंवार आशिल्लो सुखाचो, खोशयेचो आनी तृप्तीचो. आनी ह्या हुंवारांत म्हाका येताली ती कुशिल्ल्या चिखलाची दुर्गंधी, म्हाका येतालो तो ओंकारो, म्हाका येताली ती विकृत फिट व्हांवून गेल्ली. नाच्च जाल्ली ...

—▣—

